# खऱ्यालीच श्री सत्यसाईबाबा देव?

- एम. आर. कुंद्रा



अणकार

रामनाथ मं. मणेरकार

# खरेंच
# श्री सत्य साईबाबा देव?

मूळ बरोवपी

श्री मंगतराम कुंद्रा

कोंकणींत अणकार

रामनाथ मं. मणेरकार

संजना पब्लिकेशन्स
सांगें गोंय

kharench Shri Sathya Saibaba dev?
A translation by Ramnath M. Manerkar



प्रकाशक:
संजना पब्लिकेशन्स
39, दत्तवाडी, सांगे गोंय 403 704
email - sanjanapublications@yahoo.in

प्रकाशन क्र. 22
पयली उजवाडावणी: 2013

अक्षर जुळणी: - अर्चना-अशोक
छापणावळ:- बांदेकार ऑफसेट - कुडचडें, गोंय

मोल: 200/-

Sole Distributor
Sri Sathya Sai Books & Publications Trust
"Darmakshetra"
Mahakali Caves Road,
Andheri (East) - 93
Website: www.srisathyasai.org.in
www.ssbpt.org

# मांडावळ

# श्री कुंद्राजींची दोन उतरां

हांव खर कृतज्ञतेचे भावनेन ही शब्दरुपी माळ म्हगेली भेट म्हूए आमच्या मोगाळ श्री सत्य साईबाबांच्या दिव्य पदकमळांक आज तांच्या वाडदिसा निमतान अर्पण करतां.

आज २३ नोव्हेंबर,१९९४ आनी तांचो ६९ वो वाडदीस.

आमी पुराणांत पळयतात कीं अवतार आपूण जावन जगाच्या कल्याणा खातीर पृथ्वीर अवतरतात. भारतान तर अवतारांची, देवमनशांची, सद्‌गुरुंची, रुशींची, महारुशींची माळच जल्माक घाल्या. अवतार हे प्रत्येक युगांत अवतरतात. पुणून श्री सत्य साईबाबा हो एकूच अवतार जो अखील जगांत नामनेक पावला. सगळ्या मिडियाचेर अंतरराष्ट्रीय मळार पावला, गाजला आनी हें सगळें बाबांच्या हयातींत घडलां.

श्री सत्य साईबाबा हे परमेश्वरी अवतार आसात हें सत्य जांकां स्वताच्या अणभवान पटलां अशे लाखों लोक तांचे भक्त आसात. सद्य काळाचें हें मानप फुडल्या वर्सांनी आध्यात्मीक इतिहासांत 'साई यूग' थारतलें. साई वाङ्‌मय मूळ धरता. आनी तें सगळ्या जगभर वाडत पसरत आसा. चमत्कार हे अवतारा पसून वेगळे काडूंक मेळनात. अवतार हो स्वताच एक चमत्कार जावन आसा आनी चमत्कारांतल्यान अवतारांची

तुस्त सगळयाक पसरता.

आमच्यांत आनी आमचे भोंवतणीं आशिल्लो निसर्ग वा सैम हें इश्वरालें पांगरूण. हातूंत आमकां तागेल्या सौंदर्याची झलक दिश्टी पडटा. ताचें मांगल्य, ज्ञान, शक्ती हें सगळें आमच्या सभोंवती आसा. आमी मागीर खंयच्यानय आमची नदर भोंवडांव, सगळो निसर्ग आमी आमचे भोंवतणीं पळयतात. आनी अशे परिस्थितींत आमी इश्वराचें अस्तित्व नाकारूंक शकनात. पूण इश्वराक वळखुपाची रीत ही थोडी आमकां विचित्र लागता. म्हणटकर आमी इश्वराकच नाकारतात आनी काळखांत रावप पसंत करतात.

वातावरणांत आमचे भोंवतणीं दूरसंचार स्टेशनांतल्यान परावर्तीत केल्ल्यो संगीत लहरी येतात. पुणून त्यो आमच्या कानार येवन आदळनात. आमकां तीं खंयचीं स्टेशनां खबर ना. पूण तुमचे कडेन अँटेना आसत आनी योग्य स्टेशनाचेर रेडियो ट्यून करीत जाल्यार ठरावीक स्टेशनां कडल्यान तुमकां योग्य प्रसारण आयकूंक येतलें. हाचे उलट जर तुमी बरोबर ट्युनींग केलें ना जाल्यार तुमकां बातम्यां वांट्याचो भलतोच बोवाळ कानार येतलो. तेच भशेन इश्वर हो सगळ्याक भरिल्लो आसा. वयर-सकयल, आशीकुशीक, आमकां लागीं आनी पयसय बी. ताका पळयतलो जाल्यार आमचे कडेन ध्यानाची साधना आनी भक्ती जाय जाका लागून तुमकां ताचें ज्ञान जातलें. ध्यान म्हणल्यार तुमगेलें जाय आशिल्लें स्टेशन आनी भक्ती प्रेम म्हणल्यार योग्य ट्युनींग जाका लागून तुमचें आयकप सुखाचें जातलें.

काम करतना तें प्रेमाचे भावनेन करात. म्हणटकर तें तुमकां इश्वराचे पुजे कडेन पावयतलें. हाचो अर्थ कामाच्या फायद्याचेर लक्ष दवरून काम करूं नाकात. काम करपांत तुमकां आवड आसा म्हूण काम करात. देवान तुमकां काम करपाची बरी बुद्ध दिल्या म्हणून तुमचेर केल्ल्या उपकारां खातीर कृतज्ञतेचे भावनेन तें काम देवाकच समर्पीत

करात. अशे तरेचें काम तुमकां ज्ञाना कडेन व्हरतलें. ज्ञान म्हणल्यार हर एक चल-अचल वस्तूंत आशिल्ल्या इश्वराची वळख.

भगवान श्री सत्य साईबाबांचो जल्म २३ नोव्हेंबर, १९२६ वर्सा पुट्टपर्ती ह्या ल्हानशा खेड्यांत, अनंतपूर तालुक्यांत, आंध्र प्रदेशांत दक्षिण भारतांत जालो. हें खरेलेंच विसाव्या शेंकड्यांतलें एक व्हड अजाप. एक आदर्श विभुती, हर एक मनशांतले सत्चिद आनंद शक्तीचो महागुरू, एक अजापांचो मनीस. आयच्या आधुनीक युगाचो अवतारी पुरुष. जरी तो समजूंक कठीण आसलो तरी ताणें जगांतल्या लाख लाख लोकांक खूब आनंद दिला. पुट्टपर्ती एक पवित्र यात्रा स्थान इतलेंच न्हय तर सत्य साईबाबांच्या आध्यात्मीक कार्याचें तें क्षेत्र जावन आसा. साईभक्तांक तें व्हॅटिकन, मक्का जालां. तशेंच तें उदेंतेक आनी अस्तंतेक जोडपी जंक्शन जालां.

वयाच्या चवदाव्या वर्सा बाबांनी स्कूल सोडलें. आनी आपूण श्री शिर्डी साईबाबांचो अवतार म्हूण घोशणा केली. आध्यात्मीक मार्गान भारताच्या आनी मनीस जातीच्या पुर्नउत्थानाक श्री सत्य साईबाबांनी सुरवात केली. ते खातीर तांणी पुट्टपुर्तीक 'प्रशांती निलयमाची'(सनातनी शांती आश्रमाची) उभारणी केली. थंयच तांचो सदां खातीर राबितो आसता. आनी पुट्टपुर्ती हेंच तांगेल्या जगभर पातळिल्ल्या पवित्र परमार्थी कार्याचें केंद्र जावन आसा. हांगाच्यानच ते मनीस उद्धारा खातीर पांच मानवी मुल्यांची मनशाक शिकवण दीत आपलो सगळो वेळ खर्च करतात. मनशाक जिणेंत सूख, समाधान मेळयतलो जाल्यार श्री सत्य साईबाबांनी घालून दिल्लीं पांच तत्वां तीं म्हणल्यार सत्य, धर्म, शांती, प्रेम, अहिंसा हीं जिणेंत पाळचींच पडटलीं. तांचें कडक रितीन आचरण करचेंच पडटलें. मनीस जिणेच्या उद्धाराचो हो सोपो मार्ग आसा.

श्री सत्य साईबाबांक आमी तांगेले भक्त प्रेमान बाबा म्हणटात. तांणी आपल्या लाखों भक्तांक शांती सूख मेळोवन दिलां. हजारांनी मैल

पयस आशिल्ल्या भक्तांचीं दुखणीं बरीं केल्यांत. आनी एक क्वचीत घडिल्लें उदाहरण म्हणल्यार तांणी मेल्ल्या मनशाक (आपल्या भक्ताक) जिवो केला. ते चमत्कार करतात. आपलें हस्त संचलन करुन विभुती, मुदयो, पदकां उत्पन्न करुन आपल्या लाखों भक्तांक दिल्यांत. जगभर पसरिल्ले तांचे लाखों भक्त तांकां, श्री सत्य साईबाबांक, परमेश्वराचो अवतार मानतात.

देव हो सर्वसाक्षी, सर्वशक्तिमान, सर्वज्ञ आसा. जगांत इश्वर आसा आनी ताचे परस वयर कोणूच ना. तो पूर्ण आसा. तो अनंत आसा आनी सनातन आसा. तो संवसार (ब्रह्मांड) निर्माण करपी, ताचें पालन करपी आनी शेवटाक ताचो नाश करपी. संपूर्णपणान आपूण जावन ताका शरण वचात. ताचे इत्सेक मान दियात. ताचे इत्से बगर झाडाचें एक पान पसून हालना. तो आमकां उकत्या दोळ्यांनी दिसना म्हूण आमी जगांतलें ताचें अस्तित्व नाकारतात. अगणीत काळा सावन लोक देवाच्या सोदा खातीर धडपडटात. देवान हें ब्रह्मांड कशें निर्माण केलें हाचें उत्तर तांकां सांपडना. आनी इश्वराक सोदपाक लोक हांगा थंय धांवतात. देव जगाचो नियंतो. ताचो चालक आनी मालक आसा. तशेंच तो प्रत्सेक मनशांत स्थीत आसा. आनी अख्खें जग व्यापून आसा. म्हणटकर आपल्या संकल्पानच जायत्यो वस्तू मेळोवंक शकता. आनी हें पुस्तक म्हणल्यार तागेलोच संकल्प.

श्री सत्य साईबाबांचेर पूर्ण विस्वास दवरात आनी जिणेंत योग्य मार्ग अनुसरात. तुमगेली अंतस्थ ज्योत तुमच्या कार्यांत तुमकां मार्गदर्शक थारूं. तुमगेलें कर्तव्य कर्म अनासक्तीन आनी मनापसून करात. खंयचेंय कार्य करतना तुमी आपल्याक कार्याचो कर्तो अशें मानचें न्हय. पूण तुमी कार्य करतना हें बाबांलें कार्य म्हूण करात आनी आपल्याक बाबांल्या हातांतलें एक साधन अशें मानात. तें कार्यच बाबांक समर्पीत करात आनी मन मेकळे जायात. म्हणटकर त्या कार्याची बाधाय जावची ना आनी

बंधनय आसचें ना. तुमगेल्या अंतस्थ प्रेमाच्या मायेच्या पावसान इश्वरान निर्माण केल्ल्या सगळ्या जिवांचेर तुमगेल्या प्रेमाचो शिंवर घालात. आनी मुख्य म्हणजे खंयच्याय वाद-विवादांत पडूं नाकात.

हांगा (ह्या पुस्तकांत) एक नमळायेचो प्रयत्न केला. तातूंत बाबांल्यो कांय लिला, घडिल्ल्यो घटना तुमकां समजुपाक दिल्यात. तशेंच इतर जावन गेल्ल्या गुरूंची, अवतारांची शिकवण, तांगेले चमत्कार हांची बरोबरी केल्या. हें इतलेंय तुमकां ठळकपणान कळपा खातीर केलां. श्री सत्य साईबाबा हे चलते-बोलते इश्वर आसात. हे खातीर लेखकान बाबांले भक्तांक आयिल्ले अणभव हांगा दिल्यात.

जगांत अशेय तरेचे लोक आसात जे इश्वराचें ह्या ब्रह्मांडांतलें अस्तित्व मानूंक तयार नात. तेच भशेन अशेय लोक आसात जांचो देवाचेर विस्वास आसा. पूण ते बाबांक देव अशें मानिनात. पूण अशेंय आसलें तरी आमकां, बाबांच्या भक्तांक, श्री सत्य साईबाबां शिवाय कलियुगांत जल्म घेतिल्लें दुसरें दैवत ना.

आमी जाणात बाबा हे अवताराच्या रुपान आध्यात्म आनी धर्म (निती आचरण code of living) हांची पसरण करपा खातीर आयल्यात. तांणी केल्ल्या ठळक चमत्कारांची आनी इश्वराच्या वैभवाची थोडी झलक आमी पळोवया.

- श्री. मंगतराम कुंद्रा

## प्रस्तावना

श्री. मंगतराम कुंद्राजी हांणी म्हाका आपणें श्री सत्य साईबाबांचेर बरयिल्ल्या आपल्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवपाची विनंती केली. ही म्हाका मेळिल्ली एक मोठी संद अशें हांव समजतां. आनी मोठ्या खोशयेन ती मान्य करतां.

भगवान श्री सत्य साईबाबांच्या इतर भक्तां प्रमाणें श्री.कुंद्राजी हेय तांचे एक भक्त. तांणी श्री सत्य साईबाबांच्या आशिर्वादाचो आनी तांगेल्या कृपेचो लाब मेळयलो. श्री. कुंद्राजीक बाबा एक चलतो बोलतो इश्वर आशिल्ल्याचो दिश्टावो जालो आनी तांची खात्री पटली. तांकां तसोच अणभवय आयलो. हें पुस्तक म्हणल्यार प्रामाणिकपणान केल्ले स्रद्धेचो प्रवास. तशेंच मनशाच्या अंतस्थ क्षेत्राचो चिद-घन शक्तीचो नक्सो. एक सोद आनी वैयक्तीक साक्षात्काराची गवाय. ह्या पुस्तकाच्या पाना कणकणीं भक्ती आनी आपल्या अणभवांच्या आधारीत बरयिल्ल्यो ल्हान ल्हान कथा, खबरी मेळटात. तशेंच आमच्या मुखार बाबांल्या दिव्य दर्शनाची मूर्त उबी जाता. आमकां श्री सत्य साईबाबांच्या दिव्य स्वरुपाचें (विश्वरुपाचें) दर्शन घडटा. सभोंवती प्रकाश वलय आनी तातूंत बाबांचें तेजस्वी प्रकाशान प्रफुल्लीत अशें मुखामळ आनी ताका तांच्या सत्य, धर्म, शांती, प्रेम, सद्भावना, सदाचार, विश्व भाईचार, अहिंसा हांच्या गांठवलाच्या संदेशाची जोड. हो संदेश म्हणल्यार भारताचे

संस्कृतीचो, आध्यात्मीक आनी मनीसपणाच्या दायजाचो चेरो. हो संदेश सनातन आनी वैश्वीक भारताचो जो भारताचें वर्णन, भौगोलीक शिमो हुपून जगांत पाविल्लो, पुरातन, आत्मीय आनी सदां खातीर आशिल्लो सत्यम, शिवम, सुंदरम हाचो सोद.

श्री कुंद्राजींचें पुस्तक आमकां श्री सत्य साईबाबा प्रेमाचें, उजवाडाचें सत्य, दया, भौमान- मनीसपण हांचें सार कशें चैतन्यमय करून आनी उच्च परंपरेन जे व्हड गुरु जाल्यात तांचेच मार्गान आमकां पटोवन दिता हें दाखयता. हाचे पयलींय बाबांचेर, तांच्या व्हडपणाचेर बरयल्ल्या पुस्तकांची रास जाल्या आनी तातूंत श्री. कुंद्राजींच्या पुस्तकाची भर येवकाराची थारतली. सारासार विचारान सांगपाचें जाल्यार प्रत्येक स्तोत्र प्रामाणीक पुजेच्या भावनेन रचिल्लें. फकत ताची पुनरावृत्ती जाली म्हणून भक्तीच्या मळार तें त्याज्य जायना तर असो त्यागाचो जाल्लो निस्वार्थी प्रयत्न हें एक भुषण थारता.

हांव म्हगेली ही प्रस्तावना नमस्काराचे भाशे सयत बाबांच्या चरणांक ओंपतां. श्री सत्य साईबाबांची आदर्श जीण आमकां आमचे भितर आशिल्ले ज्योतीची जाणीव करून दिता. आनी आमकां घेरून राविल्ल्या भ्रमांतल्यान, काळोख आनी निराशा हातूंतल्यान जागे करून फुडें येवपी हिऱ्यांच्या उजवाडान भरिल्ले फांतोडेक आनी ताच्याय फुडें येवपी पूर्णत्वाच्या सुर्याच्या उजवाडाक आमच्या निस्वार्थीपणान, आध्यात्मीक अणभवान आनी वैश्वीक शांती-सौख्यान, वैश्वीक भाईचारान, बऱ्यांत बरी निरंतर बंधनांत बांधिल्ली आमचे बुद्धि पेल्या कडले दैवीक सत्‌चिदघन शक्तीन अधिश्ठीत आशिल्ल्या उजवाडाक फुडो करपाक आमी तयार रावुंया.

हें विनम्र प्रस्तावनेचें फूल भेट म्हूण जे प्रार्थनीय, पुजनीय, जे मनीस जातीचे द्रष्टे, यशाच्या सूर्यप्रकाशांत न्हाल्ले अशा आमच्या श्री

सत्य साईबाबा हांच्या चरणार हें फूल ओंपतां. तांगेलो अमर उजवाड आमच्या सनातन भारताचेर सदांच पडचो.

-L. M. Singhvi
INDIA HOUSE
ALDWYCH
LONDON, w.c.2

# अणकारप्यालीं दोन उतरां

जय श्री राम

'खरेंच श्री सत्य साईबाबा देव आसात?' ह्या कुंद्राजील्या मूळ इंग्लीश पुस्तकाचो हांवें म्हजे कुवती नुसार कोंकणींत अणकार केला. तो कसो जाला, बरो वा वायट तें तुमी (वाचकांनी) थारावपाचें. आतां ह्याच पुस्तकाचो अणकार करपाचें कारण म्हणल्यार म्हाका आमच्या श्री सत्य सेवा समिती, कुडचडेंच्या अध्यक्षांनी भौ. प्रदीप चोडणेकार हांणी हें पुस्तक म्हजे कडेन श्री सत्य साई साधना पब्लिकेशन ट्रस्ट हांची कोंकणी अणकाराक मान्यताय घेवन धाडून दिलें आनी अणकाराची मागणी केली. ही मोठी संद तांणी म्हाका दिल्या म्हणटकर हांव हें म्हगेलें सौभाग्य म्हणून मोठ्या आनंदान ताचो अणकार करपाचें मान्य केलें.

हांवें पुस्तक वाचलें आनी तें म्हाका अप्रतीम दिसलें. म्हाका तें पुस्तक खूब आवडलें आनी तें सगळ्या साई भक्तांनी वाचचें अशें म्हाका दिसलें. म्हूण हांवें तें कोंकणींत हाडपाचो प्रयत्न केला.

श्री. मंगतराम कुंद्राजी हे बाबांल्या इतर लागशिल्ल्या भक्तांपैकीं एक. तांकां बाबांले आशिर्वाद मेळ्ळयात. तशेंच तांका बाबांच्या दिव्यत्वाचो दिश्टावो जाला. तांणी ४ दसकां

बाबांली सेवा केल्या. ते इंग्लंडांतल्या साई केंद्राचे अध्यक्ष. ते सांगतात, हें पुस्तक म्हणल्यार बाबांलोच संकल्प. सारासार विचार करून सांगचें जाल्यार हें पुस्तक अप्रतीम आसा. हातूंत देवाचेर विचार आसा. बाबांल्या आनी इतर अवतारांच्या चमत्कारांचेर विचार केला. हातूंत प्रमुख संतांचीं चरित्रां आयल्यांत. बाबांल्या भक्तांचे अणभव तांची मुलाखत घेवन सत्यता पारखून पळयल्या आनी ते पुस्तकांत घाल्यात. म्हणून सगळे दृश्टीन हें पुस्तक अप्रतीम जालां. तें सगळ्या साई भक्तांनी वाचचें ही म्हगेली नमळायेची तुमचे कडेन मागणी. हें पुस्तक बरोवन कुंद्राजीन आमचेर, सगळ्या साई भक्तांचेर मोठो उपकार केला. अशें हांव म्हणटां अशें न्हय तर श्री माथूर कुष्णमुर्ती आपले प्रस्तावनेंत तेंच सांगतात. तांणी म्हणलां, श्री कुंद्राजीन हें पुस्तक बरोवन बाबांल्या भक्तांक बाबांच्या चड लागीं हाडल्यात. ह्या पुस्तकांत प्रमुख धर्मांचेर विचार जाला. तांचे संस्थापक, धर्मांचो इतिहास हें सगळें ह्या पुस्तकांत आयलां. हें पुस्तक म्हणल्यार श्री. कुंद्राजीन बरयल्लो एक प्रामाणीक स्रद्धेचो प्रवास जो आमकां बाबांच्या चड आनी चड लागीं व्हरता. ह्या पुस्तकाक व्हड व्हड मनशांच्यो प्रस्तावना श्री. कुंद्राजीन मेळयल्यात. आनी तांचो अणकार करून ह्या पुस्तकांत घाल्यात. एक, भारताचे इंग्लंडांतले एक महामहनीय उच्चायुक्त डॉ. यल्. यम्. संघवी हांची आनी दुसरी भौ. माथूर कुष्णमुर्ती, एक्झ्युकिटिव्ह डायरेक्टर, भारतीय विद्याभवन, यु. के. सेंटर हांची. शिवाय श्री. कुंद्राजी हांगेली प्रस्तावना आसा. तेन्ना हांव आनी प्रस्तावना बरोवपाचे भरीक पडना. भरजरी शालवाक मांजरपाटा पदर नाका. म्हाका कितें सांगूंक जाय तें हांवें दोन उतरांनी बरयलां.

आतां उपकारांची आठवण.

ह्या कुंद्राजील्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकार करपा खातीर कनवीनर श्री सत्य साई साधना पब्लिकेशन ट्रस्ट, प्रशांती निलयम, पुट्टपर्ती हांचो हांव खूब उपकारी आसां. हांगा हांव श्री सत्य साईबाबांचे उपाट उपकार आनी कृपा हांची आठवण करतां तशेंच तांचे कृपेची पखरण म्हजेर सदांच आसा हाची जाणीव दवरून श्री कुंद्राजीन तांचेर बरयल्ल्या वयर उल्लेखीत पुस्तकाचो अणकार बाबांनीच स्फूर्त दिवन म्हजे कडल्यान बरोवन घेतिल्ले बद्दल तांच्या पांयां कडेन म्हगेले लाख लाख नमस्कार. आनी अशीच कृपा दवरून तांणी म्हाका सदांच उपकारांत दवरचें अशी म्हगेली तांच्या पांयां कडेन नमळायेची मागणी.

हें पुस्तक अणकारपा खातीर श्री. बाबांली मान्यताय घेवन म्हाका धाडून दिले बद्दल श्री सत्य साई सेवा समितीचे अध्यक्ष श्री. प्रदीप भाईचे म्हजेर खूब मोठे उपकार आसात. म्हगेल्या पयल्या पुस्तकाकय तांणीच पुढाकार घेवन ताकाय अशीच मान्यताय घेवन, आपली माची दिवन तांणीच नांवारुपाक हाडिललें. तांणी केल्ल्या ह्या उपकारां खातीर हांव तांचो ऋणी आसां. म्हगेली बाबां कडेन मागणी तांणी तांचेर आपली कृपा दवरून तांकां आपले आशिर्वाद दिवन सुखांत दवरचें. ह्या पुस्तकाचे एकमेव वितरक श्री सत्य साई बूक पब्लिकेशन्स ट्रस्ट, धर्मक्षेत्र, अंधेरी हांचेय हांव उपकार आठयतां.

ह्या पुस्तकाची अक्षर जुळणी करपी सौ अर्चना अशोक कामत हांचे म्हजेर खूब मोते उपकार आसात. म्हगेल्या पयल्या पुस्तकाची अक्षर जुळणी तांणीच करून दिल्ली. हें

जिकरीचें आनी किचकटीचें काम तांणी केल्ले बद्दल तांकां माये मोगाचे म्हगेले आशिर्वाद दिवन देव तांकां बरें करूं अशें मागतां.

आतां उपकार मानपाचे उरले ते म्हगेल्या दिनेशाले आनी संजना पब्लिकेशन्साचे. बाब दिनेशालें हें काम. सगळो पुढाकार घेवन म्हगेलीं दोनय पुस्तकां नांवारुपाक हाडून उक्तावणाचो सुवाळो घडोवन हाडपाची जबाबदारी मोठी. हातूंत तांची छापणावळ धरून सगळें आयलें. म्हगेल्या भुरग्यांचे हांव उपकार मानतां पूण ताचें हांगा प्रदर्शन मांडप सोवून दिसचें ना. हांव ताका म्हगेले म्हगेले मायेमोगाचे आशिर्वाद दिवन देवा कडेन बरें-भलें मागतां. अशीं भुरगीं मेळप हें म्हगेलें भाग्य अशें हांव समजतां. तांकां बरें आयुश्य मेळूं. तांचें बरें जावं.

आतां निमाणे कडेन बांदेकार ऑफसेट, कुडचडें हांणी दिल्ल्या वेळा भितर बरें काम करून म्हगेल्या पुस्तकाची छापणावळ केल्ले खातीर तांचेय उपकार आयतां आनी म्हगेलीं दोन उतरां सोंपयतां.

जय साई राम

रामनाथ मं मणेरकार

सांगें-गोंय

# देव म्हणल्यार कोण?
# देवाक आमी कित्याक मेळोवंक जाय?
# आनी आमकां तो मेळूंक शकता?

जगांत इश्वर आसा तरी? इश्वराक मनीस रुपांत येवप शक्य आसा? सगळ्या जग भर लोकांक हे प्रस्न गोंदळांत उडयतात. लोक हाचेर थोडो वेळ विचार करतात आनी तांकां सत्य खबर नाशिल्ल्यान हे प्रस्न ते त्याच वेळा सोडून दितात. ह्या प्रस्नांचें उत्तर स्पश्ट आसा. तें हय अशें आसा आनी खात्रीन हय, इश्वर आसा अशें सांगूं जाता.

आमी आमच्या भोंवतणीं आशिल्ल्या सैमाचेर उकत्या मनान नदर मारली जायत जाल्यार आमकां कळून येता. आनी इश्वर खात्रीन आसा म्हणपाचो आमकां भास जाता आनी तागेलें अस्तित्व आशिल्ल्याचीय जाण जाता. आमी मळबा कडेन पळयलें जाल्यार थंय सूर्य आसा, चंद्र आसा. पृथ्वीर दोंगर, न्हंयो, पक्षी आनी पशू, वारो, वादळ, झुळझुळ वारो. हाचेर थोडेंशें चिंतलें जाल्यार कशेतरेन हीं सगळीं पद्धतशीरपणान कामां करतात, पूर्ण शांततायेन आनी एकमेकांचे संगतीन, भोंवतणीं आशिल्ल्या गाज-गडबडांतल्यान गोंदळून वचनासतना आनी थोडें अंतर्मूख जावन विचार केलो जाल्यार जे शक्तीन हाची सगळ्याची निर्मणी केली आनी पूर्ण नियमां भितर सरळ नियमीतपणान

काम करपाची जवाबदारी घेतल्या ती शक्ती. हाचें उत्तर स्पश्ट आसा. उगडें सत्य आसा. आनी हांगा इश्वर आसा. तो सृश्टीचो चालक आसा आनी नियंतोय आसा.

नास्तीक लोक हें नाकबूल करुंये आनीक बुद्धी प्रामाण्यां सांगून उदाहरणांनी सिद्ध करूं पळयतात कीं हें सगळें मुळांतूच चूक आसा आनी बुन्याद नाशिल्लें आसा पूण अशें म्हणलें म्हूण हें असत्य थारता? दुदांत लोणी सदांच आसता पूण तें लोणी भायर काडटलो जाल्यार ताका घुसळचें पडटा. म्हणटकर तें वेगळें जाता.

आमी मनीस प्राण्यां कडेन पळोवया. तांकां चालू दवरपाक कोणाचें फाटबळ मेळटा? आत्म्याचें. आनी आत्मो म्हणल्यार कोण? तोच देव, इश्वर. ह्या पांच घटकांची कोणें निर्मणी केली? पांच प्राणसंस्था, पांच कोश, पांच ज्ञानेंद्रियां. हीं सगळीं जीं न थांवतां आपलें काम करीत आसात. तांकां वांटून दिल्ल्या कामांक धरून न चुकतां तें चालू आसता. आतां सैमा कडेन परत पळयात. हो निसर्ग खंयच्या मनशाच्या हक्का खाला काम करता? कोणा कडल्यान तो हुकूम घेता? हाचे उलट तो इश्वराचे इत्सेक मान दिवन चलता. हें इतलेंच प्रमाण जगांत देव आसा हें सिद्ध करपाक पुरो जाता.

देवाक मनशाच्या रुपांत येवपा जाता? हो प्रस्न थोड्यांक बरोबर दिसना जावये. जगांत इश्वर आशिल्ल्याचें तें मान्य करतात पूण तो मनशाच्या रुपांत येवपा शकता हाचेर तांचो विस्वास ना. इश्वर खात्रीन मनशाच्या रुपांत येवपाक शकता आनी ताकाच आमी अवतार म्हणून वळखतात. अवतार ह्या शब्दाचो अर्थच- अवतरण-

सर्गातल्यान सकयल पृथ्वीर देंवून मनीस रुप घेवप. अशे तरेन ती अद्भूत शक्ती मनीस रूप घेवन पृथ्वीर येता. हें सत्य गीतेंत स्पश्टपणान सांगलां. गीता सांगता, जेन्ना धर्माचेर अधर्माचें चेंपण येता तेन्ना इश्वर मनीस रुपांत प्रकट जावन धर्माच्या रक्षणा खातीर येता. त्रेता युगांत रावणाक मारपाक मनीस रुपांत रामाक येवचें पडलां. द्वापारांत कंसाक मारपाक कृष्ण आयला.

आतां श्री सत्य साई भगवान ह्या कलियुगांत स्वता धर्माच्या रक्षणा खातीर मनशाच्या रुपांत प्रकट जावन आयला. बावांनी घोशणा केल्या, आपणें हो जल्म घेतला तो वायट प्रवृत्तींच्या मनशांच्या नाशा खातीर न्हय. पुणून ते आयल्यात अखील मनशांक मुक्तीच्या मार्गार मार्गदर्शन करपाक. ते सांगतात, सद्याची परिस्थिती लक्षांत घेवन मनशाक रिकामो करून ताचो नवो मनीस घडोवपाचो आसा. म्हणटकर तो नितिमान, पूर्ण प्रेमान, सौख्यान भरिल्ली अशी जीण जगतलो. आनी तेच खातीर इश्वर स्वता आपलें कार्य पूर्ण करपाक श्री सत्य साईबाबांच्या रुपान आयला.

आपल्या प्रशांती निलयम हांगा ता. २४/१३/६४ दिसा एका त्याच वेळार घडयल्ल्या काव्यांतल्यान वाबांनी आपली वळख उकती केली. हें काव्य पान 159 Satya Sai speaks, vol. IV हातूंत दिल्लें आसा.

श्री वावांनी रचिल्लें काव्य हें त्याच वेळार रचिल्लें. तांणी तातूंतल्यान घोशणा केली कीं ते श्रीनाथ, लोकनाथ आनी अनंतनाथ आसात जांणी गजेंद्र, बाळ ध्रूव, गरीव कुंचला, निराधार प्रल्हाद हांचें त्या वेळार रक्षण केल्लें.

हांगा म्हाका सांगचें दिसता तें श्री सत्य साईवावांल्या

शब्दांतल्यान. पान 84 Satya Sai speaks, vol.III श्री सत्य साईबाबा सांगतात–

"जमनीर उगडचा जाग्यार कीडमूय खाणारी कोंबडे पिलां ज्या प्रमाण ससाण्याचें भक्ष्य थारतात त्याच प्रमाण मरण मनशाचेर झडप घालता. जो मनीस मरणारो आसता तो आपल्याक (बाबांक) सांगता, म्हाका तुजे कडेन व्हर. जीं मनशां ताच्या मरणा खातीर रडून प्रार्थना करतात तांकां वांचय. दोनूय बाजू म्हाका कळटात. भूत आनी वर्तमान, गुन्यांव आनी ताची शिक्षा, सुयश आनी ताचें बक्षीस. आपूण जें योग्य आसा तेंच करतां. पूण तातूंत आपले कृपेची भर पडटा आनी ताचें रूप बदलता. पूण म्हाका हाचे संबंदीं कसलीच बादा जायना. ह्या जगांत कोण आयले आनी कोण हांगसून गेले, म्हाका सारखेंच. म्हजो स्थायी भाव सदांच नित्यानंदम. तुमच्यांनी म्हजी सांगणी मानून घेवन आनी तिचें आचरण करून ह्या आनंदांत वांटेकार जावं येता."

पूण इतली ही साक्ष टिकाकारांचें, अहंकारी नास्तिकांचें समाधान करीत? परत खऱ्यांनीच आमी लोकांचें समाधान करूंक जाय. खूबशा वेळार आमी दिल्लीं प्रमाणां टिकाकार मान्य करतात. कांय वेळार तांकां पट्टा. पूण आपल्या मनाचो दरवंटो ते धांपून दवरतात. आनी आपले संवयेक लागून टिका करपाचे रावनात. पूण सामान्य संयमीत मनशाच्या समाधाना खातीर हांगा आनी एक प्रमाण दितां. डॉ. इ. व्ही. शास्त्री, खगोलशास्त्रज्ञ, नवी दिल्ली हांकां तांच्या सोदकार्यांत एक नाडी ग्रंथ मेळ्ळा. तो तमिळनाडूंत आसा. तातूंत बाबालें जातक दिल्लें आसा आनी तातूंतल्यो खुणो

बाबांक तंतोतंत लागू पडटात. तें नांव जें ज्ञानी पंडितान पांचशीं वर्सां पयलीं ताडपत्राचेर बरोवन दवरिल्लें मेळटा. ताडपत्राची लांबी 36 सें. मी. आनी रुंदी 21/2 सें मी. आसा. तें सांगता, "ज्या मनशाक हें लागू पडटा ताचें नांव सत्यनारायण राजू अशें आसा. तो भुरगेपणांत संसाराचो त्याग करतलो आनी हॉस्पिटलां, शाळा सुरू करतलो. मनशाचे उन्नती खातीर पुस्तकां छापतलो. आपल्या आयुश्यांतलो हर एक दीस जल्मभर धर्माची पुर्नस्थापना करपाच्या कार्यांत सारतलो. तेंच तागेलें ध्येय आसा." तातूंत फुडें सांगलां, "अवतारां भितर हो एक अवतार आसतलो."

हाचे वेल्यान दुभाव नासतना हें सिद्ध जालां कीं सत्य साईबाबा हे इश्वर आसात आनी तांणी मनीस रुपांत अवतार घेतला. हाच्या थोडें फुडें वचुंया. ते घोशणा करतात, तांणी आपले इत्से नुसार स्वामित्वा खाला सगळें विश्व निर्माण केलां. अकस्मात पृथ्वी दुभंगली म्हणटकर दोंगर आयले, समुद्र आयले, सूर्य-चंद्र, पशू-पक्षी. आनी नंतर मनीस प्राणी-ज्ञान आशिल्लो- उत्पन्न जालो. आपणें म्हाकाच म्हजे पसून वेगळो काडलो. म्हणटकर म्हाका म्हजेरच प्रेम करूंक मेळचें. ताणें मनशा खातीर हें सगळें विश्व निर्माण केलें कारण मनशान हातूंतल्यान आनंद घेवंचो. इतलेंच न्ही, ताणें मनीसप्राण्याच्या अंतकरणांत आपल्याक स्थापन केलो. आनी सर्वांतर्यामी हें ब्रीद घेतलें. पूण मनीस आपल्या अहंकाराक लागून आपलें इश्वरा कडलें नातें विसरलो आनी भौतीक उपभोगांत सूख मेळोवपाच्या फाटल्यान लागलो. आनी सासणा खातीर सूख-दुख्ख, जल्म-मरण हे सांखळेक स्वता जावन आपल्याक बांदून घेतलो. इश्वर, जाणें हें सगळें

विश्व निर्माण केलें तो फकत एकमुळो साक्षी जावन रावलो. अशें आसूनय कितले लोक आपल्या कृत्या खातीर देवाक जबाबदार धरतात आनी दोशी थारायतात.

परत हजारांनी लोक एक सामान्य प्रस्न विचारतात. तुमच्यांनी इश्वराचें अस्तित्व सिद्ध करूंक जाता? ह्या प्रस्नाचें उत्तर सामके सादें आसा. इश्वर म्हणल्यार सत्य. सत्य हें सिद्ध करपाक जाता? सत्य म्हणल्यार सत्यच आसता. सत्य हें आध्यात्म रितीन जाणा जावंक येता. मनशाच्या हाता खाला आशिल्ल्या साधनांनी हें शक्य ना. हाचे उलट हें सत्य चुकीचे समजुतीन असत्यय थारूंक शकता आनी असत्य हें सत्य थारूंक शकता.

न्युटनाचो एक जगन्मान्य सिद्धांत निसर्गा विशीं सांगता, जी वस्त वयर वता ती सकयल येवंकच जाय. एका कावेबाज मनशान हो सिद्धांत फट आनी ताका आदार ना अशें दाखोवपाक एक सादी ट्रीक केली. ताणें एक मोठो मॅग्नेट आपले कुडीच्या छताक बसयलो आनी ताका लिपयलो. आपले चार-चौग मित्र जमयले आनी सांगलें, न्युटनाचो सिद्धांत आपूण फट म्हूण दाखयतां. ताणें एक धातूचो पेल्ल घेवन वयर उडयलो आनी साहजीकच तो त्या मॅग्नेटाक चिकटलो आनी वयरच उरलो. सकयल पडलो ना. अशें दाखयलें म्हूण न्युटनाचो सिद्धांत फट थारता आनी तो चूक आसा अशें जाता?

तेच रितीन खूबशे लोक जगांत इश्वर ना म्हूण सांगपाक नाना तरेच्या फटींच्या साधनांनी प्रयत्न करतात. पूण अशें केलें म्हूण खऱ्यांनीच देव नां अशें जाता? कोणाच्यानय बुद्धिप्रामाण्यान आपल्या स्वताच्या आवय-

बापाय विशीं खात्रीन वळख पटोवपाक जाता. कोणय हे घटनेचो साक्षीदार आसता? पूण हीं तुगेलीं आवय-बापूय अशें आमकां आमचे नातलग हे घटने विशीं सांगतात आनी आमी तें मानतात. ताचें प्रत्यंतर आमी पळयतात. तेच रितीन आमच्या साधू-संतांनी पुर्विल्ल्या तेंपार इश्वराक पळयला. इश्वरा कडेन ते उलयल्यात आनी हें सत्य तांणी वेद, पुराणां हातूंतल्यान आमच्या मुखार दवरलां.

अशें आसूनय आमचो ह्या सिद्ध जाल्ल्या सत्याचेर विस्वास ना. जेन्ना आमी हें फट म्हणटात तेन्ना हो दोश आमचे कडेनच येता आनी आमचें इश्वरा विशीं आशिल्लें अज्ञान सिद्ध जाता. लोक म्हणटात, इश्वर खंयच ना. God is no where श्री सत्य साईबाबा हाचें स्पश्टीकरण करतात- ते सांगतात, ह्या वेल्या इंग्लीश वाक्यांतल्यान w हें अक्षर थोडेंशें आयल्यान हाडात आनी तें no हाका जोडात. आनी आतां तें वाक्य कशें बदलता पळयात. तें सांगता- God is now here इश्वर हांगाच आसा.

हें सत्य अणभवंक कठीण न्हय. म्हणजे जगांत सगळ्याक इश्वर आसा. हें जाणा जावपाक तुमच्यांत थोडो प्रयत्न जाय. देवा विशीं जाणा जावपाचो आनी ताचो स्वता अणभव घेवपाचो. श्री सत्य साईबाबांच्या आदारान हो अणभव घेवप सामकें सोपें. बाबा सत्याचोच अवतार आसात.(हें निमणें सत्य) हे खातीर बाबा तुमकां आपयता आनी सांगता, येयात, परिक्षा घेयात आनी अणभव घेयात.

**श्री हनुमानप्रसाद पोद्दार बरयतात-**

इश्वर हो सगळ्याक आसा. तो सगळ्यां भितर आसा

आनी तोच म्हणल्यार सगळें ही वस्तुस्थिती. अखेराक तोच एकटो उरतलो हेंच सत्य. अशें जरी आसलें तरी आरंभाक जें कितें बरें आनी शूभ आसा, जातूंत आनंद भरला- शुध्दतेंत, परोपंकारांत, सेवेंत, निर्दोष आचरणांत, स्वच्छतेच्या विचारांनी आनी आदर्श सद्गुणांनी- तातूंतच देवाक पळयात. ही साधना परत परत करात. जितली तुमची अंतरदृष्टी भायल्या जगा पसून पयस वतली, अदीक भितर (अंतरांत) पळयतली, तुमची देवा विशीं आशिल्ली दृष्टी जितली निवळ स्पष्ट जातली तितलें तुमकां देवाचें दर्शन स्पष्ट दिसतलें. आनी ह्या सतत अभ्यासान बाकी सगळें वतलें (ना जातलें) आनी फकत देवाचेंच चित्र दिसतलें.

पूण जर तुमी चुकीचे कल्पनेन, देव सगळ्याक आसा- हे समजुतीन वा प्रत्येक वस्तूंत देव आसता- तुमी शुध्द आनी बरें आसा तें सोडून दितले. आनी वायटांत देवाक पळोवंक सोदतले. तुमी फकत वायट वस्तूंत- पातकांत, दुसऱ्याक दिल्ल्या त्रासांत, अशुध्दतेंत, दुसऱ्याक केल्ले हाणामारींत, फटींगपणांत, व्यभिचारांत, पापी विचारांत, दुष्ट गुणांत- तुमी सगळे कडेन देवाक पळोवपाची दृष्टी वगडायतले. पातकांक तुमी लागीं करतले. ताणें हाचो परिणाम दुर्भाग्यपूर्ण जातलो.

बरें आनी वायट देवां कडल्यानच येता. देवा भितर बरें वायट दोनीय आसता. इश्वरच बरें आनी वायट ह्या दोनांचेंय रूप घेता. जगांत बरें वायट कितें घडटा ही तागेलीच करणी आसता. हें सत्य केन्ना अणभवता फकत जेन्ना तुमचें अंतकरण सोग्य विचारसरणीन आनी योग्य आचरणान शुध्द जाता तेन्नाच. आमचें अंतकरण शुध्द नासत जाल्यार

आमी फकत आमच्या दुबळेपणांत अदीक भर घालतले. आनी तेंवय बी इश्वराच्या नांवान. आनी अशे रितीन आमी कुटील विचारांक थारो दिवन सत्याचो विपर्यास करतले. आनी स्वताकच फटोवपाची सवंय करतले.

सदांच सत्या कडेन तुमचो ओढो आसूं दी. सत्य आचरात. सत्याचोच विचार करात. सत्याचेर चिंतन करात. तुमच्या वेव्हारांत सत्याक जागो आसूं दी. वागण्यांत सत्य, कृतींत सत्य. सत्य उलयात. सत्य आयकयात. सत्यान तुमची जीण आरपार व्यापूं दी. हाची सवंय जाली म्हणटकर अरवेराक तुमच्या मनाक खऱ्या सत्याचें स्वरूप दिश्टी पडटलें. अशे रितीन तुमचे जिणेंतच बदल जावन जेन्ना शुद्ध स्वरूप सत्य तुमकां भावतलें तेन्ना सत्य तितलेंच उरतलें आनी आज जें सत्य तुमकां फट म्हणून सांगून नाकारूंक सांगतात आनी फटीच्या रंगांत जें सत्य तुमकां दाखयतात तातूंतलें सत्यय तुका समजतलें आनी असत्य मागीर आसचें ना. तें ना जातलें आनी तुका केन्नाच दिसचें ना. वेगवेगळीं असत्याचीं रुपां जशीं कीं आसक्ती, वासना द्वेष, राग, लोभ, नश्ट बुद्धी, भंय, दुस्वास, दुख्ख आदी हीं सगळीं पुसून वतलीं. तांचें अस्तित्वच ना जातलें. थोडो सुद्धां तांचो अंश उरचो ना. जरी ताचो खेळ तुमकां खंय दिसलो जायत तर तो म्हणल्यार दुसरें कांय न्हय तर सत्याच्योच त्यो तरा ज्यो आपखोशयेन जमल्यात. ताचे खातीर सत्याक राखूंक, प्रसिद्धी पूर्णत्वा खातीर, प्रकटीकरणा खातीर आनी असत्याक रोखून दवरपाक. तो एक सत्याचोच आदार. सत्यान व्यापिल्लो. सत्याचीच प्रेरणा. हें आधारभूत सत्य आनी सद्याचें सत्याचें रूप ज्याका असत्याचें वेष्टण आसा. अज्ञान भरिल्लें,

नष्टबुद्धी, पातक, दुख्ख आनी भंय जरी तें सत्याचेर आदारीत आसलें तरी असत्याचीं तरेक तरेचीं रुपां घेवन आयिल्लें. जरी तुमी दुसऱ्याक सत्य समजून मोहान चिकटून रावशात तर तुमकां खरें सत्य मेळोवपाक कठीण वतलें.

हें सत्य (खरें सत्य) म्हणल्यार परमात्मा. सत्य म्हणल्यार इश्वर. तो सगळ्या वेळार, सगळ्यां कडेन आनी सगळ्यां भितर आसता. तोच म्हणल्यार सगळें. ह्यासत्याची अनुभुती म्हणल्यार कर्माची न सोंपणारी, आमच्या जल्माक लागिल्लें बंधन, ताचे पसून मुक्ती आनी हेंच जल्माचें सार्थक. तेच भशेन इश्वर अनुभुती आनी खऱ्या सत्याची अनुभुती म्हणल्यार एकच अर्थ. हें सत्य सनातन आनी सर्वसाक्षी हेंवय खरें. जगांत ह्या सत्या शिवाय आनी दुसरें सत्य ना. पुणून जोंवेर आमी पूर्णपणान ह्या सत्याची अनुभुती घेनात तोंवेर ताचें सत्य स्वरूप म्हणजेच ताचो खरो आपरोस हो आमचे पसून लिपून उरता, जेन्ना आमी म्हणटात जें कितें ह्या जगांत आसा तें सत्यच आसा आनी हाचे शिवाय दुसरें सत्य ना तेन्ना आमी सत्याचो एक कुडको काळखांत दवरपाची चूक करतात. हो सगळोच आसा अशें आमकां सांगतात आनी खरें सत्य आमचे पसून पयस उरता. अशे रितीन आमीच आमकां फटयतात. म्हणटकर हें गरजेचें कीं आमी हो भ्रम कुशीक काडपाचो प्रयत्न करप आनी आमची चूक सुदारप. हें क्षुल्लक आसलें आनी सत्याचोच अंश आसलो तरी सगळें सत्य जाणा जावपाक हाची अडचण येता. म्हणटकर ही धडपड सत्य उलगडपाक मदत करता ही चूक न्ही. हेंय निमणें सत्यच. जेन्ना वस्तूचो खरो सभावधर्म समजता तेन्ना ताचे संबंदीं आशिल्ल्यो गैरसमजुती

सहजतायेन ना जातात. अशे रितीन सत्य जाणा जावपा खातीर केल्लो प्रयत्न जोंवर तो सत्य समजुपांत मदत करता तेन्ना तो प्रयत्नय सत्य आसता. चड करून हो प्रयत्न वायट कितें आसा तें सोडून दिवन बरें आसा तें आपणावपा खातीर आसता. म्हणजे बरें आचरण दवरप, बरे विचार आसप, आदर्श कामां करप, इश्वराचे भक्तीची साधना करप, अहंकार आनी ढोंग कुशीक दवरप आनी सत्य जाणा जावपाखातीर प्रयत्न करप एकटेपणान, शांतीन, सत्याचो ध्यास घेवन.

**सत्य म्हणल्यार देव.**

तुमकां जर इश्वराक प्रत्येक वस्तूंत, प्रत्येक जाग्यार, प्रत्येक वेळार पळोवपाक जाय, तुमकां तशी तळमळ आसा, तुमकां जर इश्वराचें अद्‌भूत रूप पळोवपाक जाय तर तुमी बरें वायट दोनूय म्हणल्यार देवच अशें मानपाची सदांच सवंय लावन घेवंक जाय. आनी तुमी योग्य कृतीक तत्पर आसूंक जाय. ते कृतींत म्हणल्यार देवा विशीं भक्ती आनी पुज्य भाव एकांत आनी शांती दवरून पराकाष्ठीचो प्रयत्न करून सत्य जाणा जावपाक जाय. ह्या तुमच्या प्रयत्नांत देव तुमकां यश दींव.

देवाक आमकां पळोवपाक जाय कारण ताचोच अंश आत्म्याच्या रुपान आमच्यांत वावुरता.आनी फकत तागेलें पूर्णतव आनी सत्यतव आमकां निरंतर सौख्य दिवंक शकता. मनशाक मन आनी शरीर दिलां. तेन्ना बरोबर पांच ज्ञानेंद्रियां दिल्यांत. तांचो उपेग करून मनीस हें अनंत जग पळयता

आनी आपूणय त्या जगांतलो एक मनीस हें जाणा जाता. पूण मनीस म्हणल्यार फकत मनय न्हय, शरीरय न्हय. ताचो सभाव धर्म चैतन्य अमर आत्मो. मनीस जो पर्यंत आपल्या विशयाक सवंकळिल्ल्या इंद्रियांनी निरंतर सूख मेळोवपाचो जितल्या वेळा प्रयत्न करता तितल्या वेळा तागेल्यो इत्सा घोर निराशेच्या तळपार आपटून फुटून वतात आनी तागेल्यो आशा भंगून वतात. ह्या भौतीक जगांत प्रत्येक गोष्ट बदलत आसता. ज्या वस्तूंक बदल आसता तिच्या पोटांत निराशेचीं बिजांय आसतात. म्हणटकर आमकां देवाची गरज पडटा कारण देव हो सगळया ज्ञानांचो झरो आसता. तो सगळो आनंद, सगळें प्रेम, सगळें सौख्य हीं दिवपी आसता. देव आमचे जिणेचो आदार आनी तो आमच्या अंतरांत आसता. आमच्या शरिरांत आशिल्लो आत्मो हो परमात्म्याचो अंश (वांटो) आसता. जेन्ना तो आमकां मेळटलो तेन्ना ह्या सत्याचो प्रत्यय येतलो.

आमच्या इंद्रियांनी आमी इश्वराक जाणूंक शकनात वा आमचे बुद्धिन आमी ताका मापूंक शकनात. जोंवर आमी आमच्या विषयाक संवकळिल्ल्या इंद्रियांनी इश्वराचो सोद घेवपाचो प्रयत्न करतात- तागेलें सौख्य, प्रेम, ज्ञान आनी आनंद- तितल्या वेळा आमच्या वांटयाक निराशा येता. पुणून जेन्ना आमी खर ध्यानान नम्र जातात आनी आमचें शरीर स्थीर करून पंचेद्रियां बंद करतात (योगान तें शक्य आसता) तेन्ना आमच्या स्वाभाविक ज्ञानाचें सवें इंद्रीय उकतें जाता. आमकां जाणीव दिता. फकत ज्ञानांतल्यानच देवाक जाणा जावपा जाता. देवाक आमी ताका जाणा जाल्लो जाय. अशें म्हणून ताणें ज्ञानाचें हें धन

प्रत्येक मनशाक दिलां. भगवान बाबांनी (सत्य साईबाबांनी) आमकां खूबशा वेळा सांगलां, "देव हो भासमान जाता आनी खर स्तब्धतेंत सगळो आवाज बंद जावपाक जाय. म्हणटकर तागेलो आवाज आमकां स्पश्ट आयकूंक येतलो".

"इश्वर हो सनातन शांती आनी सौख्य दिणारो-
ताचो विचार करात. ताचें जप ध्यान करात.
ताका शरण वचात. मागीर तो तुमकां
तुमच्या अंतरस्करणांतच मेळटलो.
थंय तुमकां जाय आशिल्ली
निरंतर शांती आनी सौख्य मेळटलें."

मनशाचें खरें स्वरूप म्हणल्यार इश्वराचें रूप. तो बापूय आसता. आवय आसता. तातूंतल्यानच सगळीं रुपां अस्तित्वांत आयल्यांत. तो जर ना जायत तर जगाचें अस्तित्वच सोंपतलें जसो कीं तूं न्हिदेंत तुका विसरता. इश्वर आपल्या अनंत प्रेमान तुमकां सुखी आनी गिरेस्त करपाक सोदता. ते खातीर ताका आमी बापूय, आवय, मित्र म्हूण पाचारतात. अशें असूनय आमकां ताचे म्हर्यांत वचप कुरस्तार दिसता. तागेलें प्रेम इतलें अनंत आसा ताका लागून तो आमचे लागीं येता. पूण आमी भेड्डे जाल्ल्यान तागेलो आवाज आमकां आयकूंक येना. तो आमच्या म्हर्यांत आयिल्लो आसता- आवयच्या रुपांत, बापायच्या रुपांत, गुरुच्या रुपांत, शास्त्रांच्या रुपांत पूण चड करून अवतारांच्या रुपांत. सध्याच्या युगांत आमी भाग्याचे कारण श्री सत्य

साईबाबा आमच्यांत आयल्यात.

आनंद आनी सौख्य ही सगळयांत बरी इश्वराची व्याख्या. म्हणटकर कोणच मनीस नास्तीक ना. कारण आमच्यांतलो प्रत्येक जण सूख सोदता. ताका थारो आसना. आनी तें सौख्य म्हणल्यार देव. मनीस जातीची खरी कल्पना म्हणल्यार सद्‌चीत आनंद स्थिती, अमर जीण, अनंत ज्ञान आनी सदांच उरपी आनंद- कारण सगळे मनीस आपल्याक अमरत्व मेळचें, आपणें सगळें जाणा जावचें, सगळें सूख आपल्याकच मेळचें अशें येवजितात. म्हणटकर देव म्हणल्यार प्रत्येक जीव प्राण्याचो आदर्श थारता.

इश्वर एक जिवंत प्रतिमा तयार करता जो सगळया वाबतींत अनंत आसता. अनंत शक्तिमान, अनंत प्रेमळ, अनंत ज्ञानी कारण तो अनंत आसता. आनी तो केन्नाच मर्यादीत आसना. म्हणटकर ताका अवतार घेवप कशें शक्य जाता? द्वापार युगांत श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता, "जरी हांव केन्नाच उणो जायना, सगळ्या जगाची उत्पत्ती करणारो जरी आसलों तरी प्रकृतीचे मदतीन हांव अवतार घेवंक शकतां." पूण प्रकृती म्हणल्यार कितें? प्रकृती म्हणल्यार एक अद्‌भूत शक्ती जी अनंत आशिल्ल्याक मर्यादीत करून दाखवपाचो आभास निर्मूंक शकता. इश्वर सांगता, हे शक्तीचे मदतीन आपूण अवतार घेतां.

प्रकृतीक थोडे तत्वज्ञानी माया अशें धरतात. प्रकृती म्हणल्यार उत्पन्न करणारी शक्ती. ती सोडली म्हणटकर ती कितेंय तरी अस्तित्वांत हाडटा. ती अशीय आसा जें कितें तुमकां समजुपाक कुस्तार आसता तें सोपें समजुपा सारखें करता- भुलयता- इश्वरा कडेन अशक्य तें शक्य करपाची

शक्त आसता. अमर्याद आशिल्लें मर्यादीत भासोवपाक येता.आनी हिकाच माया म्हणटात. विसराळूपणा, खंयचीय वस्त चुकून दुसरी भासप आदी.

परत श्रीकृष्ण आपल्या शब्दांनी प्रकृतीचेर उजवाड घालता. ही अद्भूत शक्ती हो आपलोच भाग जावन आसा. ती मेकळी ना. तिचेर आपलो पूर्ण तावो आसा आनी हे शक्तीन आपूण स्वता प्रकट जातां. हें उघड आसा की ही प्रकृती इश्वरांत भितर आसता आनी सदांच ताचे बरोबर आसता. ती अज्ञात आसता तरीकय ती इश्वराच्या हाता खालाच आसता. ती तागेल्यो आज्ञा सदां पाळटा. म्हणटकर माया ही इश्वराची दासी आसता. जरी ती शक्तिमान आसली तरी ती इश्वराक वांदूंक शकना.

जर खऱ्यांनीच आमचो देवाचेर विस्वास, स्रद्धा आसत आनी तागेल्या अनंत शक्तीचेर आनी इश्वराले ईश शक्तीचेर तर आमकां केन्नाच कसलोच भंय दिसपाची गरज ना. इश्वर हो असो एकटोच जो आमकां वासनां पसून आनी भंया पसून मेकळे करूंक शकता. म्हणूनच ताका पतीत पावन म्हणटात. ह्यो वासना मनशाचें मन अपवित्र करतात. तुगेलें मन ह्या सगळ्या वासनां पसून मुक्त कर म्हणटकर तें शुद्ध पवित्र जातलें. ज्या मनशाक इश्वराची कल्पनाच ना ताच्यान वासनां पसून केन्नाच सुटका करून घेवपाक जावचें ना तेच प्रमाण इश्वर आपले लिलेन जगाची उत्पत्ती करता. ताचें पालन आनी लय करता. हो ताचो खेळ आसता. इश्वर हो अनंत शक्तिमान आसता म्हणटकर मायेची अनिवार प्रतिबंध करपाक कठीण आशिल्ली शक्त तो सकल घालता. पुणून आमगेलें माये कडेन आशिल्लें नातें खंयचें. आमी

मायेचे गुलाम आसतात. इश्वर मायेचो धनी आनी आमी मायेचे गुलाम. आमी तिच्या बंधनांत आसतात ज्यावरून आमी तिचे गुलाम आसात. तिचे कडेन आमचो नाश करपाची शक्त आसता. पूण तिगेली शक्त आत्म्याचेर चलना. आत्मो स्वाभाविकच अमर आसता म्हणटकर तिज्यान आत्म्याचो नाश करूंक जायना. पूण आमी फकत देवाच्या आदारानच मायेक टाळूंक शकतात. आनी देवच कीं मनशाक देवाच्या म्हऱ्यांत व्हरपा शकता. आनी तें दुसऱ्या कोणाकच शक्य ना.

इश्वर हो इतलो शक्तिमान आसता थंय आमी दुबळे आध्यात्मीक कशे वतले? हांवें जर मदतीक देवाक उलो घालो तर तो म्हगेले मदतीक येत? इश्वर सदांच अनंत प्रेमळ आसता. तो आमगेलो खरो आवय-बापूय. हो खरेलो बापूय आनी खरेली आवय आमचे खातीर सगळें जाय तें करची नात? पूण एक अडचण आसा, आमी देवाच्या लागीं वचनात. आमी समजतात तो एक पयसुल्लो कोण तरी, सर्गांत रावपी ज्याका आमी पळोवंक शकनात.

जेन्ना आमी देवाची तळमळीन प्रार्थना करतात तेन्ना तो खात्रीन आमच्या म्हऱ्यांत येता. पूण अडचण ही, आमी देव सोडून बाकी सगळें पळयतात. आनी भौतीक जगा फाटल्यान धांवतात. आमी दोतोरा म्हऱ्यांत वतात आनी सांगतात, आमकां बरें आरोग्य दी. दुकानदारा म्हऱ्यांत वतात आमकां जेवण खाण दी वा कपडो लत्तो दी. आनी उरिल्ल्या सुरिल्ल्यां भितर आमी देवाची प्रार्थना करतात, आमकां आध्यात्मीक उजवाड दी. आमकां ज्ञान दी. जेन्ना आमी फकत ताचे एकटया कडेनच वतात आनी ताची

प्रार्थना करतात आनी दुसऱ्या कोणा कडेनच वचनात तेन्ना तो आमकां परती जाप दिले बगर रावना. फकत आमची प्रार्थना खरी तळमळीची आसूंक जाय.

म्हणटकर देव सांगता, "जर तुमी म्हाका सदांच भजलो जायत जाल्यार खात्रीन हांव तुमचे मदतीक येतलों."

बाकिच्याय ग्रंथांनी हेंच सांगलां, "अडचणी वेळार म्हाका उलो मार आनी हांव थंय हजर आसतलों."

आतां प्रस्न उरता, केन्नाय तरी ताका (देवाक) आमी समजूंक शकतात? जरूर आमी ताका समजूंक शकतात. देव आनी ताचे भक्त एक आसतात. जेन्ना भक्त देवा कडेन वता आनी देवा कडल्यान प्रेरणा घेता तेन्ना देवाले विचार स्वाभावीकपणान मनशाच्या अंतस्करणांत रिगतात. आनी थंय थीर जातात. म्हणटकर भक्त आनी देव हातूंत फरक उरना.

पूण अडचण उबी रावता जेन्ना आमी मायेंत धुस्पल्ले आसतात आनी आमकां दिसता आमी देवाक समजूंक शकनात. पूण आमी सोप्या रुपान ताका समजूंक शकतात जेन्ना तो आमगेली स्वाभावीक स्थिती आमकां दाखोवन दिता.

"जरी हांव पांय ते तकली एक शरीर आसलों, तरी त्या शरिराचे वेगवेगळे घटक आसात. तांकां नांवां आसात- दोळे, पांय, कान, नाक आदी. आमचो पोषाख बदलत, आमी वेगवेगळ्या वेळार वेगवेगळे पोषाख घालूं पूण मनीस तोच. तशेंच देवान वेगवेगळी रुपां घेतलीं तरी देव तोच आसता. म्हणटकर जसो हांव एकच मनीस वेगवेगळ्या वेळार तोच आसून हांव खूब रुपां घेतां तसो देव हो एकच

देव उरता मागीर ताणें कितलींय रुपां घेतलीं आनी संख्येन चड जालो तरी तोच देव आसता. जगांत एकच देव आसता. तो वेगवेगळीं रुपां घेता म्हणलें म्हूण खूब देव आसनात. जगांत एका देवा परस चड देव आसूंक शकनात. जोंवेर आमच्या मर्यादीत मनाक ती शक्ती ना, आमी अमर्याद अनंत मनाक समजूं शकनात. देवान उत्पन्ना केल्ल्या जिवाक देवा कडेन वचपाचे मार्ग समजनात.

जसो देव आमकां एक आनी खूब दिसता तेच तरेन सत्य हें एकच आसून मायेचे भुलवणेन आमकां सत्याचीं वेगवेगळीं फटीचीं रुपां दिसतात. उदा. एक राजू मार्गार पडिल्लो आसता आनी लोक ताका सोरोप समजतात. दुसरो मनीस ताका तणाची वेठी समजता आनी तिसरो भलतेंच समजता पूण वस्तू एक आनी तीच उरता. तिचे विशीं केल्ल्यो कल्पना खूब आसूं. तेच भशेन देवा विशीं कल्पना खूब आसूं, देव एकूच आसता.

आमगेले रुशी जांणी वेद बरयले तांकां देव कळिल्लो. देवाचो तांणी अनुभव घेतिल्लो. आनी ते स्वताच देव जाले. ते पावित्र्याचे पुतळे आशिल्ले. म्हणटकर तांकां पूर्ण सत्य समजल्लें. तांणी सर्वस्वाचो त्याग केल्लो फकत सत्य जाणा जावपा खातीर. आनी तांणी प्रत्येकाक आपले मूळ शिकवणेंत वैराग्याची शिकवण दिल्ली. ह्या विशया विशीं ह्याच पुस्तकांत सविस्तर विवरणी मुखार येतली पूण सद्याक बाकीच्या धर्मांच्या गुरुंनी जी शिकवण दिल्या तीच दिल्यार पुरो.

ख्रिस्त सांगता, "सगळें सोडात आनी आपल्याक अनुसरात."

---

महम्मद सांगता, "अल्ला हो एकच देव आसा आनी तुमी ताची एकट्याचीच पुजा करूंक जाय.(ताका भजूंक जाय)."

बुद्ध सांगता, "सगळ्यो वासना सोड. तोच एक मुक्तीचो मार्ग आसा."

झोरास्टर सांगता, "अर्हरिमनचो त्याग करात(म्हणजे वायट सोडून दियात) आनी अहुरा माजदा(बऱ्याचो मार्ग) धरात."

उपनिषदांचें हेंच सगळें सार जावन आसा.

'GOD' इश्वर ह्या शब्दा विशीं आमकां कितलोय भंय दिसूं पूण इश्वराचीं नामांच आमचीं मनां पवित्र करतात. आनी इश्वराचो महिमा जांकां आयकुपाची इत्सा आसा तांचीं अंतस्करणां उजवाडान भरतात. कारण बरी वस्त इश्वराक आवडटा. सगळीं दुख्खां जीं मनशाच्या अंतस्करणांत घर करतात तांचो नाश करता. दुख्खां हीं सदांच मनशाच्या भितर आसतात, ताच्या मनांत. तीं भायर आसनात.

जेन्ना मनीस आपूण स्वताच जल्मला, स्वताच तेजस्वी आसा अशें चिंततात तेन्ना ते मरनात. तांकां आरंभय ना आनी शेवटय ना. जे वायट बुद्धिचे आनी अनैतीक आसतात. ते समजतात हाचे फुडें आनीक दुसरी जीण ना. खावप, पिवप, मजा करप हेंच जिणेचें ध्येय. ते देवळांनी वचनात. धर्मग्रंथांचेर तांचो विस्वास ना. ते विस्वास दवरतात, हें शरीर गेलें म्हणटकर सगळें सोंपलें. ह्या जगांतली प्रत्येक वस्त ही क्षणभंगूर. अशा वेळार इश्वर अवतार घेता आनी अनंत आशिल्लो इश्वर मर्यादीत जाता. म्हणटकर तो आपल्या सगळ्या बाळ गोपाळांक दृष्यमान असो पळोवपाक मेळटा.

तांकां सहज मेळपाक शकता असो जाता. म्हणजेच तो सुंदर ओडलायणें रुप घेवन अवताराच्या रुपान येता. तुमी सदांच पळयल्यात, सगळे अवतार हे सुंदर आशिल्ले. आमच्या युगांतले अवतार हे देवमनीस आसात. द्वापार युगांत श्रीकृष्णान जल्म घेतलो आनी अंतीं आमचे पूर्व कर्माचे पुण्यायेक लागून दयावंत कृपावंत अशा देवाची आमचेर कृपा जाल्ल्यान ह्या कलियुगांत श्री सत्य साईबाबा आयल्यात.

पूण हांगा एकच देव आसा हें ज्ञान आमी विसरूंक फावना. सगळ्या जिवंत प्राणीमात्राच्या अंतस्करणांत इश्वर साक्षीभूत आसा. म्हणटकर जिवंत प्राणिमात्रांक आमी त्रास दिवप बरोबर न्हय. अशें केलें जाल्यार तें देवाकच दुखोवप जातलें. दुसऱ्यांक दुख्ख दिवप म्हणल्यार तुवें तुजे तुकाच दुखोवप आसता. आमी सुखी जीण जियेतले जाल्यार दुसऱ्याक सुखी करूंक जाय.

**श्री. के. डी. संगोराम बरयतातः**

"वेदांनी देवता ह्यो लागींच्यान देवाक जोडिल्ल्यो आसात. त्यो एके भशेन जगांतच आसात. त्यो जगाच्यो आनी जगा खातीर आसात. त्यो जगांत आसात कारण त्यो सतत जगांत रावपी आनी त्यो अनाशिवंत आसात. त्यो जगाच्योच आसात कारण त्यो मर्त्य मनशाच्या काम काजांत वांटो घेतात. त्यो जगा खातीर आसात कारण वेद काळांत मनीस आपल्यो अडी-अडचणी तांकां सांगून सोडयतालो. आनी जगाच्या वेव्हारांत त्यो देवता भाग

घेताल्यो. वैदीक लोक ह्या देवतांची पुजा करिनासले कारण ते समजताले ह्यो देवता मनशाच्या मन-बुद्धि पलतडच्यो आसात. पूण नैसर्गीक घटक (पांच घटक-पृथ्वी,आप, तेज, वायु, आकाश) हांचेर तांचें प्रभुत्व आसतलें. देव अज्ञात आसा हो विचार तांकां आनंद दिनाशिल्लो. देव सर्वात्मक वा विश्वात्मक हें तत्व तांकां मानवतालें.

जगांतल्या देवाच्या प्रकटीकरणाक लागून ताका आमी देव म्हूण वळखतात. इश्वर हो मनशाच्या ज्ञाना पलतडचो आसा ही विचारसरणी परकी. अशा ह्या विचारा परस मनशाच्या अंतरां भितर आशिल्ल्या इश्वराच्या अस्तित्वाक आमी चड पसंती दितात. निमणें सत्याचें प्रमाण हें तांच्या प्रकटीकरणांतल्यान मेळपाचें. आनी तेंच खरें अशें धरपाचें. आमी खात्री दवरपाक शकतात कीं साक्षात्कारान सगळें सोंपना. कारण सगळे साक्षात्कार हे समजुप्याचे ताकदीचेर अवलंबून आसतात. आमकां निसर्गांत दिसपी सौंदर्य, कला ज्ञान ताचें वैभव हें सगळें इश्वराच्या अगाध ज्ञानाची उंची, ताची खोली आमकां अजापीत करता. इश्वराच्या अर्तक्य, अद्भूत भव्यतेची साक्ष दिता."

सामान्य रितीन सांगचें जाल्यार वेद काळांतल्या देवां विशीं हें मत आसा. व्हडली प्रमाणां जाय म्हणून ना. ते देवाचीं वेगवेगळी रुपां घेवन तांचेर ध्यान करतात. प्रोफेसर श्री. आर. डी. रानडे सांगतात, हें इश्वराचीं वेगवेगळीं रुपां घेवन ध्यान करप म्हणल्यार ध्यानांत मनांत इश्वराचें चित्र काडून ध्यान करप. प्रोफेसर रानडे फुडें सांगतात, अशी ही रीत बुद्धिवादी मनशांक बरी पडटा. म्हणून तांणी ती सोदल्या जायत. लोक इश्वराचीं वेगवेगळीं प्रतिकां वा मूर्ती हांचेर

ध्यान करतात. इश्वराची मूर्ती वा कल्पना हो एक राबितो वा नांव, ध्यान सोपे रितीन जावपा खातीर. ह्या अनंत इश्वराक एका नांवान बांदतात. हांगा थंय विषयांचेर हेडपी मनशाच्या मनाक इश्वराची कल्पना जाग्यार हाडपाक आधार करता. हाका लेखक 'आलंबना' अशें म्हणटा. एक सुंदर स्पश्टीकरण 'आलंबना' ह्या शब्दाक ते दितात तें अशें- योग्यांनी आपल्या ध्यानांत केल्ली एक मानसीक प्रक्रिया, योग्यांनी अनंताचें विश्वरूप आपल्या मुखार हाडपाक केल्लो प्रयत्न, ध्यानाचें अंतीम रूप आनी आलंबना हो शब्द कठोपनिषदांत 1.2.17 हातूंत आयला ज्यातूंत आलंबनाचें अंतीम रूप म्हणल्यार ॐ म्हणून सांगलां.

एतदालम्बनं श्रेष्ठ एतदालम्बनं पर।
एतदालम्बनं ज्ञात्वा ब्रह्मलोके
महीयते।।

"म्हणल्यार सगळ्यांत बरो आधार हो परमोच्च आधार. तो आधार जाणा जावप म्हणल्यार ब्रह्म लोकांत आदराचें स्थान मेळप."

हें लक्षांत घेवपा सारकें, भगवद्गीतेचेर भाष्य करतना श्री शंकराचार्यांनी गीता अध्याय X.20 त सांगलां, इश्वराचें ध्यान करतना सगळ्यांच्या अंतस्करणांत वास करपी अशें धरून ताचें ध्यान करचें. तें जर जमलें ना जाल्यार इतर प्रकटीकरणां हांचेर ध्यान करपाचें.

(सर्वभूताशयस्थित:- सर्वेषां भूतानां
आशये अन्तर्हृदि स्थित:- अहमात्मा
प्रत्यगात्मानित्यं ज्ञेयः। तदशक्तेन च

उत्तरेषु भावेषु चिन्त्यः, अहं यस्मात्
अहमेव आदिः भुतानां कारणम् तथा
मध्यं च स्थितिः अन्तः प्रलयः च)

अवलंबना लागून मन खिळो मारिल्ले भशेन एके थारावीक इश्वराचे कल्पनेचेर घट्ट उरता. आनी मनाच्या विषयाचेर मारपाच्या उडयांक पायबंद पडटा. नाजाल्यार मनशाचें मन वाऱ्यार धांवपाच्या निरर्थक प्रयत्नांत आपली शक्त काबार करता. तुमची ध्यानाची पायरी जितली ऊंच वतली तितल्या प्रमाणांत तुमकां मनाची एकाग्रता मेळटली. म्हणटकर ध्यानांत तुमी एकाग्रतेक प्राधान्य दिवप गरजेचें.

सुरवात करतना हांगा इश्वराच्या सर्वसत्ताधीशपणाची आनी सर्वशक्तीमान ही कल्पना येता. इश्वराचें ध्यान करतना तो सर्वशक्तिमान आनी वैभव संपन्ना सयत आसा हें ध्यानांत हाडून ताचें ध्यान करपाचें. ह्या सर्वसाक्षी सर्वज्ञ इश्वराचें तेज सगळ्या वटांनी उजवाड घालता. ज्याची प्राणशक्ती सगळ्या संवसाराक, सगळे उत्पत्तीक जिवदान दिता आनी ही सर्वसत्ताघीश शक्ती संवसारांतल्या प्रत्येक वस्तूचें चलन-वलन थांबोवंक शकता त्या देवाक म्हजी प्रार्थना मुख्यत्वान उद्देशून आसा.(अथर्व वेद VII 25(26)(2))

सर्व शक्तिमान इश्वर जो सगळे जीवसृष्टीचें रक्षण करता, ज्याचे कडल्यान सगळीं तिनूय जगतां आपलो आधार घेतात आनी जो सगळ्या जगताचेर राज्य चलोवपी परमेश्वर आसा ताची हांव आळवणी करतां. ताका हांव आवाहन करतां अशी ही प्रार्थना कौंडण्य रुशी करता. (यजुर्वेद XX 32)

"हे देवा, आमच्या शत्रू परस तूं व्हड आसा आनी

असो तूं सगळे शक्तीक चालना दिता, ताचेर ताबो दवरता. आमी तुजी पुजा करतात कारण आमकां तूं जिवन दिवपी उदक, व्हडपण आनी शक्ती दिवपी आसा. उदक, वीज, निर्मळ शक्ती अशा रुपांनी आमी तुजी परत प्रार्थना करतात. आमी तुका साष्टांग नमस्कार घालतात कारण तूं सर्वशक्तिमान. सगळें बरेंपण तुवें पांगुरलां, अवतारी आनी सर्वज्ञ आसा. आमी तुका मान बागयतात कारण तूं सदांच वाडणारो, व्हडलो, सगळें व्यापणारो, सर्वसाक्षी. तूं सगळ्यांत श्रीमंत. तूं सगळी संपत्ती जमयता आनी ती आपले कडेन दवरता. आमी तुका प्रणाम करतात." अशी प्रार्थना रुशी ब्रह्म करता. (अथर्व वेदXIII 4.47, 50-54) "हे सुर्या, संपत्ती आनी सुंदरकाय हांणी दोगांयनीय तुज्या गळ्यांत माळ घाल्या. दीस आनी रात हीं तुगेलीं सोबतीं. मळबांत चकचकणारीं नखेत्रां हीं तुगेलीं रुपां आनी पृथ्वी आनी मळब म्हणल्यार तुगेलें तेजस्वी मुखामळ. हांव तुगेलो भक्त. म्हजे करणेच्या कसल्या फळाची हांवें आस्त धरपाची? सर्ग मेळोवन हांवें समाधान मानपाचें काय सगळ्या विश्वाचीच इत्सा धरपाची?"(यजूर्वेद XXX.22)

स्वामी सत्चिदानंद बरयतात, जगांत एकच इश्वर आसा. आनी तोच आमचो देव जो आमच्यांत प्राण जावन आसा. आमी ताचीं प्रतिकां. देव सदां एकच आसता. कारण जगांत एकच इश्वर आसा जाका आमी वेगवेगळ्या नांवांनी पाचारतात. आमी वेगवेगळ्या भाशांनी एकाच सत्या विशीं उलयतात.

तूं सगळ्यांचो सार. पूण जेन्ना आमी ताचे वांटे घालतात तेन्ना तीं पिशेपणां थारतात. जसो पावस न्हंयेंत पडटा तेन्ना

तो आपल्या मुळ स्वरुपाक मेळटा हें तागेल्या स्वभावाक धरून आसता. इश्वर हो निर्मळ उदका भशेन आसा. एक परिपूर्ण असो. जेन्ना तो सकल पडटा, न्हंयेच्या आलतडच्यान पडटा तेन्ना तो इस्रायलाचो देव जाता. आनी ते ताका 'आकाशांतलो बापूय' म्हणटात. जेन्ना तो दुसरे वटेन पडटा तेन्ना ताका अल्ला म्हणटात. जर तो हिमालयाचेर पडलो तर ताका शीव म्हणटात.

आमी "HOLY" पवित्र इश्वर अशें म्हणटात तेन्ना हेच भशेन घडटा. इश्वर ही एक सर्वसाधारण व्याख्या जी सगळ्या धर्मांनी मानल्या. तातूंतलो अर्थ असो, ज्ञानाची एक विश्वशक्ती. आमी जरी ताका वेगवेगळीं नांवां आनी शब्द दिले तरी अर्थ तोच आसता. इश्वराचीं नांवांय पवित्र आसात. कारण ताका दिल्लें नांव आनी ह्या नांवा फाटल्यान आशिल्लें रूप हीं वेगळीं बांदूंक येनात.

देवाक खंय खंयचेंय नांव दिवं, तो त्या नांवांत खोशी आसता. हें एका बाळका (भुरग्या) भशेन. समजा हें भुरगें जर एका व्हड कुटुंबांत आयलें तर घरांतली सगळीं ताका वेगवेगळ्या नांवांनी पाचारतात. आवय ताका एका नांवान उलो मारता, बापूय दुसऱ्या नांवान उलो मारता. तर धाकटी भयण ताका तिसऱ्या नांवान मायेन उलो करता. तशेंच इश्वराक तुमी खंयच्याय नांवान उलो मारलो जाल्यार ताका ताची पर्वा आसना. इश्वर सदांच ताच्या फाटल्यान आशिल्ले भावनेक म्हत्व दिता. ताका आमच्या अंतस्कर्णांत गोडी आसता. आमचे तकलेंत न्हय. कारण आमच्या मर्यादांक लागून आमी ताका वेगवेगळीं नांवां दितात. आनी ताचीं वेगवेगळीं रुपां प्रळयतात. आपल्या व्हडपणाक लागून देव

तें मानून घेता.

खात्रीन तुमच्यानी देवाक स्त्री रुपांत उलो मारूंक जाता. Thou art That तत्वमसी, तो तूं आसा अशें रुशी म्हणटात. कारण बहुतेक मनीस देवाचो असो अर्थ लायतात कीं तो पुरुष रुपांत आसा. थोडे लोक ताका देवीच्या रुपांत पळेतात. देवाक बापायच्या रुपांत कित्याक पळोवपाचो? तो तुमचो भाव, भयण, मित्र वा मोगी जावपाक शकता. खरें म्हणल्यार देव हें सगळें आसुनय हाचे परस चड आसा. एक थारावीक नातें तुजे व्यक्तीगत पुजे खातीर निवड. जर तूं तुज्या बापायचेर आनी कोणाय परस चड प्रेम करता जाल्यार तुज्यान देवाक आपलो मोगाळ बापूय म्हणूं जाता. तुका बापायचो भंय दिसता आनी तूं आवयचेर चड माया करता तर तुका दिसतलें देव एक सुंदर आवय आसा. तूं खंयचेय तरेन ताका लागीं वच तो तुका केन्नाच 'ना' म्हणचो ना.

मनुष्य प्राणी देव म्हणल्यार बारा हात आनी स तकल्यो आशिल्लो एक उच्च मनीस रूप आशिल्लो अशें येवजूंक शकता. हिंदू धर्मांत हें आमी पळयतात. मनाची ही समजणी स्वाभावीक आसा.

जर एखाद्या रेड्याक देवा म्हऱ्यांत वचपाचें येवजलें जायत तर तो ताका मनीस रुपांत केन्नाच येवजुचो ना. कारण मनीस रेड्यांक बरे तरेन वागयनात. रेड्याक अशेंय दिसूंक शकता कीं देव म्हणल्यार एक व्हडलो रेडो जाका चार शिंगां आनी दोन शेपड्यो आसात.

वैदीक शिकवणे प्रमाण सगळयो व्यक्ती, दादले बायलो, ह्यो सगळयो व्हंकलो. देव हो एकच न्हवरो. ताची

आमी आराधना करतात. आमी सगळीं स्त्रीवाचक आनी देव एकलोच पुरुषवाचक. इश्वर हो एक स्थीर शक्तीचो पुतळो. तो हालचालींतल्यान प्रगट जाता. सगळी निर्मणी हें त्या स्थीर शक्तीच्या पुतळयाचो प्रभाव. हो स्वभाव धर्म आवयचो. फकत आवयच गर्भ धरता आनी भुरग्याक जल्म दिता. बापूय न्ही. बापूय हें करूंक शकना. हें सगळें विश्व हें आवयचें प्रतीक. हिंदू तत्वज्ञानान सदांच देवांच्या पयलीं देवतांचो गौरव केला कारण प्रकृती शिवाय पुरुष हो निष्क्रीय आसता.

भारतांत अशेय लोक आसात जे शिवाक सर्व शक्तिमान मानून ताची पुजा करतात. पूण जर तूं बंगालाक वचशी तर तुका दिश्टी पडटलें कीं थंयचे लोक देवतांची पुजा करतात. शक्ती ही मुख्या दैवत, सर्व शक्तिमान. तुमी चित्रां पळयल्यांत आसतलीं जातूंत शक्ती शिवाचे छातयेर नाचता. आनी तो निष्क्रीय असो पडून रावला. हातूंतलो अर्थ तुका समजला. ते सांगतात शीव हो शक्ती शिवाय निष्क्रीय. असो शक्ती नाशिल्लो देव म्हणल्यार देवच न्हय.

गैरसमज करून घेवं नाकात. शक्तीच्यान शिवा बगर नाचूं नजो. शीव आनी शक्ती म्हणल्यार दोन देव न्हय. पुणून एकाच इश्वराचीं दोन रूपां. शिवाक जेन्ना प्रकट जावपाची इत्सा जाता तेन्ना तो शक्तीचें रूप घेता. जसो एक हिरो जो चकचकता, लखलखता ते चकाकी शिवाय फातोर आसता. फातरा शिवाय चकाकेक, लखलखतेक स्थान आसना. पुण हीं दोनूय वेगळीं करूंक शक्य ना. एका भागाक लागून दुसरो भाग दिसता. शिवाक शक्ती शिवाय प्रगटीकरण ना. आनी शिवाक सोडून शक्तीक रावप शक्य ना.

---

हें एका विजेच्या उपकरणा सारखें. एक डायनामो. ज्याका फकत विजेची पुरवण केली म्हूण ताचो उपेग जायना. तो घातक आसना कारण तातूंत विद्यूत प्रवाह (current) ना. तो थंय आसता इतलेंच. पूण ज्या मिनटाक ताका गती मेळटा, तो घुंवपाक लागता. (तूं रोखडोच ताचे भोंवतणीं बंधन घालता. घातक 3000 VOLT हाचे पसून पयस रावात.)जातूंत गती ना असलें विजेचें उपकरण कसल्या उपेगाचें? आमकां विद्यूत प्रवाह जाय म्हणजेच शक्ती जाय.

जर तुमी श्री विष्णूचें चित्र पळयलें जायत, ज्याका नारायणय म्हणटात, जाल्यार तुमी सदांच पळयतले ताची मोगाळ लक्ष्मी ताच्या अंतस्करणांत राविल्ली आसता. हीं सगळी प्रतिकां इतल्याच खातीर कीं हीं प्रगटीकरणां दाखयले बगर इश्वराक समजूंक येवचें ना. आनी ताची अनुभुतीय शक्य ना. शक्तीचें हें प्रगटीकरण हो देवीचो भाग. इश्वर हो सर्वसाक्षिमान आसता. पुणून आपूण जावन जगाच्या सगळ्या हालचालींत प्रगट जायना जायत तर जिणेच्या खेळांत गोडी उरची ना. आनी देवाक वळखुपाचो, ताचो अणभव घेवपाचो मार्ग आसचो ना.

ज्ञानी प्रकाशा विशीं उलोवप सोपें. पुणून सत्या विशीं तुमी वाचन केलें वा आयकलें म्हूण पुरें पडना. तुमी एकाच्याच दुकानांत वतात, थंयचो मेनू वाचतात आनी ऑर्डर दितात. मेनू वाचपाक तुमी पयशे फारीक करिनात. पुणून जर तुमी थंयचें खाण-जेवण खालेंच ना जाल्यार कितें उपेग जालो? एकाग्रतेचो अणभव घेतलो जाल्यार पूर्णपणान मनाची शांतता जाय. देवाची अनुभुती पूर्णपणान मन घेवंक शकना. जर तुमकां एकाग्रतेचो अणभव आयलो आनी जेन्ना तुमी ताचें

वर्णन करतात तेन्ना तुमकां तुमचें तें मर्यादीत मन जुळोवचें पडटा. कारण जें कितें घडटा तें मनाचे बुद्धि पेले कडलें आसता.

हे खातीरच बुद्ध लोक देवा विशीं कांयच उलयनात. बुद्ध अवतार हो हिंदू आवय-बापायलो पूत. बुद्धाक सगळ्या अडचणींची आनी धर्माच्या गोंधळा विशीं माहिती आशिल्ली. शेंकड्यांनी पंथ देवाच्या नांवान एकमेकाच्यो तकल्यो फोडटाले. म्हणटकर बुद्धान म्हणलें ना. ह्या गोंदळांत हांव आनी भर घालूंक सोदिना. म्हाका हीं चल्ल्यांत तीं मूर्खपणा सोंपोवं दी. ताचे (देवाचे) विशीं कित्याक उलोवंक जाय? लोकांक स्वताच ताचो अणभव घेवूं दी.

बुद्धाचे जिणेचे अखेरचे घटके वेळार बुद्धान पळयलें, आपलो जेश्ठ आनी श्रेश्ठ भक्त आनंद थंयच दुख्खी चेहऱ्यान उबो आशिल्लो.

बुद्धान आनंदाक विचारलें, "आनंदा, हांव ही कूड सोडून वतां म्हूण तूं दुख्खी जाला?"

आनंद सांगता, "ना. पूण आपल्यालो एक प्रस्न आसा. अजूनय ताचें उत्तर आपल्याक मेळूंक ना."

"विचार," बुद्धान सांगलें.

"महाराज, तुमी देवा विशीं केन्नाच कांय सांगलें ना. हाचो अर्थ तुमी देवाक नाकारतात? (देव ना म्हणटात?)"

"आनंदा, हांवें केन्नाच तुका देव ना म्हूण सांगलां?"

"महाराज, तुमी देव ना म्हूण सांगूंक ना. म्हणटकर तुमी जगांत देव आसा म्हणटात?"

बुद्ध सांगता,"आनंदा, हांवें केन्नाच तुका देव आसा

म्हूण सांगलां?"

ताणें देव आसाय म्हूण सांगूंक ना. तशेंच देव ना हेंय सांगूंक ना. म्हणटकर हाचो अर्थ कितें? तर ताका ह्या विशयाचेर उलोवपाचें ना. कारण तें बरोबर वर्णन करपाक येना. ज्या दिसाच्यान मनशान देवा विशीं उलोवपाक सुरवात केली त्या दिसाच्यान ताणें धर्माच्या नांवान सगळे तरेचीं झगडीं निर्माण केलीं. देवान मनशाक आपलें स्वरूप दिवन उत्पन्न केल्लो आसा. पुणून मनशांनी आपल्या अहंकाराक लागून देवाच्यो वेगवेगळयो प्रतिमा निर्माण केल्यो. आनी हे खातीर प्रत्येकान आपलो वेगळो देव केलो. आनी दुसऱ्यां कडेन झगडीं सुरु केलीं. हे खातीर देवाच्या विशयीं उलोवपा परस ताचे अनुभुतीचो स्वता अणभव घेवप हें चड बरें.

जशे जशे तुका हे विशीं अणभव येतात, तूं जितलो फुडें वता तितल्यो तुगेल्या पुर्वील देवा विशयीं केल्ल्यो कल्पना पुसून वतात आनी तूं आनी देव एक जातात. हें जाय सर तूं एकच चिंतन कर आनी घट विस्वास दवर कीं हें सगळें आपले ताकदी भायलें आसा जें तूं मेळोवपाचो यत्न करता. हळू हळू तूं तातूंत फुडें वतलो आनी तुका तें कितें आसा तें समजतलें. वाट चलत राव. फुडें वच. साधना करीत राव. त्या मार्गार जें कितें आसा तें तूं जाणा जातलो. त्याच मार्गान वाट चलत राव.

जेन्ना बुद्धान ह्या अणभवा विशीं कांयच सांगलें ना तेन्ना ताच्या भक्तांनी बुद्धाक विचारलें, "आमी आतां कितें करचें?"

"फुडें वचत रावात. साधना करात. तुमकां खबर आसा, जगांत दुख्खां आनी संकटां आसात. तातूंतल्यान

जर तुमकां भायर सरूंक जाय तर दुख्खाचें मूळ सोदून काडात. ताचें कारण सोदात. ह्या भोगांतल्यान सुटले जाल्यार तुमगेल्यो स्वार्थी वासना हुमटावन काडात. मेकळे जायात. ह्या सगळ्या चुकींच्या ओळखीं पसून मुक्त जायात. सामके उघडे जायात म्हणटकर खंयचींच बंधनां तुमकां आसचीं नात. निर्वाण म्हणल्यार उघडेपण. आत्मो हो उघडो (कपड्यां विरयत) आसूंक जाय. मन सगळ्या ओळखीं पसून सगळ्या संबंधां पसून मेकळें जावंक जाय."

"आनी हें सगळें जालें म्हणटकर कितें घडटलें?"

"हें हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना."

"जर तुमकां जाय जायत जाल्यार तुमी मागीर स्वताचे बुद्धीन देवाच्या हातांत (पोशांत) घालून घेवपाचें. हे खातीरच हें सगळें. ती स्वतंत्र बुद्धी तुमकां दिल्ली आसा. तुमचें सगळ्यांत पयलें कर्तव्य म्हणल्यार, तुमी स्वताक मनीस म्हणून समजता जाल्यार ती तुमच्या भितर काम करणारी आध्यात्मीक (इश्वरी) शक्ती वळखात.

जर तुमी तुमगेल्या सगळ्या वासनांचो त्याग केलो जायत तर तुमचें मन हेवटेन तेवटेन हेलकावे घेवचें ना. म्हणटकर तुमकां तुमच्या भितरल्या आत्म्याचो अणभव घेवंक मेळटलो. कसलेच परतफेडीची आस्त धरिनासतना दुसऱ्याक कसल्याय वस्तूचें दान करप ही चावी. प्रत्येक धर्माचें हेंच सार जावन आसा. योगाचेंय हेंच सार. हें तुमी करशात जाल्यार वस्तू स्वता जावन तुमच्या म्हऱ्यांत येतल्यो. आरंभाकच न्हय पूण तूं परिक्षेक पास जालो म्हणटकर तें घडटलें. तूं सामको गरीब थोड्या वेळा पुरतो जायत. जर तुजें मन शुद्ध आसत जाल्यार तूं म्हणटलो, कांय पर्वा ना.

म्हजे कडेन जें कितें आसा तें हांव दितां. कोणच म्हजेर बळजबरी करिना. हांव बक्षिसांची आस्त धरना."

जेन्ना विश्व चिद-घन शक्ती (चैतन्य) हिका दिसतलें कीं तूं खरेलेंच एक व्हड साधन आसा, ती तुका चड आनी चड धाडून दितली. तुका इश्वराचो स्वभावधर्म कळटलो. इश्वराचें सर्वसाक्षित्व, पूर्ण कृपा तुगेलें काम पूर्ण करतली. तुका सगळे कडेन आनी सगळ्यांत देव दिसतलो. तुका कळून येतलें ही सगळी उत्पत्ती ही इश्वराची लिला. तागेलें प्रगटीकरण. सगळे मनीस जातीचेर, निसर्ग, मोनजात, वनस्पती, झाड-पेड हांचेर तूं मोग करतलो. अशें जालें म्हणटकर तुगेली इश्वर सेवा ही मनीस जातीची सेवा थारतली. सगळया जगाचीच सेवा जातली. मागीर तुका कांय करपाची गरज उरची ना. तुगेलें अस्तित्वच आसल्यार पुरो. तूं प्रेममय जातलो आनी देवाची सेवा करतलो.

सुरवातेक तुवें अशे तरेचे जे लोक आसात तांची संगत धरपाची. ही सामकी सोपी वाट. वेळार ही तुका साधनेच्या वेगवेगळ्या मार्गान व्हरतली. तुगेलें ध्यान तुका तुगेल्या अंतस्थ इश्वराची जाणीव दितलें. तूं भायर वचून लोकांची सेवा करतलो. जो कोण ध्यानाची साधना करता आनी इतर पद्धती आपणायता, तो एका म्हाल्या भशेन आसता. म्हालो आपलो वांखर दीस भर पाजीत आसता (ताका धार काडीत आसता) आनी तो खाडां-बोडां तासता. ती तागेली जगाक दिल्ली सेवा आसता. जर तूं फकत सेवाच करीत रावलो, तुगेलो वांखर बोथट जातलो. जेन्ना जेन्ना तुगेले सेवेंत मंदसाण येता, भितर वच आनी तुगेले जाणिवेचे वांखराक धार काड. परतो भायर वच आनी

परत आपले सेवेक सुरवात कर. घडये एक दीस ते अशे तरेचो सोद लायतले जाका लागून तुगेले ब्लेडीची धार कमी जायनासतना तुगेलें काम सतत चलत रावतलें. जांणी जगांत रावन प्रत्येकाची सेवा करूनय देवाक सदांच आपल्या मुखार पळयला त्या सिद्ध पुरुषांनी घालून दिल्ली ही वाट".

**सत्य साईबाबांनी वृंदावनांत (बेंगळुराक) विश्वाच्या खेळांत अवताराचें कार्य कितें हाचेर प्रवचन दिलां.**

जशें तिळांत तेल
दुधांत तूप
फुलांत सुगंध
फळांत रोस
लाकडांत उजो
तसो इश्वर सगळे कडेन

**इश्वरी आत्म्याचीं प्रतिकां**

पुरातन काळा पसून एक प्रस्न सगळ्यांक सतायता. इश्वर खंय असा आनी तो कसो दिसता? सोदाच्या खूबशा वाटांनी ह्या प्रस्नाचें उत्तर सोदपाचो प्रयत्न जाला. आस्तीक, नास्तीक, संशयी आनी इतर कोणच स्पश्ट उत्तर मेळोवपाक पावलो ना. ह्या प्रस्नाचें सत्य समजतलो जाल्यार आपली नदर अंतरस्थ वळोवंक जाय. हें शिक्षणीक पुस्तकांतल्यान वा शिक्षकां कडल्यान शिकूंक मेळना. चैतन्य (consciousness) हें मनांत आसता. आनी तें सगळ्याक व्यापता. दोळ्यांत

दिश्टीची शक्ती आनी जिवेर आशिल्ली रूच हीं चैतन्या पसून आयल्यांत. आमी ज्ञानेंद्रियांचो वापर करतात पूण आमकां तांकां मेळपी शक्तीचें मूळ खंयच्यान आसा तें (तांकां चलन-वलन करपाक मेळपी शक्त) खबर ना.

चैतन्य हें शारिरीक (इंद्रीय-गोचर) दृष्टीन समजून घेवप शक्य ना. तें प्रत्येकांत आनी तें सामकें लागीं आसा. लोक भायल्या प्रयत्नांनी आनी आध्यात्मिक साधनेंत दिश्टी पडपाचो फुकट प्रयत्नांनी तें पळोवपाचो प्रयत्न करतात. संपूर्ण जगताची उत्पत्ती ही इश्वरी लिला, इश्वराचें प्रकटीकरण, इश्वराची इत्सा. प्रकृती वा निसर्ग हें इश्वराचें प्रकटीकरण. मनीस होवय बी प्रकृतीचो एक भाग. आनी अशे रितीन इश्वरी शक्त ही मनांत येता. एक बीं (बीज) कोंबेता आनी ताचें ल्हानशें रोप जाता. रोप वाडटा झाड जाता. ताका खांदे, पानां, फुलां येतात. ह्या सगळ्या विश्वाचें बीज हें चैतन्य (शुद्ध चिद-घन-आनेद शक्ती). मनशांत ही शक्ती वाडटा. ताची पूर्ण वाड जाता. तें चंवरता आनी ताका जाणिवेचें फूल येता. अशे् रितीन देव मनशांत अवतरता. हें सत्य समजप हेंच मनशाचे जिणेचें ध्येय. आमचें मन हे बाबतींत अडचण थारता. मन मनशाच्या अहंकाराक लागून विकल्प हाडून हातूंत खीळ घालता. जेन्ना तें प्रगल्भ आसना तेन्ना असो मनीस अहंकारान भरून उरता. तो देवत्व विसरता. भायले दिश्टीन विचार करून आनी भायल्या जगा कडेन पळोवन ताका आपले भितर आशिल्ल्या इश्वराची वळख समजना.

जगाच्या भौतीक विशयांत आत्म्याचें कांयच काम ना अशें चिंतप हें बरोबर न्हय. भोतीक जगांतय इश्वराचें

अस्तित्व दिश्टी पडटा. जगांत दोन गूण आसात. स्वभाव आनी परभाव. हातूंतलो पयलो हो खरो. भितरल्या आत्म्या पसून आयिल्लो. आनी परभाव हो जागतीक प्रयत्नांतल्यान आयिल्लो. मनीस आपलो खरो इश्वरी-प्रकृती स्वभाव विसरला म्हणून तो आज संकटांत आनी विपत्तींत बुडला. तो फकत मोनजातीचे गूण आपल्या करण्यांनी दाखयता. जेन्ना कोणय मनीस आपलो अंतरस्थ-सोद घेतलो तेन्ना ताका इश्वराक जाणा जावपाची संद मेळटली.

आज आमी गणेश जयंतीचो उत्सव मनयतात. हो विघ्नेश्वराचो जल्मदीस. हो कोण आसा? हाचें व्हडपण कित्या आसा? जगाक हाणें कितें शिकयलां? आमी जयंती उत्सव मनयतात पूण आमी हाचे फाटलें तत्व कितें आसा हें जाणून घेवपाचो इल्लोय यत्न करिनात. तागेली सगळयांत बरी शिकवण ही आपल्या स्वताच्या दाखल्यान दिल्ली. ती म्हणल्यार विश्वाचें एकतत्व. जेन्ना ताका सांगलें तूं विश्वाची प्रदक्षणा करून यो म्हणटकर तुका आवय-बापाय कडल्यान बक्षीस मेळटलें, ताणें रोखडीच आवय-बापायची (शीव-पार्वतीची) प्रदक्षणा केली. आनी सांगलें, आपणें विश्व प्रदक्षणा घाली. ताणें सांगलें, इश्वर-पार्वती हींच दोगांय विश्वाचें प्रतिनिधित्व करतात.

श्री सत्य साईबाबांनी शीव, पार्वती, गणेश, सुब्रमण्यम हांगेल्या वाहनांचो आनी तांणी आंगार घाल्ल्या वस्तूं विशीं म्हायती दिली. तीं कशीं एकमेकांच्या सन्मतान वागतात हो दाखलो दिलो आनी सांगलें, तांगेले मूळ स्वभाव जरी एकमेकांक विरोधी आसले तरी तीं सगळीं एकदिलान चलताली. बाबांनी पयलें उदाहरण शिंवाचें दिलें. शींव हें

पार्वतीचें वाहन. तो शांतीपणान हत्ती कडेन वागतालो. हत्ती हें गणेशाचें रूप आनी नंदी (बैल) हें म्हादेवाचें वाहन. मोर हें सुब्रम्हण्यमाचें वहान. ताचें सोरपा कडेन शत्रुत्व नाशिल्लें आनी सोरोप ही शिवाच्या गळ्यांतली माळ आशिल्ली.

कुटुंबांत एकी आसप ही समाजांतले एकीची बुन्याद. जरी मनीस जातींत तोंडवळे एकसारखे आसले तरी तांच्यांत एकी दिश्टी पडना. पूण वेगवेगळी भिन्नताय मात दिश्टी पडटा. जगांत शांतीचो दुकळ आसपाचें कारण म्हणल्यार प्रत्येक मनशाच्या विचारांत, उतरांत, कृतींत एक मेळ नासप. वेगवेगळ्या मनशांत एकी ना हें सामकें दिश्टी पडटा.

भगवान बाबांनी सांगलें, मनशान आत्मीक मुल्यां सोडून दिल्यांत. आनी हाचो परिणाम गोंदळ, गडबड हातूंत जाल्लो आमी पळयतात. आमी आमगेल्या आवय-बापायक मान दिवपाक जाय आनी तांचे आशिर्वाद आनी सौख्य मेळोवंक जाय म्हणपाचें आमकां देव गणपतीन दाखोवन दिलें.

गणपतीचें रूप हें खंयच्याच मनशाक लागू जायना. अशें आसूनय आमची नदर ताचेर खिळून उरता. आमकां तें परत-परत पळोवचें, ताची पुजा करची अशें दिसता. सुदरकाय आकारांत (भायल्यान दिसणारें रूप) आसना पूण ती विकारांत दिसता. गणपतीन आपल्या दांताचो कुडको मोडून ताची लेखणी करून व्यासांनी सांगिल्लें महाभारत बरयलें. आनी हें सगळें मनीस जातीच्या फायद्या खातीर केलें. मनीस देवाची पुजा करता फकत आपल्या स्वार्थाच्या कारणां खातीर. इश्वर सौख्य मेळपा खातीर कोणच कसलोच त्याग करपाक तयार ना. पूण मनीस भौतीक सुखां मेळोवपाक

खंयच्याय तोंकाक वचपाची ताची तयारी आसता. इश्वराची पुजा करतना तुमी तुमचीं मनां आनी अंतस्करणां निर्मळ करूंक जाय. तुमी असमतेंत समता (एकी) पळोवची.

## विश्वाच्या नाटकांत इश्वराची भुमिका

विश्वाच्या नाटकांत इश्वराक आपली स्वताची थारावीक भुमिका आसता. जेन्ना एकादो नट नाटकांत भाग घेता, तेन्ना ताका नाटकांतलो तागेलो पार्ट आसता. तें सवंग ताका करपाचें आसता. आनी ताका आपल्या मूळ स्वभावा प्रमाणें वागूंक मेळना. पड्ड्या फाटल्यान तो आपल्या मूळ स्वभावा प्रमाणें वागूं. हातूंतलें सत्य तुमी सारखें समजूंक जाय. समजा एका मनशान रामाचो पार्ट केलो तर ताका रामाच्या स्वभाव गुणा प्रमाणें सत्य, धर्म, शांती, प्रेम जीं सदांच रामाच्या करण्यांत दिसून येतालीं तीं त्या पार्टान तितल्या वेळा पुरतीं तरी आपणावचीं पडटलीं. मागीर तो आपले जिणेंत अनैतीकपणान वागूं. त्याच प्रमाणें इश्वरान जगाच्या नाटकांत मनीस रुपांत पार्ट घेतलो म्हणटकर ताका फकत मनशा भशेन वागचें पडटा हें सगळयांनी स्पश्टपणान समजूंक जाय. श्री कृष्ण हो परमात्मो आशिल्लो. तो सर्वज्ञय आशिल्लो. तो द्रौपदीक सामको लागींचो आशिल्लो (भक्तीच्या अर्थान). जेन्ना द्रौपदीक दुर्योधनाच्या दरबारांत, तिची खूब अवहेलना केली आनी तिका विवस्त्र करपाची आज्ञा दुर्योधनान केली तेन्ना श्री कृष्णान तिची अबू वांचोवपाक तिका अखंड-अमीत साडयांची पुरवण केली. लोक असो आक्षेप घेतात, जेन्ना दुर्योधन अशी हीन करणी

करतालो तेन्नाच ताका श्री कृष्णान शिक्षा कित्याक करूंक ना? द्रौपदी कृष्णाची निरसीम भक्ती करताली आनी कृष्णाक दुर्योधनाक ख्यास्त करपाची शक्तय आशिल्ली. पूण ह्या नाटकांत फुडें आनिकय पात्रांचीं कामां आशिल्लीं. दुर्योधनाक भिमाच्या हातान युद्धांत मरण आशिल्ल्याचें भवितव्य पयलींच थारिल्लें आशिल्लें. म्हणटकर कृष्णाक तातूंत ढवळाढवळ करप शक्य नाशिल्लें. कंसाक कृष्णाच्या हातान मरण आल्लिें आनी रामाच्या हातान रावणाक मरण आशिल्लें. राम-कृष्ण हे दोनय विष्णूचेच अवतार आशिल्ले. पूण प्रत्येकाक आपलो थारावीक पार्ट करपाचो त्या त्या अवतारांत थारिल्लो आशिल्लो. प्रत्येक अवताराक थारावीक नियम आनी मर्यादा आसतात ज्यो अवतार हुपून वचना. सामान्य मर्त्य मनशाक इश्वराचे हे मार्ग समजप शक्य ना.

शिवाच्या कुटुंबांत आमी हें समजूंक जाय. शीव ही पुरुष शक्ती (ओजस) आसा. पार्वती ही प्रकृती. ती निसर्गाचें प्रतीक. बुद्धि सिद्धि हीं गणपतीचीं लक्षणां. आनी सुब्रम्हण्य हो गणपतीचो भाव. जरी तांचीं रुपां वेगवेगळीं आसत, तीं सगळीं एक. जशीं हाताचीं पांचय बोटां हीं एकसारखीं आसनात, तांची लांबी, आकार एक रूप न्ही पूण तूं जेन्ना खंयचेंय काम करता तेन्ना तीं सगळीं एक जावन एक बऱ्यांत बरो वावर करतात. जर तीं सगळीं एकाच मापाचीं आनी एकाच आकाराचीं आशिल्लीं तर तुगेलें काम बरोबर जावचें नाशिल्लें. इश्वराचे उत्पत्ती फाटलें हें एक गूढ.

बाबांनी एक चुटको सांगलो. एक गणीत शास्त्रज्ञ आशिल्लो. तो एका झाडा सावळेक सुसेग घेवपाक बसलो. ताका शेजराक एक दुदयाची वाल दिश्टी पडली. आनी

तेच बरोबर एक मोठो दुदी हुमकळटा तो दिसलो. तो येवजूंक लागलो, ही वाल इतली बारीक आनी हिका येदो मोठो दुदी आनी त्या वडाच्या झाडाक बोरां येदीं फळां. ताका अजाप दिसलें. तो म्हणपाक लागलो, देवाक बुद्ध कमी आसुंये. नाजाल्यार येदी व्हडली विसंगती कशी? थोड्या वेळान तो थंयच आडवो जालो आनी न्हिदलो. वारो आयलो वडाचीं थोडीं पिकीं फळां ताच्या आंगार पडलीं. आनी तो जागो जालो. ताणें म्हणलें, ह्या वडाच्या झाडाक दुदया येदीं फळां आशिल्लीं जाल्यार हांगा ताच्या मुळांत आसरो घेवप्याक कितली दुखापत जातली आशिल्ली. ह्या अणभवान ताका देवाची बुद्ध कितें ती कळ्ळी.

बाबांनी सांगलें: तुमी वस्तूंचें पूर्ण ज्ञान जाणा जावपाचो प्रयत्न करचो. अर्दकुटें ज्ञान हें घातक. तुमी अंतरस्कर्णाचो स्वभावधर्म लक्षांत घेवचो. देव सगळ्या जगाचें कल्याण येवजिता. देवाची दृष्टी विशाल आसता. हाचे उलट मनशाची दृष्टी संकुचीत, स्वार्थी आसता. तुमीय बी तुमचें अंतरस्करण व्हड करचें. हांव तुमच्या शारिरीक काळजा विशीं उलयना. जर तें वाडलें जायत तर तुमकां दोतोराक आपोवचो पडटलो. हांव आध्यात्मीक काळजा विशीं उलयतां. काळजाक, अंतरस्करणाक हृदय म्हणिल्लें आसा. ताचो अर्थ असो- हृदय जें दयेन भरिल्लें आसा, तें सर्वव्यापी आसा. जर तुवें अमेरिकेचो विचार केलो जायत जाल्यार तुगेलें अंतरस्करणय थंय वता. शारिरीक अंतरस्करण वा काळीज हें एक यंत्र. ताची थारावीक मर्यादा आसता. अंतरस्करणांत दया, करुणा आसप ही इश्वरी देणगी. ज्या अंतरस्करणांत दया ना त्या अंतरस्करणाचो स्वभावधर्म सैतानी जाता. मनशाक दुसऱ्या

विशीं दया, करुणा आसप हो खूब गरजेचो गूण. दये शिवाय मनीस हो मनीसपण नाशिल्लो मनीस थारता. दयाळू अंतस्करण आसप तुज्यांत आशिल्लो इश्वरी अंश दाखयता.

इश्वराक जल्म मृत्यू आसना. तो सनातन आनी साक्षिभूत उरता. अशा ह्या इश्वराक जो अप्रमेय, अप्रमाण, वर्णना पेले कडलो, पुराव्या पेले कडलो आसा ताका कसो अणभवप? तो फकत प्रेमाकच जाप करता. तुमी इश्वराक प्रेमान समजुपाचो आनी तुमची जीण प्रेमान सारपाची. इश्वरावेलें प्रेम म्हणल्यार ताचेवेली भक्ती.

इश्वर म्हणल्यार कितें हें तुमकां समजावपाचो जरी हांवें दुबळो प्रयत्न केलो, तरी तो अवर्णनीय आसता. आनी तो अद्‌भूत आसता. इश्वराची व्याख्या, इश्वर म्हणल्यार कोण हें इश्वरान आपूण जावन सांगलां कीं तो वर्णना पेले कडलो आसा. देव म्हणल्यार कोण आनी देव म्हणल्यार कितें हाचें वर्णन करप कठीण. आपल्या कितल्याशाच प्रवचनां मदीं एका प्रवचनांत तांणी सांगलां-

"कोणाकच ब्रह्म म्हणल्यार कितें हें सांगप कठीण. जास्तींत जास्त एकलो कोणय सांगत हें ब्रह्म न्ही, तें ब्रह्म न्ही. पूण कोणाकच ब्रह्म म्हणल्यार कितें हें सांगूंक येवचें ना.  सत्य हें निरंतर (अखंडीत) आनी ज्ञान हें अपरिमीत. कांहींशा प्रमाणांत ब्रह्मांडा कडेन तांचें नातें आसा. हे वा इतर शब्द हें ब्रह्माचें वर्णन जायना. तेच प्रमाण इश्वर वा इश्वरी तत्व म्हणल्यार कितें हाचें वर्णन शक्य ना. - भगवान श्री सत्य साईबाबा

इश्वर ह्या विशयाचेर, जो केन्नाच सोंपना, बाबांले कांय उतारे हांगा जोडीन दिसता.

इश्वर सदांच उत्पत्ती करणारो, राखण करणारो आनी तिचो लय करणारो असो वागता. तुमी ताका तुमची कृतज्ञता करणेन दाखोवची, शब्दांनी न्हय.

इश्वर हो सगळयांचो आसता, तो विश्वाचो आसता. इश्वाराक तुमी खंयच्याय नांवान पाचारूंक शकतात. जें नांव तुमकां गोड लागता वा खंयच्याय रुपांत चितारिल्लें आसूं तें तुमच्या मनाक भावता. ज्या नांवा विशीं तुमकां भंय अजाप दिसता त्या नांवान पसून हरकत ना. इश्वराक तुमी फटोवन जिकूंक शकनात तशेंच आडवळणानय जिकूं शकनात. ताका जिकतलो जाल्यार कठीण मार्गान प्रयत्नांची पराकाष्ठा करून जिकूं येता. ते खातीर खर साधना आनी विषयां पसून अनासक्त रावप गरजेचें.

वेगवेगळया पंथांत इश्वराचीं वेगवेगळीं नांवां आसतात. वेगवेगळे समाज घटक ताका पुजतात. हे सगळे इश्वराचे अंश आसतात. पूण इश्वर एकच आसता. आनी जगांत एकच इश्वर आसा.

इश्वर तुमच्या अंतस्करणाची शुद्धता पळयता. इश्वराक आमचें मेकळें आनी पूर्ण प्रेम जाय.

इश्वरा कडेन व्हड-ल्हान, उच्च-नीच हो भेद आसना. इश्वराक प्रसन्न करपाक खास थारावीक अशी पुजा ना.

तुमी इश्वराक जी देणगी दितात वा दितां अशें उतर दितात, ताका ताची गरज आसना. तो सदांच समाधानी आनी हंसतमूख आसता.

इश्वर सदांच तुमकां तें जाय दिसता तें दिवपाक तयार आसता. पूण तुमकां खबर आसना, आपल्याक

कितें दिल्यार बऱ्याक पडटलें वा खरी गरज कसली आसा तें. म्हणटकर अशे परिस्थितींत सामकी सोपी वाट म्हणल्यार तुमी ताका पूर्णपणान शरण वचप आनी तागेली कृपा मागप.

***

# मनशाक इश्वराची गरज कित्याक?

मनशाक इश्वराची गरज आसा. कारण परिपूर्ण जाल्लो मनीस इश्वरांत विलीन जाता. ल्हान भुरग्याक जितली आवयची गरज आसता ताच्याकय मनशाक इश्वराची चड गरज आसता. भुरगें व्हड जातकर आवयची गरज तें नाका म्हणटा पूण मनीस इश्वराची गरज केन्नाच सोडिना. उलट ताका चड गरज लागता. ताचें वय कितलेंय आसूं किंवा ताणें जोडिल्लें यश कितलेंय आसूं, इश्वराचे गरजेची ताका जाणीव आसुये वा नासुये, पूण ताका इश्वराची गरज ही लागताच.

जर आमकां मना पसून आनी प्रामाणीकपणान दिसता कीं तांकां इश्वराची गरज ना तर ते फटयतात आनी तशें सांगपाक तें भेकळे आसात. पूण जांकां मना पसून आनी प्रामाणीकपणान दिसता कीं तांकां देवाची गरज आसा, ते सदां सगळो वेळ देवा खातीर तळमळटात आनी ताका लागीं वचपाचो प्रयत्न करतात.

मनशाची मूळ गरज अन्न-कपडो-आनी आसरो. मागीर ताका सुखसोईच्यो गरजो येवजतात. मागीर ताचेले कल्पनेंतल्यो गरजो, त्योय बी आसतात. कांय वेळार ताका कसली गरज आसा हे ताका खबरच आसना. थोड्या वेळार कारखानदारच जांकां तांगेल्यो वस्तू खपोवपाच्यो आसतात तेच ताका याद करून दितात. आनी हीच तुगेली निकडीची गरज अशें सांगतात. आनी अडेच्यो गरजो मनशाच्या फाटल्यान लायतात. ह्या शिवाय

मनशाच्या शारिरीक गरजां भायर इतरय गरजो आसतात. ताका भावनीक, सामाजीक आनी बौद्धीक गरजोय आसतात.

आज आमी हें मान्य करतात कीं मनशाक जीण जगपाचोच हक्क न्हय तर ताका आपल्यो गरजो भागोवपाचोय हक्क आसा. जागतीक अपेक्षे प्रमाण ह्या दिसांनी मनशाक चड आध्यात्मीक गरज जी कमी कमी जायत गेल्ली आमकां दिश्टी पडटा. मनशाली देवा विषयीं गरजय कमी कमी जायत वता.

चडशे लोक अशे आसात जे आपणाक नास्तीक समजतात. पूण ते देवळांनी वतात. जप, धन आनी साधनेचे मार्ग हांचेर विस्वास दवरतात. नैतीक जिणेचेर ते विस्वास दवरतात. पूण देवाची गरज आसूं जाय अशें माननात. सामाजीक जिणेंत बरी वागणूक आसूंक जाय अशें ते सांगतात पूण अध्यात्माचेर तांचो विस्वास ना. हे बरे लोक. तांकां बरो समाज जाय आनी बरी वागणूक हीच बऱ्या समाजाची बुन्याद अशें ते सांगतात. हे खातीर देव हो अडेचो. देवाची गरज आसप अशें दिसप म्हणल्यार तें मनशाक बरी वागणूक घट्ट करपाक किंवा तिका चिकटून रावपाक मदत करता. अशेंच सगळ्या वेळार, खंयचेय परिस्थितींत देव मनशाक सांबाळटा. हो आमच्या शास्त्रांचो निकाल आनी संतांचें सांगणें. श्री कृष्ण आपले गितेंतल्यान आमकां हें शिकयता. "जे मनीस तपाचरण करतात, तांचे बाबतींत ते म्हणटात, इंद्रियां विषयां पसून पयस रावतात पूण ताची गोडी पयस जायना. तुमकां इश्वराचें दर्शन जालें जाल्यार विषय आनी तांची गोडी पयस जाता ते तुमच्या लागीं येतात."

जे मनीस तपाचरण करतात आनी इंद्रीय-विषय आनी गोडीय दवरतात, ते परते बंधनांत पडपाची शक्यताय आसता. इंद्रियांक शोडें सुद्धां ओजन पुरो जाता. फकत इश्वर भक्तीच

ताका हळूहळू विरक्त करूंक शकता. इश्वराक पळयलो म्हणटकर तो सुरक्षीत उरूंक शकता. तरीकय ताणें आपल्या सगळ्या वासनांचो लासून गोबोर करचो पडटा. संत तिरुवल्लवरान म्हणलां, "इश्वराक घट्ट धरून राव. तो एक संबंध (इश्वरालो) सुरक्षीत दवर. म्हणटकर जीं बंधनां आत्म्याक बांदून दवरतात त्या इतर संबंधां पसून तूं मेकळो जातलो." दुसऱ्या एका संतान सांगलां, "जर तुवें सगळीं बंधनां सोडलीं जायत तर तुका मुक्ती मेळटली. पूण जर तुगेली विरक्ती तुका घट्ट दवरूंक जाय तर संबंध सगळे पुसून उडोवंकच जाय. मागीर तूं इश्वराक शरण वच."

धर्माचें काम म्हणल्यार मनीस आनी इश्वर हांचे मदलो दुवो घट्ट करपाचें. पूण थोड्या वेळार धर्मच मनीस आनी इश्वर हांचे मदीं येता. सामके थोडे लोक जे आपल्याक कट्टर धार्मीक समजतात तातूंतलेच थोडे आपल्याच खातीर देवाक भजतात. फकत एक मूठ भर धार्मीक लोकांतले देवा खातीर खरेलेच तळमळटात आनी तागेल्या दर्शना खातीर आकांत करतात.

धर्म ही मनशाची आध्यात्मीक गरज. आज भाग्यवशान डॉ. जूंगच्या मुखेलपणा खाला वावुरपी एका मानसशास्त्राच्या पंगडान हें मानून घेतलां. डॉ. जूंग हांणी आपल्या प्रसिद्ध 'आत्म्याच्या सोदांत आधुनीक मनीस' (Modern man in search of soul) ह्या पुस्तकांत सांगलां,

आमच्या सगळ्या पेशंटांनी आपले जिणेच्या दुसऱ्या अर्दांत म्हणजेच वयाच्या 35 वर्सां उपरांत सांगलां कीं, तांचे पयलींचे जिणेंत कोणाकच, तांणी जिणेक धर्माचे नदरेन पळोवंक जाय, अशें दिसलें ना. वा ताका लागून तांकां कांय अडचणय येवंक ना.

आज बरें आसा, कांय मानसशास्त्रज्ञ मानतात कीं धर्म ही मनशाची मानसीक गरज. पूण अजून विस्तारान मान्य करूंक ना कीं इश्वराची गरज ही मनशाक स्वाभावीक आनी पयली गरज आसता. कारण इश्वर हो मनशाक पावला पावला जाय पडटा. आनी धर्म ही मनशाली मानसीक गरज आसा.

धर्म वा इश्वर हाची मनशाक मुळावी गरज आसा अशें म्हणपांत सार कितें? हें झाड पळयात. तें पूर्णपणान वाडटलें जाल्यार ताका उजवाड जाय, हवा जाय, वारो, उदक जाय. ही ताची गरज. तशेंच मनशाक जर जिणेंत पूर्णताय मेळोवंक जाय तर ताका इश्वराची गरज आसा. इश्वरा शिवाय मनशाचे जिणेक पूर्णताय ना, साफल्य ना. आनी पूर्णताय म्हणल्यार मनशाचो देव जावप. देव म्हणल्यार साधन आनी देव म्हणल्यार शेवटय. ख्रिस्त सांगता, "हांव तुमचो मार्ग, सत्य आनी जीणय बी." देव ही मनशाली गरज कारण इश्वराक धरले बगर जिणेचे पूर्तताये खातीर एक पावल पसून फुडें घालूंक शकना.

मनशाचे जिणेची पूर्णताय म्हणल्यार कितें? ही एक स्थिती जातूंत मनीस आपलें आत्म स्वरूप वळखता आनी अणभव मेळयता. म्हणटकर तागेलीं सगळीं जिणेचीं बंधनां तागेल्यो सगळ्यो आशा, तागेली हाव, मर्यादा हीं तो हुपून वता. पूण मनशाक अमरत्व मेळना. तो सर्वज्ञ, सद्चीत आनंद जायना. आमकां शास्त्रां सांगतात, मनशाचीं इंद्रियां - हाडां, रगत हांचो सांगाडो- ही यंत्रणा ज्याका आमी मनीस म्हूण वळखतात हें खिणांत भंग पावणारें एक आंगलें जें मनशाचे भितर आशिल्ली अद्भूत शक्ती ज्याका आमी आत्मो म्हणटात ताचेर घाल्लें आंगलें किंवा झगो. ह्या आत्म्याचो स्थायी भाव. सद्चीत आनंद म्हणल्यार अस्तित्व, ज्ञान, संपूर्ण आनंद, सूख

म्हणटकर संपूर्णताय ह्या अर्थान. मनशांत आशिल्ल्यो लहरी, वासना ह्यो सभावीक आसतात. आनी ह्यो पूर्ण जातल्यो जाल्यार मनशान आतां अणभव घेवन तो आत्मो म्हणल्यार आपूणच ही जाणीव ताका घेवची पडटली. आनी हे रितीन मनशाक देवाची गरज आसा. आनी देव ही मनशाची पयली गरज.

**स्वामी विवेकानंद सांगतातः-**

एक सारखेपण हो जर विश्वाचो न्याय आसत तर विश्वाचो प्रत्येक वांटो त्याच आधाराक धरून आसूंक जाय. सगळें विश्वच (ब्रह्मांड) एके प्रणालीन चलता. म्हणटकर आमगेले विचार सभावीक आसात कीं, ह्या येद्या व्हडल्या भौतीक पसाऱ्या फाटल्यान अशेंच आनीक विश्व आसूंक जाय. अशें एक विश्व जें वस्तू सोद घेणारें, जाका आमी विचार म्हणटात आनी ह्या विचारां फाटल्यान आत्मो जो हें आमकां स्फुरीत करता. ताचेर ताचें स्वामित्व आसता. जो जगाच्या शिंवासनाचेर बशिल्लो आसा तो आत्मो. जो प्रत्येक मना फाटल्यान आनी शरिरा फाटल्यान आसा ताका प्रत्यगात्मा अशें म्हणटात. मनशांत आशिल्लो आत्मो आनी हो जगा फाटल्यान आशिल्लो आत्मो. हो मार्ग दाखवणारो, राज्य करणारो आनी राज्य चलवणारो होच देव.

आतां आमी विचारूंक जाता, जर देव हो असो आसा आनी असो हो देव मनशाची प्राथमीक गरज आसा तर चडशे लोक देवा विशीं पूर्णपणान हे वस्तुस्थितीक कशे अज्ञ रावंक शकतात. सगळ्यांत पयलीं आमी स्पश्ट जाणा जावन घेवया, हे गरजेची (देवाच्या) अज्ञानताय म्हणजे ती

गरजच ना असो जायना. खंयच्याय एका सत्याचें अज्ञान म्हणल्यार सत्यच ना अशें जायना. ही वस्तुस्थिती मनशां भितर चडशा जाणांक खबर ना कीं तांकां देवाची गरज आसता.मनशांचे बाबतींत हें सगळ्यांत व्हडलें सत्य. मनीस मायेच्या भुलवण्यान आनी मायेचें ताचेर चेंपण आशिल्ल्यान तिच्या सांपळ्यांत सांपडला. मायेच्या चेंपणाक लागून मनीस आपले जिणेची सगळ्यांत मोठी गरज विसरला. आनी तिचे विशीं बेफिकीर जाला म्हणटकर आसूं शकता कीं ताका इश्वराची गरज भासना.

जेन्ना आमी सत्याची अनुभुती घेवपाचो प्रयत्न करतात तेन्ना कांय शक्ती आमच्या मार्गांत आडमेळीं हाडटात. ह्यो शक्ती मागीर आत्मीक नाजाल्यार भौतीक आसूं. तीं खेळांतलीं खेळणीं. तीं आमचें लक्ष दुसरे कडेन व्हरतात म्हणटकर आध्यात्मीक साधनेक खीळ पडटा. आनी मागीर आमकां देवाची गरज लागना. कोणाकय कोंवळ्या वेळार देवाची गरज भासता जायत. हाचे उलट दुसऱ्या कोणाकय जिणेंत केन्नाच  गरज भासली ना जायत. ही भावना मनशाचेर लादूंक येना. आमचो पयलो प्रस्न सामको व्यक्तीगत आसूंक जाय. तो म्हणल्यार- "म्हाका स्वताक देवाची गरज केन्ना पडल्या?" हो प्रस्न आमी सकाळच्या थंड वेळार वा रातच्या मध्य वेळार जेन्ना सगळें थंड आसता तेन्ना आपल्याकच विचारचो. जिणेच्या भरभराटीच्या वेळार तशेंच जेन्ना तूं अडचणींक तोंड दिता तेन्ना हो प्रस्न तुमी जरूर स्वताक विचारचो.

भगवान श्री सत्य साईबाबा सदांच सांगत आयल्यातः-

इश्वर म्हण्ल्यार प्रेम - प्रेमांत रावात.

---

इश्वर हो प्रेमळ - आनी मायाळू आसा.

देव हो गाये भशेन जी आपल्या पाडका खातीर तळमळटा.

सगळ्यांचेर प्रेम करात-सगळ्यांची सेवा करात.

म्हणटकर आमी एकमेकाचेर प्रेम करुंया. देवा खातीर आनी कोणाचोच द्वेश करूं नये म्हणटकर आमकां, आमच्या आत्म्याक देवाची गरज लागतली.

ख्रिस्तान सांगलां:-

"तूं देवाचें राज्य पयलीं मेळय आनीक निती-बाकिच्यो सगळ्यो वस्तू तुज्यांत तुका मेळटल्यो."

राधा कृष्णाची पुजा करताली. ती सांगताली, "कृष्ण हो शब्द सगळ्यांच्या तोंडांतलो जाला. पुणून आपल्याक ती आत्म्याची तळमळ जाल्या." इश्वर हो फकत तोंडान उच्चारपाचो आवाज जावं नये. पुणून ती आमच्या अंतस्करणांतली ज्योत जावन, ती इश्वरी तळमळ जावन आमच्या आत्म्यांत धुमसत रावची तेन्ना मनशाक खऱ्यांनीच देवाची गरज आसता. असो मनीस मागीर सामको बदलता. तो देवा खातीर पिसो जाता. शब्दांचे अर्थ हे ताका उपकरनात. ह्या जगाच्यो आशा, आकांक्षा, हांव, हातूंत ताका गोडी उरना. ह्या जगाचो आनंद, मजा ह्यो ताका गोबरा भशेन जातात. तागेली भाशा, तागेली नदर, तागेल्यो हालचाली, तागेल्यो चिंता, काळज्यो ह्यो वेगळ्यो जातात. देवा शिवाय ही जीण व्यर्थ अशें तांकां दिसता. अशें आसूनय ताका जिणेविशीं भरीव प्रेम आसता. तो येवजिता, जिणेच्या खंयच्याय खिणाक तो (देव) येवचोना मूं? ताचे कान तो

आवाज आयकुपाक तानेतात. देव आयिल्ले पळोवपाक तागेले दोळे घळघळटात.

देवाचे गरजेन सामकी पिशी जाल्ली मीरा आनी सूरदास. तीं आपल्या शरिराच्यो गरजो पूर्णपणान विसरून गेल्लीं. आनी रस्त्यार भोंवंक लागिल्लीं.

अशे हे दाखले सिद्ध करतात कीं जेन्ना मनशाक देवाची खरीच गरज आसता, तेन्ना ताची सगळी जीणच एक ज्योत जावन ती देवा कडेन वचपाक उडयो मारता. आमी सदांच देवाची प्रार्थना करूंक जाय कीं ताचे अपरंपार कृपेन ताणें आमचें मन, बुद्धी हांकां दिशा दाखोवन तांकां समज दिवची कीं आमकां इश्वराची अत्यंत गरज आसा आनी ती सगळ्यांत पयलीं. आनी इतर सगळ्यो गोष्टी मागीर. देवान ती तळमळ आनी ओड आमकां दिवची. अशे रितीन आज, फाल्यां, नाजाल्यार म्हयन्यांनी, वर्सांनी, निदान आमचे जिणेच्या अखेरच्या खिणाक तरी आमी ताका समोरा समोर आमचे भितर वा भायर पळोवंक शकतले. आनी आमकां तागेलो आशिर्वाद मेळटलो.

***

# इश्वर अवतार कित्याक घेता?

अवतरणाची कल्पना हो अशे एके सांखळेचो मुख्य दुवो जी सांखळी, जिच्यो कल्पना आमकां इश्वर आनी मनीस हांचे एकात्मतेच्या सांगडाची वळख दितात.

- स्वामी विवेकानंद

जेन्ना जेन्ना धर्माचेर ग्लानी येता आनी अधर्माचें वर्चस्व जाता तेन्ना तेन्ना आपूण अवतरतां. (श्री कृष्ण अर्जुनाक सांगता) भक्तांचो उद्धार करपा खातीर आनी धर्म परतून नव्यान स्थापन करपा खातीर आपूण दर युगांत प्रकट जातां.

- भगवद् गीता

(ओवी 7,8-IV)

सद्गुणी लोकांचें रक्षण करपाक, वायटांचो नाश करपाक, घट्ट बुन्यादीचेर नितीची स्थापना करपाक आपूण युगायुगांनी अवतार घेतां. जेन्ना अशांती किंवा बेबनाव, दुफळी जगाक ग्रासता तेन्ना इश्वर मनीस रुपांत शांती किंवा प्रशांती हाडपाचे मार्ग स्थापन करपाक आनी मनीस

जातीक शांतीच्या मार्गान पुर्नशिक्षण दिवपाक, इश्वर अवतार घेता.

इश्वर अवताराची गरज कितें? इश्वर हो अनंत असा. तो परिपूर्ण आसा,अमर्याद आसा. म्हणटकर ताणें अवतार घेवपाची गरजच कितें? जेन्ना तो अपरमेय आसा तेन्ना ताच्यान एका रुपांत जें रूप मर्यादीत आसा तातूंत तो सामावूंक शकना?

मनीस हो इश्वरा पसून वेगळो आसा. मनीस हो समर्याद, ज्याका मर्यादा आसा असो. ताची कूड, ताचें मन, ताचो अहंकार हीं सगळीं नाश पावपी. पूण तागेली चिद् घन शक्ती ही अमर्याद. पूण मनीस हें विसरला हो प्रस्न न्हय तरीकय जो सतत हे चिद् घन शक्तीचे जाणिवेंत रावता, अशे विभुतीक इश्वरी अवतार म्हणटात.

जेन्ना इश्वराक दिसता कीं आपणें अवतार घेवपाचो वेळ आयला, तो अवतरून आमचे थंयसर आमकां मेळपा खातीर येता. अशा ह्या अवतरणाक आमी अवतार म्हणटात. तो जोंवर हांगा रावता तोंवर तो आपले शक्तीन, जिचे आड कोणच येवंक शकना अशी. ताचें व्यक्तिमत्व, अनंत ज्ञान हांच्या बळग्यान बऱ्या नितीमान लोकांच्या शत्रूंक जिकून सत्याचे घट्ट बुन्यादीचेर धर्माची परत एक फावट स्थापना करता.

अवतारांचो मुख्य उद्देश तांणी जावनच बेस बरो सांगिल्लो आसा. जशें श्री कृष्णान सांगलें, जेन्ना धर्मीक दुबळेपण येता आनी अधर्माचो उदो उदो जाता तेन्ना आपूण स्वता जावन नितीमानांचें रक्षण करपाक आनी अनितीन वागणाऱ्यांचो नाश करपाक आनी धर्माचें रक्षण करपाक

ह्या जगांत युगांयुगांनी येतां.

जेन्ना भक्तीच्या सद्गुणांक ज्ञान, वैराग्य, हांकां मनशां मदीं सुकती येता तेन्ना इश्वर सकल देंवन आमकां मदत करपाक, आमकां धर्माच्या मार्गार व्हरपाक आमच्यांत येता.

व्हड साधू, योग्यांनी चुकपी मनीस जातीक नितीच्या मार्गाचें मार्गदर्शन करपा खातीर आमच्यांत जल्म घेतला. खूबशे लोक अज्ञानाच्या काळखांत आपली भायर सरपाची वाट सोदपाक धडपडटात. खूबशे संवसाराच्या समुद्रांत बुडून वतात आनीक दुख्खां आनी संकटां हांचे बळी जातात. आनी हातूंतल्यान भायर येवपाक शकनात. अशा लोकांक मदत करपा खातीर आनी संवसारांतल्यान तांकां तारपा खातीर व्हड साधू ह्या जगांत येतात. ते आमच्यांत येतात ते आमकां आध्यात्मिक उजवाड दाखोवन सर्गाच्या राज्यांत व्हरपाक. तांणी आमकां एक अमोल धडो शिकयला कीं, आमची जीण ह्या जगांत सदांच आध्यात्मिक पूर्णताये खातीर प्रयत्नांक उरची. आनी साळकाच्या पानावेल्या उदकाच्या थेंब्या भशेन आमची जीण आमी हे भुंयेचेर सारची.

वयर सांगिल्ले प्रमाण हें स्पश्ट जाता कीं, जेन्ना मनीस जात सरळ, नितीमत्ता ह्या मार्गा पसून भरकटून पयस वता, जेन्ना पातकांची वाड जाता, अधर्म आपलें विद्रूप स्वरूप नाचयता, तेन्ना अधर्माचें कार्य मोडून काडपाक आनी धर्माचें राज्य स्थापन करपाक साधू संत ह्या जगांत येतात.

जेन्ना अधर्म हो सदांचोच न्याय जाता आनी धर्माचें अस्तित्वच डळमळटा तेन्ना धर्माचें रक्षण करपाक बऱ्या लोकांचें वायटा पसून रक्षण करपा खातीर इश्वर अवतार घेता. श्री सत्य साईबाबा हे अशेच एक अवतार. मनीस बेत करता

आनी देव निकाल दिता, ही एक पयलींची म्हण.

पूण श्री सत्य साईबाबांचें निकाल दिवप सदांच आपल्या भुरग्यां वटेन आसता. हें मागीर दिसूंक खूबशें अशक्य दिसूं.

'आपूण अवतार कित्याक घेतां' हे विशीं श्री भगवान बाबांनी आपल्या प्रवचनांत सांगलां-

"सध्याच्या काळांत, झगडीं आनी एकमेकां भितर बेकी हांणी शांती आनी एकी हीं गिळून उडयल्यांत. हांव साधू संतांनी प्रार्थना केली म्हूण आयलां. म्हगेलें मुखेल कार्य म्हणल्यार वेदांचें रक्षण आनी प्रसार करप. आनी भक्तांचें रक्षण करप. तुमी म्हगेले भक्त जावंक जाता. पुणून केन्ना? तुमी पूर्णपणान तुमच्यांतल्या अहंकाराचो नाश करून पूर्णपणान तुमी म्हज्या पोशांत येयात. अवतारान केल्ल्या आनंदाचो शिंवर अणभवात. अवतार मनशां भशेनच वागता. कारण मनीस जातीक आपली जवळीक दिसची म्हूण. पूण तो आपले इश्वरी उंचायेचेर वता. म्हणटकर मनीस जात महत्वाकांक्षेन ते उंचायेर वचपाचो प्रयत्न करूंक शकता. आनी ते स्फुर्तीनच ताच्या म्हऱ्यांत पावपाक शकता."

"तुमच्या काळजांतल्या इश्वराक वळखात. ताचो अणभव घेयात. इश्वर मनीस रुपांत कित्या खातीर येता आनी तागेल्या कार्या फाटलो उद्देश्य ध्यानांत घेयात. राम-कृष्ण ह्या अवतारांक एका मनशाक वा धर्माचे शत्रू जे कोण आसात तांचो नाश केल्यार पुरो आसतालें. पूण आज अशी परिस्थिती आसा कीं कोणूच पूर्णपणान बरो ना. म्हणटकर इश्वरी रक्षण तांकां कशें फावता? सगळे लोक दुश्टपणान ग्रासल्यात. म्हणटकर अवतारान जर ठरयलें, हो रोग मुळा

पसून हुमटावन काडचो जाल्यार कोण वांचतलो? म्हूण हांव आयलां. म्हाका वेगवेगळ्या तरांनी तांची बुद्धच सुदारूंक जाय. हे खातीर वेदांचे, शास्त्रांचे शब्द, तांची विस्कटावणी सांगची पडटा. आध्यात्मिक धडे सांगचे पडटात. येयात, परिक्षा, अणभव घेयात. म्हजेर पूर्ण विस्वास दवरात. हीच आपल्याचो उपेग करून घेवपाची रीत.

म्हगेल्या खंयच्याच प्रवचनांत हांव साईबाबां विशीं उल्लेख करना. जरी हांव साईबाबांचो अवतार आसलों तरी हांव केन्नाच वेगवेगळ्या अवतारांत- श्री साई, राम, कृष्ण, ख्रिस्त आदी- भेद करना. तुमी निवडिल्ल्या, तुमकां भाविल्ल्या देवाची- अवताराची पुजा-अर्चा करपाची तशीच चालू दवरात. सगळीं नांवां म्हगेलींच. तुमी म्हाका पळयलो, तुमी म्हजे विशीं आयकलें म्हणून तुमी निवडिल्लें रूप बदलूं नाकात. अवताराचे जिणेंतलें दर एक पावल हें पयलेंच थारिल्लें आसा. श्री राम सत्याचीं आनी धर्माचीं मुळां घट्ट करपाक आयलो. श्री कृष्ण हो शांती आनी प्रेम हांची पसवण करपाक आयलो. आतां हीं चारूय मुल्यां संकटांत सांपडल्यांत. तीं सुकून गेल्यांत. हे खातीरच सध्याचो अवतार आयला. हांव तुमकां आनंदाची खाणच दिवंकआनी तुमकां नितीचो मार्ग दाखोवपाक आयलां. ही संद तुमी वगडायली जायत जाल्यार मागीर तुमचें नशीब. तुमी म्हजे कडेन फकत भौतीक सूख आनी आनंद मागपाक येतात. तुमच्यांतले साप थोडे, जें कितें हांव दिवपाक आयलां तें मागपाक येतात. तें म्हणजे मुक्ती. इश्वरा कडल्यान तुमचो फायदो करून घेवपाचो प्रयत्न करात.

हांव दर एकल्याचें भूत, भविष्य आनी वर्तमान जाणतां.

तुमी पूर्व जल्मांत समजून उमजून केल्ल्या वायट करण्यांचे परिणाम तुमकां भोगचे आसतात. म्हणजेच कश्ट, त्रास ह्या जल्मांत भोगचे पडटात. ते हांव चलूं दितां पुणून तुमकां तातूंत सदांच थोडी भोव सूट दितां. हांव सदांच आनंद-स्वरूप आसतां. येयात आनी म्हजे कडल्यान आनंद घेयात. त्या आनंदांत सुखी रावात आनी शांतीन भरून उरात. म्हगेल्यो करण्यो म्हणल्यार हांव बांदूंक लागिल्ल्या इमारतीची बुन्याद. म्हगेलें कार्य म्हणल्यार जे खातीर हांव आयलां. जेन्ना देवान अवतार घेतला तेन्ना मनशान वेगवेगळया तरांनी ताचो वापर करून घेवन आपली उदरगत सादूंक जाय. देवाक आपली प्रसिद्धी करची असो उद्देश आसना. म्हाका प्रसिद्धीची गरज ना. म्हाकाच न्हय, दुसऱ्या खंयच्याय देवांचे जे अवतार आयल्यात, तांकांय प्रसिद्धीची गरज लागली ना. तुमी कितें प्रसिद्ध करूंक सोदतात? तुमकां म्हजे विशीं कितें खबर आसा? तुमी म्हजे विशीं आज एक उलयतात जाल्यार फाल्यां दुसरेंच उलयतात. जेन्ना सगळें तुमच्या मना सारखें आसता तेन्ना तुमी म्हजी स्तुती करतात. जेन्ना परिस्थिती बदलता तेन्ना म्हाका दोश दितात. ज्या जाग्यार प्रामाणीकपणा, स्रद्धा, शरणांगती हांकां किंमत आसा त्या जाग्यार हांव येतां. धर्माची, नितीची स्थापना करप हें म्हगेलें ध्येय. धर्माची शिकवण, धर्माचो विरस्तार करप हो म्हगेलो उद्देश्य. म्हगेले चमत्कार म्हणल्यार वयर सांगिल्ल्या उद्देशाचे दृश्टीन थोडीं क्षुल्लक साधनां. हें खरें कीं सिद्धी वा योगीक शक्ती हीं साधनेच्या मार्गावेले घातक अडथळे आनी सिद्धीचो अहंकार साधकाक सकल ओडून वायट मार्गार व्हरूंक शकता. पुणून ह्यो सिद्धी वा योगीक शक्ती ह्यो अवताराच्या स्वभावधर्माचो भाग आसता. जे कोण शास्त्रांचो अभ्यास

करतात वा शास्त्रीय ग्रंथांचो अभ्यास करतात, ते म्हाका जाणा जावंक शकतात. तुमची जल्माचीच स्वाभावीक आळसाय तुमकां आध्यात्मिक अभ्यासा पसून आडायता. आनी इश्वरी स्वभावधर्म जाणा जातलो जाल्यार आध्यात्मिक अभ्यास गरजेचो. मनशाच्या स्वभावांतच आशिल्ली ही आळसाय काडून उडोवप हें म्हगेलें कार्य. म्हगेलें कार्य म्हणल्यार मनशाक फकत बरो करप, ताका थाकाय दिवप आनी व्यक्तिगत दुख्खां पयस करप. पुणून म्हगेल्या कार्याची व्याप्ती ही खूब मोठी आनी म्हत्वाची. दुख्ख, त्रास पयस करप हें प्रसंग येता त्या प्रमाण म्हगेल्या कार्याचोच एक ल्हान वांटो. म्हगेलें मुख्या कार्य म्हणल्यार वेदांची, शास्त्रांची स्थापना करप. तातूंतलें ज्ञान सगळयां मेरेन पावोवप. ह्या कार्यान यश येतलें. तें मर्यादीत आसचें ना. तें सवका चलचें ना. जेन्ना देवच हें थारायता आनी तशी इत्सा धरता, तागेली इश्वरी इत्सा केन्नाच अडखळची ना. तिका कोणच आडावंक शकचो ना.

तुमी आयकलां जातलें, लोक सांगतात हो म्हगेलो सगळो जादू. एका इश्वरी शक्तीच्या प्रकटीकरणाक जादू म्हणप बरोबर न्हय. जादुगार आपल्यो खेळी आपल्या पोटाभरीक, जागतीक किर्ती खातीर, पैसो मेळपा खातीर करता. ताची बसका फटीची आसता. पुणून ही इश्वरी कूड केन्नाच इतल्या सकल्या थरार वचप शक्य ना. याद दवरात, जगांत खंयचीय अशी वस्त आसचीना जी इश्वरी शक्ती मेळोवंक शकना. ती पृथ्वीचो सर्ग करूंक शकता आनी सर्गाची पृथ्वी करूंक शकता. म्हगेलें कार्य सुखाची वाड करपाचें म्हणटकर हांव तुमच्यांत येतां. एक आनी दोन

फावटी न्हय तर तुमकां जाय तेन्ना हांव येतां. तुमच्यांतले जायते जाण म्हजे म्हऱ्यांत येतात. आपल्यो अडचणी, मानसीक चिंता आदी. हीं सगळीं हांयसां जांकां लागून तुमकां म्हजे म्हऱ्यांत येवपाची इत्सा जाता. हांव तुमकां हाडटां. हातूंतलो मुख्य हेत हो आसता कीं म्हगेली कृपा मेळची. आनी तुमची देवा वेली स्रद्धा पक्की जावची. हांव तुमकां म्हजे म्हऱ्यांत आपयतां. आनी थोडीं भौतीक सुखां लेगीत दितां. निदान अशे तरेन तरी तुमी इश्वरा कडेन वळचें. तुमच्यांत मोठ्या प्रमाणांत मिसळप, तुमकां उपदेश बोध करप, तुमकां सत्य, धर्म, शांती, प्रेम ह्या मार्गार हाडपाक मार्गदर्शन दिवप अशें काम हाचे पयलीं खंयच्याच अवतारान करूंक ना.

म्हगेल्यो हालचाली, म्हगेलें कार्य हें केन्नाच बदलचें ना. मागीर कोणेंय ताचेर आपलीं मतां उक्तायलीं म्हणून म्हगेले बेत हांव बदलचों ना. म्हगेले बेत म्हणल्यार धर्माची स्थापना करप, नितीची स्थापना करप. म्हगेलीं संभाषणां, म्हगेल्यो हालचाली हांव म्हगेल्या कार्यांत गुंतून उरतां जे खातीर हांव आयलां. हांव थांबचों ना वा एक पावल पसून फाटीं सरचों ना. हांव सदांच आनंद भरीत आसतां. खंयीय कितेंय घडूं म्हगेल्या आनंदा आड कांय येवंक शकना. आनी हे खातीरच हांव तुमकां आनंद दिवंक शकतां आनी तुमचें वजें ल्हव करूंक शकतां. तुमी देवाच्या स्वाधीन जायात आनी ताका शरण वचात तर तो तुमचें रक्षण करतलो, तुमकां मार्ग दाखयतलो. हेच कार्या खातीर तर इश्वर आयला. तुमच्या काळजाचे तळमळे, ताच्यो आकांक्षा म्हाका कळटात पूण म्हजें काळीज तुमकां कळना. तुमकां जे कश्ट, त्रास

भोगचे पडटात, तुमकां मेळणारो आनंद हें सगळें म्हाका कळटा कारण हांव तुमच्या अंतस्करणांतच आसां. प्रत्येक अंतस्करणांतल्या देवळांत रावणारो हांव देवच आसां. हो संबंध आनी संगत सैल करूं नाकात. अंतस्करणांत देवा कडेन जवळीक सादात. म्हणटकर तुमकां बक्षीस मेळटलें. परमोच्च प्रेमाचो थोडोसो वांटो तुमकांय बी मेळटलो. ही एक व्हडली संद. आत्मविस्वास बाळगात, तुमी मुक्त जातले. जाणा जायात, तुमी वांचले.

खूबशे लोक विस्वास दवरूंक कचरतात कीं ही वस्तुस्थिती सुदारतली, जीण सुखी जातली, पूर्ण आनंदीत जातली आनी भांगराचें यूग परतें येतलें. हांव तुमकां खात्री दितां, ही धर्मस्वरूप इश्वरी कूड फुकट वच्ची ना. मनीस जातीचेर आयिल्ली ही संकटमय परिस्थिती पयस करपाक ताका यश मेळटलें."

"बाबा"

"हांव प्रत्येकाचो सेवक. तुमी म्हाका खंयच्याय नांवान उलो मारूंक जाता. हांव परती जाप करतलों. कारण सगळीं नांवां म्हगेलींच. तुमी म्हाका पयस दवरलो तरीपूण हांव तुमच्या फाटल्यान आसतलोंच. तुमी सुर्याक नाकारलो म्हणून तो ना जावचो ना. तुमी म्हजें मोज-माप घेवपाचो प्रयत्न करूं नाकात. तुमकां तातूंत अपयशच येतलें. तुमी स्वताकच मेजून-मापून पळयात. इश्वर हो अनंत आसा, अमर्याद आसा. इश्वराक जाणा जावपाचो प्रयत्न करप म्हणल्यार तुमीच इश्वर जातले. म्हाका जाणा जावपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार तुमी म्हज्यांतच मेळून वतले. जें मर्यादीत आसा तें अमर्यादेंत विलीन जातलें. म्हगेलें कार्य मनीस जातीक सत्य आनी

प्रेम हांच्या मार्गान तिचें आध्यात्मिक पुर्ननिर्माण करपाचें. हांव तुमकां दोनूय मार्ग, धर्म मार्ग आनी ब्रह्म मार्ग दाखोवपाक आयलां. तुमी जर म्हजे म्हन्यांत येवपाक एक पावल मारलें जायत तर तुमच्या येवकाराक हांव तीन पावलां फुडें येतलों. प्रयत्न आनी पराकाष्टेचे यत्न हीं मनशाचीं कर्तव्य-कर्मां. जय, अपयश हीं इश्वरी कृपेचेर अवलंबून आसतात. तुमच्या अंतरस्कर्णांत आशिल्ल्या इश्वराक गवाय दवरून ताची जाणीव दवरून प्रत्येक दिसा तुमकां नेमून दिल्ल्या कार्यांत गुंतून रावात. तुमच्यांत आशिल्लो हो इश्वर सदांच तुमचेच वटेन आसतलो. तुमी नामस्मरणांत गुंतून रावात. हीच सगळ्यांत बरी साधना. होच उत्तम जप आनी फायदेशीर तप. तुमचें अंतरस्करण प्रेमान भरून वचूं दी. ताका भक्तीचें उदक, सारें घालात. तुमकां सगळ्यांक होच एक सामको सोपो मार्ग."

"बाबा"

ज्या वरून मनीस आपूण मर्यादीत आसां असो विस्वास बाळगिता आनी आपलें अंतरस्करण चिद्-घन शक्तीन बांदून दवरता, अर्जुनान श्रीकृष्णाक विचारलें, "तूं म्हज्या इतल्याच वयाचो आनी तरीकूय तूं सांगता कीं हांव जल्माक येवचे पयलींच्यो घटना तूं सांगूंक शकता म्हूण. तर हें कशें?" श्रीकृष्ण ताका जाप दिता, "आमचे खूबशे जल्म जावन गेले. तुका तें खबर ना. पूण हांव तांचे विशीं सगळें सांगूंक शकतां. तूं तुगेलें अंतरस्करण-चिद्-घन शक्ती तूं तुगेले कुडीक आनी मनाक बांदून दवरता. म्हणून तुका पयलीं कितें घडलां तें खबर ना. तूं फकत तुगेले हे चालू जिणेंतलेंच जाणा. पुणून हांवें म्हगेल्या अंतरस्करणाची-चिद्-घन शक्तीची

आत्मस्वरुपा कडेन वळख दवरल्या. म्हणटकर म्हगेली व्याप्ती, म्हगेली जीण हिका मर्यादा ना. आनी हांव त्रिकाल ज्ञानी आसां."

इश्वरी अवतार हो सदांच परिपूर्ण, सर्वसाक्षी, सर्वशक्तिमान, सर्वज्ञ, प्रेमळ, काळजी घेणारो, भरपूर, अनंत आसता. तो परिपूर्ण आसूनय मनीस रुपांत येता. तो आपल्या चुकपी भुरग्यांक मार्गदर्शन करपा खातीर येता. म्हणटकर तो अशे तरेन वागता कीं तो तांकां सत्य, धर्म, शांती, प्रेम, अहिंसा ह्या मार्गान व्हरपाक तांचो फुडाकार घेता. आनी हेच खातीर श्री सत्य साईबाबा आमच्यांत आयल्यात.

***

# इश्वरी अवतारांचें येवपाचें कारण आनी ताचो अर्थ

सारांशान सांगपाचें जाल्यार इश्वरी अवताराची संकल्पना ही भारताक विलक्षण न्हय आनी चमत्काराचीय न्हय. बहुतेक सगळ्या धर्मांनी ही कल्पना खंयच्याय आकारांत वा दुसरे खंयचेय रितीन प्रचलीत आसा. तरी हिंदू विचारसरणीक ठळक खाशेलेंपण आसा.

हाचें मूळ सगळे कडेन अशें दिसतलें कीं मनशाचे दुबळे शक्तीक लागून ताका दिसता, तो वाट पळयता, अंतीं शक्तिमान इश्वरान आपली अनंत कृपा घेवन येवचें आनी सगळ्या संकटांच्या परिस्थितींक जेन्ना मनशाचीं दुबळीं साधनां कमी पडटात तेन्ना आपले अमाप शक्तीचो आनी कृपेचो शिंवर घालचो.

ज्यू लोक इश्वराल्या दुताचेर विस्वास दवरतात. क्रिश्चन लोक इश्वराल्या पुताचेर विस्वास दवरतात. हो इश्वरालो म्हणल्यार तांगेलो धर्मग्रंथ (Gospels) वर्णन करता. हो पूत म्हणल्यार देवाचो प्रतिनिधी. तो सांगता, हांव आनी म्हगेलो बापूय एकच आसात. कुराणांत मूर्तीपुजा ना. आनी तांगेलो भविष्य सांगणारो (Prophet) तो घोशणा करून सांगता कीं, आपूण मर्त्य (मरण आशिल्लो) सादो ताकीद दिवपी

दूत आसां तेच बरोबर तागेलें जोर दिवन सांगप आसता कीं आपल्याक इश्वराली प्रेरणा जाल्या. आनी सगळे लोक ताचे फाटल्यान वतात. ताका ते इश्वरालो प्रेशीत असो समजतात. ही कल्पना अवतारा परसून चड पयस ना. जैन लोकांक तांगेलो आराहत (Arhat)आसा. बुद्ध लोक बुद्धाक इश्वरी अवतार मानतात.

व्यापक दृश्टीन कोणाच्यानय सांगूंक जाता कीं दुसऱ्या सगळ्या बाबतींत इश्वरालो आत्मो हो आपल्या थारायल्ल्या मनशांत अवतरता. जाल्यार हिंदूंली विचारसरणी इश्वरच मनीस रुपांत अवतरता. जेन्ना नितीचो ऱ्हास जाता म्हणजेच नितीक अवकळा येता आनी वायट प्रवृत्ती थैमान घालतात तेन्ना नितीची पुर्नस्थापना करपा खातीर इश्वर अवतरून (म्हणजेच सकयल देंवन) मनशाच्या रुपांत येता.

श्री भगवान बाबांनी (सत्यसाईन) खूब फावटी सांगलां, सद्‌गुणी मनशाचें रक्षण करपाक आनी वायट करणाऱ्यांचो नाश करपाक, नितीची घट्ट बुन्यादीचेर स्थापना करपाक आपूण वेळा-वेळार अवतार घेतां. अवताराचो अर्थ मनीस जातीचें रक्षण आपल्या प्रेमान, मायेन आनी दयेन करपाक मनशाच्या थरार येतां. आनी मनशांत आसपी चिद्-घन शक्तीक जागी करून मनशाक ताचे भितर आशिल्ल्या इश्वराची जाण करून दिवपाक जेन्ना तो आपल्या भायर देवाक सोदपा खातीर निराशेन हांगा थंय भोंवता आनी देव तर ताच्याव भितर आसता.

"हांव आयलां,सगळ्यांक वेदांचें सार समजावपाक. हे अनमोल देणगेचो सगळ्यांचेर शिंवर घालपाक. सनातन धर्माचें रक्षण करपाक. तातूंतलें पूर्वापार ज्ञान राखून दवरपाक.

म्हगेलें कार्य सुखाचो शिंवर घालपाचें. म्हणटकर हांव सदांच तुमच्यांत येवपाक तयार आसां. एक पावट, दोन पावट, तीन पावट. जितल्या वेळा तुमकां जाय तितल्या वेळा," अशें बाबा सांगतात.

जरी अवतार ह्या शब्दाचो अर्थ अवतरण आनी चड करून हें अवतरण देवाचें मनीस रुपांत पृथ्वीर येवप आसता. आमी अवतारा विशीं उलयतना आमच्या मनांत हीच धारणा आसता. अवताराचेर आशिल्लो विरस्वास वा स्रद्धा इश्वर मनीस रुपांत येता ताची मानसीक आध्यात्मीक क्षमता ही मनशाचे बुद्धी पेले कडली आसता. मनीस ती पळोवन अजापीत जाता. आनी ह्याच गुणांक लागून तो मनशाचो तारणहार आनीक संकटांतल्यान सोडणारो जाता. ही मनाची काल्पनीक भरारी. पूण हो विस्वास बुद्धी प्रामाण्यांत तग धरूंक शकता.

टीपः ह्या वाक्याचें उत्तर म्हणल्यार मनशाचे बुद्धीचो कस इश्वराक लावपाक मेळना. कारण इश्वर हो मनशाचे बुद्धी पेले कडलो आसता.

श्री बाबा सांगतात, हांव देव आसां. पूण तुमीय बी इश्वरी तत्वाचेच भाग (अंश जावन) आसात. हें सत्य म्हाका खबर आसा. आनी तुमकां खबर ना.

साईबाबा सांगतात कीं, प्रत्येक जण इश्वरच आसा. पुणून तातूंतलो फरक इतलोच (साईबाबा प्रमाणें) कीं ताका आपूण देव म्हूण खबर आसा. इतरांक तांगेलो खरो मूळ सभावधर्म खबर ना. तो तुमकां देव म्हणून मानून घेवपाक तयार आसा. तुमी इतलेंच करपाचें, अदलाबदल करपाची. (reciprocate)आनी साईबाबांक इश्वर म्हूण मानपाचें.

---

**अवतरण**

आमच्यांत इश्वरी अंश आसा म्हणटकर आमी सगळे इश्वरी अवतरण थारतात.पुणून ही विचारधारा- हर एक जीव एक अवतार आसा- अशें धरप हेंबरोबर न्हय. कारण आमच्यांतले बहुतेक सगळे मनीस म्हणटात किंवा वागतात. आमची कूड ही नाश जावपाची ही जाण बाळगितात. हाचेर उहापोह करतना आमी म्हणूं शकतात, मनशाची अखेरची आस्त स्वता अनुभुती घेवपाची. कारण ताचे सभोंवतीं प्रत्येक वस्त ही इश्वराचें अवतरण आसा. (हांगा प्रकटीकरण हो शब्द येवपाक जाय अशें दिसता .Manifested incarnation न्ही) आपणें जें म्हणला, फकत अवतरणाचेर विस्वास हो एक काल्पनीक तर्क जो मनशाचे कल्पनेंतल्यान आयला, हो विचार मनशाक चड फुडें व्हरूंक शकचो ना. तो एक आभास आनी एक कोंड उरतलें. ते खातीर सातत्यान जगाक संबंधीत आनी व्यक्तीगत पद्धतीन तशेंच बुद्धी प्रामाण्यान हो विस्वास घट जावपाक जाय. हो एक सदांच उरपी फुडें चलपी जागतीक आनी व्यक्तीगत सकल देंवपी इश्वरी आत्मो आनी पूर्ण जीण आसपी इश्वराचो शुद्ध सभावधर्म आशिल्लो तातूंतलोच एक इतिहासीक जीव, गरजेच्या घटकांचें रुपांतर केल्लो. म्हणटकर शारिरीक गर्भपींड आपली फुडली वाटचाल जी आध्यात्मीक जीण जातीचो इतिहास. पाटमोरे सांगतात, एक मोठें गुपीत म्हणल्यार अवताराची तत्वप्रणाली जी दोन हजार वर्सां पयलीं घडल्या. ही प्रक्रिया प्रत्येकाचे जिणेंत नव्यान घडटा जो कोण आपली वाटचाल आपल्या प्रारब्धा प्रमाण करता. महाभारतांत अवताराच्यो दोनय दिश्टी आमकां

मेळटात. जरी पुराणांनी फकत काल्पनीक बाजूचेर खूबच भर दिल्लो दिश्टी पडटा. अवताराचो विस्वास हो वेद आनी उपनिषदांत ना जरी दोन वेदग्रंथांनी बिजाचेर विस्वास दवरला. प्राणिमात्रांतलो इश्वर गर्भाशयांत प्रवेश करता. जरी तो अजल्मा आसलो तरी तो खूबशा वटांनी जल्म घेता.(वाजसनेय यज संहिता 31.19) आनी होच देव सगळे कडेन आसा. ताणें पयलीं जल्म घेतला आनी तो परत जल्मला. तो पयलीं आशिल्लो आनी परतो जल्म घेतलो अशी ही बुद्धीप्रामाण्य पद्धत अवताराचे कल्पनेची.

महाभारतांत आमकां ह्यो दोनूय कल्पना मेळटात. काल्पनीक आनी बुद्धीप्रमाणीत विचारधारा दोनूय दिश्टी पडटात. जशें कीं श्रीकृष्ण युद्ध करपी राजकारणी जायते कडेन अवतार म्हणून दाखयला. तेच बरोबर दुसरे कडेन जागतीक संबंधीत असो दाखयला. एके कडेन द्रोणपर्वांत एका ठळक उताऱ्यांत श्रीकृष्ण आपूण जावन सांगता आपूण चतुर्भूज आसां आनी सदांच जगाचें रक्षण करपाक तयार आसां. एक रूप पृथ्वीचेर साधना तप करता तर दुसरें चुको करपी मनीस जातीचेर लक्ष दवरून आसा. तिसरें रूप हालचालींक गुंतिल्ल्या मनशांक आसरो दिता. आनी चौथें रूप हजार वर्सांचे न्हिदेंत बुडून गेलां.

भगवान बाबांनी सांगलां, अवताराचे चालींतलें हर एक पावल हें पयलींच थारिल्लें आसता. श्रीराम सत्य आनी निती हांची मुळां घट्ट करपाक आनी तांकां पोसवण दिवपाक आयलो. श्रीकृष्ण जगांत शांती आनी प्रेम हांची वाड करपाक आयलो. आतां ह्यो सगळयो शक्ती संकटांत सांपडिल्ल्यो आसात आनी सुकून गेल्यात. आनी ते खातीरच सध्याचो

अवतार आयला. धर्म जो आज रानांनी पळून गेला ताका परतो शारांत आनी खेड्यांत हाडूंक जाय. आनी अधर्माक जो शारांनी, खेड्यांनी पसरला ताका रानांत धांवडावंक जाय.

म्हजी खर अशी समजूत आसा- जरी गीतेंत कृष्णाक मनीस अवतरण असो उल्लेख केला आनी कांय वेळार अर्जून ताका शत्रूंचो नाश करपी अशें म्हणटा- हो विचार बुद्धीप्रमाणीत असो दाखयला. आनी ही वस्तुस्थिती आसा. बाकीच्योय गोश्टी ह्यो गीतेक महाभारताचो मुकुटमणी थारायतात.

अशे रितीन मनीस जातीच्या कल्याणा खातीर तो परत परत जल्म घेता अशें श्रीकृष्ण सांगता. अशा इश्वरी जल्माचें गुपीत तो जाणा. आनी तागेलें काम ताचे कडेन येता.(IV-9) इश्वरी जल्म आनी कार्य जें हांगा म्हणलां तीं कामां योद्धो जावन शत्रूचो नाश करप वा इश्वरी गोरवां राखणारो जावप न्ही तर सातत्यान जगा संबंधीत काम- नितीचो अनितीचेर विजय, ही जीण जगून प्रारब्धाचें कार्य पूर्ण करप आनी अवताराची क्रिया जी आमचे जिणेंत प्रत्येक घटकेक घडत आसता तिचो अणभव घेवप.

आनी एके कडेन श्रीकृष्ण सांगता, तुगेलें कर्तव्य करतना तूं जागृत राव जसो आपूण रावतां. (III-23) तिसरे कडेन परत इश्वराच्या कार्या विशीं उल्लेख आयला (ix-9) त्यो खास जगा संबंधीतच आसात. जगाची उत्पत्ती आनी ताचो नाश. आनी अकराव्या प्रवचनांत इश्वरी शक्ती ही महापूर. हातूंतल्यान विसर्जनांत गुंतून आसा. हांगा इश्वराच्या करण्यांसंबंधी आयिल्ले उल्लेख हे महाभारतांत आनी भागवत

पुराणांत आयिल्ल्या वर्णनांतल्यान घेतल्यात म्हणपाची बतावणेची कल्पना बरी आसा. एक भविश्यवादी ज्यू सांगता, "भुरग्याच्या गर्भाशयाची वाट तुका खबर ना तेच भशेन इश्वराचीं कार्यां तुका खबर ना."

भागवत पुराणाच्या लेखकान कृष्णाचे इश्वरी लिले विशीं अप्रतीम काव्य रचलां. जशें ताका भासलें आनी जशें ताणें पळयलें तशे ताणें वर्णन केलां. तातूंत ताणें तुमकां ताकीदय दिल्या जी सातत्यान सगळ्या काळा खातीर खरी आसा. जो कोण इश्वर न्हय ताणें इश्वराची नक्कल करपाची कल्पना लेगीत करची न्हय. जर ताणें असो प्रयत्न केलो जाल्या ताचो नाश ठरिल्लो आसा. जशें शिवान वीख पिवपाचो प्रयत्न केलो म्हूण कोणेंय वीख पिवपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार नाश जातलोच. जाणें आपलो स्वार्थ सामको सोडला ताका बरें केलें वा वायट केलें म्हूण फायदो वा लुकसान जावचें ना. म्हणटकर सगळ्या प्राणिमात्राचो इश्वर जो सर्गार आनी पृथ्वीर आसा ताका बऱ्या वायटाची बाधा कशी जावंक शकता? हांगा ताची मेख आसा. अवताराचो अर्थ आनी तागेलें पृथ्वीर येवपाचें कारण, कोणय कितेंय म्हणूं, कोणाचोय कसोय विचार आसूं वा इश्वराच्या कार्याची कशीय फोडणीशी करूं, "इश्वराच्या अवताराची व्याख्या करतलो जाल्यार करतल्यान पयलीं इश्वर -देव जावपाक जाय. ज्याचें वर्णन सर्वशक्तिमान, जाच्यान पृथ्वीर आनी सर्गार आपले शक्तीन उत्पत्ती, लय वा खंयचेय वस्तूंत बदल करूंक जाता. ताचे कडेन आशिल्लें परमोच्च वैराग्य हें सगळें तुमी तुमच्यांत हाडात. आनी मागीर तुमचे कडेन स्वार्थ वा इत्सा उरली जाल्यार तुमी तुमचे इत्से प्रमाण

बरें-वायट करपाक मेकळे आसात.''

स्वताचे शिकस्तीचें शुद्धीकरण, फळाची आशा धरिनासतना केल्ली करणी आनी तेच भशेन विचारय बी. तातूंतल्यान स्वताचें शुद्धीकरण, शिकस्तीचें शुद्धीकरण हेंच आमकां गितेंतलो अवतार प्रत्येक श्लोकांतल्यान शिकयता. आनी हीच शिकवण लेखकान अवताराच्या तोंडांत घाल्या. ख्रिस्त सांगता, "तूं तुगेल्या सर्गावेल्या बापाय भशेन परिपूर्ण जा. तो जसो परिपूर्ण आसा तसो. तूं पवित्र जा जसो हांव पवित्र आसां.'' श्रीकृष्ण सांगता, "तूं तुगेलें कर्तव्य करतना जागृत राव जसो हांव आसतां. सगळ्यां कडेन समदिश्टीन पळय जसो हांव पळयतां. आनी मागीर तूं म्हज्यांत सुशेग घेतलो.'' स्वार्थाचो पूर्ण नाश करप, पूर्ण वैराग्य आनी पूर्णताय ह्यो अवताराच्यो परिक्षा गीतेन घालून दिल्यात. ज्या कोणाय बरोबर आमी अवतार म्हूण संगत करतले तांकां ही परिक्षा लावनच आमी तांगेल्या कार्याचें मोजमाप हेच पद्धतीन करचें पडटलें.

ह्याच कसान इश्वर कितल्या प्रमाणांत आमचे जिणेंत अवतरला हें थारतलें. आनी हीच परिक्षे शीम पाळून आनी पूर्णतया दाखोवन मनीसप्राण्यांक न चुकतां ह्यो अटी पाळूनच आपलो मार्ग चलचो पडटलो. गीता हो एकूच असो ग्रंथ आमच्या वाङ्मयांत आसा आनी तेखातीर तो महाभारताचो मुकुटमणी थारता. गीतेंत मंगलाचरणांत सांगलां, गीता ही महाभारताच्या चिखलांतल्यान उदेल्लें कमळ आसा. आनी गीतेंतलो श्रीकृष्ण अवतार हो कसलोच दाग-खत नाशिल्लो मनशाचे अंतीम महत्वाकांक्षेचें प्रतीक जावन आसा.

आमी खासगींत निराकार देवाची पुजा करूं अथवा

खासगींत सगूण देवाची पुजा करूं, हातूंतल्यान ताचे भशेनच आमीय जावचे (देवा भशेन) म्हणून आमी करतात. इगर्जेंत जल्म जावप हें बरें आसा पूण इगर्जेंत मरूं नाकात अशें स्वामी विवेकानंद सांगून गेल्यात. आनी भक्त नरसींह मेहता शब्दशा सामको मेकळो जाल्लो. ताणें जिणेंतलो चड वेळ अवताराची स्तुती करपी पदां म्हणपांत सारलो. ताणें ताका मनांत सांठयलो. ताका तो आनंद दिवपी आशिल्लो आनी ताणें ताका आपलें पिशें लायिल्लें. तातूंतच तो मग्न जावन उरतालो. अशे रितीन तो कृष्णाची पुजा करतालो. निमाणे कडेन ते स्थिती भायर तो गेलो आनी शेवटाक तो ताच्या (कृष्णाच्या) दिव्य स्वरुपाचेर पदां करूंक लागलो. हांव तुजी पुजा कशी करूं? देवा, तूं अनंत कृपासागर आसा. जेन्ना तूं उत्पत्तीचो कण आनी कण व्यापून आसा, हांव तुका एके मुर्तींत वा चित्रांत कसो सिमीत करूं? हांव तुगेलो सनातन दिवो पेट्टा तो पळयतां. ताका तेलय ना आनी वातय ना. ताका आकारय ना. तो दोळ्यां शिवाय पळोवपाचो. आनी आत्म्याच्या इंद्रियांनी ताचो आनंद घेवपाचो.

तुमच्या अंतस्करणांत आशिल्ल्या आत्म्याची अनुभुती घेवन तो आत्मीय चालना दिणारो हाची जाण करून दिवपाक इश्वर मनीस रुपांत अवतार जावन येता. श्री रामाक आनी श्री कृष्णाक एक किंवा चड मनीस जे धर्माचे शत्रू आसात तांचो नाश करून सद्गुणांची स्थापना करपाक तांकां येवचें पडलें पुणून आतां संपूर्ण बरो जाका देवाचें रक्षण फावता असो कोणच ना. म्हणटकर हांव तांगेली बुद्धी, ज्ञान वेगवेगळ्या पद्धतींनी दुरुस्त करपाक आयलां. म्हाका तांकां उपदेश करचो पडटा, मदत करची पडटा. तांचेर जरब दवरची

पडटा. तांगेले दोश दाखोवन दिवचे पडटात. मित्रा भशेन तांकां आदार दिवपाक तांगेलो बरें मागपी असो तांचे वटेन रावचें पडटा. म्हणटकर ते दुर्गूण काडून उडयतले आनी सरळ मार्ग वळखून ताचेर चलून आपलें ध्येय गांठ्ठले. म्हाका लोकांक वेद शास्त्रां आनी इतर आध्यात्मीक ग्रंथ जे नियम घालून दितात ते समजावन सांगचे पडटले. तुमी जर म्हाका मान्य केलो आनी हय म्हणलें तर हांव तुमकां जाप करतलों. आनी तीन खेप तुमकां हय म्हणटलों. जर तुमी म्हाका नाकारलो जायत तर हांवय तुमकां ना म्हणटलों. तुमगेलो प्रतिध्वनीच तुमी आयकतले. येयात, परिक्षा घेयात, अणभव घेयात, स्रद्धा दवरात. हीच रीत म्हजो तुमी उपेग करून घेवपाची. हांव केन्नाच म्हगेल्या प्रवचनांत साईबाबा अशें म्हणना. ह्या अवताराचें नांव साईबाबा हें हांवें घेतलां. इतले अवतार जावन गेले. साई, राम, कृष्ण, ख्रिस्त. हातूंत कोणेंय भेद केल्ले म्हाका पसंत ना. हांव केन्नाच सांगना, हो अवतार चड गरजेचो, चड म्हत्व आशिल्लो आनी दुसरो कमी म्हत्वाचो. तुमी निवडिल्ल्या देवाचीच पुजा तुमी चालू दवरात. तुमी करीत आयल्यात तेच भशेन करात. आनी मागीर तुमकां हळू हळू कळून येतलें कीं तुमी म्हाका लागीं लागीं येतात. सगळीं नांवां रुपां म्हगेलींच आसात. तुमी तुमचे निवडीचो देव बदलून दुसरो नवो देव घेवपाची गरज ना. तुमी म्हाका पळयलो आनी म्हाका आयकलो म्हणून तुमी तुमची इश्ट देवता बदलूं नाकात. तें म्हाका आवडचें ना.

- बाबा

***

# देवाक पळोवप आमकां शक्य आसा?

म्हाका खबर आसा फाटल्या प्रकरणांत आनी आतांच्या प्रकरणांत हें दोट्टी सांगप जाता. अशें आसलेंय जाल्यार म्हाका दिसलें हें प्रकरण फुडें चलोवचें. हें प्रकरण ह्या विशयांत जवळीक आशिल्ल्या जे स्वता ह्या जगांत प्रगट जाल्यात अशा वेगवेगळया धर्माच्या जायत्या साधू-संतांच्या विशीं आसचें.

खंयच्याच अर्थान म्हगेलो हो मूळ शोध वा ताचें विवरण सर्व समावेशक न्हीं. ताचे ऐवजीं हो एक ल्हानसो प्रयत्न थोडी खोलाय सोदपाचो कीं मनीस इश्वराक समक्ष पळोवंक शकता काय कितें.

कांय संत आनी सिद्ध पुरूस जयदेव, नामदेव, कबीरदास, नरसींह मेहता, एकनाथ आनी संत तुकाराम. सांगपाक हे थोडेशेच घेतल्यात. देवान कशे तरेन तांची जीण बदलून आपले वटेन वळयली हें आपल्या बरपांत तांणी सविस्तर मांडलां. हे सगळे आत्म्या कडेन वचपाचो मार्ग सोदपी. आनी सगळे मार्ग निमाणे कडेन एकाच ध्येया कडेन वचपाचे. कारण हे सगळे मार्ग मनशान निर्माण केल्ले. तर हे मार्ग देवानच घालून दिल्ले. आपल्या भुरग्यां

खातीर आपल्या म्हज्यांत तांणी येवचें अशें धरून. मागीर तांची सुरवात खंयच्यानय जांव.

## जयदेव

जयदेव हो नारायण शास्त्री आनी कमलाबाई हांगेलो पूत. ही खबर बंगालाची. तीं दोगांय जगन्नाथाची निस्सीम भक्ती करतालीं. तांणी जगन्नाथाचे पुजेंत गुंतून उरचें. कमला बायल जाल्ल्यान तिका आपल्याक एक पूत जावंचो अशें दिसतालें. कारण पूर्वजांचें रीण फारीक करपाक, तांकां मुक्ती दिवपाक आनी पुजा चलोवपाक पुताची गरज खूब गरजेची. एक पावट देव जगन्नाथ नारायण शास्त्र्याच्या सपनांत आयलो आनी ताका सांगलें, तुमगेली भक्ती पळोवन आनंद जालो. तुगेल्या बायलेली खूब तेपाची इत्सा पुरी करपाक आपल्याक खूब आनंद जाता. आनी आपूण ती पूर्ण करतलों. तो जागो जालो आनी देवालो फांकिल्लो उजवाड पळयलो. नारायण शास्त्र्यान आपले बायलेक आपयली आनी ताणें आपल्याक पडिल्लें सपन तिका सविस्तार सांगलें. आनी मागीर तिणें देवा कडेन कितें मागिल्लें तें तिका विचारलें. इश्वरान सांगलां कीं आपूण तिगेली इत्सा पुरी करतलों. कमलान ताका सांगलें, आपणें देवा कडेन आमकां एक चलो दी म्हूण मागलें. तें आयकून ताका राग आयलो आनी ताणें बायलेक तूं हांगची चलूं लाग म्हूण सांगून विचारलें, असली ऐहीक इत्सा तुवें ताचे कडेन कित्याक मागली? तुवें ताच्या पांया कडेन सायुज्य (ऐक्य) कित्याक मागलें ना? आनी त्या दिसा पसून ताणें

बायले कडेन उलोवणें सोडलें. बायले भितर आनी ताचे भितर व्हड दरी निर्माण जाली.

परतून एक पावट देव जगन्नाथ ब्राह्मणाच्या रुपान नारायण शास्त्र्याच्या सपनांत आयलो. आनी ताणें शास्त्र्याक समजायलो. ताका चल्याची गरज आसा म्हणपाचें समजावन सांगलें. चलो ना जाल्यार तुमगेल्या पूर्वजांचें रीण कोण फारीक करतलो? कमलाक चलो दिवपाचो आपलो मुख्य उद्देश म्हणल्यार तो चलो जग भर भक्तीचो प्रसार करतलो. नारायण शास्त्रींक त्या ब्राह्मणा विशीं तो देव जगन्नाथच आसा म्हणपाचो इल्लो पसून दुभाव उरलो ना. ताका आनंद जालो. आनी तो बायले कडेन बरे भशेन वागूंक लागलो. रोखडोच तांकां एक चलो जालो. ताणें नंतरच्या काळांत नामनेचें गीत-गोविंद हें काव्य रचलें.

जयदेव कृष्णाचो भक्त आशिल्लो. ताणें कृष्ण स्तुतीचेर पदां रचपाक सुरवात केली. ताचो परिणाम म्हणल्यार ताचे कडल्यान अमर काव्य गीत गोविंद बरोवन जालें. हें बरयतना तो एक पावट एका कडव्याचेर अडखळलो. तो इतलो गोंदळ्ळो कीं तें कशें पूर्ण करचें ताका कळ्ळें ना. तें मदींच सोडून तो न्हंयेचेर न्हावपाक गेलो. थोड्याच मिनटां भितर पद्मावतीन ताका न्हंयचेर साकून परत येतना पळयलो. तेलान बुडबुडीत माखिल्ल्या ताणें पद्मावतीक आपलें हातबरप हाडपाक सांगलें. तातूंत कितें तरी बरयलें आनी परत न्हंयचेर गेलो.

उपरांत सांजे मायत्याक जेन्ना जयदेवाक तें बरप बरोवपाक जाय पडल तेन्ना ताका तें कडवें नव्यानच बरोवन पूर्ण केल्लें दिश्टी पडलें. तो अजापलो. ताणें बायलेक तुवें

हें बरयलां अशें विचारलें आनी तिणें सांगलें आपणें कांयच बरोवंक ना. तुवेंच तर न्हंयचेर साकून येवन तें बरयलां. पुणून ताणें सांगलें, खात्रीन आपणें बरोवंक ना. ताणें बरपांतलें तें अपूर्ण दवरिल्लें कडवें आनी आतां तें पूर्ण केल्लें ताणें परतें वाचलें तातूंतलो विचार, ताचो अर्थ, गद्य इतलें असाधारण आशिल्लें तें पळोवन ताच्या दोळयांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. ताका दुभाव उरलो ना कीं देव स्वता आपल्या (जयदेवाच्या) रुपांत येवन आपली अडचण पयस करपाक त्यो वळी पूर्ण करून गेल्लो. जयदेवाक खूब आनंद जाता. तो बायलेक सांगता, “तूं कितली भाग्याची! तुवें देवाक स्वता मनशाच्या रुपांत पळयलो.” अशें सांगून जयदेव कैफांत येवन नाचूंक लागलो.

**नामदेव**

नामदेव हो दामाशेट आनी गोणाई हांचो पूत. तांचें कुटूंब शिंपी. ताचो जल्म १९११ त कालिका एकादशी दिसा पंढरपुरांत जालो. तांचें कुटूंब खूब धार्मीक आशिल्लें. सदांच विठ्ठलाच्या देवळांत देवाची पुजा करून मुर्तीक भोग (निवेद्याचें खाण) दिवप हें दामाशेटीचें काम. एक पावट दामाजीक भायर वच्चें पडलें. म्हणटकर ताणें नामदेवाक देवाची पुजा करून नेमान निवेद्य दाखोवपाक सांगलें. नामदेवान पुजा केली आनी देवाक निवेद्य दाखयलो. जशें बापायन सांगिल्लें तशेंच केलें. पूण ताका अजाप जालें. देव निवेद्य खायना. नामदेवाक प्रस्न पडलो. ताणें देवाक सांगलें, तूं बापाय कडल्यान निवेद्य घेतालो आनी आपल्याच कडल्यान कित्याक

घेना?

तो देवाक काकुळटेक येवन, हातापांयां पडून तूं निवेद्य घेच म्हूण आग्रो करूंक लागलो. देव कसोच आयकना. नामदेव सामको निराश जालो. ताणें देवाक सांगलें, तूं निवेद्य खा. नाजाल्यार आपूण तुज्या पांयां कडेन जीव दितलों आनी ताणें देव आयकना म्हणटकर जीव दिवपाची तयारी केली. अशा वेळार देवान नामदेवान दिल्लो सगळो निवेद्य खालो.

जेन्ना दामाशेटी परत घरा आयलो तेन्ना ताणें नामदेवाक देवाची पुजा आनी निवेद्याविशीं विचारलें. नामदेवान बापायक सांगलें, देवान निवेद्य खालो. हें आयकून दामाजीक अजाप जालें. आपलो पूत कितें सांगता, खरें कितें हाचेर तो दुबावलो.

दुसऱ्या दिसा जेन्ना नित्या भशेन नामदेव पुजेक देवळांत गेलो, फाटल्यान बापूय आनी आवयय देवळांत गेलीं. आनी पळयलें, देवळांतली ती पाषाणी मूर्ती नामदेवान दिल्लो निवेद्य आनंदान खाताली. आवय- बापायन मनांत गांठ घाली कीं नामदेव हो एक असामान्य भुरगो आसा.

## कबीरदास

एक फावट शंबरां वयर साधूंचो एक जथो कबीरा म्हऱ्यांत आयलो. आनी तांणी कबीराक आपल्या अन्नाची सोय करपाक सांगली. ते खूब भुकेल्ले आशिल्ले. आनी तांणी सांगलें, गांवांत आनी कोणच आमकां जेवण दिवचो ना. तूं एकटोच एकलो असो आसा जो आयिल्ल्या गेल्ल्या

साधूंक जेवण दिवपी धर्मात्मा आसा. कबीरा कडेन घरांत अन्नाचो एक कण लेगीत नाशिल्लो. ताचे कडेन चीज-वस्तय नाशिल्ली जी घाण दवरून ताणें धान्य-सामान हाडून जेवणाची वेवस्था करूंक जाताली आशिल्ली. म्हणटकर घोव आनी बायल सुंदना हीं दोगांय कितें करचें ह्या विचारांत पडलीं. साधूंक अन्न दिनासतना उपाशीं विन्मूख धाडप हो प्रस्नच विचारा भायलो आसलो. सुंदनाक एक कल्पना सुचली. तिणें सुचयलें कीं आपल्याक ह्या खेड्यांतल्या पसरकारा कडेन सोंपय. ताचो आपल्याचेर सदांच दोळो आसता. हे तरेन आमकां धान्य-सामान जितलें साधूंक जाय जातलें तितलें खात्रीन मेळटलें. कबीरान भावार्थान, जाचेर ताणें रात-दीस प्रेम केलें त्या देवाचेर विस्वास दवरून बायलेक सांगलें, तुगेली कल्पना बरी आसा. हांव त्या पसरकाराक वळखना. हांव तुका तागेल्या घरा पर्यंत सोबत करतां. मधल्या वेळाक आपूण साधूंक रावयतां. कबीरान आपले बायलेक घेवन पसरकारा म्हऱ्यांत वचून तिका ताचे कडेन एके अटीचेर सोंपयली. कबीरान सांगलें, "म्हजे बायलेक तुजे कडेन सोंपयतां. ह्या बदला आमकां साधूंक पावता तितलें भरपूर धान्य-सामान दिवपाचें." कबीरान ताका आनी एक अर्जी केली. कीं आपल्याली बायल साधूंक जेवण बी दिवन आपूणच तिका तुजे म्हऱ्यांत घेवन येतलों. पसरकारालो आपल्या दोळ्यांचेर आनी कानांचेर विस्वास बसलो ना. तो खुशाल जालो आनी ताणें सगळ्यो अटी मान्य करून रोखडेंच सामान कबीराच्या घरा कडेन धाडून दिलें. सगळें सामान मेळटकर सुंदनान जेवण रांदलें आनी कबीरान साधूंक भरपूर जेवयले. तांकां मनापसून आनंद जावन

साधू आपल्या फुडल्या प्रवासाक गेले.

साधू गेल्या उपरांत कबीरदासान आपलो शब्द पाळ्ळो. आनी बायलेक पसरकाराच्या घरा कडेन सोडली. हेवटेन पसरकाराक दिसलें आपणें कबीराचेर आनी तागेले बायलेचेर विस्वास दवरून आपूण फसलों काय किते. इतल्यांत ताणें पळयलें, कबीर बायलेक घेवन येतालो. तें पळोवन ताका सू जालें. कबीरान बायलेक ताचे कडेन सोंपयली आनी आपल्या घरा परतलो.

दुकानदारान घराचीं दारां धांपलीं आनी सुंदनाक आपले कुडींत घेवन गेलो. जेन्ना सुंदना आपले कपडे बदलूंक लागली, त्याच वेळार घराच्या दारार थाप पडली. म्हणटकर दुकानदारान मदींच आनी कोण आयलो अशें म्हणून दार काडलें. दारार कोतवालाक पळोवन ताका अजाप जालें. कोतवालान सांगलें, चोरिल्ल्यो वस्तू हया घरांत तुवें दवरल्यात आनी ते खातीर सर्च वॉरंट घेवन आपूण आयलां. फुडें कांयच उलयनासना कोतवाल सरळ भितरले कुडींत गेलो. सुंदना आपल्या आंगार भांगरा वस्ती घालतना ताणें पळयलें. त्यो दुकानदारान तिका घालपाक दिल्ल्यो. कोतवालान सुंदनाक विचारलें, "दुकानदारान बळजबरीन हांगा हाडून तुका कुडीत दवरल्या?"रोखडोच दुकानदारा कडेन वचून ताका विचारलें, "तुवें त्या संत कबीराचे बायलेक, एके सद्‌गुणी सभ्य बायलेक कित्या हाडल्या? तिका आपणें भितर पळयली." दुकानदाराचे जापेक कोतवाल रावलो ना तो थेट सुंदना म्हऱ्यांत वचून तिका भायर काडून तिका तिगेल्या घरा कडेन हाडून सोडली.

कबीराक अजाप जालें. ताणें बायलेक इतले बेगीन

ती कशी आयली तें विचारलें आनी सुंदनान घोवाक खंयचे परिस्थितींत आपल्याक रोखडीच घरा पावयली तें सगळें सविस्तर सांगलें. कबीराक कोतवालाचो राग आयलो. कारण तो तांचे भानगडींत गरज नासतना मदीं आयिल्लो. कबीर मागीर कोतवालाच्या घरा वता. तागेलें दार वाजयता. कोतवाल न्हिदिल्लो तो दोळे चोळीत चोळीत भायर येता. कबीरान ताका विचारलें," तुवें आपले बायलेक दुकानदाराच्या घरांतल्यान कशी हाडली?" कोतवाल हें आयकून अजापीत जाता. तो आपल्याक कांयच खबर ना अशें सांगता. आनी कबीरान ताचेर केल्लो आरोप नाकारता. दोगांयचीय बाचाबाची जाता. आनी कबीर कोतवालाक मारपाक हातांतली बडी उबारता. इतल्यांत अकस्मात कुडींत उजवाडाचो झोत येता. आनी थंय देव आपलें विश्वरूप प्रकट करता.

देव कबीराक सांगता, ह्या कोतवालाक कांयच खबर ना. आपणेंच तुगेले बायलेची लज राखली. आनी दुकानदाराल्या घरांतल्यान तुगेल्या घरा कडेन पावयली. तुगेल्या घरा कडेन साधूंचो मुखेली जावन आपूणच आयिल्लों. आपल्याक तुगेले भक्तीची परिक्षा पळोवंक जाय आशिल्ली. हें सगळें आयकून आनी देवाक पळोवन कबीरान ताच्या पांयांर लोटांगणां घालीं.

ही एक खबर जाली. अशा खुबशा फावटीनी कबीराक देवान समक्ष दर्शन दिल्लें आसा.

## नरसींह मेहता

नरसींह मेहता हो एक गिरेस्त ब्राह्मण कुटुंबांतलो.

ताचे कृष्णाचे भक्तीक लागून आनी तागेलो उदार सभाव आनी दुसऱ्याक मदत करपाचे वृत्तीक लागून ताणें आपली सगळी मालमत्ता, संपत्ती साधूं खातीर आनी गरजेवंतां खातीर खर्च केली. पयशाची ताका किंमत नाशिल्ली. हाचो परिणाम असो जालो जेन्ना तागेली चली लग्नाची जाली तेन्ना ताचे कडेन एक पै नाशिल्ली. आनी मित्र, नातलग कोणच ताका मदत करपाक तयार नाशिल्ले.

ही गजाल तागेली बायल मनेकाबायक सदांच चिंतेक कारण आशिल्ली. ती एक सारखी घोवाक विचारताली, "आतां आमचें कशें जातलें? पयसोय ना आनी मदतीक कोण मित्रय ना. चलयेचें लग्न कशें जुळून येतलें?" नरसींहान तिका सांगलें, "तूं इतली काळजी कित्या करता? तूं सुसेग राव." तिका ताणें आपल्याक आदल्या दिसा पडिल्ल्या सपनाची खबर सांगली. ताणें म्हणलें खुद्द द्वारकाधीशान आपल्याक सांगलां कीं, तुका काळजी करपाची गरज ना. लग्नाचें तूं आपल्याचेर सोंपय. ताणें आपल्याक मुखार सांगलां, तूं शेट सामळदास, द्वारकापुरी हाच्या नांवान तुका गरज आसा तितल्या पयशांची हुंडी काड आनी तो तुका तितली रकम तुगेली हुंडी पास करून दितलो. तूं इल्ली पसून काळजी करूं नाका. नरसींह मेहतान १५०० रुपयांची हुंडी बरयली आनी ती शेट सामळदासाक द्वारकेक कशी पावोवची हो विचार ताका पडलो.

अशें घडलें, कांय यात्रेकरू द्वारकेक वचपाचे तयारेन भायर सरिल्ले. आनी ते त्याच खेड्यांतले आशिल्ले. तांचे कडेन जुस्तच १५०० रुपया सुबेज आशिल्ले. आनी ते घेवन प्रवास करप तांकां चोर बी सांपडत ह्या भंयान अडचणीचें

आशिल्लें. जेन्ना तांकां हे हुंडी संबंधीं समजलें तेन्ना ते नरसींह मेहता म्हऱ्यांत आयले. आनी तांणी मोठे खोशयेन ती हुंडी घेवन ताका १५०० रुपये दिले. नरसींह मेहतान हुंडीचेर शेरो मारून हुंडी तांकां परत केली. जेन्ना यात्रेकरू द्वारकेक पावले, तांणी सामळ शेटीक सोदपाक खूब प्रयत्न करूनय तो तांकां मेळ्ळो ना. ताचो पत्तोय कोणाकच खबर नाशिल्लो. यात्रेकरूंक दिसलें, ही हुंडी बनावट आसा. आनी सामळ शेट हो मनीसय फटीचोच. त्याच वेळार थंय एक मनीस उबो जाता आनी तांकां सांगता, तुमी सोदतात तो सामळ शेट आपूणच. आनी तांकां ते हुंडीचेर ताणें २००० रुपये दिले. ते थोडे अनमनले पूण सामळ शेटीन खूबच आग्रो केल्ल्यान ते पयशे घेवन गेले. देवानच सामळ शेटीचें रूप घेवन ते हुंडेचो मान राखिल्लो म्हणपाचें तांकां केन्नाच कळ्ळें ना.

## संत एकनाथ

संत एकनाथाचो जल्म पैठण हांगा जालो. तो ल्हान आसतनाच तागेलीं आवय-बापूय भायर पडलीं. म्हणटकर तागेल्या आज्यान ताका ल्हानाचो व्हड केलो. हो भुरगो जात्याच धार्मीक आशिल्लो आनी ताका खेळाची बी आवड नाशिल्ली. तो तांगेल्या कुटूंबांतल्या दैवताचे स्तुतीचीं पदां गायतालो. आनी सदांच न चुकतां नेमान किर्तनाक वतालो. तागेल्या आज्याक एकनाथाच्या अंतस्करणांत दिव्यत्वाचो उजवाड आशिल्ल्याचें कळून आयलें. एकनाथ आपली संध्या दर दिसा नेमान करतालो. ताणें आपल्या मनाचो निच्छेव

केल्लो कीं आपूण गुरूचो सोद घेतलों. असो गुरू जो ताका जल्म-मरणाच्या फेऱ्यांतल्यान मेकळो करूंक शकतलो. पूण ते खातीर आपणें खंय वच्चें हें ताका खबर नाशिल्लें. संत तुकारामा भशेन तो एका देवळांत शिवाचें ध्यान करीत सात दीस पसून बसलो. उपरांत ताणें 'तूं देवगडा वच' हो देवाचो आवाज आयकलो. 'थंय तुका दत्तात्रयाचो अनुग्रह जाल्ले श्री सद्गुरू जनार्दन स्वामी मेळटले.' तो देवालो आवाज आयकना फुडें ताणें आपल्या आज्याक सांगनासतना आपलें घर सोडलें. आनी जनार्दन स्वामींक वचून मेळ्ळो. जनार्दन स्वामी तेन्ना एका मुसलमान राजाचे सेवेक आशिल्लो पूण तो आपलो सगळो वेळ श्री दत्तात्रयांच्या ध्यानांतच मग्न आसतालो. अशें सांगतात, तो श्री दत्तात्रयां कडेन समोरा समोर संवाद करतालो.

जनार्दन स्वामी म्हऱ्यांत पावना फुडें एकनाथान ताच्या पांयार उडी घेतली. आनी आपल्याक तुगेली सेवा करपाक दी अशें ताचे कडेन मागलें. आनी एकनाथाक जनार्दन स्वामींनी आपलो शिष्य केलो. एकनाथान मोठे भक्तीन आपल्या गुरूची सेवा केली. जगन्नाथ स्वामींनी ताका आपल्या ऑफिसाचो हिशेब तपासूंक सांगलो. एक दीस एकनाथाक हिशेबांत ल्हानशी चूक आसा ती कळ्ळी. ताणें सबंध रात ती चूक सोदपांत सारली. आनी फांतोडेचेर ताका ती मेळ्ळी. गुरून हें पळयलें आनी तांणी म्हणलें, "तुवें तुगेलें मन अंतस्करणाच्या पूर्णपणान जर देवा कडेन लायलें जायत जशें तुवें आतां चूक सोदपाक लायलें तशें, तर तूं तुगेले जिणेचें सार्थक करतलो." हें आयकून एकनाथ सगळें विसरलो आनी ताका दत्तात्रयाच्या दर्शनाची तळमळ लागली.

एक दीस तागेज्या गुरून जनार्दन स्वामींनी ताका दोंगुल्लेच्या माथ्थार व्हेलो आनी ताका सांगलें, "ह्या जाग्याक श्री दत्तात्रय सदांच भेट दिता. तो वेगवेगळी रुपां घेवन हांगा येता. तेन्ना तें पळोवन तूं भंय धरूं नाका." एक दीस श्री दत्तात्रय मुसलमान फकीराच्या रुपांत ताच्या मुखार आयले. जनार्दन स्वामी एक सिद्ध आत्मो जाल्ल्यान दत्तात्रयांक वळखले आनी तांकां साश्टांग नमस्कार घालो. मागीर तांणी एकनाथाक तांगेल्या नित्य रुपांत दर्शन दिवपाक मागलें आनी दत्तात्रयान फकिराचें रूप सोडून एकनाथाक दत्तात्रयाच्या रुपांत दर्शन दिलें. ही पयली खेप जेन्ना एकनाथ देवाच्या समोरा समोर आयलो. फुडें एकनाथाक खूब पावटी देवाचें दर्शन घडलां. इतलेंच न्हय श्री कृष्णान जवळ जवळ १२ वर्सां एकनाथाची सेवा केल्या.

**संत तुकाराम**

संत तुकाराम हो मराठा क्षत्रीय कुटुंबांतलो. तागेल्या भुरगेपणांतच तागेली आवय-बापूय, लागींचीं मायेचीं सोयरीं नातलग ताणें सोडलीं आनी तांचे कडेन फाट करून समाधान मेळोवपाक देवाच्या सोदाक लागलो. बाकिच्यां भशेन न्ही तर देवाकच समक्ष मार्गदर्शना खातीर विचारलें, "तुगेली सेवा कशी करपाची? म्हाका सांग तुका कसो मेळवपाचो? पुजा कशी करची म्हाका खबर ना. म्हाका तप कशें करप खबर ना.म्हगेल्या इंद्रियांचेर ताबो दवरपाक हांव अपेशी थारलां. म्हगेल्या मनाचेर ताबो दवरपाक हांव दुबळो थारतां. म्हाका कुटुंबांतल्यो चालीरिती खबर ना. भक्ती म्हणल्यार कितें तें म्हाका खबर ना. तातूंत म्हाका मदतय कोणाची

ना. क्षुद्र वासना आनी राग हांचो अजून म्हजेर ताबो आसा. म्हणटकर हे देवा, म्हाका सोडूं नाका. म्हाका राखण दी. म्हणटकर म्हाका हातूंतल्यान वयर येवं दी. तुगेल्या भक्तांची तूं सेवा करता म्हूण आयकलां."

ताणें उपास सुरू केले आनी सगळे तरेच्या लोकांची सेवा करूंक लागलो. तो भंडारा दोंगरार वचून हालचाल करिनासतना दोळे धांपून ध्यानमग्न ध्रुवा भशेन देवाक पळयतलों म्हूण निश्चयान बसलो. सात दिसांनी देवाक काकुळट दिसून देवान सांगलें, "दोळे उक्ते कर. आपूण तुजे मुखार सोरपाच्या रुपांत आसां." तुकारामान दोळे उकते केले नात. तो विचार करूं लागलो. सगळ्या युगांनी देवान चतुर्भुज रुपांत दर्शन दिलां. मागीर म्हाकाच कित्याक तो आन्नद मेळचो न्हय. तो प्रार्थना करीत रावलो. निमाणे कडेन देवान मान्य केलें. देवान ताच्या मुखार येवन ताका वेंगेंत घेतलो. मुखावेल्या काळांत पांडुरंगान नामदेवाक बरोबर घेवन ताका सपनांतल्यान भेट दिवन आज्ञा केली, "आतां तूं देवाची स्तुती गावपाक सुरू कर." देवाचे आज्ञेचेर पूर्ण विस्वास दवरून. तुकारामान कथा बरयल्यो. तुकारामाल्या कथांनी इतलीं सिद्ध केल्ली प्रमाणां आसात की ताका देवालें फकत दर्शनच जालें ना तर देव सदांच ताचे बरोबर आसतालो.

***

# आमकां देवा कडेन उलोवप शक्य आसा?

ही खरीची वस्तुस्थिती आसा कीं कोणय देवा कडेन उलोवंक शकता. हांव इतल्या संतांक मेळळां जांणी देवा कडेन संवाद सादिल्लो आसा. प्रत्येक जण देवा कडेन उलोवंक शकता. हांगा इल्लो पसून दुभाव ना. आमगेल्या हिंदू वाङ्.मयांत योगी आनी देव हांगेल्या संवादाचीं वर्णनां आयल्यांत. तेच भशेन आमी बायबलांत वाचतात कीं देव सोलोमना मुखार आयलो आनी ताचे कडेन संवाद केलो. कितलेशेच पावटी दाविदानय देवा कडेन संवाद केल्लो.

**परमहंस योगानंद**

सामान्य (साधारण) मनीस इश्वराची प्रार्थना फकत आपल्या मनान करता. काळजाच्या उमाळ्यान वा तळमळीन न्हय. असल्यो प्रार्थना देवा कडल्यान परती जाप मेळोवपाक दुबळ्यो थारतात. आमी इश्वरी आत्म्या कडेन उलयतना आत्मविश्वासान आनी सामक्या लागींच्या नात्याचे भावनेन जशे आमच्या बापाय कडेन वा आवय कडेन उलयतात तशें उलोवंक जाय. आमचें देवा कडलें नातें हें बिनआशेचें

आनी प्रेमाचें आसूंक जाय. देवाच्या अस्तित्वा विशीं खात्रीचो विचार गरजेचो. नाजाल्यार तुका मेळपी जाप ही स्पश्ट आसची ना.

परती जाप मेळपा खातीर देवा कडेन केल्ली तुगेली ही अर्जी खर तळमळीची आसूंक जाय. अर्दकुट्या विस्वासान केल्ली प्रार्थना ही पुरी पडना. तुज्या मनाचो निच्छय पक्को आसूंक जाय कीं देव आपल्या कडेन खात्रीन उलयतलोच. आनी अशे रितीन तूं ताचेर विस्वासलो जाल्यार एक दीस न चुकतां तो तुजे कडेन जाप करतलो, संवाद सादतलो.

खूबशे लोक असो विचार करतात कीं दोळे धांपतकर मुखार काळोखच आसता. पूण जेन्ना तूं अध्यात्माची वाड करता आनी भ्रुमध्यांत (दोनूय भुवयां मदल्यान कपलांत) नदर एकाग्र करता तेन्ना तुका अशें दिसून येतलें कीं, तुगेली दृश्टी उकती जाल्या. तातूंतल्यान तुका दुसरें जग तुजे मुखार दिसतलें. जातूंत खूबशो लायटी पेट्टात आनी खूब सुंदरकाय भरल्या. तुज्या मुखार संतांच्यो आकृती दिसतल्यो. तुगेली दृष्टी आनी खोल गेली जाल्यार तुका इश्वराचो आवाज आयकूंक येतलो. इश्वर हो सदांच तुजे बरोबर आसता. जर तुवें देवा कडेन जवळीक सादली जाल्यार आपल्या शांतीतल्यान तो जागो जातलो. आनी सदांच तुजे कडेन उलयतलो. पुणून आरंभाक हें खूब कुस्तार. इश्वरा कडेन सलगी जावप हें सोपें न्हय. कारण तो तुका तळमळीन जाय आसता हाची ताका खात्री मेळची पडटा. तुज्या अंतस्करणांत आनी खंयच्योय ऐहीक वासना लिपून रावंक नात. फकत ताणें तुजे कडेन उलोवचें ही एकच आस्त तुवें बाळगिल्या हाची खात्री ताका पटल्या शिवाय

तो तुजे कडेन उलोवचो ना.

जेन्ना भ्रू मध्यांत ( भोंवयांच्या मध्य बिंदूचेर) एकाग जालो म्हणटकर दोनय दोळ्यांतलो दिश्टीचो प्रवाह एक ज्योत जाता. हो तुगेलो आध्यात्मीक दोळो. हो इश्वराचो दोळो. आनी ह्या आध्यात्मीक दोळ्यांतल्यान तुवें पळयलें जाल्यार तुका दिसून येतलें, आमी शारिरीक इंद्रियांनी जें पळयतात तें जग (सगळी उत्पत्ती). ही सगळी एकाच द्रव्याची आसा. आनी तें द्रव्य म्हणल्यार तागेलो उजवाड

आमकां दिसता आनी काळजांत आनंद जाता केन्ना देव मनीस रूप घेवन आमच्या म्हऱ्यांत येतलो आनी आमचे कडेन उलयतलो. तो अशें प्रत्येका कडेन कित्याक करिना? जायते संत देवाचो आवाज आयकतात. तुका कित्याक आयकूंक येना? तुज्यान तुगेल्या अंतकरणा पसून केल्लें भक्तीन देवाक उलोवपाक भाग पाडूं जाता. जाका ब्रह्म (देव) म्हणल्यार कितें हें खबर आसा तो स्वताच ब्रह्म जाता. खिरस्तान सांगूंक ना, हांव आनी म्हगेलो बापूय आमी दोगय एकच म्हूण? श्री शंकर स्वामीनय सांगलां, "हांव आत्मो आसां आनी तूंवय तोच आसा." भगवान बाबांनी खूबशे पावटी सांगलां, "आमी सगळे इश्वरी अंश आसात. आमी इश्वरी तत्वाचेच भाग जावन आसात. म्हाका खबर अत्सा हांव देव म्हणून. पुणून तुमी तुमच्यांतलें देवत वळखूंक ना. देव आमकां जरूर शारिरीक रुपांत दिश्टी पडूंक शकता. तूं समजता ताचे पेक्षां तो तुका सामको लागींच आसा. तो सत्य आसा आनी तूं आसा तसोच तो आसा. हेंच कीं हांव तुमकां समजावपाचो प्रयत्न ह्या प्रकरणांत करतां. इश्वर आमकां सदांच जाप करीत आसा. तागेल्या विचारांची स्पंदनां

सतत तो धाडीत आसा. हाका शक्ती जाय. शक्तीचें रुपांतर आवाजांत जाता. हांगा एक व्हड मुद्दो आसा. इश्वर ही सद्चीत आनंद शक्ती आसा. इश्वर म्हणल्यार एक तेज. उलोवप म्हणल्यार स्पंदनां. तागेल्या वैश्वीक तेजस्वी स्पंदनांनी तो सगळ्या वेळार उलयत आसता. ताच्यान उत्पत्तीची आवय जावपाक जाता. ही उत्पत्ती घन पदार्थांत द्रव पदार्थांत उजो, वारो, पृथ्वी हातूंत आपूणच प्रकट जावपाक शकता. इश्वर आमचे कडेन आपल्या स्पंदनांनी उलयता. पुणून प्रस्न आसा तो थेट इश्वरा कडेन संवाद करसो सादप. ही सगळ्यांत खूब कठीण सादणी.

तुमी जर खूव तळमळीन प्रार्थना केली जायत जाल्यार हे प्रार्थनाची स्पंदनां तुका परती जाप रोखडीच स्पंदनांनी हाडटा. तुका आयकुपाची जे भाशेंत सवंय आसा तेच भाशेंत तीं मेळटलीं. जर तुमी हिंदींत प्रार्थना केली जायत तर तुमकां उत्तरांय बी हिंदींतच मेळटलीं. प्रार्थना इंग्लीशींत केल्यार इंग्लीशींत मेळटलीं. जरी देव तुमगेल्यो सगळ्यो प्रार्थना आयकता जालो तरी तो सगळ्या वेळार जाप दिना. आमगेली परिस्थितीच तशी. एका भुरग्या भशेन जो आवयक म्हऱ्यांत यो म्हूण आपयता. पूण आवय दिसना. आपणें वचपाची गरज ना. ताका ओगी करपाक ती एक खेळणें धाडून दिता. पूण जेन्ना भुरगें तितल्यान समाधानी जायना, तें कशेंच आयकना, आवयकच आपयता म्हणटकर आवयक येवचेंच पडटा. ती येता. तुमकां जर देवच जाय तर तुमी एक व्हडलें भुरगें जावचें पडटलें जें देवान भेट दिले बगर कशेंच रडपाचें थांबना.

जर तुमच्या मनान निर्धार केलो जायत कीं इश्वरी

आवय आयले बगर आपलें रडप कशेंच थांबचें ना तर ती येवन तुमचे कडेन उलयतली. ती आपल्या घरकामांत कितलीय गुंतून वचूं (तिगेलें घरकाम म्हणल्यार जगाची उत्पत्ती) जर तुमी जोरान रडपाक लागले तर तिका तुमचे कडेन तुमकां ओगी करपाक येवप भाग जातलें. जर एखादो भक्त एक रात आनी एक दीस सतत एक खीण थांबनासतना देवा कडेन उलोवपाचो प्रयत्न निरसीम भक्तीन करता जायत तर तो परती जाप करतलोच.

तुमची जीण चड सादी करात. आनी तुमचें सगळें मन देवा कडेन लायात. तो पळयता जगांतल्या ऐहीक वस्तूंचेर तुमचें प्रेम कितलें आसा तें. तें आपल्याचेर (देवाचेर) आशिल्ल्या प्रेमा परस चड आसा काय कितें. तो आमचो बापूय. तो आमकां लागीं आसा. तुमचेर जे कोण खूब प्रेम करतात तांचे परस देव तुमचेर चड प्रेम करता. तो कोणाय परस चड सत्य आसा. ताका तुमी जाणा जावपाक शकतात आनी नाय बी दोनीय.

संत लोक अनासक्तीचेर चड भर दितात. म्हणटकर एक व्हड साध्य तांच्या हाताक मेळटा जाणें करुन भौतीक (ऐहीक) बंध इश्वराच्या राज्याची वाटचाल करपाक आडखळ हाडूंक शकनात.

वैराग्य म्हणल्यार सगळें सोडून दिवप न्हय. हांव सांगतां तें ल्हान ल्हान सुखां हीं शाश्वत सौख्या खातीर सोडून दिवप. जेन्ना तूं देवा खातीर काम करता तेन्ना देव तुजे कडेन उलयता तुवें ताचे कडेन उलोवंक जाय, सतत उलोवंक जाय. तुमच्यांत आयिल्लो खंयचोय विचार ताचे मुखार मांडात आनी ताचें उत्तर ताचे कडेन मागात. पयले

खेपे तुमकां जें कितें जाय तें थोडें तरी दितलो. आनी अशे रितीन तुमचे कडेन संबंध प्रस्थापीत करतलो. हें तुका दाखोवपाक कीं आपलें लक्ष तुजे कडेन आसा. पुणून तागेले दिल्ले देणगेक भुलून वचूं नाकात. देवाक कळूं दी कीं तुमकां देवा शिवाय आनीक कितेंय मेळ्ळें म्हणून तुमी खोशी जायनात. निमाणे कडेन तुमकां तो जाप दितलो. तुमकां दृष्टांत जातलो आनी तुमकां कोणाय साधूचो वा संताचो तोंडवळो दिसतलो. आनी तुमी इश्वराचो आवाज तुमचे कडेन उलयतना आयकतले. आनी तुमी देवा कडेन संबंधीत आसात हें तुमकां कळटलें.

याद दवरात, तुमच्या अंतस्करणांतल्यान देवाक घाल्लो उलो आर्ततेन भरिल्लो आसता. आनी जेन्ना तुमी खंयचींय निमित्त्यां मान्य करपाक तयार आसनात तेन्ना तो येतलो. स्रद्धा ही इश्वराची एक अमर्याद अशी शक्ती जी तुमच्यांत आसा. तिका खंयच्याय अडचणींक लागून सोडून दिवं नाकात. म्हणटकर तुमच्या मनाक स्थिरताय येतली. आनी तुमकां देव जाप करता हें तुमकां कळटलें. देव ,वैश्वीक स्पंदन हो शब्द. वैश्वीक आवाज जो तुमी ध्यानांत आयकतात तो इश्वरालो आवाज. इश्वरय तुमचे कडेन आपल्या सहज ज्ञानाचे भाशेंत उलयता. तुमी वैश्वीक स्पंदनां कशे भशेन आयकुचीं हें शिकतात. देवालो आवाज आयकुपाक सामको सोपो आसता. तो सतत तुमचे कडेन उलयत आसता. तो म्हणटा, म्हाका आपयात, म्हजे कडेन उलयात. तुमच्या अंतस्करणा पसून, बोमलेच्या देंठा पसून, तुमगेल्या आत्म्याचे खोलायेंतल्यान सतत, उदात्तपणान, निच्छयान तुमच्या अंतस्करणांत ठाम ठरयात कीं तुमी म्हाका मेळोवपाक प्रयत्न

करीतच रावतले. कितले यत्न केले पूण आपल्याक जाप मेळ्ळी ना म्हूण प्रयत्न सोडून दिवं नाकात. जर तुमी न थांबतां तुमच्या अंतरस्करणांत पुटपुटून म्हजे कडेन उलयशात जाल्यार म्हगेल्या मोगाळ निवांत भक्तांनो म्हजे कडेन उलयात. हांव तुमचे कडेन येतलों.

तुमकां जर एक पावटी जाप मेळ्ळी म्हणटकर तुमकां केन्नाच दिसचें ना कीं परते तुमी ताचे पसून वेगळे जाल्यात. इश्वरी अणभव हो सदांच तुमचे गांठीक उरतलो. पूण हें एकत्च खूब कठीण. कारण मन आनी अंतरस्करण हांकां खात्री जायना. दुभाव भितर सरतात. कारण आमचे विशयीक विश्वास पुसून गेल्ले नात. इश्वर प्रत्येक मनीस प्राण्याक जाप दितलो मागीर ताची जात, कूळ, रंग खंयचोय आसूं. एक म्हणणी आसा (बंगाली) तूं जर तुवें तुगेल्या आत्म्यालो उलो दिलो आनी देवाक विश्वाची आवय म्हणून पाचारून आपयलें जायत तर तिका तुजे कडेन उलोवचें पडटलेंच. हें कितलें सुंदर न्हय!

इश्वर हो आत्मो. अव्यक्तीक, अदृश्य पूण जेन्ना ताणें हें भौतीक जग निर्माण केलें तो इश्वर जालो, बापूय कसो. जेन्ना ताणें उत्पत्ती करणारो हें बिरूद घेतलें, तो व्यक्त जालो. पूण तो अदृश्य जालो. अशे रितीन हें सगळें ब्रह्मांड हें इश्वराचें शरीर जालें.

***

# हेर धर्मां वांगडा तुलना

ह्याच प्रकरणांत दुसऱ्या धर्माचे संस्थापक आनी देवाचे दूत जांणी आध्यात्मीक शिकवण दिली आनी मनीस जातीक उजवाड दाखयलो. तांणी केल्ल्या कांय चमत्कारांचें स्पश्टीकरण दिवपाचो एक ल्हानसो प्रयत्न हांगा केला. त्यो चमत्काराच्यो काणयो ह्यो पवित्र पुस्तकांतल्यान आनी सिद्ध केल्ल्यो आख्यायिका हातूंतल्यान घेतल्यात. पूण सत्य साईचे चमत्कार हे आमच्या वेळा वयल्या नितीज्ञ लेखकांनी, दादल्या-बायलांनी जांणी हे चमत्कार खुद्द दोळयांनी पळयल्यात, तांचेर संशोधन केलां आनी ते खरे आशिल्ल्याची गवाय दिल्या तांच्या लिखाणांतल्यान घेतल्यात.

श्री सत्य साईबाबांचे चमत्कार हे लाखांनी लोकांनी जगाच्या सगळया भागांतल्यान, खूबशा शास्त्रज्ञांनी तांचो अणभव घेतला, तांचेर तांणी संशोधन केलां आनी मान्य केलां कीं साईचे चमत्कार हे तांचे बुद्धीच्या आकलना पेलेकडले आसात.

जेन्ना आमी हेर धर्मांतल्या भविश्यवेत्तांच्या, अवतारांच्या जिणेचो इतिहास पळयतात तेन्ना तांची जीण ही गुढांनी आनी इश्वरी चमत्कारांनी भरिल्ली आमकां पळोवंक मेळटा. देखीक, तुमी हातूंतली कोणाचीय देख घेयात. गुरु नानक, जेजू ख्रिस्त, गौतम बुद्ध हांणी सगळयांनी चमत्कार केल्ले.

जरी ते मनीस रुपांत आयल्यात तरी ते सामान्य मनीस न्ही. तांच्या आंगांतलें देवत्व दाखोवपाक तांकां हे चमत्कार करचे पडले.

हे पवित्र मनीस हे उच्च  परंपरेंतले जांणी जल्म भर देवा विशीं शिकवण दिली. तांकांय बी चमत्कार करपाची पात्रता आशिल्ली. सगळ्या धर्मांचे हे विस्वासू संस्थापक. तांणी मान्य केलां कीं तांगेले चमत्कार हे खरे आसात. कारण तांचे कडेन इश्वरी गुणांची देणगी उपजतच दिल्ली आसा आनी सामान्य मनशाक प्राप्त ना. आतां आमी पळोवया कीं आमगेल्या मोगाळ भगवान श्री सत्यबाबांच्या चमत्कारां कडेन  हे चमत्कार कितपत जुळटात.

## तुलना- इतर धर्म आनी तांची शिकवण

### भगवान महाविरांची शिकवण - जैनधर्म

भगवान महाविरांचे शिकवणे संबंधी थोडेशे खोलायेन माहिती दितना हांव थोडक्यांत तुमकां सांगतां, भगवान महावीर  ७२ वर्सां जगले. आनी पंचांगा प्रमाणें ते आश्वीन म्हयन्याचे नरकचतुर्दशी दिसा ज्या दिसाक आमी दिवाळी म्हणटात त्या दिसा रातोडाक तांणी आपलो देह दवरलो. ह्या दिसाक निर्वाण दिसय म्हणटात.

जैनधर्म हो खूब पुरातन. कडक अहिंसा पाळप आनी सगळ्या जीवमात्रांक मनीसपणाचे नदरेन पळोवप हे खातीर तो स्थापन जाल्लो. 'जिवा' म्हणल्यार आत्म्याचेर विजय

मेळयल्लो, जाका पूर्ण ज्ञान जाल्लें आसा, जाणें कर्म बंधनांतल्यान पूर्ण मुक्ती मेळयल्या असो मनीस. तिर्थंकर म्हणल्यार कोण तर जाणें जल्म-मरणाच्या भवसागरांतल्यान मार्ग बांदला, जाणें चार तिर्थांची स्थापना केल्या, मठाधीश. जोगी, जोगिणी, दादले आनी बायलो, अनुयायी, जिवा वा तीर्थंकर म्हणल्यार अशे पूर्ण ज्ञान आशिल्ले आत्मे जे मुक्त जाल्यात आनी निरंतर आनंदांत रावतात. ह्या धर्माक जैन धर्म म्हणटात आनी ताच्या अनुयायांक जैन म्हणटात.

तुमकां महावीरांचे शिकवणे संबंदीं थोडेशें सांगचे पयलीं म्हाका तुमकां सांगूंक जाय कीं भगवान महावीरांच्या जल्म आनी मरणाचे तारखे विशीं थोडो गोंदळ आसा. चडशा इतिहासकारांच्या मतान आनी पाली बरपांत तशेंच इतर ग्रंथांनी अशें सांगलां कीं महावीरांचो जल्म कुंदनपुरांत (वैशालींत) जालो. तांगेली आवय-बापूय सिद्धार्थ आनी त्रिशला हीं वैशालीचीं मुख्य आशिल्लीं. आनी तीं तिर्थंकर पार्श्वनाथ हांची अनुयायी आशिल्लीं.(पासवसिजिया अय्यंगार 2.15.16) पाली बरपांत आनी पुर्विल्ल्या प्राकृतांत महावीरांच्या भुरगेपणा विशीं चड कांय म्हायती मेळना. तांणी आपल्या तिसाव्या वर्सा सावन आपले भौतीक जिणेचो त्याग करून घोर तप करून कैवल्यज्ञान मेळयलें. आनी धर्माची शिकवण जवळ-जवळ तीस वर्सां दिवन मागीर पावा हांगा सकाळीं कार्तीक म्हयन्याचे ४थीक कृष्ण अमावास्या ५२७ बी.सी. ह्या दिसा वयाच्या ७२व्या वर्सा निर्वाण केलें. तागेल्या शाळेंतल्या शिक्षणा संबंधीं तांगेलें शालेय जीवन हाचो कांयच उल्लेख पाली बरपांत वा प्राकृतांत मेळना.

**टीपः** हांगा लेखक ह्या प्रकरणाच्या आरंभाक महावीराल्या

निर्वाणाची तारीख दिल्या आश्वीन दिवाळी म्हणजेच आश्वीन म्हयन्याची वद्य चतुर्दशी. (नरक चतुर्दशी म्हणजेच दिवाळेचो दीस.)

पूण तागेल्या ब्राह्मण शिक्षकान ताका विचारिल्ल्या प्रस्नांतल्यान जीं उत्तरां महावीरान दिलीं तांणी शिक्षक अजापीत जालो. इतलोच उल्लेख मेळटा. महावीर आपल्या घरांत घरमालकाचे भुमिकेंत वयाचीं ३० वर्सां पसून रावलो. थंयच ताणें आपल्या मनांत कर्मविमोचनाची ज्योत पेटयली. ते खातीर ताणें आत्मानुभव घेतलो. तशेंच अहिंसा, सत्य, ब्रह्मचर्य हांचेर पूर्ण विजय मेळयलो. आनी महावीरान सदां खातीर घर सोडलें. अहंकाराचो त्याग केलो. आसक्ती, स्वामित्वाचो त्याग केलो. महावीराक खूबशे लोक सहनशीलतेचो गुरू समजतात. महावीरान नवो धर्म स्थापन करूंक ना. पुणून ताणें पंच व्रत धर्म (पांच सोपूत) शिकयलो. महावीराची निराग्रथ म्हूण नामना आशिल्लो कारण तो सगळ्या बंधनांतल्यान मुक्त जाल्लो, भायर आनी भितर पसून. तो संतय आशिल्लो. ताणें सगळ्या विकारांचेर विजय मेळयिल्लो.आनी मागीर ताची शिकवण जैन धर्म ह्या नांवान लोकमान्य जाली.

महावीरान विज्ञानीक दिश्टीन निसर्ग आनी जिणेचो अर्थ आनी आमी कशे रितीन वागचें, खऱ्या निसर्गाचो आमचे जिणेंत अर्थ कसो समजुचो हाचें मार्गदर्शन ताणें दिलें. महावीर सांगता, आमी सुरवात तीन वस्तूंनी करची. पयली, आमचे कडेन योग्य, घट्ट स्रद्धा आसूंक जाय. आनी आमी सत्याचेर विस्वास दवरूंक जाय.दुसरें आमचे कडेन योग्य ज्ञान आसूंक जाय. ही जीण आमकां कित्या खातीर

मेळ्ळ्या हें समजुपाक आमी अभ्यास करूंक जाय. तिसरें आमी योग्य आचरण करूंक जाय. आचरण अशें जें आमची स्रद्धा आनी ज्ञान जें योग्य म्हूण सांगता तें.

विश्वनिर्माता देवाचेर जो मनशाच्या प्रारब्धाचेर ताबो दवरता, ताचेर महावीराचो विस्वास ना. मनशाचे लहरी प्रमाण व्यक्तीगत देवाक थंय जागो ना. मनीस हो भायल्या खंयच्याय घटकाचेर वा कोणाचेरय अवलंबून ना. हाचे उलट तो सामको स्वतंत्र आसा आनी तागेलीं कर्मांच तागेल्या बंधनांक जबाबदार आसतात. तागेलें मुक्तीचो तोच धनी जावन आसा. आनी देव, देवाची मूर्त ही सगळी कल्पना. मनीस जेन्ना घालून दिल्ले नितीचें आचरण करता तेन्ना तो पूर्ण जाता.

महावीरान अशी शिकवण दिली - मनीस प्राणी हो सगळयांत म्हत्वाचो बाकीच्या इतर सकल्या प्राण्यां परस. इतलेंच न्हय, देवा परस मनीस जल्म हो चड म्हत्वाचो. फकत मनीसच आपले स्वतंत्र बुद्धीन फुडें वचून मुक्ती मेळोवंक शकता.

महावीराच्या मता प्रमाण जगांत फकत दोन मूल वस्तू (द्रव्यां) आसात. जीव (चेतन-अचेतन) आनी आत्मो किंवा प्राण. हें चिद् घन शक्तीचें प्रतीक. आनी ज्या जाग्यार ही चिद्-घन शक्ती ना, तें अजीव (अचेतन मूल द्रव्य) हें केन्नाच नश्ट जायना पुणून ताचें रूप बदलूंक शकता.

तागेले सहनशीलतेचे रितीन ताणें कितल्याशाच तत्वज्ञानांची एकूच बाजू घेवन वाद करणाऱ्यांत समेट घडोवन हाडलो. ताणें अकरा गणहारांची खात्री केली. प्राणी हे दोन वस्तूंचे केल्ले आसात. प्राण-घटक द्रव्य. आमची कूड ही

प्राणा पसून वेगळी आसता. आनी कर्मय आत्म्या पसून वेगळें आसता. जोंवेर जीव कर्माक बांदिल्लो उरता आनी तो कर्माचीं फळां चाखता तोंवेर ताका मुक्ती ना. महावीरान शिकवण दिली, आत्म्याक मुक्ती मेळटली जाल्यार आमी कर्माचो संपूर्ण नाश करप गरजेचें.

महावीराचो जिवाच्या पावित्र्याचेर विश्वास आशिल्लो. मागीर तो खंयच्याय रुपांत आसूं. देखून ताणें सगळ्यांक समान आदर दिवपाचेर जोर दिलो. जीण ही सगळ्यांकच प्रीय आसता आनी सूख-दुख्ख सगळ्यांकच भोगचें पडटा. कोणाकच दुख्ख, संकटां, जबरदस्ती आवडना. म्हणटकर आमी कोणाकच दुख्ख दिवचें न्हय. सदांच अहिंसेच्या तत्वांक पाळो दिवचो. महावीराच्या तेंपार धर्माच्या नांवार सगळ्याक जिवांची हत्या जाताली. म्हणटकर ताणें मोठो खर आवाज उठयलो. आनी अहिंसेची आनी दयेची शिकवण दिली. अशे रितीन ताणें राज्यांत आचरणांत नितीचें राज्य हाडलें. ताणें सोशीकपणाचें तत्व आचरणांत हाडपाक शिकयलें.

दर एकट्यान सदांच सत्य उलोवचें आनी चोरी केन्नाच करची न्हय हे आचरणाचे नियम ताणें शिकयले. कामाचेर बंधन हो आनी एक गरजेचो मुद्दो आशिल्लो. तेच भशेन अपरिग्रह म्हणल्यार वासना कमी करपाचो, संपत्ती जमोवप ना हांचो सोपूत. कारण चड संपत्ती म्हणल्यार चड मोह. हें आध्यात्मीक साधनेंत अडथळे हाडटात म्हणून हांचे पसून पयस रावप. महावीरांचे शिकवणे प्रमाण ह्या सगळ्यांचेर उपाय म्हणल्यार प्रत्येकान आपले संपत्तीचो आनी आपल्या वासनांचेर आपूण जावन बंधनां घालपाचीं. महावीरान जोर दिवन सांगलें, प्रत्येकान राग, मद, माया, लोभ, मोह

हांकां जिखप आनी हेंच आदर्श देवपण आसा.

महावीरान हो संदेश सतत तीस वर्सां, आपूण आपली कूड ह्या संवसारांतल्यान सोडून वतासर केलो. तो अशा स्थितींत पाविल्लो जंय तो सगळ्यां पसून मेकळो जाल्लो आनी ताणें आनंद आनी शांती मेळयल्ली जाका आमी मोक्ष म्हणटात. आमकां खूब जाणांक मोक्ष आमचे पसून पयस उरता. मनशान मोक्ष कसो मेळवचो, ताचे खातीर कशे प्रयत्न करचे हाचे खातीर तांणी नियम घालून दिल्ले आसात जे आमचे भितर आशिल्ल्या अंतस्थ शांती सौख्याच्या लागीं व्हरतात. समाजांत शांती सुखाची पसवण कशी करची हाची तांणी शिकवण दिली. ताणें आमकां सहनशीलता (सोशीकपण) शिकयली. तशेंच ह्यो वस्तू एकाच बाजून पळोवचे परस दुसऱ्या आनीक बाजूंनी पळोवप बरें अशें तांणी सांगलें. सगळ्यां परस म्हत्वाचें म्हणल्यार आमचें नशीब. हो आमच्याच केल्ल्या कर्मांचो आनी आमच्या मनस्तापांचो परिणाम जावन आसता. आमी आमची स्तुती करपाक वा निर्भत्सना करपाक किंवा आमकां आधार मागपाक भायर खंयच्याय देवाक उलो घालपाक नाका. हाचे परस जैन लोक महावीराक मान दिवप परसंत करतात. आमी ताचे कडेन मदत कर म्हूण मागप बरोबर न्हय. पुणून आमी ताचे शिकवणीचें मनन करचें आनी तागेले शिकवणेचों अर्थ आमचे जिणेंत आचरणांत हाडचो.

## भविष्य वादी महमद - इस्लाम

महमदाली जीण पसून खूबशा चमत्कारांनी भरल्या.

महमद पृथ्वीर येवचे पयलीं तागेल्या बापायक अब्दुल्लाक इश्वरी संकेत मेळटाले. अमीना महमदाची आवय. तिकाय गुरवारपणांत इश्वरी इशारे मेळ्ळ्यात.एक दीस तिका आपल्या शरिरांतल्यान उजवाड येता तो दिसलो. आनी त्या उजवाडांत तिका सिरियांतलो बुसराचो किल्लो दिश्टी पडलो.

महमदाल्या भुरगेपणांत एक दीस महमद आपलीं मेंढरां राखतालो. तें वाळवंट आशिल्लें. आनी तो आपले सावत्र आवय वांगडा आशिल्लो. थंय ताच्या म्हऱ्यांत धवे फुल्ल कपडे घाल्ले दोन मनीस आयले. तांच्या हातांत झेलान भरिल्लें एक भांगराचें तपलें आसलें. तांणी महमदाक धरलो आनी तागेलें पोट उकतें केलें. तागेलें काळीज भायर काडून चिरलें. आनी मागीर तें पिळून तातूंतल्यान एक काळो थेंब काडून भायर उडयलो. तें काळीज झेलान (उदकान) संपूर्ण धुलें आनी तें पूर्ण स्वच्छ केलें. आनी ताका मागीर जोखलो. तो हजार लोकां भितर भारी जालो.

एक दीस जेन्ना महमद आपलो काका आबू तालीब जोगी बहिरा हांचे बरोबर प्रवास करतालो तेन्ना बहिरा जोगीन पळयलें मळबांतलीं काळीं कुपां सावळी दितालीं. आनी झाडांचे खांदे सावळी धरताले. बहिराक कळून आयलें, हो भुरगो अद्भूत आनी अती मानव आशिल्लो. ताणें महमदाली फाट तपासली. ताका तागेल्या दोनय भुजां मदीं भविष्यवेत्त्याची खूण मेळ्ळी.

खूबशो चमत्कारीक आख्यायिका महमदाच्या जन्मा पसून तागेले जिणेक जोडिल्ल्यो आसात. अशें सांगतात, जेन्ना ताचो जल्म जालो तेन्ना पर्शियन सम्राटाचो राजवाडो थरथरलो. राजवाड्याचे चवदा घुमट पडले. मजदीन पवित्र

उजो पालवलो. एक तळें सुकलें. तागेल्या (महमदाच्या) आवयच्या छातयेंतल्यान चमत्कारीक उजवाड भायर पडलो आनी सिरिया पर्यंत ताची चकचकसाण पातळ्ळी. मळबांतलीं नखेत्रां इतलीं लागीं आयलीं कीं तांकां पळोवप्यांक तीं आपल्याचेर पडत म्हूण भंय दिसलो. अशें सांगतात कीं, महमदाले कुडीची सावळी पडनाशिल्ली. तशेंच तागेल्या कपड्यांचेर मूस केन्नाच बसनाशिल्ले. ताणें प्रवास केलो. परत येतना मक्का ते जेरुजालेम हो प्रवास ताणें रातयांत पुराय करपाचो चमत्कार केलो.

एके राती तो सर्गार वचून आयलो. हो ताचो सगळ्यांत व्हडलो चमत्कार. आपले हे भेटी विशीं खुद्द महमदान आपल्या शिश्यांक सांगलां. एक अती सुंदर निसण सर्गा वेल्यान सकल ताचे सामकार ताचे खातीर आयली. निसण घेवन आयिल्ली सर्गपरी आनी महमद निसणी वेल्यान वयर गेलीं. तीं थेट सर्गाच्या दारा कडेन पावलीं. ताका सगळो सर्ग दाखयलो. आनी मागीर ताका नरक पळयन दिसलो. जेन्ना गाब्रियेलान नरकाच्या दारा वेलो पड्डो कुशीक काडलो तेन्ना थंयच्यान भयंकर उज्याच्यो ज्वाळा भायर आयल्यो. हें पळोवन महमदान गाब्रियेलाक नरकाच्या दाराचो पड्डो बंद करपाक सांगलें.

आपले कडेन इश्वरी शक्ती आशिल्ल्याची काबाच्या लोकांक खात्री करून दिवपा खातीर ताणें चंद्राचीं दोन अर्दां केलीं. इतलेंच न्हय ताणें आपल्या हाताच्या दोन बोटांतल्यान धर्मीक हात धुवपा खातीर तांगेल्या बुयांवांत उदक निर्माण केलें. जेवण गुणाकारान वाडोवप ही एक सिद्धी ताचे कडेन आशिल्ली. ती लोकांक दाखोवची अशें

ताका दिसलें. एक पावट जेवण साप थोडें आशिल्लें. महमदान देवाची प्रार्थना केली आनी जेवण वाडपाक सुरवात केली. हें जेवण थंय जमिल्ल्या ८० लोकांक पावलें. आनीक अशोच कांय घटना जेवणा विशीं सांगतात. जेन्ना हे पृथ्वी वेल्यान तांगेले वचपाचे दीस लागीं पावले तेन्ना महमद आपल्या शिश्यांकडेन सर्गा विशीं उलयलो. तो अशे तरेन उलयलो कीं तांची खात्री जाली कीं ताका सर्गाची संवकळ आशिल्ली.

महमद, मुसलमानांचो भविष्यवेत्तो, हाचो जल्म 570 AD त अरेबियांतल्या मक्का शारांत जालो. काळखाच्या युगांनी आनी काळखाच्या वेळार एक उजवाडाची झलक खंय खंय दिश्टी पडली. मनीसजातीक पुरायपणान ह्या आध्यात्मीक उजवाडाचो फायदो जालो. ज्या उजवाडाची आनी मार्गदर्शनाची गरज आशिल्ली ती महमदा कडल्यान पुराय जाली. पवित्र कुराणांत हे विशीं आयिल्लें वर्णन सांगता, हो अप्रतीम आदर्श पुरुस जावन गेलो.(33:22) तशेंच ताका आज्ञा जाली - अशें जाहीर कर कीं तुमचें अल्लाचेर प्रेम आसा जाल्यार म्हगेलें अनुकरण करात. म्हणटकर अल्ला तुमचेर प्रेम करतलो. आनी तुमच्या अपराधांची तुमकां क्षमा करतलो. अल्ला सदांच क्षमावंत आनीक दयाघन आसता. (33:22)

ताणें हक्कान सांगलें, आपूण भविष्यवेत्तो आसां. म्हाका वयर काडला आनी संपूर्ण मनीस जातीच्या कल्याणा खातीर धाडला. ताका आज्ञा जाली कीं तूं मनशांक जाहीर कर - मनशांनो, खऱ्यांनीच हांव अल्लाचो संदेश सांगपी दूत जावन तुमच्या सगळ्यां खातीर आयलां. (7.159) कुराण सांगता, तो एकच दूत नाशिल्लो. जाणें नवी आकर्शक शिकवण

हाडिल्ली. (46:10) ताचे पयलींय कायदो मोडणारे लोक आशिल्ले. देखीक मोजेस. हाचे मार्फत देवान घोषणा केल्ली. आनिकय लोक कायदे मोडपी तावे भशेन फुडें येतले. (Deut 18:18) हाचो अर्थ असो जाता - महमदाक देवान योग्य म्हणून निवडून काडिल्लो. आनी ह्याच मार्गान इश्वरान आपलो इश्वरी कायदो आनी मार्गदर्शन (महमदा मार्फत) लोकां मेरेन पावयलें.

महमदान दिल्ली शिकवण आनी तागेली जीण हाचेर अभ्यास करतना आमकां हें पळोवंक जाय कीं जगाक खरेलीच एका बहुसमावेशक आनी वैश्वीक इश्वरी संदेशाची गरज आशिल्ली काय कितें. तो संदेश ताणें सांगपाचो प्रयत्न केलो. तातूंत सगळया मनीसजातीक फावो तशें मार्गदर्शन आशिल्लें. आनी जो संदेश ताचे कडल्यान धाडिल्लो तो संदेश सगळ्या गरजां खातीर योग्य आशिल्लो. हो संदेश सगळ्यां मेरेन पावोवपाक तो यशस्वी जालो. जे कोणें हो संदेश पाळ्ळो ताच्यांत परिवर्तन करून ताचे जिणेंत एक नैतीक आनी आध्यात्मीक क्रांती करपाक ताका यश मेळ्ळें.

महमद येवपाचे पयलीं जगाची परिस्थिती कशी आशिल्ली हाची वस्तुस्थिती कुराणांत बरयल्ली मेळटा ती अशी - मनशांच्या वायट करण्यांक लागून पृथ्वीर तेन्ना लांच-लुचपतीक ऊत आयिल्लो. (30:42) अशी ही परिस्थिती पवित्र भविष्यवेत्त्याच्या (महमदाच्या) वेळार आशिल्लो. तेन्ना सगळ्याक लोकां कडल्यान देवाक प्रार्थना जाल्ली कीं देवान आतां वैश्वीक आनी बहुसमावेशक अशें इश्वरी मार्गदर्शन देवाच्या शब्दांत फुडें येवचें. आनी ताणें तें आपलो दूत

धाडून करचें. ह्या दुताची जीण खूब तासांची आसची. आनी मनीसजातीक आदर्श घालून दिवपी असो हो दूत आसचो. आनी तसोच महमद आशिल्लो. महमदान इश्वरी संदेश आयकल्या उपरांत तागेलो प्रत्येक शब्द, कृती, हावभाव हीं बारीकसाणेन पळोवन ताचो संपूर्ण तपशील राखून दवरला. महमद हो मनीस आशिल्लो. चडय न्ही आनी थोडोय न्ही. म्हणटकर ताच्यान आदर्श जावन मनीस सेवेक ओंपून घेवपाक जालें. ताणें भार काडलो ना आनी ताचे कडेन अती मानवी शक्तीय नाशिल्ली. तागेले जिणेक खूब पैलू आशिल्ले. ताणें खूब चड-उतार भोगल्यात. खूब काळ ताणें मेंढरां राखल्यांत. तागेलो मेंढरांचो कळप आशिल्लो. कठीण गांजणूक आनी कठीण परिस्थितीक तोंड दीत आपल्या अप्रतीम धिरान, सोशीकपणान, चिकाटीन ताणें जीण सारल्या.

तो शांतीप्रीय मनीस आशिल्लो. पूण तागेले शत्रू ताका शांती मेळूंक दिनाशिल्ले. ते ताका मुलभूत मनीस हक्क, बुध्दीस्वातंत्र्य हांची राखण करपाक शस्त्र हातांत घेवपाची जबरदस्ती करताले. ताका झगडीं-झुजां आवडनाशिल्लीं. पूण जेन्ना ताचेर युध्द लादलें तेन्ना ताणें करुणेन तांचे कडेन पळोवपाचो यत्न केलो. ताणें सगळयो रानवटी चाली ज्यो युध्दांत चालू आशिल्ल्यो त्यो मोडल्यो. पूण सावधपणान आपूण रक्तपात करपा पसून फाटीं रावलो. युध्दांत तागेले दावपेंच बिनचूक आसताले. आनी मनशांची शक्य तितली कमी हानी आनी दुख्ख कमी करपाचेर तांची आंखणी आसताली. ताचेर कामाची जबरदस्ती आनी कायद्याच्यो अटी लादिल्ल्यो. ज्या जगांत सूड घेवपाचें काम आनी

वायटाक शिक्षा करपाच्या कामाची योजना केल्ली अशें आसतनाय तागेलो न्याय सदांच दये वटेन आसतालो.

तो सतत आपल्या लोकांक सत्कृत्या कडेन वळपाक आग्रो करतालो. सगळ्या वटांनी सुधारून ताणें तांकां नितीच्या आनी शुद्ध मार्गार हाडले. तांकां ताणें सांगलें, जगांत एकच देव आसा. आनी तो अल्ला ताणें तांकां सदांच सगळ्या वेळार सत्य उलोवपाक शिकयलें. ताणें आपल्या अनुयायांक सांगलें, तुमी सदांच दुसऱ्यां कडेन दयेन आनी ममतेन वागचें. जांणी तांकां त्रास दिले, देवाल्या शब्दांक कानामनार घेतलें ना, मर्यादेचें अतिक्रमण केलें तांचे कडेन दुर्लक्ष करून तांचे खातीर लेगीत देवा कडेन प्रार्थना करची अशें तांणी आपल्या शिश्यांक शिकयलें. (45:15)

मुर्तीपुजा कुशीक दवरली तरी अरबांच्यो चाली-रिती आनी सवंयो ह्यो खूब सकल्या थराक पाविल्ल्यो. व्यभिचार, सोरो, जुगार, लूट, खून आनी सगळ्या तरांच्यो कायद्या भायल्यो सवंयो हांकां ओतो आयिल्लो. हें सगळें इस्लामान निशिद्ध मानिल्लें. इस्लामाक आपणावप म्हणल्यार हें सगळें सोडून दिवप आनी नवी जीण सुरू करप हें सगळें महमदाल्या प्रयत्नांनी घडोवन हाडलां. कारण त्या दिसांनी गुलामांक कठोर वागणूक इस्लाम धर्माक धरूनच दिताले. महमदान सगळे भेद कुशीक काडले. आनी वैश्वीक भाईचाऱ्याची स्थापना केली. ताणें धनी आनी गुलामाक एके पातळेचेर दवरले. अशे रितीन जगाक ताणेंच ही शिकवण दिली. हे गूण मुळांत ताचे भितरूच आशिल्ले.

थोडक्या भितर सांगपाचें जाल्यार महमदाची सगळी

जीण, तागेलो हरएक विचार, तागेली प्रत्येक हालचाल, तागेली प्रत्येक कृती आनी देवा कडेन लागींच्यान संवाद सादपाच्या प्रयत्नांत ताणें आपली जीणच देवाक अर्पीत केल्ली. हें स्पश्टपणान सिद्ध करपाक तागेले इश्वरी गवायेन तो सांगता, म्हगेली प्रार्थना आनी म्हगेलो त्याग , म्हगेली जीण, म्हगेलें मरण हें सगळें अल्लाक समर्पण.. तिनय जगांतल्या देवांक  तांका आनीक कोण भागीदार ना. म्हणटकर म्हाका ताणें आज्ञा केली आनी ह्या सगळयांत हांव पयलों जांणे कोणें पूर्ण शरणांगती पत्करल्या.(6:163/164)

## जेजू ख्रिस्त - ख्रिस्त धर्म

हांव म्हणल्यार जगाचो उजवाड
जे कोण म्हाका अनुसरतात
ते काळखांत चलचे नात.

जेजू ख्रिस्त

जेजू ख्रिस्त, इश्वरी दूत, हो आंकवार मेरीलो पूत. ती पॅलेस्टायन भुंयेचेर आशिल्ल्या नाझारेथ ह्या ल्हान शारांत रावताली. जोजेफ नांवाच्या मनशा कडेन तिगेली सोयरीक थारिल्ली. तो डॅविडाचो वारस आशिल्लो. मेरीक देवदूत ग्राबियेल मेळटा आनी सांगता, "इश्वराची तुजेर खूब कृपा आसा. तूं कांयच भिवूं नाका. तूं एका भुरग्याची आवय जावपा आसा. आनी त्या भुरग्याक तूं जेजू म्हूण नांव दवरतली. तो खूब व्हडलो आसतलो आनी ताका सगळयांत

ऊंच आशिल्ल्याचो पूत म्हूण मानतले. देव ताका आपल्या पूर्वजांलें सिंहासन दितलो. डॅविड आनी तो लोकांचो राजा जातलो आनी जाकोबाचें राज्य चलयतलो. तागेली कारकीर्द केन्नाच सोंपची ना." मेरीक खूब भंय दिसलो. तिणें देवदुताक सांगलें कीं ती अजून लग्न जावंक ना आनी जगाच्या कुजबुजीचो तिका भंय दिसता. तेदे वेळार देवदुतान तिका आश्वासन आनी खात्री दिवन सांगलें, पवित्र आत्मो तिगेर येतलो. आनी सगळ्यांत वयर रावतल्याची तिचेर आनी तिच्या पुताचेर सावळी आसतली. रोखडेच तिका दीस वतात.

इतले मजगती मेरीक दीस गेल्यात म्हणपाची कुजबूज जोजेफाच्या कानार येता. ताका काळजा सावन दुख्ख जाता. ताका विचार पडलो. मेरीक आनी भुरग्याक आतां लजेंक म्हारग जातलें. शिवाय लोकां कडल्यान अपमान सोंसचो पडटलो. जोजेफ सभावान सामको सादो, सरळ आनी हळव्या मनाचो आशिल्ल्यान ताणें थारायलें, सोयरीक गुपचूप मोडची आनी दुसरी बायल सोदची. ह्याच वेळार ताका रातचें सपन पडटा. तातूंत देवदूत येता आनी ताका सांगता, "जोजेफ, डॅविडाच्या पुता, भिरांत धरूं नाका आनी मेरीक तुगेली घरकान्न कर. जें तिच्या पोटांत भुरगें आसा तें पवित्र आत्म्यालें जावन आसा. ती एका चल्याक जल्म दितली आनी ताचें नांव जेजू आसतलें. तो आपल्या लोकांचें तांच्या पापां पसून रक्षण करतलो." तेन्ना जोजेफ जागो जालो आनी देवदुतान सांगिल्ले प्रमाणें तो वागलो आनी मेरी कडेन लग्न जालो. पूण मेरी भुरग्याक जल्म दी म्हणसर तिचे कडेन शारिरीक संबंद दवरलो ना. चल्याचें नांव मागीर जेजू दवरलें.

लज आनी लोकांची कुजबूज टाळपाक तांणी नाझारेथ सोडलें. आनी तीं दक्षिणे कडेन बेथलहेमाक गेलीं. सोयरे, शेजारी, मित्र हे कोणच जेजूच्या जल्मा वेळार आसचे नाशिल्ले. आनी ताचो जल्म बेथलहेमाक जावपाचो आशिल्लो. दुसरें, सरकारी नियमा प्रमाण तांकां बेथलहेमाक दोंगराळ भागांत जेरुजालेम हांगा वच्चें पडलें. थंय तांचीं नांवां तांकां रजिस्टर करपाचीं आशिल्लीं. कारण जोजेफाक तागेल्या वंशावळीचो धागो राजा डॅविडा कडेन पावयतालो. डॅविडालो पणजो ओबेद म्हणून ११०० वर्सां पयलीं बेथलहेमाक जल्मल्लो. जेन्ना जोजेफ आनी मेरी बेथलहेमाक पावलीं, सगळ्यो खानावळी भरिल्ल्यो आनी तांकां योग्य आडोशाचो जागो रावपाक मेळ्ळो ना. म्हणटकर एके पागींत ज्या जाग्यार खेचरां आनी गाढवां रवंथ करतालीं थंयच एका कोनशाक मेरी आडोसाक गेली.

पुस्तकांतली नोंद अशें सांगता, मेरीन आपल्या पयल्या चल्याक जल्म दिलो. आनी तांकां रावपाक खानावळींत जागो नाशिल्ल्यान मेरीन आपल्या भुरग्याक गुठलायलो आनी ताका गवणींत न्हिदयलो.(Luke 2.7)

देवदुतान जेजुच्या जल्माची खबर राखण्यां मेरेन पावयली. ज्या वरून जेजू ज्यू फामिलींत जल्मल्लो, तांगेल `रिती प्रमाण जल्मा उपरांत आठव्या दिसा ताची सुंती केली. आनी ताचें नांव जेजू दवरलें. जेजूच्या जल्मा उपरांत जोजेफ आनी मेरी घोव-बायलेच्या नात्यान रावपाक लागलीं. तांकां आनीक चार भुरगे आनी कितल्योशोच चलयो जाल्यो.

जॉन द बाप्तीस्त हो एक ज्याका जेजू हो एक पवित्र आत्मो आशिल्ल्याचें कळ्ळें. जेजू फकत ज्यू जाती खातीर

नाशिल्लो. तो अख्ख्या जगाचो आशिल्लो. भविष्यवेत्ती ॲनी हिणें देवाची स्तुती केली आनी जेजू विशीं जेरुजालेमाच्या लोकांक, जे कोण मुक्तीची आस धरताले तांकां, जेजू आयिल्ल्याचें सांगलें.

खूब वेळा जेजूचेर हल्ले जाले. आनी ताका मारपाचे प्रयत्न जाले. राजा हेरोदीन पसून ताका कितलेशेच खेपो मारपाचे प्रयत्न केले. जेजू आपले जिणेंत मेस्तपणाचो व्यापार शिकलो आनी बापायच्या मरणा उपरांत घराची जबाबदारी घेवन भावा-भयणींक आदार दिलो. उपरांत वेळ आयलो तेन्ना जेजून मेस्तपण सोडलें. मेस्तपणाचीं आयुधां आपल्या भावां कडेन सोंपयलीं आनी आपले जिणेच्या कार्याक सुरवात केली. तागेले सोयरे, जॉन द बाप्तीस्त, एलिझाबेथालो भुरगो आनीक झाकारियास हे ताका बातिस्त दिवपाक तयार जाले. त्या वेळार आकाशवाणी जाली आनी सांगलें, ‘हो म्हगेलो खूब मोगाचो पूत जेजू.’ हो आवाज जॉनान, जेजून आनी इतर थोड्या लोकांनी आयकलो. हे रितीन जेजू रानांत गेलो आनी आपल्या शारिरीक वासनांचेर ताबो मेळोवपाक ताणें चाळीस दीस उपास केलो. तो केन्नाच सवाय ऐहीक वस्तूं खातीर लाळेलो ना. जगाचें राज्य आनी ताची सुंदरकाय हाची ताका भूल पडली ना. जॉन द बाप्तीस्तान लोकांक उदकान बापस्तीजम दिलो. आनी घोषणा केली. पवित्र आत्म्याच्या आगमनाची वर्दी दिली. जेन्ना ताणें जेजूक येतना पळयलो, ताणें लोकांक सांगलें, “हो देवालो मनीस आसा. ताणें पूर्णपणान देवाल्या कार्यांत आपल्याक ओंपून घेतला. तो जगाचीं पातकां काडून घेता. ताणें फुडें सांगलें, आपणें पवित्र आत्मो सकल येतना पळयला. एका पारव्या

भशेन सर्गातल्यान तो आयला. आनी जो कोण पवित्र मनशा बरोबर बापस्तीजम घेता ताचेर तो विसाव घेता. आतां हें हांवें पळयलां आनी हांव ताची तुमच्या मुखार घोषणा करतां, तो देवालो मनीस आसा."

पातकांत पडल्यात तांची जेजूक दया येताली. आनी तो तांचे कडेन मोगाळपणान दयेन पळयतालो. जांकां कोणाक पच्छताप जालो आनी जांणी क्षमेची याचना केली तांकां मेकळेपणान ताणें क्षमा केली. देवाचो सेवक जेजून लोकांक देवाच्या नांवार व्यवहार करपाचें बंद केलें. देवळांत पुजा करपाचें बंद केलें. एक पार्शी शिक्षक निकोलस हाचे कडेन जेजून बैठक घेतली आनी मरणा उपरांतय जीण आसा हें ताका पटोवन दिलें. सायकोन बांय कडेन रावपी बायलेक ताणें योग्य रस्तो दाखयलो. त्या शारांतल्या ज्या लोकांची खात्री पटली ते सांगूंक लागले, आतां आमकां कळ्ळें कीं तो खऱ्यांनीच जगाचें रक्षण करूंक आयला. (John 4.42)

गालिलीक जेजून देवाच्या धर्मग्रंथाचेर शिकवण दिवपाक सुरवात केली. आनी सांगलें, "वेळ आयला, देवाचें निमणें राज्य आयलां. देव आयला. तुमी तुमचीं अंतस्करणां आनी मनां बदलात. आनी बरे बातमीचेर विश्वास दवरात. (Mark 1.15)" ताणें येहुदी लोकांचें भजनगीत शिकोवपाक सुरवात केली. ताणें एका लग्नांत उदकाचें सोऱ्यांत रुपांतर केलें. कापरनाशें हांगा एका अधिकाऱ्याच्या भुरग्याक वखद दिवन मरणांतल्यान वाटायलो पूण तेन्ना खासा तो कारा हांगा आशिल्लो.

जेजून आपल्या शारांत नाझारेथाक प्रवचनां दिवपाक सुरवात केली. हांगा तागेलेच लोक रागान बेफाम जावन

ताका ठार मारपाच्या निर्णयाचेर पाविल्ले. म्हणटकर ताणें नाझारेथ सोडलें. कापेरनांवाक गेलो. हांगा आनी लागशिल्ल्या शारांनी तागेलें भाषण आयकुपाक गरीब लोकांच्यो झुंडी येताल्यो. ताणें गरीब शेतकारांक, गवंडे, मेस्त आदी गरीब लोकांक जमयले. आपल्या शिश्यांक फुडल्यो खास सुचना दिल्यो.हांगा गालेली प्रांतांत खूबशा रोगी मनशांक बरे केले. आनी एका वायट आत्म्याक मनशाची कूड सोडपाची आज्ञा दिली. जेजू हें सगळें लोकांची काकुळट दिसून तांकां दया दिवपा खातीर करतालो. पयशां खातीर वा स्वताच्या स्वार्था खातीर वा आनी खंयचोय हेतू मनांत दवरून ताणें केन्नाच कोणाची सेवा करूंक ना. उलट हे सगळे लोक बरे करून रावचे, बरे आसचे म्हणून तो सेवा करतालो. जेजू हो मनीस पूर्ण दयावान आशिल्लो. लोकांच्या दुख्खांत तांची काकुळट दिसून तो तांचेर दया करतालो. ताणें हांगा कितल्याशाच रक्तपितीच्या लोकांक, अर्धांग जाल्ल्या लोकांक बरे केल्यात. ही पिलक्षण अजापां आनी चमत्कार जेजून लोकांक प्रमाण म्हणून दाखयलें कीं आपूण देवाचो संदेश पावतो करपी दूत आसां.

जेरुजालेम हांगाय बी जेजून सुमार ३८ रोग्यांक बरे केले. एक पावट जेजून सुटयेच्या दिसा यहुदी लोकांच्या भजनमंदिरांत एका मनशाची कापिल्ली तकली परत जोडली म्हणटकर पारशांक खूब राग आयलो आनी तांणी तागेलो कांटो काडपाचें थारायलें. हाका लागून जेजू धर्मीक झगड्यांत सांपडलो. जेजू सदांच आपल्या बापायक सांगिल्ले भशेन देवाक सांगतालो. आनी हेंच झगड्याचें मुख्य कारण आशिल्लें. तांगेली कटुता आनी द्वेष हाका लागून

जेरुजालेमच्या फुडाऱ्यांनी जेजूक ठार मारपाचें थारायलें. जुडाये हांगाय बी ज्यू लोक जेजूचो जीव, घेवपाक माणून बशिल्ले. जेजून खूबशा रोगी लोकांक बरे केले. आनी तांकां दुख्खांतल्यान, वायट आत्म्यांच्या वागणुकेंतल्यान सोडयले. खूबशा आंधळ्यांक नवी नदर दिली. लुळे-पांगळे चलूंक लागले. भेड्ड्यांक आयकूंक येवपाक लागलें. ताणें ७ ब्रेड आनी दोन नुस्तीं हातूंतल्यान पांच हजार लोकांक जेवयले. लोकांक ताका राजा करूंक जाय आशिल्लो पुणून ताणें राजा जावप नाकारलें. एक पावट जेजूचे बरोबरचे तळ्यांत आपले बोटींत आशिल्ले तेन्ना अकस्मात वादळ आयलें आनी बोटीक आपटलें. जेजू तांच्या म्हऱ्यांत वचपाक गेलो आनी पीटराक उदका वेल्यान चलयलो. उपरांत जेजू जेन्ना बोटीर पावलो तेन्ना वादळ शांत जालें. आनी दर एकलो सुरक्षीत आशिल्लो. तांणी जयघोष केलो आनी म्हणलें, "खऱ्यांनीच तूं देवालो पूत आसा." (Mathew 14:28-33) आनी ताचें देवा कडलें नातें सामकें खाशेलें आनी अप्रतीम आशिल्ल्याचें तांकां पटलें.

फुडें जेजू गुपचुपपणान जेरुजालेमाक शरद रुतूंत उत्सवाक गेलो. उत्सवाच्या मदल्या वेळार तो देवळांत गेलो. आनी थंय प्रवचन दिवंक लागलो. तागेलें प्रवचन आयकतना अजाप जालें. ते एकमेकांक विचारूंक लागले, "हें सगळें ताका कशें कळटा? ताका कोणेंच शिकोवंक ना." (John 7:15) रोखडेंच जेजूचे शिकवणेक आव्हान दिलें आनी वाद-संवादाची एक सभा भरयली. जेजून प्रत्येक मुद्याक सयुक्तीक उत्तर दिलें आनी उकती घोषणा केली, "हांव म्हजे बुद्धीन येवंक ना. जो सत्य आसा ताणें म्हाका धाडला आनी ताका

तुमी वळखनात. पुणून हांव ताका वळखतां कारण ताणेंच तर म्हाका हांगा धाडला." ह्या वेळार तांणी ताका बंदी करपाचो प्रयत्न केलो. पूण तांकां तें करूंक जमलें ना. पारशी लोक आनी मुखेल पाद्री ताच्या विरुद्ध आशिल्ले. दुसऱ्याच दिसा जेजून देवळांत सगळ्यांक सांगलें. आपूण जगाचो उजवाड आसां. जे कोण म्हाका अनुसरतात ते केन्नाच काळखांत चलचे नात. तांगेली जीण सदांच उजवाडांत उरतली. (John 8:12) ताणें हें स्पश्ट केलें. आमच्या भितर जें अंतर आसा तें हें कीं तुमी सकयल्यान येतात आनी हांव वेल्यान. तुमी ह्या जगाचें नातें जोडलां आनी हांवें ह्या जगा कडेन नातें तोडलां. (John 8:25-26) उत्सवाच्या दिसांनी जेजूक पांच वेळा बंदी करून मारपाचो प्रयत्न केलो. पुणून देवालें चार वटांनी खास संरक्षण जेजूक आशिल्लें. जेन्ना जेजू थडग्यांतल्यान परतो आयलो तेन्ना त्या पाद्र्यांनी ताका परतो जितो मारपाचो प्रयत्न केलो. ताच्या मागीर जेजून परते ज्यू लोकां भितर येवपाचें सोडलें. तो आनी तागेले शिश्य एवफ्रेम ह्या शारांत गेले.

जेजू जेरुजालेमाक आसतना मुख्य पाद्री आनी पारशी लोकांनी ताका कैद करपाचो फतवो काडिल्लो. म्हणून तो एवफ्रेम सोडून जेरुजालेमाक गेलो. वतना वाटेर जेजून आपल्या शिश्यांक सांगलें कीं ताका परकी सरकाराच्या हातांत सोपयतले. आनी थंय आपलो अपमान आनी टवाळी करतले. ते आपल्याक चाबकांनी फोडटले. आनी आपल्याक मारतले पूण आपूण परतो तीन दिसांनी उठ्ठलों.

उपरांतचे सात दीस जेजूचे जिणेंत खूब म्हत्वाचे आसात. ताणें सतत सात दीस प्रवचनां दिवपाक सुरवात

केली. मुख्य पाद्री आनी पार्शी लोक हांणी जेजू बरोबर झगडीं केलीं. पूण हेर कडेन सगळ्याक ताचें स्वागत जातालें. लोकांचे लोंढे ताच्या म्हऱ्यांत येताले. जेजू भविष्यवेत्तो, डॅविडालो पूत अशें सांगताले. पूण आनी एक मनीस आशिल्लो जाका जेजूली शिकवण मात पसून माननाशिल्ली. पूण जेजून सदांच ढोंग करपी आनी भायर एक भितर एक करपी मनशांक बोट दाखोवन सांगिल्लें, गेल्ल्या तेंपाक तांणी चार-चवगांत भविष्यवेत्त्याचो गौरव केल्लो पूण आतां ह्या वेळार ते भविष्यवेत्त्यांक, जे तांकां सत्य सांगतात तांकां ते मारतात. ताणें लोकांक हेंवय सांगलें, आतां मनशाच्या पुताचो गौरव जातलो. जेजू तांकां परत परत आपल्याक कशे तरेन मरण येतलें तें सांगतालो. ताका खबर आशिल्लें कीं ताचें मरण दुख्ख दिवपी आसतलें. ताका खुरसार मारतले पूण खुरसार ताका उखलून दवरतले आनी मागीर मारतले. ताणें उघड सगळ्यांक सांगलें, कीं ताचो विश्वासघात तागेलोच एक शिश्य करतलो.

जुदास इस्कारियोत, तागेलो सगळ्यांत चड विश्वासू शिश्य, जेवणाच्या मेजावेलो उठलो. आनी तडक मुख्य पाद्री म्हऱ्यांत गेलो. ताचे कडेन ३० रुप्याच्या नाण्यांक वाणपण केलें.आनी ताका उतर दिलें, आपूण जेजूक हाडून तुमच्या हातांत दितां. अशे रितीन ३० रुप्या नाण्यांक जुदासान जेजूचो विश्वासघात केलो. जेजूक हें सगळें खबर आशिल्लें. ताच्यान पळून वचूंक जातालें. पूण तो गेलो ना. जेन्ना तो मावंट ऑफ ओलिव्स हांगा हेर शिश्यां बरोबर आशिल्लो तेन्ना जुदास पोलिसांक घेवन आयलो आनी आपल्या जमावाकय तरसादी ,निसणी घेवन आपयले. हें सगळें

मुख्य पाद्रीन आनी पारशांच्या जाणटेल्यांनी धाडिल्ले. अशा वेळार सगळ्या शिश्यांनी ताका सोडलो आनी ते पळून गेले. गार्डान जेजूक धरलो. तागेले हात बांदले आनी ताका मुख्य पाद्र्याच्या प्रांगणात व्हेलो.

मुख्य पाद्री कार्फास आनी तागेलें सल्लागार मंडळ हांणी जेजूक तागेल्या शिश्यां विशीं आनी तागेले शिकवणे संबंदी प्रस्न विचारले. आनी ताचे विरुद्ध फटीचे पुरावे रचपाचो प्रयत्न केलो. आनी ताका मरणख्यास्त मेळची म्हूण प्रयत्न केले. आमकां तेन्नाच्यो नोंदी सांगतात, खूबशे प्रयत्न करुनय तांकां पूर्ण अपेश आयलें. तांकां अशे तरेचे पुरावे जाय आशिल्ले जे जेजूक मरणाची ख्यास्त दितले. पूण हातूंतय तांकां पूर्ण अपेश आयलेंच. अशें आसूनय खंयचेय रितीन तांणी थारायिल्लें, जेजूक मरणख्यास्त दिवपाचीच. मागीर कायद्यान तें बरोबर आसूं वा नासूं. म्हणटकर तांणी थारायलें जेजू जे वरून आपूण देवाचो पूत म्हणून सांगता ही इश्वराची निंदा अशें ज्यूच्या फुडाऱ्यांच्या म्हणण्या प्रमाण थारता म्हणून राज्यपाला मुखार ताचेर राजद्रोहाचो गुन्यांव सादर केलो. होय जरी सिद्ध जालो ना तरी पसून पिलेताची खात्री पटयली आनी ताका फॉर्सार केलो. आनी राज्यपालाक पटयलें कीं राजद्रोहाचो गुन्यांव शाबीत जाता. आनी अशे रितीन जेजूचे मरणख्यास्तीचेर शिक्को मारलो. ते युद्ध जिकले आनी पिलेताक दिसलें, तांगेली विनंती मान्य करची. आनी ह्याच कायद्या प्रमाण, रोमन कायद्या प्रमाण जेजूक खुरसार मारलो. ह्याच कायद्या प्रमाण जेजूंक चाबकांनी, कावुलमारींनी मारलो. ताका बडयांनी मारलो, ताच्या तोंडार थुकले. जेन्ना विश्वासघातकी जुदासान हें सगळें पळयलें तेन्ना अशें जातलें

हें ताणें केन्नाच येवजूं नाशिल्लें. विश्वासघात केल्ल्याचो पच्छताप जावन, हें सगळें सोसूं नज जावन ताणें आपणें गोळ घेवन जीव दिलो.

मरणाचे ख्यास्ती खातीर खुरसार मारप ही जू लोकांली चाल. गुन्यांवकारान आपलो खुरीस मरणाच्या जाग्यार उबारुन व्हरप ही जबरदस्ती चालू आशिल्ली. त्या जाग्याचें खाशेलें नांव कवटच्यांची दोंगुल्ली. ही शारा भायर आशिल्ली. जेजून खुरीस आपणें व्हेलो पूण तेन्ना अधिकाऱ्यान पळयलें, ताच्यान तो इतलो लांब खुरीस व्हरूंक जायना जालो. ताणें सिमोन म्हणटा त्या मनशाक आपयलो आनी तो खुरीस व्हरपाक सांगलो. लोकांच्यो झूंडी, दादले-बायलो आनीक आनी दोन गुन्यांवकारांक जेजू बरोबर शिक्षा फर्मायिल्ली. ते जेजूच्या दोनय वटांनी खुरसार दिवपाचे आसले. तेय तांचे बरोबर आयिल्ले.

आपले जिणेचे अखेर मेरेन जेजून आपल्या शत्रूंचेर पसून माया आनी प्रेम दाखयलें. ताच्या हाता-पांयांक खिळे ठोकले. तेन्ना जेजून कळवळून देवाक प्रार्थना केली - फादर (बापा), तांकां क्षमा कर. आपूण कितें करतां तें तांका खबर ना. (Luke 23:34) आरमाथीसचो जोजेफ आनी निकोडेम्स हांणी जेजूक पुरपाची सगळी तयारी केली. ताका लागशिल्ले बागेंत व्हेलो. थंय ताचें थडगें उबारिल्लें. तांणी जेजू खरेलोच मेला काय हें पळोवपाक ताका भोंसकून पळयलें आनी खात्री करून घेतली. हें अशें करपाचें कारण म्हणल्यार जेजून आपलें पयलीं भविष्य सांगून दवरिल्लें कीं तो आनी तीन दिसांनी थडग्यांतल्यान वयर येतलो. अशें घडत म्हणून ते सगळे भिवून आशिल्ले. जेजून

सांगिल्ल्या भविष्याचेर तांचो विश्वास बसलो ना. अशें आसलें तरीय खबरदारी म्हणून तांणी त्या थडग्याक सील मारिल्लें. आनी ताची राखण करपाक चोवीस वरां आर्माद गार्ड दवरिल्लो. जेजून जशें भविष्य केल्लें कीं तो तिसऱ्या दिसा थडग्यांतलो उठून भायर येतलो म्हणटकर तागेल्या मरणा धरून दीस मेजपाक सुरवात केली. सुर्या उदेत पसून दीस पडसर एक दीस धरपाचो. ह्या तीन दिसांच्या पयल्या दिसा शुक्राराक जेजून दनपारच्या तीन वरांचेर ताणें प्राण सोडिल्लो आनीक आयतारा फांतोड जावपाच्या थोड्याशा पयलीं एके नाटकी घटनेन मनशाचो इतिहासच बदलून उडयलो.

तेदे वेळा एक भूकंप जालो आनी सर्गांतल्यान एक देवदूत आयलो. ताणें थडग्यावेलो फातोर कुशीन काडलो. तो विजे भशेन दिसलो. तागेले कपडे धवे फुल्ल आशिल्ले. थडगें राखूंक आशिल्लो गार्ड भिलो. आनी मेल्ल्या मनशा भशेन सकल कोसळ्ळो. जेन्ना माग्दालेनची मेरी आनी जेम्साची आवय मेरी सिमोना, पिटर, जॉन हांकां बरोबर घेवन आयली तेन्ना कितें तरी अजापाचें घडलां म्हणपाची तांकां जाण जाली. तांणी देवदुताक पळयलो. देवदुतान तांकां सांगलें, "भंय धरूं नाकात. म्हाका खबर आसा तुमी जेजूक पळोवंक आयल्यात. तो थंय ना. ताका वयर काडला." तांणी थडगें रिकामें आशिल्ल्याचें पळयलें. देवदुतान तांकां सांगलें, "बेगीन वचात आनी तागेल्या शिश्यांक सांगात. पुणून तुमी गालेली पावचे पयलींच तुमी ताका पळयतलीं." माग्दालेनची मेरी थडग्या कडेनच बाकीचीं सगळीं येतासर वाट पळयत रावली. आनी थडग्याचे भायर रावन तिणें भितर पळयलें. आनी तिका जेजू थडग्यां भितर उबो

आशिल्लो दिश्टी पडलो. माग्दालेचे मेरीन मागीर जेजूल्या शिश्यां म्हन्यांत वचून ही अजापाची बातमी तांकां दिली. तिणें सांगलें, आपणें देवाक पळयलो आनी ताणें तुमकां कळोवपाक म्हाका हांगा बेगोबेग धाडली आनी तुमकां सांगूंक सांगलां कीं आपूण तुमगेल्या बापाय म्हन्यांत आनी म्हगेल्या बापाय म्हन्यांत देवा म्हन्यांत वतां.(John 20:11-18)

त्या आयतारा जेजू क्लेओपास आनी ताच्या सवंगड्यांक परतो दिश्टी पडलो. पूण जेन्ना ताणें उंडो मोडलो, तांचे आभार मानले, तांकां तो वांटलो, पीटराक आपलें प्रेम दिलें, संबंध दाखयले आनी ताका तो खासगींत मेळ्ळो तेन्नाच तांकां ताचें खरेपण कळून आयलें. मागीर पीटरान आनंदान जाहीर केलें, खऱ्यांनीच देव थडग्यांतल्यान उठून आयला. (Luke 23:20) परत त्याच दिसा आपल्या शिश्यांक जे कुडींत तांकां ताणें नुस्त्याचे उकडिल्ले कुडके दिल्ले, ते कुडींक तो तांकां मेळ्ळो. तेन्ना ताणें तांकां सांगलें, "हांगा आतां आनी हांव जेन्ना पयलीं तुमच्या बरोबर आसतना सांगिल्लें तें सगळें आपले विशीं मोजेसाल्या कायद्या पुस्तकांत बरयलां आनी ज्या भविष्यवेत्त्यांनी आनी रोमकारांनी सांगिल्लें तें खरें जालां." जेजू थोमसाकय दिश्टी पडलो. ताका जेजूल्या परतो येवपा विशीं दुभाव आशिल्लो. जेजूक परत परत कितल्याशाच पावटी लोकांनी पळयलो. त्या वेळार ताका पांचशीं वयर ख्रिश्चनांनी पळयलो. जेजून त्या दिसा आपल्या भावाक जेम्साक भेट दिली. ताणें केन्नाच तो देवालो दूत असो विश्वास बाळगिल्लो नाशिल्लो. ताची खात्री पटली.

फुडें जेजून आपूण ४० दीस पसून जितो आसां तें दाखयलें. हाका विश्वास दवरपा लायक अशे कितलेशेच गवाय आसात. तो देवदूत आशिल्ल्याचें सगळयांत व्हडलें प्रमाण हें. हेंच जेजून पयलीं सांगिल्लें. आनी जेन्ना ओलिव्ह दोंगुल्लेर जेजू आपल्या शिश्यां वांगडा निमण्या वेळार उलयतना अकस्मात ताका तांच्या दोळयां मुखारच वयर उबारलो तेदे वेळार दोग जाण धवे फुल्ल कपड्यांतले ताच्या दोनय बाजूंक आशिल्ले. तांणी सांगलें, "गालेलीच्या मनशांनो, तुमी हांगा उबे रावन मळबांत कितें पळयतात? हो तोच जेजू आसा. ताका आमी निकतोच सर्गार व्हेला. तो गेल्ले वाटेनच परत येतलो."(Acts 1:9-11)

ख्रिस्तान सांगलें, सोदात आनी मागीर मेळटलें. जो कोण मागता ताका सदांच मेळटलें. जो कोण सोद करता ताका सदांच मेळटलें. (Mathew 1:78)

जेजूक बारा वर्सां जालीं तेन्ना सावन तो जॉन द बाप्तिस्ताक जॉर्डन न्हंयेचे देगेर परता मेळ मेरेन मदलो जेजूचे जिणेचो जो अठरा वर्सांचो काळ गेलो ताचे विशीं बायबल कांय उलगडो करिना. हो अठरा वर्सांचो काळ एकाच वाक्यांत सोंपयला. आनीक सांगलां, जेजून आपल्यालें ज्ञान वाडयलें, ठेवण उंची वाडयली आनी देवाची ताचेर कृपा जाली. बायबलाच्या सांगण्या प्रमाण जेजू जेन्ना जॉनाक न्हंयचे देगेर दिश्टी पडलो तेन्ना तो तीस वर्सांचो आशिल्लो. ह्या वर्सां विशीं बायबलांत कांयच उल्लेख मेळना. भगवान श्री सत्यबाबांनी जेजूचे जिणे विशीं आनी शिकवणे विशीं सगळया वटांनी जायती म्हायती दिल्या आनी ताचेर उजवाड घाला. तागेल्या प्रवचनांचो कांय सारांश सकयल्या उताऱ्यांनी

दिला.

बाबा सांगतात त्या प्रमाण जेजू भारतांत वयाच्या सोळाव्या वर्सा पावला. तागेले आवयन मेरीन आपल्या घरांतल्यो कांय चीज-वस्तू विकून तागेल्या प्रवासांत ताका मदत केली. प्रवासांत जेजू कडेन एक पानदुडू नाशिल्लो. चड करून तो एकच जेवण जेवतालो. भारतांत आमी जाका धोती म्हणटात तसलें धवें लुगट कमराक वेडायतालो. ताचेर खुरसाचें चिन्ह आसतालें. ताणें भारतांत प्रवास केलो. तिबेट, इराण आनी रशिया हांगा ताका बहुतेक सगळे एक भिकारी वा निर्वासीत समजताले. बाबांनी सांगलां, ख्रिस्त चीद्-घन-शक्ती जेजूक वयाच्या २५ वर्सांचेर भारतांत मेळ्ळी.

जेजूच्या जल्मा विशीं बाबांनी सांगलां, ताचो जल्म २४ डिसेंबरा दिसा रातचो मध्यान रातीचेर जालो. आनी तो २५ तारखेक न्हय. पूण सगळेच तो पंचवीस तारखेक मानतात.

## ख्रिस्त शिकवण

१. लग्नाविशीं - जेजून शिकयलें, मनीस जातीचे उत्पत्ती पसून इश्वरालो मूळ हेतू एक दादलो आनी एक बायल हांच्या लग्नांत दोगांय मदी एकमेका विशीं पूर्ण विश्वास आसूंक जाय. आनी तो मरणा मेरेन तसोच तिगूंक जाय. तो काडीमोडाच्या विरुद्ध आशिल्लो. आनी सांगतालो, जो कोणय आपले बायलेक सोडटा, मागीर तें खंयच्याय कारणाक लागून जावं, फकत जी बायल विश्वासघात करून

दुसऱ्या कडेन लग्न जाता ती सोडून, तो व्यभिचारी थारता.

२. जेजून सांगलां, मनाचेर ताबो दवरूंक जाय. व्यभिचारांच्या विचारांक मनांत पसून थारो दिवंक जायना. जो कोणय काम वासनेचे भावनेन दुसरे बायले कडेन पळयता तो व्यभिचार करता. मनान ताणें गुन्यांव केलाच. (Matthew 5:27-28)

वायलेक समान आदर आनी मान दिवप हें खूब म्हत्वाचें. सर्गातल्या देवा कडेन हेंच मोलादीक थारता.

३. ताणें व्यापार बंद केलो. पयशे बदलून दिवपी देवळांनी आपलो धंदो करताले तांकां बंद केले. देवाची पुजा करून ताचेर फायदो करून घेवपी मनशांच्या तो विरुद्ध आशिल्लो.

४. मनशाच्या अहंकाराक वा पातकांक लागून मनशाचे जाल्ले लुकसानी कडेन जेजू दुर्लक्ष करतालो.

५. जेजून सांगलें, आतां वेळ आयला जेन्ना खरे पुजारी सर्गातल्या बापाची पुजा मनान आनीक भायरय करतले. खऱ्यांनीच वापूय मनशां कडेन जे कोण ताची पूजा करतात तांकां पळयता. इश्वर म्हणल्यार चैतन्य. जे कोण ताची पुजा करतात तेच फकत मनान आनी प्रत्यक्षांत करूंक शकतात.

६. जेजून स्पश्टपणान आनी साद्या उतरांनी हें शिकयलें कीं काम करपी लोक देवाक आवडटात. जेजूच्या खंयच्याच अनुयायांनी जात, भास वा धर्मीक पिशेपणाक लागून जाल्लें लुकसान, धर्मीक रोपणांतल्यान सोशीकपणाक आयिल्ली आडखळ, मदतीच्या वेळार मदतीचो हात दिवपाक दिल्लो न्हयकार हें सगळें मनांत धरून रावंक जायना.

७. समाजाचीं बंधनां, द्वेशाची वासना आनी सूड घेवप हीं त्या वेळार सगळे कडेन चलतालीं. पूण जेजून तांचे कडेन दुर्लख करून ज्या जाग्यार ताचे संदेश आयकुपा खातीर लोक वाट पळयताले थंय जेजू मेकळेपणान गेलो आनी आपल्याले संदेश तांकां दिले. ही क्षमेची देणगी आशिल्ली जांकां आपल्या पातकां खातीर पच्छताप जाल्लो आनी देवाची आज्ञा पाळपाक ते फुडें सरिल्ले. ताणें सत्याचेर जोर दिवन सांगलें, देवालें प्रेम आनी कृपा जे कोण पापांत पडल्यात तांचे खातीर आसा.

८. जेजून स्पश्टपणान हें शिकयलें- देवाच्या एकत्वाविशीं सांगलें. Lord आनी देव दोनय एकच. देव एकच आसता आनी तुमी देवाचेर प्रेम करतले मना पसून, आत्म्या साकून, तुमगेल्या काळजा पसून आनी तूमगेली सगळी शक्ती ओंपून.(Mark 12:29-30)

९. सोशीकपणा, अहिंसा - ताणें सोशीकपणाचेर सांगलें, जर कोणेंय मनशान तुज्या उजव्या पोल्यार मारलें जायत तर दुसरो गाल ताचे फुडें करात. जर कोणय मनशाक तुमगेल्या कोटा खातीर तुमचेर खटलो भरूंक जाय जाल्यार ताका कोट दियात. जर कोणय मनीस तुमकां आपले बरोबर एक मैल चल म्हणून सांगता जाल्यार तुमी ताचे बरोबर दोन मैल चलचें.

१०. तुमगेल्या शत्रूचेर प्रेम करात. तुमकां कोण जाच करतात तांचेर प्रेम करात. तुमचेर जे प्रेम करतात तांचेरच जर तुमी प्रेम केलें तर तुमकां प्रतिष्ठता ती कसली?

११. तुमगेलो शत्रू जर भुकेल्लो आसत तर ताका जेवण दियात. जर तानेल्लो आसत तर ताका उदक दियात.

१२. दान दिवप हाका म्हत्व आसा पूण तें केन्नाच दुसऱ्या मुखार दिवं नाकात. जेन्ना तूं दान करता तेन्ना उजवो हात कितें दिता तें दाव्या हाताक कळूंक जायना.

१३. दुसऱ्याची क्षुल्लक टिका हें दुबळेंपण. दुसऱ्यांचेर टिका करूं नाकात म्हणटकर कोण तुमचेर करचो ना.

१४. स्वताचेर लक्ष दवर. तुजी राखण कर. हे जे फटीचे गुरू येतात ते तुमच्या म्हऱ्यांत येतना मेंढराचें कातडें पांगरून येतात. पूण ते अधाशी लांडगे आसतात.

१५. जेजून आपल्या अनुयायांक उपदेश केलो. भुरग्यांची काळजी घेयात. भुरग्यांची काळजी घेवप म्हणल्यार इश्वराची सेवा केल्ले भशेन जाता. इश्वर भुरग्यांचेर प्रेम करता आनी निराधार भुरगी आनी विधवा संकटांत सांपडलीं जाल्यार तेन्नाच देव तांकां भेट दिता.

१६. जेजू गिरेस्त लोकांक सांगताले, तुमगेले पयशे तुमी गरीब लोकांक आपलें दोन वेळचें जेवण घेवपाक दियात. तांकां मदत करात. म्हणटकर तुमगेली गिरेस्तकाय तुमकां सर्गांत वतकर मेळटली.

१७. भौतीक वासनां पसून पयस रावात. दुसऱ्याची नालस्ती, राग, चाडी-चुगली सोडून दियात तुमचीं मतां, तुमची करणी ही शुद्ध आसची, ठळक आसची.

प्रेमाचो अवतार जेजू ख्रिस्त्तान प्रेमाची शुभवार्ता शिकयली. आनी दुसऱ्या धर्मा विशीं केन्ना वायट उलयलो ना.

**झरातुश्ट्र/झोरोस्टर - पारशी धर्म**

---

झरातुश्ट्राक ग्रीक लोक झोरोस्टर म्हणटाले. हाचो जल्म बाक्ट्रीया हांगा विशतस्प राजाचे कारकिर्दीत पुजारी घराण्यांतल्या पौरुशस्प आनी दोग्दो हांकां अमरबेझान प्रांतांतल्या राये शारांत जालो. तो दीस फिरवादीन म्हयन्याचो खुरदाद आशिल्लो. खरें म्हणल्यार तागेली खरी जल्म तारीख खबर ना. पूण खूबशे ग्रीक इतिहासकार ही तारीख ६४० आनी ५७० B.C. अशी दवरतात. अवेस्तान वाङ्मया प्रमाण ताचे फाटल्यान येवपी गादयेचो वारसदार झरतुश्ट्रथेम अशें नांव घेवन येवपाचो पूण काळ गेलो तसो हे पदवेचें रूप बदल्लें. तें मोटवें केलें आनी ताका लागून गोंदळ जावन पयल्या धर्मगुरुची (राज्याचेर बशिल्ल्या पयल्या राजाची) वळख मेळना. दुरासरून झरतुश्ट्राक मारपाक जायते बेत आनी प्रयत्न केले. जेन्ना तो भुरगो आशिल्लो तेन्ना दुरासरुनान तागेल्या लोकांक कळनासतना ताका मारून उडोवपाचो प्रयत्न केलो. पुरुशस्पाल्या घरांत यो-वच करपाक ताका मेकळीक आशिल्ली. आनी तागेलो प्रयत्न म्हणल्यार भुरगें सरणार उज्यांत चुकून पडून मेलें अशें दाखोवपाचो बेत आशिल्लो. पूण देवदुतान त्या भुरग्याक वांचयलो.

दुरासरुनाल्या अनुयायांनी भुरग्याक गोरवांचे यो-वच करपाचे वाटेर एका बिळांत दवरलो. थंय बी ताका देवदुतान वांचयलें मागीर दुरासरुनान भुरग्याक लांडग्या म्हऱ्यांत सोडलें आनी थंय बी ताका देवदुतान राखलें. जेन्ना हे इतलेय प्रयत्न करून इच्छीत साध्य जालें ना तेन्ना दुरासरून निराश जालो आनी ताणें आपूणच झोराश्ट्राक मारतलों अशें थारायलें. ताचेर खंजीर उबारलो. पूण तेन्नाच झोराश्ट्राक

राखणारो देवदूत अकस्मात प्रकट जालो आनी ताणें दुरासरूनाचे दोनय हातच अर्धांगवायुच्या झटक्यान घट्ट केले. म्हणटकर मागीर ताचें कांय चल्लें ना. आनी एक निमाण कडचो प्रयत्न ताणें केलो. दुरासरूनाल्या मनशान झोराश्ट्राक वखद म्हूण सांगून वीख दिलें पूण तो तागेली चलाखी वळखलो आनी तो तें पिलो ना.

वयाच्या पंचविसाव्या वर्सा एके गुहेंत बसून ताणें १० वर्सां ध्यान केलें. आनीक देवा कडेन अंतरंगांतल्यान संवाद करपाचो प्रयत्न केलो. म्हणटकर ताका तागेलीं सगळीं दुख्खां अंतरमनाचे शक्तीक सांग्रूंक येतलीं आशिल्लीं. ह्या काळांत झोराश्ट्रान इश्वराचें स्पश्ट दर्शन घेवपाचो प्रयत्न केलो. शेवटाक जेन्ना देवा कडल्यान सामको स्पश्ट साक्षात्कार जालो म्हणटकर ताणें दोंगरावेले गुहेंतलो राबितो सोडलो. आनीक ताणें राज-दरबारांत वचपाचो बेत केलो. तेन्ना देवयास्नी आतंकवादी देणग्यांची मजा लुट्टाले. आनी मालकी अधिकार चलयताले.

झोराश्ट्रान राजा गुष्तापा कडेन आपल्या नव्या संदेशाची जायरात करपाक मदत मागली. राजान ताका कितल्योशोच अटी घाल्यो आनी ताका ताणें चमत्कार दाखवचे पडटले अशें सांगलें. म्हणटकर तो देवालो खरेलोच पूत आसा काय ना हें स्पश्ट जातलें. म्हणटकर झोराश्ट्रान एक अजापाचो बॉल दाखयलो. हो बॉल उज्याचो आशिल्लो. आनी तो पेटत आशिल्लो. ताका इंधन लागनाशिल्लें. जेन्ना लोकांनी तो हातांत घेतलो तेन्ना कोणाचेच हात लासले नात. तेच रातीक राजाच्या सपनांत देवदूत आडार आनी सरोषा आयले आनी झोराश्ट्राच्या संदेशा विशीं खात्री दिली.

दुरासरूनाच्या मनशांनी झोराश्ट्रराचो अपमान करपाची शिकस्त केली. झोराश्ट्राची शिकवण आशिल्ली कीं देवाची खरी पुजा म्हणल्यार देवाक जें कितेंय आमी दितात किंवा दाखयतात तें शुंद्ध आसूंक जाय. आनी ह्यो चुकीच्यो वस्तू जशो कीं काळी जादू आदी बंद करूंक जाय. दुरासरूनाच्या लोकांनी झोरोश्ट्रार स्वता काळ्या वायट मार्गान चलता म्हणपाची राजाची खात्री केली. आनी राजान हुकूम काडून झोरोश्ट्राराक ढोंगी ठरयलो आनी ताका कादयेंत घालो. शेखडोच राजालो घोडो निकामी जालो. कोणाकच ताका बरो करपाक आयलें ना. म्हणटकर राजान झोराश्ट्राक ताका बरो करपाक सांगलें. ताणें राजाक एक अट घाली आनी ह्या घोड्याक बरो केलो. ती अट म्हणल्यार अपराध्यांक शिक्षा करपाची आनी राजान आपल्या कुटुंबा सयत आपल्याक मदत करून आपलो संदेश जग भर पसरावपाचो. नव्या धर्माक राष्ट्राचो आधार आनी सगळ्या राज्यांतले प्रजेन ताका मान्यता दिवपाची.

जांणी कोणें हो नवो धर्म आपणायलो ते म्हणल्यार झोराश्ट्रालो आतेभाव मेदयोमहा, स्पेंज्यारचो राजकुंवर जमास्प, पेशोतानचो राजकुंवर फाराशोत्र, राणी, राज कुटुंबाचे सगळे मनीस हांणी स्वता भाग घेतलो आनी नवी शुभवार्ता सगळ्याक पावयली.

शेजारचो राजा अरजास्प (तुरानी कुळयेंतलो) हाका ही करणी मानवली ना. आनी ताणें इराणाचेर हल्लो केलो आनी गुरशस्तापाचेर जबरदस्ती करून नवो धर्म बंद करूंक लायलो. एका तुरबातूर नांवाच्या तुरानी शिपायान देवळांत वचून झोरोंश्ट्राक भोंसकून ठार मारलो. तो डे म्हयन्याचो

खुरशेद दीस आशिल्लो. तेन्ना झोरोश्ट्राची पिराय ७७ वर्सां ४० दीस आशिल्ली. उपरांत तुराणाचो पराजय जालो. पूण इराणान एक अमोल आत्मो वगडायलो. हें सगळयांक खबर आसा कीं जमास्पाक जय मेळून तो सिंहासनार बसलो -झरतुश्रतेम जालो आनी नव्या धर्माची वाटचाल राजदरबाराची मदत घेवन फुडें व्हेली.

सकल दिल्ल्यो मुख्य चाली-रिती आनी नियम तांणी चलयले.

१. Sudrch-Kushti समानता माझदायिनीक वेगळें करप देवळांत यज्ञवेदी स्थापप. स गहांवर उत्सव आभार दिवपाक मनोवप. पवित्रताय आनी निवळसाण निसर्गाच्या सगळ्या घटकां भितर दवरप आदी.

२. देवयासनी संस्कृती समूळनिशीं सोंपोवप.

३. पांच मूल नवीं तत्वां घालून दिल्यांत तीं पाळप.

अ. बरेंपण राखप

ब. भिन्नतेंत एकत्व पाळप आनी झगडीं टाळप.

क. मत स्वतंत्रता (भायलें खंयचेंच चेपण नासतना)

ड. संपूर्ण स्वार्थ त्याग म्हणटकर दानधर्माक आनी उदारपणाक वाव दिवप.इ. संपूर्ण पवित्रता आनी प्रामाणीकपणाची स्वताची वागणूक दवरप म्हणटकर झोराश्ट्रीयाचे जिणेंत देवाची भक्ती कशी प्रतिबिंबीत जाता तें दिश्टी पडप.(शारिरीक, मानसीक आनी आत्मीक)

४. चार नित्य कर्म-कर्तव्यां

अ. प्रेम त्याग देवाक दिवप. हें सगळयांत बरें दान.

ब. झोराश्ट्रालें मार्गदर्शन मानप.

क. जिणेच्या सगळ्या मोहां कडेन आनी अडचणीं कडेन झगडप आनी अहुरमाजदाच्या शिपायाक सोबा सारखी वागणूक आसप.

ड. इश्वरी फतव्यावेर संपूर्ण स्रद्धा भरभराटीच्या आनी दुख्खाच्या काळांत.

७. कायदे ग्रंथीत केल्यात ते आरोग्य राखपा खातीर आनीक नैतीक आचरण निर्दोश आसचें म्हणून.

हे स्रद्धेक चुकून पारशी धर्म म्हणलें. अरबांनी इराण घेतल्या उपरांत पारशी लोकांनी आपलें अमोल दायज सांबाळपा खातीर भारतांत देशांतर केलें. भारतांत सुमार १२,००० पारशी लोक आसात. सुमार २०,००० लोक अजूनय इराणांत आनी हेर कडेन आसात.

**झोरोश्टराची शिकवण**

१. ताणें सेवेचें म्हत्व जोर दिवन सांगलें.

२. फटीच्या अहंकाराचो उदो उदो करूं नाकात.

३. निवळसाण राखप हें आमगेलें कर्तव्य.ताका लागून सगळ्यांच्या आरोग्याची राखण जातली.

४. ताणें अहिंसा शिकयली. आमी अजाण पक्षी आनी पशूंक राखण दिवंक जाय.

५. मनशां भितर सद्भावना आनी समाधान वाडीक लावप आनी द्वेशाक आनीक पिशेपणाचें लुकसान करप हाका केन्नाच वाट करून दिवची न्हय.

६. खरो दानधर्म म्हणल्यार प्रेम आनी सहानुभुती हांचें प्रतीक.

७. मनशालें खरें पुण्य हें तागेल्या पवित्र साधनांनी आनी उजू आचरणान केल्ल्या प्रामाणीक व्यवहारांतल्यान मेळटा. म्हणटकर आमी आमचें शील एक गवंडो वणत बांदता तशें वाडोवपाचें.

८. आमी आत्मसंयम राखपाक साधना करची आनी संपूर्ण पवित्रतेचे नियम पाळचे. आनी पवित्र आनी मित्रत्वाची जीण सारची.

९. झरोश्टरान सांगलें, "म्हजो धर्म हो खरो आसा, परिपूर्ण आसा आनी तो फायदेशीर आसा आनी सर्वव्यापी इश्वराची पुजा तातूंत सांगल्या. तो कायद्याचेर आनी आशेचेर आधारीत आसा. हो कायदो देवान जगार धाडिल्लो आसा. हांवें तो म्हगेले स्त्ह्वेन आज मेरेन पाळ्ळा.

## बुध्दीझम - गौतम बुध्द आनी तांगेली शिकवण

वाकीचे मर्त्य लोक जल्म घेतात तसो बुद्धाचो जल्म जालो ना. तागेली महाराणी माया तिका एक सपन पडलें. चारय दिशांच्या चार राखणदारांनी तिका उबारली आनी तिका थेट हिमालयांत व्हेली. थंय तिका एका तळ्यांत न्हाणयली आनी तिका सुशेग घेवपाक एके रुप्याचे दोंगुल्लेर एका भांगराच्या राजवाड्यांत एका जड कोचाचेर तिका न्हिदयली. तिणें बोधिसत्वाक एका धव्या हत्तीच्या रुपांत पळयलो. ताका स सुळे आशिल्ले. तागेली तकली किरमिजी रंगाची आशिल्ली. अजापाची सोंड, सुदर पांय, तागेले दांत एके रेशेंत आशिल्ले. महाराणयेन पळयलें, तो स्वर्गीय हत्ती.

तिगेल्या कोचाक ताणें तीन प्रदक्षिणा घाल्यो. तिगेले उजवे बाजूक तो आयलो. आनी तिगेल्या गर्भाशयांत ताणें प्रवेश केलो. तिणें पळयलें देव सुंदर स्तुती गितां गावपाक लागले. सपन सोंपलें. ही गर्भधारणा दैवीक आशिल्ली. गूढ आनी मानवी वा सर्वसामान्य जाता तशी नाशिल्ली. गुरवारपणांत आवयक इल्ले पसून त्रास जाले नात. बुद्धाचो जल्म जालो वैशाख पुनवे दिसा.

बुद्धाचें मुळ नांव सिद्धार्थ आशिल्लें. गौतम ही कुळी हिंदू अधिपती शुद्धोधन हागेलो तो पूत आनी तो बहुतेक 567 B.C त उत्तर प्रदेशांत जल्मलो. तागेलें मरण 487 B.C त जालें. तो अंयशीं वर्सां जगलो.

गौतम बुद्धाची जीण जल्म ते मरणा पर्यंत चमत्कारांनी भरिल्ली आसा. जें झाड जाचे सावळेक तो ध्यानाक बशिल्लो त्या झाडाची सावळी केन्नाच बदल्ली ना. ताका वत लागत म्हूण ती तशीच दीस पडसर उरली. इतर झाडांच्यो सावळ्यो बदलिल्ल्यो. ही खबर तागेल्या भुरगेपणांतली. जेन्ना तो शाळेंत वचपाचो जालो तेन्ना ताका बापायन शाळेंत व्हरून पावयलो. तो शाळेंत भितर सरतनाच शिक्षकाची आनी गौतमाची नजरानजर जाली. शिक्षकाच्यान ह्या पवित्र भुरग्या मुखार उबो रावपाक जायना जालें. शिक्षक आपल्याक कितें शिकयतलो हें गौतमाक पयलींच खबर आशिललें. ह्या चमत्कारान शिक्षकाक कळून आयलें कीं जो सगळ्या ज्ञानाचो जाणकार जावन आसा ताका ह्या औपचारीक शिक्षणाची गरजच नाशिल्ली. जेन्ना संपूर्ण ब्राह्मणाक भिक्षूंक दिवंक अन्न कमी पडलें तेन्ना बुद्धान हजारांनी भिक्षूंची भिक्षा-पात्रां अन्नान भरून दिलीं. जेन्ना तो श्रासवली बागेंत रावतालो

तेन्ना सर्वज्ञ बुद्ध आपल्या आवय-बापायली प्रार्थना आयकून आयलो आनी एका भुरग्याक जाका चलूंक येनाशिल्लें आनी उलोवंकय येनाशिल्लें ताका बरो केलो.

एक पावट कांय व्यापारी वाळवंटांत आपली वाट चुकले. तांकां खूब तान लागिल्ली. अशा वेळार तांणी वरुणाची प्रार्थना करून पावसाची मागणी केली. तांगेली तान भागोवपाक वरुणाच्यान पावस धाडपाक जालें ना. व्यापाऱ्यांनी बुद्धाचो धांवो केलो. गौतम बुद्ध तांकां दिश्टी पडलो. ताणें वाळवंटांत पावस हाडलो. तांची तान भागयली आनी तांचो जीव वांचयलो. आनी एक पावट बुद्ध इंद्राचें रूप घेवन राजा अजातशत्रू आनी ब्राह्मणांक मेळ्ळो. ते एक धार्मीक उत्सव मनयताले. थंय जनावरांचो बळी दिवपाची तयारी चलिल्ली. थंय बुद्ध गेलो. बुद्धाक पळोवन तांणी उत्सव थांबयलो. आनी बुद्धाचे पांय धरले. आपली सगळी जीण भर बुद्ध चमत्कार करीत रावले. आनी लाखों लोकांक आशिर्वाद दिले.

बुद्ध वैभवांत वाडिल्लो. ताणें भायलें जग कांयच पळोवंक नाशिल्लें. जेन्ना तो तरूण जालो तेन्ना ताणें तीन दृश्यां पळयलीं. आनी तागेली अख्खी जीणच बदलून गेली. ताणें पळयलें, एक म्हातारो अशक्त मनीस, रक्तपितीच्या भयंकर रोगान भरिल्लो दुसरो एक मनीस आनी एक मनशाचें मडें. हें पळोवन तो चड आनी चड भौतीक जिणे पसून पयस जालो. ह्या दृश्यांनी तागेलें काळीज भरून आयलें. आनी ताका कितेंय करून हें थांबोवपाची तळमळ लागली. आपल्या मनशांक मदत करतलो जाल्यार मार्ग सोदूंकच जाय. जिणेचो खरो अर्थ कितें तें सोदून काडप गरजेचें. तो

निकतोच लग्न जाल्लो. ताका एक चलोय आशिल्लो. तरी ताणें घर सोडलें आनी आपल्यालो सगळो वेळ खंयचो तरी मार्ग सोदपा खातीर खर्च केलो. आपल्या लोकांचीं दुख्खां सोंपोवपाचो मार्ग सोदपाचें ताणें थारायलें.

सगळयांत पयली ताणें जी गोष्ट केली ती म्हणल्यार तो दोन गुरुं कडेन गेलो. मनशाक भोग चुकनात हे विशीं ताणें तांकां प्रस्न केले. पूण तांकां ताच्या प्रस्नांचीं उत्तरां बरोबर दिवपाक आयलीं नात. मागीर ताणें पवित्र हिंदू मनशा भशेन रावपाचो प्रयत्न केलो आनीक स वर्सां पसून आपल्याक स्वताक यातना करीत रावलो. हें पळोवपाक कीं आपल्याक दुख्खा पसून पयस रावप शक्य आसा काय कितें. शेवटाक ताका कळून आयलें हीं मुर्खपणां निरर्थक आसा. निमाणे कडेन तो गये लागीं एका पिंपळा झाडा मुळा बसलो. थंय ताणें ध्यान केलें. आनी पूर्ण ज्ञानाचो प्रकाश मेळसर थंयचो हाल्लो ना. आनी अशे रितीन तागेल्या प्रस्नाचें उत्तर ताका मेळ्ळें. तो तेन्ना पस्तीस वर्सांचो आशिल्लो.

गौतमान सांगलें, भोगांचें कारण वासना हें आसा. जीण सारचेली आस्त आनी ऐहीक वस्तूंची सांठवण (पयसो-आडको आदी), दुसऱ्या विशीं दृढ प्रेमाची भावना हींय बी दुख्खाचीं कारणां आसतात. हे कल्पनेक धरून ताणें चार सत्यां घालून दिलीं.

१. पयलें सत्य - तुगेल्या दुख्खा बरोबर तुगेल्यो सदांच्यो जिणेच्यो घडामोडी आयिल्ल्यो आसतात. जशें कीं जल्म, दुयेंस, म्हातारपण आनी मरण.

२. दुसरें सत्य - वासना दुख्ख निर्माण करता.

३. तिसरें सत्य - हें दुख्ख ना करतलो जाल्यार तुवें सगळ्या

वासनांचो आनी स्वार्थाचो त्याग करप गरजेचें.

४. चवथें सत्य - हें कशें करप. हें करपाची रीत गौतमान शिकयली. ताणें घालून दिल्लो मार्ग आठ पदरी आसा. म्हणल्यार आठ योग्य तत्वां आसात ती पाळूंक जाय. तीं खंयचीं? १) योग्य आत्मविश्वास २) योग्य हेतू ३) योग्य उलोवप ४) योग्य आचरण ५) योग्य कामधंदो ६) योग्य प्रयत्न ७) योग्य चिंतन ८) योग्य ध्यान.

गौतमाक आतां बुद्ध म्हणूंक लागले. बुद्ध म्हणल्यार प्रकाश. ज्या मनशांत ज्ञानाचो उजवाड पडला असो मनीस. आपल्याली शिकवण दिवपाक ताणें प्रवासाक सुरवात केली. ताणें आपल्याली उरिल्ली जीण एका जाग्यार सावन दुसऱ्या जाग्यार भारताच्या लोकांक शिकोवपांत काबार केली. हिंदू धर्मातलो जातीभेद, वर्णभेद ताणें पयस दवरलो. आनी लोकांक आपली शिकवण दिली. लोकांक ती मानवली. ज्या वरून आठ तत्वांचो मार्ग मनशाक नित्य जीण सारतना कठीण लागलो. खूबशा बुद्ध लोकांनी संन्यासी मार्ग पतकरलो. दादले संन्यासी (Monks) जाले आनी बायलो माद्री जाल्यो. बुद्धान वयाच्या ८०व्या वर्सा आपलो देह सोडलो.

बुद्धान केन्नाच आपूण देव किंवा आपूण उद्धार करपी अशें सांगलें ना. आपूण एक सादा शिक्षक म्हणपाचें लोकांक सांगलें. बुद्धा विशीं खूबशो आख्यायिका पातळ्ळयात. ताचे अनुयायी ताका मनशांपरस वेलो अशें समजतात. तागेली शिकवण त्रीपीटका ह्या ग्रंथांत बरोवन दवरल्यात. त्रीपीटका म्हणल्यार तीन खणांची टोपली. हें तीन भागांत आसा. पयलो भाग संन्याशान पाळपाचे नियम. दुसऱ्या भागांत

बुद्धालीं प्रवचनां आसात आनी तिसऱ्या भागांत बुद्धाले विचारसरणीची पद्धत.

बुद्धिझम मध्य भारतांत रोखडोच पसरलो. गौतमाच्या दीर्घ काळ जिणेच्या सारपांत 250 B.C.चर्साक सम्राट अशोक बुद्धीश्ट जालो. ताणें भायल्या देशांनी आपले धर्मप्रसारक धाडले आनी थंय धर्माचो प्रसार केलो. बुद्धिझम सगळ्याक रोखडोच पसरलो. श्री लंका, बर्मा, थायलंड, लाओस, कांगोडिया, टिबेट, चायना, जपान आदी. अजापाचें म्हणल्यार भारतांत साप थोडे बुद्धिश्ट उरल्यात पूण बुद्धाक एक धर्मीक गुरु म्हूण खूब वेलो मान आसा. बुद्धिझम हळूहळू हिंदुइझमाक मिसळून वता.

## बुद्धाली शिकवण

१. बुद्धान मनशान निर्वाण मेळोवचें अशें मोठे तळमळीन सांगलां. निर्वाण म्हणल्यार पूर्ण शांती, भोगां पसून सुटका.

२. बुद्धाचो पुर्नजल्माचेर विश्वास आशिल्लो. जो मनीस मरता ताका पुर्नजल्म आसा.

३. बुद्धाली खूब म्हत्वची शिकवण - खंयचीच जीव हत्त्या करप हें बरोबर न्हय. हाचें कारण म्हणल्यार ताचो विश्वास आशिल्लो जण एकलो आपले जिणेची सुरवात प्रामाणीकपणान करता. आनी शेंकड्यांनी जल्म मरण भोगता. केन्ना तो कीड मूय जाता वा केन्ना तो जनावर जाता आनी मागीर मनीस प्राणी जाता. अशे रितीन सगळे जीव पवित्र आसतात.

---

४. बुद्धान शिकयलें, मनशान आपलें मन बऱ्या सत्य विचारां कडेन व्हरचें. ताणें आपल्या भावनांचेर विजय मेळोवपाक शिकूंक जाय. आपली इच्छाशक्ती वाडोवन वायट करपाक नकार दिवंक जाय. जे लोक हें करपाक तयार आसात, जांकां हें शक्य जाता, तांणी पूर्ण सुखाचो सोद घेवपाक जाता.

## गुरू नानक आनी सीखीझम

गुरू नानक हांणी शीख धर्माची स्थापना केली. भारताचें एक राज्य पंजाब हांगसून मूळ सुरवात जाली. हें पंदरावें A.D.शतक. शीख धर्म हो मुस्लीम आनी हिंदू धर्म हांचें भरसण, साद्या आनी सोप्या शब्दांत पंजाबी भाशेंत मांडलां.

गुरू नानकांचो जल्म १५ एप्रील १४६९रांत तलवाडी तालुक्यांत राय भोय ह्या खेड्यांत जालो. (हें खेडें आतां पाकिस्तानांत गेलां.) तांच्या बापायचें नांव काळूराम, हिंदू बेदी कूळ. बापूय वसुली अधिकारी. आवयचें नांव तृप्ता आशिल्लें. नानकाचें लग्न बाराव्या वर्सा जालें.

गुरू नानकाची जीणय चमत्कारांनी आनी अजापाच्या प्रकटीकरणांनी भरल्या.

जेन्ना नानकाचो जल्म जालो त्या मातये घरांत इश्वरी उजवाड घर भर पसरलो. मुसलमान वैजीण दौलतान हिका व्हडलें अजाप जालें. जेन्ना हें बाळक जल्मलें तेन्ना हें एका व्हड मनशा भशेन हांसलें. बापायन काळूरामान रोखडोच

पंडीत हरिदयाळाक आपयलो. ताणें सांगलें, हें भुरगें बाकिच्या हेर भुरग्यां भशेन सामान्य न्हय. हिंदू आनी मुसलमान भक्तिभावान ताची पुजा करतले. ताचें नांव, किर्ती जग भर पसरतली. तो निराकार देवाची पुजा करतलो. आनी बाकिच्यांक तशी करपाक शिकयतलो. ताचें शिक्षण हिंदू चाली रिती प्रमाण जालें. सात वर्साचेर ताका शाळेंत घालो. तो सामान्य विद्यार्थी नाशिल्लो.तो पाटयेचेर साहित्य, काव्य-रचना बरोवन जेन्ना बरयिल्लें शिक्षकाक वाचून दाखयतालो तेन्ना शिक्षक अजापान चाट पडटाले.

जेन्ना नानकाच्या म्हशींनी शेतकाराल्या गंवा शेताची नासधूस केली तेन्ना शेतकारान मालकाक खेड्याचो मुखेली राय बुलारा कडेन व्हेलो आनी आपल्या नासधूस केल्ल्या पिका खातीर लुकसानीचो न्याय मागलो. नानकान शेताची पळोवणी करची म्हूण सांगलें आनी जेन्ना ती केली तेन्ना लुकसान जाल्ल्याची कांय खूण थंय नाशिल्ली. ह्या इश्वरी भुरग्यान चमत्कार केलो आनी एक पावट राय बुलाराक नानकाचो चमत्कार कळून आयलो. ताणें पळयलें, नानक एका झाडा मुळांत न्हिदिल्लो. हेर झाडांच्यो सांवळ्यो पश्चिमेक वचपी सुर्याचे दिशे प्रमाणें बदलताल्यो जाल्यार नानक न्हिदिल्लो त्या झाडाची सावळी तशीच उरली. आनी नानकाचें वता पसून रक्षण केलें. आनीक एक पावट नानक झाडा पोंदा न्हिदिल्लो आनी सूर्य माथ्यार पावलो तेन्ना नानकाचें मुखामळ रखरखीत वतान भाजपाक लागलें. तेन्ना अकस्मात एक मोठो नाग येवन ताच्या मुखामळार फडा फुलोवन वता पसून ताची राखण करपाक ताच्या माथ्यार धरली.

थोड्या वेळा खातीर अफगाण सुलताना कडेन

सुलतानपुराक ताणें लेखपालाची (हिशोब बरोवपी) नोकरी केली. नानकान देवाची स्तोत्रां, भजनां रचपाक सुरवात केली. आनी मर्दाना म्हूण एक मुसलमान ताका मेळ्ळो आनी ताणें रचिल्लीं पदां तो गावपाक लागलो. सुलतानपुराक आसतना पयले खेपे देव दिश्टी पडलो. ताणें ताका मनीसजातीक तुगेली शिकवण दी म्हूण आज्ञा केली. अशे तरेन नानक न्हंयचेर न्हाता आसतना अदृश्य जालो आनी तीन दिसांनी परतो दिश्टी पडलो. ताणें जाहीर केलें हो हिंदू, हो मुसलमान अशें मानप बरोबर न्हय. हो सिद्धांत मुसलमान काजींक मान्य ना. ताणें नवाब दौलतखानाक केश केली. नानकाक थंय आपयलो आनी ताका तागेले प्रार्थनेंत भाग घेवपाक सांगलें. नानकान भाग घेतलो ना. नानकाक भाग न घेवपाचें कारण नवाबान विचारलें. नानकान उत्तर दिलें, तुगेलें स्वताचें मन हें परत परत हांगा-थंय हेडटा. तें चिंतेन भरलां. आतांच जल्म जाल्ल्या घोडयेच्या शिंगराचेर तें धांवलां. नवाबाक कळून आयलें, नानका कडेन अजापाची शक्ती आसा आनी तो सामान्य मनीस न्हय.

ताणें आतां सुलतानपूर सोडलें.आनी मार्दानाक घेवन लोकांमदीं जागृताय करपाच्या आपल्या कार्याक सुरवात केली. ते खातीर ताणें पयस पयस प्रवास केलो. ताणें ह्या प्रवासांत ज्या ज्या प्रमाणें परिस्थिती आशिल्ली त्या प्रमाणें तिका तोंड दिवपाक चमत्कार केले. एके राती खूब थंडी आशिल्ली. तेन्ना थंय आशिल्ल्या योग्यां कडेन ताणें उजो मागलो. आनी योग्यांनी तो दिलो ना. म्हणटकर तांकां ऊब मेळ्ळी ना तेन्ना ते ज्या सुकिल्ल्या झाडा मुळा बशिल्ले

तें झाडच बदल्लें आनी इतलें गच्च पानांनी भरलें आनी तांका (नानकाक आनी मर्दानाक) ऊब दिली. तांगेल्या रानांतल्या प्रवासा वेळार मर्दानाक भूक लागली. थंय खावपाक कांयच नाशिल्लें. नानकान एका झाडाची खांदी हालयली आनी सकल पिक्या फळांची रास घाली. एक पावट नानकान मेल्ल्या हत्तीक जितो केलो. दुसरे खेपे व्यापाऱ्याक चल्याच्या मरणाचें भविष्य सांगलें. गुरु नानकाची जीण चमत्कारांनी भरल्या. सुमेरु दोंगुल्लेचेर कितल्याशाच साधूं मुखार कितलेशेच चमत्कार केल्यात. गुरु नानक मक्काक गेलो आनी थंय खांब्यांच्या लायनींत पांय पातलावन न्हिदलो. आनी रोखडोच सुस्त न्हिदलो तेन्ना तागेले पांय पवित्र काबा मुखार आयले. काजी रुकनुद्दीनान पळयलें, एक परकी मनीस अधार्मीक रितीन आपले पांय काबाच्या मुखार दवरून न्हिदला. रुकनुद्दीनान ताका जागो केलो आनी सांगलें, "देवाच्या मुखार पांय पातलावं नाका." नानकान ताका सांगलें, "तूं म्हगेले पांय उबारून ज्या जाग्यार देवाचें घर ना थंय दवर." काजीक तिडक मारली. ताणें नानकाचे पांय भरभरीत ओडले आनी ते हातांत धरून भोंवतणी फेरे काडपाक लागलो. जालें कितें तर काबाच नानकाच्या पांयाचे दिशेन भोंवपा लागलो. काजीक कळून आयलें, गुरु नानक सामान्य मनीस नाशिल्लो. ताणें ताच्या पांयांचो उमांव घेतलो आनी म्हणलें, आज आपणें देवालो खरो फकीर पळयलो. बगदादाक मुसलमानांनी एक परकी मनीस दर्ग्या कडेन भजन गायता तें आयकलें. तांकां तिडक मारून तांणी हातांत फातर घेवन ते मारपाक उबारले. तांगेले हात वयरच उरले. ते हालना जाले.

एक पावट गुरू नानक आनी मर्दाना एके दोंगुल्ले वटेन प्रवास करताले. मर्दानाक खूब तान लागली. थंय उदक खंयच नाशिल्लें. ते दोंगुल्लेच्या तेमकार केदहारचो बाबा वाली रावतालो. गुरू नानकान मर्दानाक बाबा वाली म्हऱ्यांत वचून उदक घे म्हूण सांगलें. मार्दानान वाली कडेन उदक मागलें. बाबा वालीन ताका उदक दिवपाक न्हयकारलें. आनी सांगलें, "तुगेलो गुरू जर इतलो शक्तीमान आसा तर आपल्या शिश्यांक तानेन जाल्लो इतलो त्रास तो कसो पळोवंक शकता." मार्दानान आपल्याक बाबा वालीन कशी वागणूक दिली तें गुरूक सांगलें. गुरू नानकान आपल्या शिश्याक थंयचो लागींचो एक ल्हानसो फातर उखलूंक सांगलें. ताणें फातर उखलिल्लो मात थंयच्यान उदकाचो झरो व्हांवंक लागलो. मर्दानान आपली तान भागयली. हेवटेन बाबा वाली मुखावेली उदकाची तळी सुकली. बाबा वालीक राग आयलो आनी ताणें एक फातोर वयल्यान गुरू नानकाचेर भिरकायलो. गुरू नानकान फातोर वयर साकून येता तो पळयलो. ताणें फकत आपलें तळट फुडें केलें. आनी अजाप म्हणल्यार तो फातोर मदींच थांबलो आनी त्या फातराचेर गुरू नानकाच्या तळटाचो ठसो उदेलो. बाबा वालीन हो अजापाचो चमत्कार पळयलो. आनी सकल येवन गुरू नानकाच्या पांयार घालून घेतलें. आज लेगीत हो ठसो उदेल्लो फातोर थंय आसा. आनी त्या उदकाच्या झऱ्यांतल्यान आज लेगीत उदक व्हांवत आसा. थंय उपरांत गुरुद्धार बादलें. आज तें एक पवित्र यादस्तीक जावन आसा.

जेन्ना गुरू नानकाक दिसलें कीं आपलो हे पृथ्वी वेलो वेळ सोंपत आयला, आपलो वारसो चलोवपाक आनी

संदेश लोकांक दिवपाक जाय म्हूण ताणें आपलो एक शिश्य आसचो अशें थ्रारायलें. शिश्यांची परिक्षा घेवन ताची निवड करपाचें थारायलें. हें सोपें आसचें ना हें ताका खबर आशिल्लें. खूब खटपटी उपरांत ताणें एका शिश्याची परिक्षा घेवन ताची निवड केली. ह्या शिश्याचें नांव लेहिना अशें आशिल्लें. परिक्षेच्या शेवटाक ताका ताणें मेल्ल्या मनशाच्या शरिरांतलें मांस खावपाक सांगलें. तें शरीर कपड्यांत गुठलावन दवरिल्लें. शिश्यान मड्यावेलें झांकण वयर काडलें. लेहिनान पळयलें जाल्यार तागेलो गुरूच न्हिदिल्लो ताका दिश्टी पडलो. गुरूचें समाधान जालें आनी गुरू नानकान ताचें नांव बदलून ताका अंगद हें नांव दवरलें आनी तो फुडलो गुरू जालो.

जेन्ना हिंदू आनी मुसलमान दोनय पंगडांनी निमाणे विधी कशे करपाचे हाचेर वाद सुरू केलो तेन्ना हिंदूचे चाली-रिती प्रमाण प्रेताचें दहन करपाचें तर मुसलमानांचें म्हणणें दफन करपाचें. गुरू नानकान तांकां आज्ञा केली कीं मरणा उपरांत आपल्या दोनीय वटांनी फुलां घालचीं आनी जागेलीं फुलां ताजीं उरतात ताचें म्हणणें बरोबर धरपाचें अशें थारलें. गुरू नानक अखेरचो न्हिदलो आनी आपल्याचेर पांगरूण ओडून घेतलें. थोड्या वेळान जेन्ना कपडो वयर काडलो थंय कांयच नाशिल्लें. पूण दोगांयलीं फुलां ताजी आशिल्लीं मेळ्ळीं. मागीर दोगांयनीय आपआपलीं फुलां घेतलीं. आनी सगळे एक जावन संगत केली आनी गुरू नानकाक नमस्कार केलो. अशे रितीन गुरू नानकान आपली हे पृथ्वीवेलो जीण सोंपयली. तो दीस आशिल्लो ७ सप्टेंबर १५३९.

गुरु नानका फाटल्यान तागेले णव (९) उत्तराधिकारी जाले. तांकां सगळ्यांक गुरूच म्हणटाले. उपरांतच्या गुरूंचीं बरपां आदी ग्रंथांत ग्रंथीत केल्यांत. आनी हो शिखांचो पवित्र ग्रंथ जावन आसा. गुरु अर्जन देव शिखांचो पांचवो गुरू. १६०४वर्सा शिकीझमान आपल्याली स्फुर्ती हिंदू भक्तां कडल्यान आनी मुसलमानी सुफिझम हातूंतल्यान घेतली. तांगेलीं देवाचीं भजनां ग्रंथसाहेबांत घेतल्यांत. दोन गुरूंक गुरु अर्जन देव आनी गुरु तेग बहादर हांकां मोगलांनी जिवानिशीं मारल्या उपरांत गुरु गोवीद राय हांणी पांच शिखांक धार्मीक विधीन आसपावन घेतले आनी तांचें नामकरण करून तांचें आडनांव सिंग दवरून तांकां खालसा ह्या नव्या पंथांत घेतले. आनी तांकां पांच बंधनां घालीं. सगळया शिखांनी 'क' आद्याक्षर आशिल्ल्यो पांच वस्तू खुणे खातीर सदांच बरोबर दवरच्यो.१) केश (केंस) २) कंगवो (फणी) ३) कच्छा (लांब पिजाम) ४) कृपाण (ल्हान सुरी) ५) कारा (कंकण) आपल्या मरणा पयलीं ताणें उत्तराधिकाऱ्यांची घोषणा केली. आनी आदी ग्रंथ (ग्रंथ-साहीब) जो तागेल्या आश्रमांत दवरिल्लो तो सुवर्ण मंदिरांत दवरलो. १५७९त सम्राट अकबरान दिल्ल्या जाग्यार अमृतसराक शिखांनी हें सुवर्णमंदीर बांदलें.

शिखांचें लश्करी पुढारपण हें बांदा सींग बहादूर हांचे कडेन आयलें. जेन्ना ताणें हुकूम मोडले तेन्ना ताका तागेल्या ७०० अनुयायां सयत कैद केलो आनी दिल्लीक १७१६ वर्सा ताका मरण दिलें. मोगल सम्राटांनी शिखांचो छळ केलो आनी तांकां त्रास दिले. पूण अखेराक जेन्ना मुसलमान साम्राज्यां दुबळीं जालीं, शिखांनी ताचो फायदो घेतलो.

आनी आपूणच पंजाबचे शासक जाले. रणजीतसींगान लाहोराचेर ताबो मेळयलो आनी १७९९त आपूण पंजाबचो महाराजा म्हूण घोषीत करून मुकूट धारण केलो. शीख ब्रिटिशां बरोबर दोन युद्धां लडले. आनीक उपरांत पंजाबाचेर ब्रिटिशांनी वर्चस्व मेळोवन थंय तांणी आपलें राज्य सुरू केलें आनी ते १९४७ मेरेन हिंदुस्तान स्वतंत्र जायसर तें ब्रिटिशां कडेन उरलें.

**शिखीझमाची शिकवण**

१) जगांत एकच देव आसा. ज्याचें खास नामस्मरण करून सेवा करतात त्यो मुर्ती वा फोटो ताचें प्रतीक जावंक शकनात.

२) गुरुंची शिकवण हिंदू संकल्पने प्रमाणें जल्म, मरण, पुर्नजल्म सांखळी आनी कर्म जाका लागून संवसारांत मनशाची जीण पयलींच्या जल्मांत केल्ल्या कर्मानुसार थारता.

३) शिखांक सोरो पिवप, तंबाकू, मादक वस्तूंचें सेवन करपाची बंदी आसा. तांणी आपली जीण प्रार्थनेंत धर्मा खातीर अधर्मा कडेन, अनिती कडेन चळवळ वा युद्ध करून धर्मनिती स्थापन करपाक घालोवपाची.

४) शीखधर्मांत इश्वरा कडेन एकत्व जोडपाचेर भर दिल्लो आसा. गुरू नानकांनी वेदांतले ॐचे संकल्पनेचो वापर केला . ॐ हें अक्षर गूढ आसून तें देवाचें प्रतीक आसा.

५) इश्वर हो एकच आशिल्ल्याचें शिखीझम सांगता. तो सत्य, उत्पत्ती, कर्तो, अमर आनी मनशाचे कल्पने पेले कडलो आसा.

६) गुरू नानकान मनशांक सांगलें, देवाच्या पितृत्वाचेर आनी मनशांचे भावकेचेर विश्वास दवरात. देवा कडेन एकत्व साधपाचो प्रयत्न करप इतलोच जिणेचो अखेरचो उद्देश. ताचें अखंड नामस्मरण करून तो साध्य जाता. त्याच बरोबर तुमची जीण सदांच सुखी करता.

## अब्राहम/मोजेस - ज्यू लोकांलो धर्म

ज्यू लोक हे मुळचे मध्य पुर्वे कडले. अब्राहमाच्या वेळा मेरेन तांणी आपली वंशावळ सोदून काडल्या. तो काळ 2000 B.C.हिब्रू बरपा प्रमाण ताणें देवा कडेन दोगांय भितर एक विश्वासाचो करार केलो. ताका कोवेनंट (विश्वास करार) अशें नांव दिलां. अब्राहम, तागेलो पूत इसाक आनी तागेलो नातू जाकोब ह्या तिगांकय घराण्याचे जाणटेले अशें मानतात. जाकोबाचें दुसरें नांव इस्राइल. ते खातीर ताचे पसून जाल्ले बारा वंशज इस्राइलाची भुरगीं वा इस्राइलरीज असो उल्लेख करतात. जेन्ना तेराव्या शेंकड्यांत इजिप्तांत कांय इस्राइलांक गुलाम केले तेन्ना तातूंतलो एक इस्राइलीट मोजेस हाणें तांची गुलामगिरींतल्यान सुटका करपाचें थारायलें. ताका दिसलें कीं घराण्याच्या जाणटेल्यांच्या देवान, ज्याका आतां याव्हे म्हणटात, आपल्याक आज्ञा केल्या, इस्राइलिटांक गुलामगिरींतल्यान सोडय. मोजेसाच्या फुडारपणा खाला इस्राइलिटीस इजिप्तांतल्यान सुटले. आनी रेड समुद्र पार करून ते मावंट सिनाय म्हणटा थंय पावले. हांगा मोजेसान सकल दिल्ल्यो धा आज्ञा देवाल्यो अशें सांग्रून तांकां दिल्यो.

१) आपूण देव, तुमगेलो देव ज्याणें तुमकां इजिप्तांतल्या गुलामगिरीच्या घरांतल्यान सोडयल्यात.

२) हांव आसतना तुमकां आनी दुसरो देव आसचो ना. तुमी थडगें, थंयची मुर्ती वा हेर खंयचीय वस्तू मागीर ती सर्गांतली जावं, पाताळांतली जावं वा पृथ्वी पोंदच्या उदकांतली जावं, तुमी तिका मान बागोवचे नात वा तिची सेवा करचे नात. हांव तुमचो देव. हांव थोडो दुस्वासी देव जावन आसां. म्हजो जो कोण द्वेष करतात तांकां तांच्या भुरग्यांक चार पिढियो मेरेन जाणटेल्यां कडल्यान अनितीचो स्राप दितां. आनी जे कोण हजारांनी म्हजेर प्रेम करतात आनी म्हगेल्यो आज्ञा मानतात तांचेर हांव कृपा करतां.

३) तुमी तुमच्या देवाचें नांव गर्वान घेवचे नात. जे कोण गर्वान ताचें नांव घेतात तांकां गुन्यांवकार मानतलों.

४) सुटयेच्या दिसाची याद दवरात. तो दीस पवित्र दवरात. स दीस तुमी काम करपाचें पुणून सातवो दीस हो सुटयेचो. हो तुमगेल्या देवाचो दीस. ह्या दिसा तुमी वा तुमचो पूत वा तुगेल्यो चलयो वा तुगेले चाकर, दादले, बायलो, तुमगेलीं गोरवां, तुमगेले गेटी भितर आशिल्ले परकी हे कांयच काम करचे नात कारण स दीस पसून देवान सर्ग आनी पृथ्वी, समुद्र आनी तातूंत भितरली चीज वस्त रचली आनी सातव्या दिसा देवान विसव घेतलो. हे खातीर सातव्या दिसाक देवान पवित्र केलो.

५) तुमगेल्या आवय-बापायक मान दियात. म्हणटकर तो दीस हे पृथ्वीर लांब जातलो. आनी हो दीस तुमकां देवान दिला.

६) तूं कोणाचो खून करचो ना.

७) तूं केन्नाच व्यभिचार करचो ना.

८) तूं केन्नाच चोरचो ना.

९) तूं तुगेल्या शेजाऱ्या विरुद्ध फट गवाय दिवचो ना.

१०) तूं तुगेल्या शेजाऱ्याल्या घराचेर आस्त दवरचो ना. तुगेल्या शेजाऱ्याले बायलेची आस्त धरचो ना. वा तांगेले नोकर-चाकर, दादले-बायलो, तांगेले बैल, तांगेलें गाढव वा तुगेल्या शेजाऱ्याली चीज-वस्त हांचेर आस्त दवरचो ना.

मोजेसान दिल्ल्या ह्या विधायक आज्ञांनी धर्मांत म्हत्वाचो जागो धरून दवरला. आनी तांचें धर्माचेर वजन पडलां. ह्यो आज्ञा साद्यो, पवित्र. एकाच देवाची पुजा सांगतात. तांणी कुटूंब संस्थेचें भलेंपण सादलां. न्याय आनी मनशां भितर आत्म बंधनां घाल्यांत. मोजेसाक एका व्हड धर्म मार्तंडाचें स्थान दिवं येता. ताणें गुलामगिरींत शेणिल्ल्या लोकांतल्यान राष्ट्र तयार केलें. ताणें लोकांक इश्वरी प्रेरणेचे एके उच्च संकल्पनेचे भागीदार करून तांकां वयर काडले. तुमचेर देव राज्य करता ही उदात्त संकल्पना तांच्यांत रुजयली. मोजेसान हें शिकयलें, 'देणग्यो दिल्यो वा औपचारीक विधी, उत्सव केले हातूंत धर्म ना. तुमी साधी पुजा करप, देवा कडेन पुज्यता दवरप आनी इश्वरी आज्ञा पाळप हातूंत धर्माची पूर्तताय आसा.'

ज्यू लोकांचें वंशमूळ कोणाच्यानय खात्रीन सांगूं जाता. कीं ते सिरियन आशिल्ले. ते खूब काळ स्वतंत्र आदिवासी पितृसत्ताक (पुरुष प्रधान) पद्धतीन रावले. तांगेलो पयलो वर्गी साउल, ताचे फाटल्यान डॅव्हीड आनी मागीर तागेलो पूत सोलोमन. सोलोमनाच्या राजकारभारा तेंपार जेरुझलेमची

संपत्ती वाडली. ताणेंच शाराक सुंदरकाय हाडली आनी याव्हेवाक देवूळ समर्पीत केलें. ज्यू लोकांच्या महाकाव्यांत ही देवळाची इमारत बांदली ही खूब म्हत्वाची घटना थारल्या. ताका लागून ज्यू पयलींचो धर्म जो देवांची पुजा सांगतालो ताका एक स्रद्धावान संस्थेचें रूप आयलें. पयलींच्या काळार ज्यू लोक तळ्यांचीं गोरवां, मेंढरां, गुहेंतलीं आनी दोंगरांतलीं भुतां, सोरोप, सुवर्ण पाड्डूक हांची पुजा काताले. हळू हळू ह्या सगळ्या सर्वश्वेर वादी लोकांनी याव्हेव हाका आपलो देव केलो. आनीक एक राष्ट्रीय देव जाणें ज्यू लोकांचे स्रद्धेक बळकटी, एकत्व आनी सादेपणां हीं स्थापन जालीं. सोलोमनाच्या मरणा उपरांत इजिप्ताच्या राजान फारोहान जेरूझलेम काबीज केलें आनी सगळी संपत्ती लुटली. ह्या वेळार धर्माचेर अवकळा आयली. राज्याचो विध्वंस जालो. देवाचे संदेश पातळावपी त्या वेळार लोकांचे धार्मीक जिणेंत आयले. तांचेर टिका जावपाक लागली. तांच्या वयाचीं फकाणां मारपाक लागले. जे कोण मनशांची टिंगल करताले तांचो इशियान तिरस्कार केलो. जरी तागेले आघात कोडू आशिल्ले तरी ताणें इश्वरी दूत येतलो म्हणपाची आस्त दाखयली. हालींच्या ज्यू लोकांचे संकल्पनेची कीं इश्वरालो कोणय तरी येवन हें जागयार घालतलो म्हणपाची आस्त हांगाच्यान सुरू जाली.

मोजेसान ज्यू लोकांक ताकीद दिली कीं तांगेल्या कुळाचें भविश्य ते कशे रावतले, कशे वागतले हाचेर अवलंबून आसतलें. ताणें तांकां वचन दिलें कीं जर तांणी देवाची आज्ञा पाळ्ळी जाल्यार तांकां शांती मेळटली. जर तांणी आज्ञा मोडल्यो जायत तर तांचो नाश जातलो.

---

सोलोमनाच्या मरणा उपरांत उत्तरे कडच्यो धा जमाती वेगळ्यो जाल्यो आनी तांणी आपलें वेगळें राज्य स्थापन केलें. आनी ताका इस्रायल अशें नांव दिलें. तें ७२२ B.C.मेरेन उरलें. जे कोण उरिल्ले तांकां देशा भायर धांवडायले. म्हणटकर त्यो शेणिल्ल्यो जमाती जाल्यो. आतां दक्षिणे कडलें राज्य तितलें उरलां. ह्या राज्याक जुदाह म्हणटाले. हें नांव हिब्रू जाणटेल्यांचें आशिल्लें. तातूंतली एक जमात तांगेले वंशावळीन चलिल्ली. हाचे मुखार इस्रायलटीस हांचो उल्लेख ज्यू म्हणून जातलो.

ज्यू लोक ही एक जमात न्हय कारण तातूंत खूबशी भेसळ जाल्या. बाटिल्ल्या लोकांक सुद्धां तातूंत पंथां भितर घेतल्यात. आनी तें राष्ट्रय न्हय, सोडून इस्रायल. ज्यू लोक खूबशा गांवाचे मुखेली जावन आसात. तातूंतले कांय लोक आधुनीक आसात. आनी थोडे ज्युडाइझम आचरणांत हाडटात. आनी हांगा सांगलां तशें सगळे धार्मीक ज्यू ज्यूडाइझम पाळटात.

५८६ B.C. वर्सा चाल्डियनांनी जुदाह काबीज केलें. आनी देवळाची नासधूस केली. हें देवूळ ५१६ B.C.त परतें बांदलें. तेन्ना ज्यू लोकांक तांगेलें स्वतंत्र राज्य मेळ्ळें तें बळिश्ट रोमान मातये भरवण करीसर उरलें. ह्या शतकांनी सगळ्या ज्यू लोकांनी आपले पवित्र ग्रंथ, पवित्र बरपां देखीक, तोरा, पामस आनी हेर जायते ग्रंथ, जांकां लोक बायबलाचो पोन्नो करार म्हणटात तो, जमयले. मोठे संख्येन ज्यू लोकांनी पॅलेस्टायन सोडलें आनी हेर देशांनी स्थायीक जाले. तांणी सेनागोग ह्या नांवान देवूळ बांदलें. आनी हळू हळू ज्यू लोक जंय जंय रावताले थंय थंय तांणी सेनागोगां बांदलीं. ह्या

सेनागोगांनी तांगेले शिक्षक जांकां लोक राबीस म्हणटाले तांणी शिकवण जोरान दिवपाक सुरवात केली. मागीर लोकांच्या घरांनीय शिकवण्यो चालू केल्यो. तांचो हेतू ज्यू धर्म हो सगळ्या लोकांचो धर्म जावचो असो आशिल्लो. जेजू हो इश्वरालो दूत हें ज्यू लोकांक मान्य नाशिल्लें.

कितलींशींच शतकां ज्यू लोकांचे जिणेचें मुख्य सुत्र हें पूर्व वाठारांतच उरलें. मागीर ज्यू लोक हळू हळू युरोपांत गेले आनी थंय बौद्धीक आनी आर्थीक क्षेत्रांत भाग घेतलो. ९वो ते १२वो शेंकडो मेरेनचो काळ हो ज्यू लोकांचें शिक्षण आनी साहित्य हाचें सुवर्णयूगच आशिल्लें, चडकरून मुरीश स्पेनांत. उपरांत थोडो ज्यू समाज ख्रिश्चन देशांत पावलो. थंय इगर्जींनी तांकां बाटोवपाचे प्रयत्न केले. सवका सवका तांगेले जातीचे हक्क काडुन घेतले. तशेंच तांगेल्या धंद्याचेरय बादा हाडली. तांचे कडेन फकत पयशांवी देवाण-घेवाण इतलीच उरली. शेवटाक तांकां बंदखणींत उडयले. तांकां परत परत त्रास करप इतलेंच न्हय तर तांकां फ्रांस, स्पेन आनी पोर्तुगालच्यान धांवडावन घाले. ह्या शतकांत ज्यू लोकांनी खूब त्रास सोंसले. हिटलरान तांचेर खूब अत्याचार केले. आनी अरबांनी ज्यू लोकांच्या देशांतराचेर बंदी हाडली. मागीर तांणी अमेरिकेक स्थलांतर केलें.

ज्यू लोकांनी सदांच आपले पुर्विल्ले मायभुंयेचेर चड करून जेरुझालेमाचेर, जाका झोयोन म्हणटात, प्रेम केलें. १९व्या शतका अखेराक झोयानियनांनी जांचो तेवोदोर हेरझल हो फुडारी आशिल्लो तांणें सपन खरें करपाचें थारायलें आनी ब्रिटीश सरकार आनी युनायटेड नेशन्स हांच्या आदारान १९४८क स्वतंत्र प्रजासत्ताक इस्रायलाची घोशणा केली. ज्या

जांग्यार ज्यू लोक रावंक शकतले आनी आपलो देश म्हणून खुशाल जातले.

१. इश्वर हो एकच आसा आनी ताचीच पुजा जावपाची. अशी ज्यू धर्माची मूळ स्रद्धा आसा.

२. ज्यू लोकांनी सदांच विश्वासपात्र, दयाळू आनी उदार आसूंक जाय.

३. ज्यू धर्म सांगता, ज्यू लोकांनी परिपूर्ण नैतीक आचरण दवरूंक जाय.

४. ज्यू लोक आहारा विशीं संपूर्ण नियम कांटेकोरपणान पाळटात. ते कोशर (Kosher) नाशिल्लें जेवण घेनात. शेनवारा ते अन्न शिजयनात.

५. सांगातीं मनशाचेर प्रेम करप हो नियम तोरा ह्या धार्मीक ग्रंथांत पुरायपणान सांगला.

६. तुगेल्या सांगात्याचो द्वेश करप म्हणल्यार देवाचो द्वेश करप. तुगेल्या भावाचो द्वेश करूं नाका. सूड घेवप ना. तुगेली तिडक सोंस.

## हिंदू धर्म आनी ताची शिकवण

भारताच्या पुर्वील धार्मीक साहित्यांत हिंदू धर्म हें उतर मेळना आनी ताचे खातीर पर्यायी उतरय मेळना. हिंदू धर्माक त्या वेळार सनातन धर्म वा वैदीक धर्म म्हणटाले. हिंदू हो सिंधू ह्या उतराचो अपभ्रंश आनी तो इंडस म्हणल्यार संस्कृतांत सिंधू न्हंयेक आनी पूर्व पुरातन इंडस दरी (दोन दोंगरां मदलो प्रदेश) सिंधू प्रदेश हांकां उल्लेखून आसा. कदाचीत

सिंधू हें उतर उच्चारूंक जड आसा म्हणून वा सिंधू अक्षराक हिंदू हें उतर ग्रीक, रोम आदी लॅटीन भाशाकारांनी दिलां आसूं येता. इंडस व्हॅली हो प्रदेश हिंदूंची मूळ जन्मभुमी. हांगाच आर्य लोकांनी आपले हिंदू संस्कृतीची पयली सुधारणा केली. रोम आनी ग्रीक लोकांनी पूर्वेक ज्योत पेटोवन ती पश्चिमेक व्हेली. हिंदुस्थान हिंदू संस्कृतायेचें आनी तिचे वाडीचें सातत्य दवरून आसा. अशें धरतात, आर्य लोक हे कास्पीयन समुद्र वाठारा पसून हांगा हिंदुस्थानांत आयले. ते अशा वेळार आयले जेन्ना कुशिश्ट आर्यांनी बेबिलोनिया काबीज केल्लें. तेन्ना वैदीक आर्यांचे लोंढे सिंधू प्रदेशांत सतत येत रावले. हे आर्य लोक प्रकृतीन घटमूट, घीरवान, चतूर आनी जिणेचेर पुराय प्रेम करपी आशिल्ले. ते ह्या प्रदेशांत शेतींत सुधार करपाच्या हेतान भितर सरले. तांणी उत्तर हिंदुस्थानाचेर प्रभुत्व मेळयलें आनी ते गंगेच्या प्रवाहा भोंवतणीं पसरले. आनी हळूहळू सगळ्या देश भर स्थायीक जाले.

वैदीक धर्माक वा सनातन धर्माक आज हिंदू धर्म हें नांव रूढ जालां. हिंदू धर्म हो आज जगाचो जितो जागतो वळिश्ट धर्म जावन आसा. आनी होच धर्म सगळ्यांत पुरातनय वी. हिंदू धर्माक केन्ना सुरवात जाली, ताचो मूळ इतिहास हाचो खंयच उल्लेख मेळना. हाचे उरफाटे बौद्ध धर्म, ख्रिस्त धर्म, इस्लाम धर्म, जैन धर्म आदी. ह्या सगळ्या धर्मांक इतिहासांत सुरवात जाल्ली तारीख मेळटा. बाकी हेर धर्मां प्रमाण हिंदू धर्म हो कोणय एका धर्मगुरून वा अद्भूत दुतान स्थापन करूंक ना. हिंदू धर्म हो मनशांनी स्थापन केल्लो न्हय. तो वेदांचे शिकवणीचेर आधारीत आसा. वेद

म्हणल्यार भारताची अती म्हत्वाची धार्मीक बरपावळ. वेद ह्या जगार सगळ्यांत पुरातन धार्मीक बरपावळ जी आज पसून उपलब्ध आसा आनी हिंदूंक वेद म्हणल्यार ब्रह्मवाक्य. हिंदू हो शब्द प्रचारांत येवचे पयलीं हिंदूंक आर्य म्हणून वळखताले.

Religions हे खूब आसूं शकतात आनी तांची शिकवणय वेगवेगळी आसता. पूण 'धर्म' हो एकच आसता. तो सगळ्यांक लागता. तो वैश्वीक आसा. तो सत्य, सादेंपण आनी तर्कशास्त्राचेर आधारीत आसा. धर्म म्हणल्यार मनशाक इश्वरा कडेन व्हरपाचो एक मार्ग. तो आमकां आध्यात्मीक साधनेचे प्रगतीक मदत करता. आमकां शांती, सूख, समाधान दिवन आमची भरभराट करता.

हिंदू धर्म पुजेचें स्वातंत्र्य दिता. तो मानता, ध्येया कडेन वचपी मार्ग खूब आसात. प्रत्येक व्यक्तीची गरज वेगवेगळी आसता आनी धर्म मार्ग वेगवेगळे आसतात हें मानता. हिंदू धर्म हो एक धर्म न्हय. ही धर्मांची संसद. हो एक झरो न्हय. हो एक समुद्र जातूंत सगळे झरे मेळटात. हिंदू धर्म हो एक प्रवास, काळखांतल्यान उजवाडा कडेन, मरणा पसून अमरत्वा कडेन, गुलामगिरींतल्यान स्वातंत्र्या कडेन, द्वेशा कडल्यान प्रेमा कडेन, त्यागा कडेन, सेवे कडेन वचपाचो मार्ग. हिंदू धर्म म्हणल्यार शेवट न्ही. तो एक न सोंपणारो मार्ग. सदा सर्वकाळ आसपी शेवटाचेर यश मेळोवपाचो मार्ग. हिंदू धर्म म्हणल्यार पूर्ण सत्य सोदून काडपाच्या सतत प्रयत्नान वचपाचो एक मार्ग. धर्म (पंथ) आनी धर्म (आचरण) हे एकमेकां पसून वेगळे. हिंदू लोक धर्माचेर (आचरणाचेर) विश्वास दवरतात. वेगवेगळे

भविष्यवेत्ते, धर्मगुरू, देवदूत हांणी स्थापन केल्ल्या धर्मांक सुरवात आसा. तांगेली शिकवण हांचो सार पवित्र ग्रंथांनी लिखीत केला.

पवित्र धार्मीक हिंदू ग्रंथांक वेद म्हणटात. तातूंतलो ऋग्वेद हो सगळ्यांत पुर्विल्लो वेद. वेदांत स्तोत्रां आनी काव्यां आसात तातूंत धार्मीक कल्पना आर्य लोकांनी संकलीत करून दवरल्यात. आर्य लोक हिंदुस्थानांत १५०० B.C.अदमासाक आयले. वेद हे संस्कृत भाशेंत बरयल्ले आसात. आनी संस्कृत ही आर्यांली भास आशिल्ली. तांचे खूबशे देव आसताले. ह्या देवांतले चडशे देव निसर्ग शक्ती म्हणल्यार उजो, उदक, सूर्य हे आशिल्ले. जसो काळ गेलो तसो आर्यांनी थंय मूळ रावपी रहिवाशांच्यो धार्मीक कल्पना आपणायल्यो. आनी तांगेल्या कांय देवांची पुजा करपाक सुरवात केली. म्हणटकर हिंदू धर्मांन आयच्या काळाक कितल्याशाच वेगवेगळ्या जमातींच्यो चाली-रिती, संस्कृताय आपले भितर आस्पावन घेतल्या.

उपरांत उपनिषदां बरयलीं. हो काळ ६०० B.C.ते ३०० B.C.मेरेन असो धरला. उपनिषदां आमकां जिणेच्या जल्म-मरण चक्राची समजावणी दितात. आनी कर्मां, भोग टाळपाक वाट दाखयतात. कर्मांक टाळून आत्मतत्त्व जाणा जावपाक शिकयतात.

हिंदू धर्मांत खूबशा देवांची पुजा चलता. ह्या सगळ्या देवांचेर आपले राज्य चलोवपी एक इश्वरी आत्मो किंवा दैवत आसा ज्याका ब्रह्म म्हणटात. संपूर्ण ब्रह्म हें सगळें व्यापून आसा. म्हणजे संवसारांतली प्रत्येक वस्त ताणें व्यापिल्ली आसा. सगळ्या जाग्यांनी तें आसा. आनी तें

वेगवेगळ्या मार्गांनी प्रकट जाता. लोकांनी ब्रह्माक तीन मार्गांनी मेळूंक जाता. १. आपलें कर्म ताका ओंपून २. प्रार्थना आनी प्रेमान ३. एकांतवास पत्करून आनी आपलो दीस प्रार्थनेंत आनी इश्वरी चिंतनांत घालून आध्यात्मीक विमानाची वाट पळोवप. हिंदू लोकांची अशी स्रद्धा आसा कीं आत्मा-ब्रह्माचें मिलन जायीसर जल्म-मरणाचे फेरे काडीत आसता. आनी ताका ते पुर्नजल्म म्हणटात. प्रत्येक जल्माक मनशान पूर्वजल्मांत केल्ल्या पाप-पुण्याचें फळ भोगचें पडटा.

खूबशा देवां भितर श्री विष्णू- पालनकर्तो, शीव- वायटाचो नाश करपी, गणेश- संकटांचो नाश करपी, सरस्वती- विद्येची देवी, लक्ष्मी- संपत्तीची देवी, दुर्गा- शक्ती देवी, राम-कृष्ण हांची पुजा चड करून सगळे कडेन जाता. हजारांनी देवळां आसात जातूंत हिंदू लोक वतात आनी थंयच्या देव-देवतांची पुजा करतात. हेर देवय आसतात.

भारतांत हिंदू लोक थारावीक न्हंयो पवित्र मानतात. आनी तांचे कडेन मनशांच्या पातकांचो नाश करपाची शक्त आसता खास करून गंगा, यमुना न्हंयो. देव-धार्मीक हिंदू तांचे देगेर मरण येवचें अशी आस्त धरतात. आपल्यो कूडी थंय सरणार चडच्यो आनी आपली रक्षा न्हंयेंत पसरची अशी आस्त धरतात.

हिंदू लोक अशी स्रद्धा दवरतात कीं सगळे जिवीत प्राणी हातूंत कीड-मुये पसून आत्मो (प्राण) आसता. आनी ह्या कारणा खातीर तांची हत्या जायत म्हणून ते शाकाहारी जातात. ह्या प्राण्यांक ते मारनात. किंवा ताका दुखापत करनात. ते अहिंसेक पाळो दितात.

प्रामाणीक, देवधर्मीक हिंदू सकयल्ल्या तत्वांक पाळो

दितात.

१. कर्माचेर विश्वास- मनशाच्या बऱ्या वायट कामांचें फळ.

२. धर्माचेर विश्वास- हिंदू धर्माच्यो चाली, नेम, परंपरा

३. ब्रह्मा, विष्णू, शीव हांचेर विश्वास

४. आत्मो मरणा उपरांत परत जल्म घेता हाचेर विश्वास. पुर्नजल्माचेर विश्वास

५. आत्म्याच्यान मुक्ती मेळोवंक जाता. धार्मीक, पवित्र जीण सारून जल्म-मरणाचे फेरे चुकोवंक जातात.

६. वेदांक पुज्य, पवित्र मानप

७. आस्तीक, धार्मीक जीणेक पवित्र, पुज्य मानप

हिंदू धर्मांत चार पावंडे वा तीन जाती आसात. आनी हांकां मनुले कायदे म्हणटात.

हातूंतलो उच्च वर्ग ब्राह्मणाचो जांकां गुरू वा भट म्हणटात. दुसरो वर्ग हो क्षत्रीय, लडाय करप्यांचो वर्ग. तिसरो वर्ग हो वैश्यांचो, व्यापारी वगैरे. (हांगा वैश्य म्हणल्यार वाणी न्हय.) चवथो वर्ग हो कलाकार, शेतकार, कश्ट करप्यांचो. प्रत्येक वर्ग हो समाजाचो वेगळो वेगळो वांटो. हो वर्णाश्रम धर्म हो हिंदू धर्माचो भाग जावन आसा. हो वर्णाश्रम धर्म खूब पुर्विल्लो आसून तो १५०० B.C.पयलीं पसून आसा.

आदर्श हिंदू घराणीं जिणेचे हे चार पावंडे पयलीं पसून पाळटालीं. हिंदू जिणेचो पयलो पावंडो हो २५ वर्सां मेरेनच्या विद्यार्थ्याचो. दुसरो पावंडो हो २५-५० वर्सां म्हणजे जेन्ना एक हिंदू लग्न जावन आपल्या कुटुंबाक पोसता म्हणजेच गृहस्थाश्रम आनी वांगडा धार्मीक भक्ती चालू दवरता.

तिसरो पावंडो ५० ते ७५ वर्सां जेन्ना हिंदू जाणटो जाता. तागेले पूत व्हड आसतात. आनी संवसार, बापायलो कामधंदो, व्यवहार चलोवपाक समर्थ जाल्ले आसतात. ह्या पावंड्यार जाणटेल्यान जगा कडले आपले सगळे व्यवहार पुराय केल्ले आसतात. हो वेळ तागेलो धार्मीक साधनेक ओंपपाचो. अशे रितीन आपलो मरणा कडलो मार्ग मेकळो दवरपाचो. चवथो पावंडो जेन्ना हिंदू म्हातारो जाता. तेन्ना ताणें जगा कडले सगळे संबंध तोडपाचे, मालमत्ता, प्रपंच हाचे पसून विरक्त जावन, समाजा पसून वेगळो जावन मरसर संन्याशाचें जिवन जगपाचें आनी निमाणें मरणाक फुडो करपाचें.

धर्मा भितरले सगळे भेद विसरून, एकाच धर्मा खाला, एकाच देवा खाला प्रेम, एकत्व आनी वैश्वीक भावबंदकी नांदून मनीस जिणेची भरभराट जातली असो विश्वास प्रत्येकान दवरचो.

## श्री राम

श्री राम हो विष्णूचो सातवो अवतार. हिंदूंनी सगळ्यांत चड पुजिल्लो, चड स्मरिल्लो देव. श्री राम त्रेता युगांत जावन गेलो आनी तागेली कथा रामायण ह्या महाकाव्यांत वाल्मिकी रुशीन बरयल्या. रामाची कथा आमकां नैतीक मुल्यां शिकयता हाका लागून तिका आज म्हत्व आसा. राम हो आदर्श पुरुश आनी आदर्श राजा. तो प्रामाणीक, विश्वासपात्र आनी आपले प्रजे कडेन प्रामाणीक आसा. तो आपल्या बापायची इत्सा पाळटा आनी फुडाराक हाचो शेवट

बरो जातलो हें वळखुपाची पात्रता ताचे कडेन आसा. सीता ही आदर्श पत्नी जावन आसा. ती आपल्या घोवाक पूर्णपणान समर्पीत जावन आसा. लक्ष्मण हो एक आदर्श भाव जाणें शाही राहणीचो त्याग केलो आनी धिटायेन रानांतलीं संकटां सोंसपाक रामा बरोबर वनवासाक गेलो. जेन्ना राम अयोध्येक परतलो, सकल सांगलां त्या प्रमाण तो फकत न्यायी राजाच जालो ना तर ताणें राज्याक भरभराट आनी सूख हाडलें. आनी आज पसून चलता. भारतांत आदर्श राज्याची संकल्पना आनी आदर्श सरकार जेन्ना चलता तेन्ना ताका राम-राज्याची उपमा दितात.

श्री रामाक आदर्श पुरुषोत्तम (परमपुरुष)म्हणलां. ह्या पुरुषोत्तमाची पुजा करपाची आनी ताका मेळोवपाचो. राम हो चारुय भावंडां भितर व्हडलो भाव आनी अयोध्येच्या दशरथ राजाचो व्हडलो पूत. एक दीस विश्वामित्र रुशी राजाक मेळ्ळो आनी ताणें रामाक आपले बरोबर रानांत धाडपाक सांगलें. म्हणटकर जे राक्षस त्रास करताले आनी यज्ञांत अडथळे हाडटाले तांकां तो मारतलो. म्हणटकर राम आनी रामाचो धाकटो भाव लक्ष्मण दोगूय रुशी बरोबर रानांत गेले. थंय तांणी आश्रमाची राखण केली आनी राक्षसांक मारले. त्या वेळार विश्वामित्रान हेर रुशींक घेवन स दीस यज्ञ चलोवन ताची सांगता केली.

ह्याच वेळार मिथिलेच्या जनक राजान आपले कन्येचें स्वयंवर मांडलें. आनी जाहीर केलें की जो कोणय राजा वा राजकुमार आपल्या शीव धनूष्याक दोरी चडोवन बाण मारता तो आपले चलयेकडेन लग्न जावंक शकतलो. राम लग्न सुवाळ्याक हजर रावलो. पूण अशें जालें, थंय आशिल्ल्या

राजा आनी राजकुंवरांक तें धनुष्य उखलपांत अपेश आयलें तेन्ना विश्वामित्रान रामाक मुखार सरपाक आज्ञा केली. रामान फुडें सरून तें धनुष्य उखल्लें. आनी ताका दोरी चडयतना तें मोडलें. तेन्ना खूब मोठो आवाज जालो. सीतेन रामाक माळ घाली. आनी राम तिचे कडेन लग्न जालो. थंय बाकीच्या तिनूय भावांचीं लग्नां जातात आनी तें सगळें वराड अयोध्येक येता.

आतां राजा दशरथाच्या मनांत रामाक राज्याभिषेक करून ताका युवराज म्हणून राजमुकूट घालपाचें थारता. पूण कैकयेची दासी मंथरा हिका खूब नसाय जाता. ती रामाच्या द्वेषान कैकयेचे कान फुंकता. राजा दशरथ रामाच्या राज्याभिषेकाची आनंदाची बातमी घेवन कैकयेच्या महालांत येता. तेन्ना ती राजाक पयलीं दिवं केल्ल्या दोन वरांची याद करून दिता आनी ती ताचे कडेन एका वरान भरताक राज्यार बसोवप आनी दुसऱ्या वरान रामाक चवदा वर्सां वनवासाक धाडप अशें मागता. राजा तिका समजावन परावृत्त करपाचो आटोकाट प्रयत्न करता. तिची मनधरणी करता पूण फुकट. निमाणे कडेन राजा आपलो शब्द पाळटा. भरताक राजा करता. राम, सीता आनी लक्ष्मण चवदा वर्सां खातीर रानांत वनवासाक वतात.

राम वनवासाक गेलो हो धक्को राजा दशरथाच्यान सोसूं नजो जावन तो रोखडोच मरता. भरत आजोळच्यान येता. आनी रामाक राज्यार बसूंक तयार करतलों म्हूण रामाक परतो हाडपाक रानांत वता. राम राज्यार बसपाचें नाकारता. मागीर रामाचो आशिर्वाद आनी ताच्यो पादुका दवरून आपूण तागेलो प्रतिनिधी म्हणून राम परत येसर

राज्य चलयता.

रानांत रामाक खूबशा राक्षसांक मारचें पडटा. लक्ष्मणाक शुर्पणखेचे, रावणाचे भयणीचे कान-नाक कापचें पडटा. दुष्ठ रावण लंकेचो राजा सीतेचें अपहरण करता. दोगूय भाव मागीर सुग्रीव, ताचो सेनापती हनुमान आनी वानर सेना हांची मदत घेवन सीतेक सोडोवन हाडूंक वतात. राम-रावण युद्ध जाता आनी तातूंत रावणाचो वध जाता. सीतेक मेकळी करतात आनी राम बिभिषणाक लंकेच्या राज्यार बसयता.

मागीर श्री राम, सीता आनी लक्ष्मण अयोघ्येक परततात. वांगडा हनुमान, सुग्रीव आनी बिभिषण आसतात. राम हो राज्याचो न्यायी राजा जालो आनी आपल्या भुरग्यां भशेन ताणें आपल्या प्रजेचें पालन केलें. राम हो आदर्श राजा जावन गेलो. रामान घोषणा केली, आपूण सत्या खातीर, निती खातीर कितेंय जायतें करपाक फाटीं सरचोंना. गरज पडल्यार आपल्या राज्याचो पसून त्याग करीन. आपली सीता आनी भाव लक्ष्मण हांचोय त्या कारणा खातीर त्याग करीन. एक पावट ताका ही परिक्षा दिवची पडली. सीतेक रानांत धाडपाचो प्रसंग ताचेर हाडलो म्हणटकर ताणें सीतेक रानांत धाडली. थंय तिणें वाल्मिकी रुशींच्या आश्रमांत दोन जुवळ्या कुमारांक जल्म दिलो आनी तांकां 'लव आनी कूश' अशीं नांवां दवरलीं. ह्या काळाक रामराज्य म्हणटात. रामाची कथा पयलेच खेपे रुशी वाल्मिकीन संस्कृतांत बरयली आनी तिचें नांव दवरलें श्रीमद् रामायण.

**श्रीकृष्ण अवतार**

श्रीकृष्ण हो विष्णूचो आठवो अवतार आनी हिंदूंचो जगभर मोठ्या भक्तिभावान पुजिल्लो देव. ताचो जल्म द्वापार युगांत कंसाचे बंदखणींत जालो. तो देवकी आनी वसुदेव हांगेलो आठवो पूत. कंस हो वसुदेवाचो मेवणो आनी कृष्णाचो मामा. देवकी ही कंसाची लाडकी भयण. तिगेलें लग्न वसुदेवा कडेन जाता आनी कंस ती व्हंकलपावणेची मिरवणूक आपल्या रथांतल्यान नगराचो फेरो घेवपाक आपूण स्वता रथ चलयता. इतल्यांत आकाशवाणी जाता. “कंसा, देवकेचो आठवो चलो तुगेलो मरणकाळ आसतलो.” कंस तें आयकता आनी देवकेकच मारून उडोवपाक शस्त्र उबारता. वसुदेव कंसा कडेन रदबदली करता. ताका फुसलायता, “देवकेक तूं मारूं नाका. तिगेर जातलें प्रत्येक भुरगें हांव तुजे सुवादीन करतां.” अशें ताका उतर दिता. वसुदेवान आपलें उतर पाळ्ळें आनी कंसान देवकीलीं सात भुरगीं एका फाटल्यान एक मारलीं. वसुदेव-देवकेक कंसान बंदखणींत दवरिल्लीं आनी तांचेर खर पाळत दवरिल्ली. जेन्ना मध्यरातीर श्रीकृष्णाचो जल्म जालो तेन्ना अशें घडलें. इश्वरी कृपेन बंदखणीचे सगळे राखणदार न्हिदून पडले. देवकी-वसुदेवाचे सांखळ-दंड सैल जाले. आनी बंदखणीचीं दारां सताड उकतीं जालीं. वसुदेवान देवकेचें बाळक गोकुळांत नंदागेर पावयलें. आनी ताचे बदला त्याच वेळार नंदाची बायल यशोदेगेर जाल्ली चली हाडून मथुरेक बंदखणींत दवरली. रोखडींच बंदखणीचीं दारां आशिल्लीं तशीं बंद जालीं. राखणदारांक जाग आयली आनी कंसाक सांगलें, देवकी बाळंत जावन चली जालां. कंसान हें आयकलें आनी तो बेगीबेगीन आयलो. भुरगें झोमून घेतलें आनी नित्याचे शिळेर आपटून मारपाक वयर

उखल्लें. तें भुरगें एकदम हातांतलें निसटलें आनी वयर गेलें. ताणें वयर सावन कंसाक सांगलें, तुका मारणारो गोकुळांत व्हड जाता.

कंस हें आयकून पिसो जाता आनी आपले मनीस गोकुळांत धाडून सगळी नवीं जल्मा आयिल्लीं भुरगीं मारून उडोवपाची आज्ञा करता. पुणून श्रीकृष्णाची वाड सुखरूप नंदागेर जाता. हें बाळक सगळ्या लोकांच्या दोळ्यांत भरता. ताचें इश्वरी तेज सगळ्यांचें आकर्शण थारता. आनी प्रत्येक जाण ल्हान-व्हड ताचे कडेन ओडटा.

कंसाच्या कार्या खातीर पुतना ही राक्षशीण कृष्णाक मारून उडोवपाच्या बेतान एके सुंदर बायलेच्या रुपान गोकुळांत येता. ती भुरग्याक आपूण दूद दितां अशें सांगून कृष्णाक घेता. आनी विखान माखिल्लो आपलो पानो ताच्या तोंडांत दिता. कृष्ण तिचें दूद ओडटा. आनी त्याच बरोबर तिचो प्राणय ओडून घेता. ती मरून पडटा. गोकुळांतले लोक तागेल्यो मोहून घालपी करण्यो आनी तागेली दैवीक लिला पळोवन भुलताले. गोकुळांतल्यो गोपी, गोप ताची भक्ती करूंक लागलीं आनी ताका एकटो केन्नाच सोडिनाशिल्लीं. तागेल्यो खोडी, नाच-रंग, लोणी चोरप, मडकीं फोडप तांकां उचंबळीत करतालीं. तागेल्या भुरगेपणा सावन तो खोडकर आनी गूढ आशिल्लो. एक दीस ताणें माती खाली. यशोदेन ताका तोंड उकतें करपाक सांगलें. कृष्णान आपणें माती खाली ना म्हूण सांगलें. तिणें ताका तोंड उकतें करच म्हूण सांगतकर ताणें आपलें तोंड उकतें केलें. आनी यशोदेक तातूंत सगळें विश्वच (दोंगर, सागर,मळब, पृथ्वी, नक्षत्रां आदी) दिश्टी पडलें. एक पावट

ताणें इंद्राचो अहंकार देंवयलो. वृंदावनांतले लोक गोवर्धन दोंगराची पुजा करतात आनी आपली पुजा करिनात म्हणून वृंदावनाचो नाश करपा खातीर गडगडो, पावस, वादळ हें सगळें वृंदावनांत धाडलें. लोकांचेर आकांत येवन लोक कृष्णा म्हऱ्यांत जमले. कृष्णान आपले किरंगळीचो आदार दिवन गोवर्धन वयर उबारलो आनी सगळे लोक ताचे पोंदा सुखरूप रावले. आनी वादळा पसून तांचें संरक्षण जालें. कृष्ण आपलो भाव बलरामा बरोबर गुरू सांदिपनीच्या आश्रमांत रावन शिकलो. गुरू सांदिपनीचो चलो प्रभास तिर्थार खूब पयलीं बुडिल्लो. ताका कृष्णान जिवो करून वयर काडून गुरुच्या सुवादीन केलो. गोपींचें कृष्णाचेर काळजा सावन प्रेम आशिल्लें. तातूंत भितर राधाय आशिल्ली. तागेली रासलिला ही एक स्वर्गीय परगटावणी. तशेंच तें तागेलें गोपीं भितरलें दैवी अस्तित्व आशिल्लें.

श्रीकृष्णाच्यो ह्यो धाडसी हालचाली पळोवन कंसाक भंय पडलो. आनी ताणें दोगूय भावांक श्रीकृष्ण आनी बलरामाक मथुरेक आपोवन आपले हुजीरच तांची हत्त्या करपाचो कट केलो आनी अक्रुराक मथुरेक धाडून श्रीकृष्णाक निरोप दिलो कीं मथुरेक धर्नुयज्ञ करपाचो थारला. ताका हजर रावपाक तुमकां कंसान आमंत्रण धाडलां. ते आयले तेन्ना कंसान दरबाराचो हत्ती कुवलयापीड हाका शिकोवन तांकां मस्तून मारपाक तयारेन दवरिल्लो. पूण तांणी दोगांयनीय श्रीकृष्ण आनी बलरामान ताका कांय न्हय करून सहज मारून उडयलो. मागीर कंसान महाकुस्ती खेळपी, अजिंक्य थारिल्ले आपले दोन मल्ल चाणूर आनी मुष्टीक तांचेर घाले. तांकां आज्ञा दिली खंयचेय परिस्थितींत श्रीकृष्ण

आनी बलराम हांकां दोगांयकय जिवानिशीं मारपाचे. पूण जालें उरफाटेंच. श्रीकृष्णान चाणुराचो समाचार घेतलो आनी बलरामान मुष्टिकाक मारलो. श्रीकृष्णान कंसाकच सिंहासनावेलो ओडून काडलो आनी ताका मारून उडयलो आपल्या आज्यालें राज्य उग्रसेनाचे सुवादीन केलें. आनी आपल्या आवय-बापायक, वसुदेव आनी देवकेक बंदखणींतल्यान मेकळीं केलीं. जरासंध हो सम्राट जाल्लो आनी शिवाय तो कंसाचो मांव आशिल्लो. ताणें मथुरेचेर स्वारी केली आनी मथुरा उध्वस्त केली. तेन्ना श्रीकृष्णान मथुरा खाली केली आनी द्वारका शारांत सगळ्या लोकांक व्हेले. थंय तांची वसणूक केली आनी द्वारका वसयली. राजा कालयावान हो जरासंधाचो इश्ट. तो कृष्णाचे फाटीक लागलो तेन्ना श्रीकृष्णान ताचो लासून गोबोर केलो.

इश्वरी माता (जगदंबा) हिणें रुक्मीणीचो जल्म घेतलो आनी कृष्णाक तिणें माळ घाली. (कृष्ण कडेन ती लग्न जाली.) मागीर कृष्ण पांडवांचे मदतीक धांवलो. कृष्णाचें आनी पांडवांचें नातें आशिल्लें. पांडवांक तांगेले बापोलभाव कौरव सदांच त्रास करताले. कृष्णान पळयलें, कौरवांनी अधर्माचो मार्ग आपणायला. ते इतल्या थराक गेल्ले कीं तांणी धर्मराजाक अधर्मान द्युतांत खेळोवन जिकल्या उपरांत पांडवांची पत्नी द्रौपदीक भर राज्यसभेंत विवस्त्र करपाचो प्रयत्न केलो. तेन्ना श्रीकृष्णान तिची अब्रू राखली. पांडवांच्या हर एका संकटांत कृष्णान तांची मदत केली. जेन्ना कृष्णाक होलमलें कीं कौरव आपली दुश्ट प्रवृत्ती सोडपाक कशेच तयार नात आनी पांडवांक तांचो हक्काचो राज्याचो वांटो दिवपाक तयार नात तेन्ना कृष्णान कुरुक्षेत्राची वाट दाखयली.

जेन्ना श्रीकृष्ण दूत जावन दोगांय मदीं समेट आनी शांती जावची ह्या हेतान वता तेन्ना दुर्योधन श्रीकृष्णाक कैद करपाचो बेत करता. तेन्ना श्रीकृष्ण ताका आपलें विश्वरूप दाखयता. कुरुक्षेत्राचे लडायेंत कृष्ण अर्जुनाचो सारथी जाता. जेन्ना अर्जुन सैन्यांत आपलेच नातलग, लागींचे, पयसुल्ले पळयता तेन्ना आपल्या हातान ह्या सगळ्यांची हत्त्या जातली ह्या भंयान तो गर्भगळीत जाता तेन्ना श्रीकृष्ण ताका उपदेश करता आनी तो भगवद्गीता ह्या ग्रंथान अजरंवर केला. कृष्ण अर्जुनाचें दैवी वाहन करता आनी दैवी गीतेचो संदेश सगळ्या जगाक सांगता. कृष्ण सांगता, आत्मो हो अमर, अविनाशी आसता. हांगा एकल्यान दुसऱ्याक मारप हो प्रस्नच येना. अर्जुनान आपलें कर्तव्यकर्म करपा खातीर श्रीकृष्ण अर्जुनाक उपदेश करता आनी जिणेच्या उद्धाराच्या मार्गाचेर प्रकाश घालता. वेगवेगळ्या थरांतल्या मनशांक उपेगा पड सारखे ज्ञानयोग, भक्तियोग, कर्मयोग शिकयता. तो शरणागतीचो मार्ग सांगता आनी अव्यभिचारी भक्तीचो मार्ग घालून दिता. भक्ती मार्ग म्हणल्यार इश्वराक मेळोवपाचो खात्रीचो सरळ सोपो मार्ग. श्रीकृष्णान सांगलें, फळाची आस्त धरिनासतना तूं तुगेलें कर्तव्य करीत राव. ताणें सांगलें, बरें वायट कशेंय आसूं. आपूण तें सगळें भोगशितां जर तांणी ताचेर विश्वास दवरून ताची भक्ती केली जाल्यार.

वस्तुस्थिती अशी आसा, इश्वरालो हो संदेश सगळ्यां खातीर आसा. गीतेचो योग्य तो प्रभाव अर्जुनाचेर रोखडोच पडलो. कृष्णान ताका आपलें विश्वरूप दाखयलें. ताच्यांत प्रकाश घालो आनी तागेलो मोह ना केलो. दुर्गुणांचो नाश केलो आनी नितीवान पांडवांक राज्यार बसयले. आनी

धर्माचें राज्य सुरू जालें.

पूण तेन्ना कलियुगाक सुरवात जावची जाली. कण्व रुशीच्या शापाक लागून तरूण यादव भुरगे समुद्रार गेले, सोरो पिले आनी एकमेकाक जिवानिशीं मारले. तांचो हो नाश पळोवन बलरामान शार सोडलें आनी तो तप करपाक गेलो. मागीर कृष्णान उद्धवाक उपदेश केलो. आत्मानुभुतीचो मार्ग ह्या विशीं आशिल्ल्या तागेल्या संशयाचें निराकरण केलें आनी ताका हांगाचो सोडून वच म्हूण सांगलें. मागीर श्रीकृष्णान तपाक सुरवात केली. श्रीकृष्ण-उद्धव संवादाक उद्धवगीता हें नांव पडलां. श्रीकृष्ण तप करतना तो आपल्या दाव्या पांयार उजवो पांय घेवन बसता. तेन्ना उजवें पावल दाव्या धोंपरा येता. इतल्यांत एक पारधी (ज्याचें पूर्वजल्मांत नाव वाली आसता आनी तेन्ना श्री रामान फाटसून बाण मारिल्लो आसता) तो ह्या जल्मांत अंगद नांवाचो पारधी जाता आनी नकळत कृष्णाच्या पावलाचो नेम धरून तो बाण मारता. कृष्णाचें पावल चिरता आनी कृष्ण आपली कूड सोडटा. कर्म-फल-न्याय हो समजावपाक कठीण. कोणाच्यानच ताचें भविष्य करूं नज. हें केन्ना कशें घडत हेंवूय सांगूंक येना. हे सनातन घटनेची गवाय दिवपाक कृष्णान हे रितीन आपलें मरण पत्करलें.

श्रीकृष्णाचो अवतार हो महिमाअवतार. हातूंत भरपूर इश्वरी लिला भरून उरल्यात. जेन्ना कोणय हाचेर चिंतन करता, ह्यो लिला गायता तेन्ना कोणाकय मुक्ती मेळूंक शकता. मागीर तो ह्या जगांतलो कितलोय हीन पातकी आसूं.

## शिरडी साईबाबा

साईबाबा पयलेच खेपे शिरडीक १८५४ वर्सा आयलो तेन्ना तो सोळा वर्सांचो तरूण भुरगो आशिल्लो. आनी थंय तो लागीं-लागीं ४५ वर्सां रावलो. नंतर तो अकस्मात नाच जालो आनी परत १८५८ वर्सा चंद पटेलाच्या भाच्याच्या वराडा बरोबर शिरडीक आयलो. तो थंय रावलो तेन्ना तो एक लांब कफनी घालतालो. आनी हातांत एक भिक्षापात्र. हेंच तागेलें सामान. आपली मर्त्यकूड सोडीसर म्हणल्यार १५ ऑक्टोबर १९१८ मेरेन हें भिक्षापात्र ताचे कडेन आशिल्लें. पूण ह्या भुरग्याचो जल्म खंय जालो, तो खंयच्यान आयलो हें खात्रीन कोणाक खबर नाशिल्लें.

आज पसून खात्री लायक म्हायती ना. भुरग्याचो जल्म खंय जालो, ताचो आवय-बापूय कोण हें कोणूच सांगूंक नकळो. थोडे विद्वान लेखक सांगतात, साईबाबाचो जल्म मर्त्य आवय-बापायगेर जालो ना. पूण बहुतेक जाण मान्य करतात बाबाचो जल्म हो एका ब्राह्मण कुटुंबांत निजाम राज्यांतल्या पर्थी खेड्यांत जाला. भुरगेपणांत बाबाक आवय-बापायन सोडलो आसूंक जाय. आख्यायिका अशें सांगता, एका फकिराक हें भुरगें मेळटा आनी तो ताका आपल्या घरा व्हरता. ताचें पालन-पोषण करता. फकिराच्या मरणा उपरांत ह्या भुरग्याक शैल गांवचो जमीनदार व्हरता आनी ताचें पालन-पोषण करता. तो ताका धार्मीक आनी आध्यात्मीक शिक्षण दिता. पूण हाका इतिहासीक आधाराचें प्रमाण ना. साईबाबांनी हें स्वता खरें-फट सांगूंक ना.

श्री सत्य साईबाबा हे शिरडी साईबाबांचे अवतार. ते सांगतात श्री शिरडी साईबाबा हांचो जल्म पर्थी हांगा गोदावरी

कांठार जालो. तागेले आवय-बापूय खूब धार्मीक आशिल्ले. आनी ते शंकराचे निरसीम भक्त आशिल्ले. शंकराचो वर-प्रसाद म्हणून ह्या भुरग्याचो जल्म जालो. पूण जेन्ना ह्या भुरग्याचो जल्म जालो तेन्ना तीं आवय-बापूय जगा पसून इतलीं अलिप्त जालीं, तांकां इतलें वैराग्य आयलें कीं तांणी हें भुरगें एका झाडा मुळां दवरलें. आनी देवाक ह्या भुरग्याचेर राखण आनी कृपा दवरची अशें सांगून दोगांय तपाक गेलीं. हे वटेन एक भुरगें नाशिल्लें फकीर जोडपें ते वाटेन वतना तांकां हें भुरगें मेळटा. तीं ताका घेवन घरा वतात. उपरांत जेन्ना तो व्हड जालो तेन्ना तांकां कळून आयलें कीं तो दीस भर शिवलिंगाची पुजा करपांत दंग आसता तेन्ना तीं ताका भायर घालतात. म्हणटकर मागीर तो शिरडीक येता आनी थंय स्थायीक जाता. एकदां शिरडी साईबाबान आपल्या खूब पोन्न्या भक्ताक म्हाळसापतीक सांगलां, आपूण पर्थीचो एक ब्राह्मण भुरगो आनी आपल्या आवय-बापायन आपल्याक एका फकिराक दिलो. म्हाळसापती हो शिरडी साईबाबांचो अती विश्वासू आनी प्रामाणीक भक्त. म्हाळसापतीक लागीं लागीं ३०-४० वर्सां दर दुसरे राती शिरडी साईबाबां वांगडा द्वारकामाईंत न्हिदपाचो मान मेळ्ळा.

चांदभाई पटेल जेन्ना आपले घोडयेक सोदपाक भोंवतालो तेन्ना ताका हो फकीर एका झाडा मुळांत बशिल्लो मेळ्ळो. बाबांनी ताका उलो मारून थंयच आशिल्ली एक गच्च झाडी दाखयली आनी थंय तुगेली घोडी चरता अशें सांगलें. चांदभाईक अजाप जालें. ह्या फकिराक त्याच जाग्यार आपली घोडी आसा हें कशें समजलें. तो बाबा

म्हऱ्यांत ताचे उपकार मानपाक आयलो. बाबान ताका आपली चिलीम दिली. बाबान आपलो चिमटो जमनीर आपटून उदक काडून ती चिलीम भिजयली आनी परत चिमटो जमनीर आपटून इंगळो काडून ती चिलीम पेटयली. भरिल्ली चिलीम पटेलाक दिली आनी आपणेंय ओडली. हें पळोवन चांदभाईक अजाप जालें. ह्या फकीर भुरग्यांत दैवी शक्ती आसा हाची ताका खात्री जाली आनी ताणें बाबाक आपले वांगडा आपल्या खेड्यांत येवपाची विनवणी केली.

कांय म्हयन्यां उपरांत हो फकीर भुरगो लग्नाच्या वराडा बरोबर शिरडीक आयलो. हांगा खंडोबा देवळाचो पुजारी म्हाळसापतीन ह्या फकिराक पळयलो. आनी अकस्मात स्फुर्ती आयिल्ले भशेन उलो मारलो आनी, "या साईबाबा, हांगा तुमचें स्वागत आसा,"अशें म्हणलें. ही इश्वरी इत्सा आसुये कीं ह्या फकीर भुरग्याचें साईबाबा अशें नांव आसचें. कारण हेंच नांव तांकां आयुश्य भर उरलें आनी तेन्नाच्यान ते शिरडी साईबाबा जाले.

साईबाबा उलयतना सदांच दृश्टांत दिवन, निती कथा सांगून, दुसऱ्याचेर घालून बोध करप अशा तरांनी उलयताले. हिंदून ताका खंयच्याय देवाचो इश्वरी अवतार मानलो. मुसलमानांनी सांगलें, तो अल्लान धाडिल्लो आपलो दूत आसा. आनी एका मनशाक तो दत्तात्रयाचो अवतार सो दिसलो. आनी एका कोणाक तो अक्कलकोट स्वामी महाराज दिसलो. पूण प्रत्येकाक हो एकच संत आपले इश्ट देवतेच्या वा देवाच्या रुपांत दिसला. आनी आपली इश्ट देवता अशें धरूनच जण एकल्यान ताची पुजा केल्या. बाबांक नम्रविनोद करपाची सवंय आशिल्ली. आपल्या भक्तां बरोबर सदांच

हांसत उलयत चलताले. तांची स्तुती करपी आपल्या भक्तांक सदांच बाबा घुस्पायताले.

कोणाकच खबर नाशिल्ली ते हिंदू आसात काय मुसलमान आसात ते. ते मुसलमानांचो भेस करताले आनी हिंदूंची खूण म्हूण गंध लावन घेताले. दोनूय धर्मांतले उत्सव ते मनयताले. तांगेली पवित्र धुनी सदांच पेट्टी आसताली. हाचे उलट ते मशिदींत रावताले. आनी तिचें नांव तांणी द्धारकामाई अशें दवरिल्लें. कुराणांतली कलमां सांगताले आनी मुसलमानांक खोशी करताले. आनी त्याच बरोबर हिंदू शास्त्रांचें गाढ ज्ञान आशिल्ल्याचें दाखोतन दिताले. अशे तरेन दोनय समाजांक अजापांत उडयताले. ते आपल्याक फकीर म्हणटाले. आनी अल्लाक मालीक म्हणटाले. आनी मागीर आपूण शुद्ध ब्राह्मण अशेंय सांगताले. आपलें योगीक साधनेंतलें प्रभुत्व दाखयताले. दोनूय समाज तांच्या पांयां कडेन नतमस्तक जाताले. कदाचीत अशे तरेचें हें अद्‌भूत येद्या व्हडल्या हिंदुस्थान देशाच्या इतिहासाक खबर ना. दोन वेगवेगळे समाज, दोन स्त्रद्धा एकाच सिद्ध पुरुशाक मोठे स्त्रद्धेन, भक्तिभावान , एकमेकाच्या संयमान आपले वेगवेगळे पद्धतीन शिरडीक येतकर सगळें विसरून एक जातात आनी धन्यता पावतात. शिरडीक स्थायीक जाले उपरांत बाबांनी आपल्या योगीक सामर्थ्यान धुनींतलो उजो पेटयलो ती धुनी अजूनय पेटत आसा. तातूंतले पवित्र राखेक उदी म्हणटात. बाबांनी ही उदी वखद म्हणून कितल्याशाच रोगाचेर दिल्या. आनी आपणें स्वता ती दुखणाइतांक लायल्या. शिरडीच्या लोकांनी रोखडेंच ह्या फकिरांतलें पूर्ण साधुत्व वळखिलें आनी ताचे भक्त जाले. आनी दिशी दिशीं

भक्तांचें प्रमाण वाडत रावलें. द्वारकामाईच्या लागसारा एक रान आशिल्लें. आनी ताका लेंडी बाग अशें म्हणटाले. बाबा थंय योग साधने खातीर वताले. केन्ना बाबा एका कडुलिंबाच्या झाडा सकयल बसताले. तें झाड द्वारकामाई लेंडी बाग हांचे मदीं आशिल्लें. तें झाड लेंडी बागेंत मुख्य हॉलांत आतां ज्या जाग्यार मूर्ती आसा, जंय बाबा ध्यान करपाक दिसाक दोन वरां बसताले थंय आसा काय तें द्वारकामाई मशिदींत जंय बाबा रावताले थंय आसा, हें कोणाक खबर ना.

तीच ती द्वारकामाई जंय बाबालो दरबार भरतालो आनी हांगाच बाबा आपले मोगाळ राखणेचें आश्वासन आपल्या सगळ्या लागीं पयस रावपी भक्तांचेर आपलें बेसांव घालतालो. तागेल्या आकर्शक भेटीच्यो आनी जवळीक हांणी जागृत जाल्ल्यो भावना त्यो अजूनय ताज्यो आसात. बाबांलो संयम, शांती हीं अढळ आसतात. भक्तांनी कशाकशीय केल्ली पुजा आनी न थांबणारी सांखळी जे आश्रमांत गर्दी करतात, सकाळचे फांतोडे धरून केल्ल्यो पुजा हांगा बाबाले दयेची मान्यता सांगता तुमचे चिंतेचीं वजीं म्हजेर सोडात, हांव तांकां सोंसतां. ताणीं अशेय सांगलां, ही द्वारकामाई खूब दयाळू आसा. जे कोण तिचेर आपलो पूर्ण विश्वास दवरतात, तांची ती आई जाता आनी तांची काळजी घेता.

सदांच बाबा आपल्या हातांनी प्रसाद तयार करताले. तातूंत शीत, दाळ, शाकभाजी आनी केन्नाय मांस आसतालें. ते गांव दळटाले. धान्य आनी दाळी फातरीर वांटप. तें दातें आनी फातर अजून मशिदींत दवरिल्ली आसा. साईबाबा

खूब कमी खाताले. आनी जें कितें खाताले तें दिसपट्टी भिक्षा मागून हाडटाले. ते खातीर ते थारावीक घरां भोंवताले. वा भेटेक येवपी जें कितें हाडटाले आनी हेर भक्त निवेद्य हाडटाले  तो सगळो भरसून भक्तांक वांट्टाले. तातूंत उच्च जातीचे हिंदू, मुसलमान आनी पारशी आसताले.

बाबांली एक विलक्षण सवंय आशिल्ली. ते दक्षणा घेताले आनी जमोवन इतर भक्तांक वांट्टाले. भक्तां भितर बाबा थारावीक मनशां कडल्यान पयशे घेताले आनी इतर भक्तांक वांटून दिताले.

बाबा हे महावीर आशिल्ले. (इश्वरी अवतार, एक व्हड आत्मो) अमाप दैवीशक्ती आशिल्ल्यान अद्‌भूत करण्यो तांच्या हातांतल्यान घडटाल्यो. पूण ते आपल्याक देवाचो सेवक अशें सांगताले. आनी ज्यो घटना घडल्यात त्यो देवाल्यो करण्यो अशें सांगताले तांणी आपल्याक आपूण गुरू अशें केन्नाच म्हणलें ना. आनी तांकां कोण शिश्यय नाशिल्ले. तांगेले फकत भक्तच आसताले. एक पावट काकासाहेब दिक्षीतान बाबांचें वर्णन केलें. पिंजके कपडे घालप, मन मानता थंय बसप, पिशें पांगुरप पुणून सगळें विश्व आपल्यांत आसपावप.

आमगेल्या मर्यादीत बुद्धिच्या थरान जाणा जावन घेतिल्ल्या बाबांच्या भक्तांक आयिल्ले बाबांनी केल्ल्या अजापांचे अणभव हे खूब आसात. तातूंतले  खूबशे अणभव संकलीत करपाचें काम आपल्या अधिकारवाणीन हेमाडपंतांनी (के ह. भ प.गोविंदराव रघुनाथ दाभोलकर) हांणी साई सत्‌चरितांत भक्तां कडलयान स्वता आयकून बरयल्यात. थोडे स्वता बाबांचे हयातींत पळयल्यातआनी ग्रंथीत केल्यात.

शिवाय हे बरोवचे पयलीं शिरडी साईबाबां कडल्यान ताणें अनुमोदन घेतलां. तातूंतले थोडे हांगा सांगल्यार चूक जावचें ना अशें धरून ठळक प्रसंगांचें हांगा थोडें वर्णन सांगलां. देखीक - एक दीस बाबांनी कशे तरेन सांजे वेळार वातीचे दिवे (पणट्यो) पेटयले ती खबर. घडलें अशें, बाबा व्यापाऱ्यां कडल्यान फुकट तेल हाडून मशिदींत पणट्यो पेटयताले. एक दीस सगळ्या व्यापाऱ्यांनी कट करून बाबांक तेल ना म्हणटात. बाबा तें आयकून थंडपणान मशिदींत येतात आनी थोडें थोडें उदक घेवन ते पणट्यांत घालून वाती कांकाडे पेटयतात आनी ते सबंध रात जळटात. ही खबर सगळ्यांक कळटा. व्यापाऱ्यांक पच्छताप जाता. बाबांचे देवीशक्तीचो अणभव येता. आनी हें पळयिल्ले खूब लोक शिरडीक आशिल्ले. आनी एक पावट शिरडीक मोठें वादळ जाता. घोग्यांनी पावस थांवनासतना पडटा. म्हणटकर सगळे लोक मशिदीच्या आलाशिऱ्याक बाबांच्या म्हऱ्यांत धांवतात. ते बावांक पावस थांबोवचो म्हूण कळकळीची प्रार्थना करतात. तेन्ना साईबाबा मशिदीचे धडेर येतातआनी वादळाक, पावसाक थांबपाची आज्ञा करतात आनी पावस, वादळ थांबता. लोक समाधानी जावन परते घरा वतात. एक पावट डॉ. रस्तोगी आपल्या मित्रांक ३०० रुपयांचो चेक दितात आनी मागीर तांकां याद जाता, आपल्या खात्यांत पयशे उणे आसात. म्हणटकर चेक परतो येवन लज जातली म्हूण ते बाबांची प्रार्थना करतात आनी बाबा ती आयकून तांकां अनवळखी मनशा कडल्यान ३०० रुपयांचें पाकीट धाडटात आनी तांची अब्रू वांचयतात.

एक पावट शिरडीक कॉलेराची सांथ आशिल्ली. निराधार मनीस साईबाबांक येवन मेळ्ळे. बाबांनी तांकां

सांगलें, गवांचें पीठ गांवचे शिमेर उदकांत शिंपडायात. शेखडीच सांथ आळबंदा आयली. अनर्थ टळ्ळो. खूबशा वेळार भक्तांलीं दुखणीं बाबा आपल्याचेर ओडून घेताले, आपूण सोंसताले आनी भक्तांक दुखांतले सोडयताले. असोच आनी एक दाखलो. एक भुरगो आवय-बापाय वांगडा शिरडीक आयिल्लो. ताका प्लेग जाल्लो. आवयन बाबांक पराथलें. बाबांनी भुरग्याक निवळायलो आनी आवयक सांगलें, जे वरवीं तुवें तुगेलें वजें म्हजेर घालां तेवरवीं आतां तुका कसलीच काळजी करपाची गरज ना.

१५ ऑक्टोबर १९१८ हो दीस शिरडीक दुखदिणो आनी दुर्भागी आशिल्लो. तें शिरडीचें एक ल्हानशें खेडें. मंगळार २.३० क भर दनपरां बाबांनी निमणो स्वास घेतलो. थंडपणान कांयच आडखळ नासतना, कांयच पिरंगण नासतना भक्तांच्या खांद्यार बाबांनी मान आडवी केली. मरणाची बातमी वाऱ्यावेगान रोखडीच सगळ्या खेड्या भर जाली. आनी लोकांच्यो झुंडी, दादले, बायलो, भुरगीं सगळीं आस्रमांत धांवलीं. बाबांली कांतिवंत शारिरीक कूड थंड पडिल्ली आशिल्ली. थंय ही कूड खंय दवरपाची हाचे विशीं थोडो वाद जालो. पूण रोखडेंच हिंदू मुसलमानांचें एकमत जावन कूड वाड्यांत मदल्या हॉलांत दवरपाचें थारलें. मागीर सगळ्यो विधी दबाज्यान यथासांग पार पडल्यो. श्री शिरडी साईबाबांनी मरचे पयलीं आपली ही कूड वाड्यांत पडची अशें सांगिल्लें. आनी सगळें तांचे इत्से प्रमाण जालें.

बाबांनी भक्तांक उतर दिल्लें आपली समाधी तुमचे कडेन उलयतली. आनी जे कोण तिचो आधार मागतात तांकां ती पावतली. जो कोण भक्त आपल्याक अनन्य स्रद्धेन

आनी प्रेमभरीत उलो घालता ताका आपूण मेळटलों. आज ७६ वर्सां उपरांत लेगीत हीं उतरां पूर्ण जातात. शिरडी साईबाबा वेगवेगळ्या भक्तांक वेगवेगळ्या रुपान प्रकट जावन भेट दितात. खूबशा प्रसंगानी ते स्वताच्या रुपांत दिश्टावो दितात. इतलेंच न्हय मरणाच्या दुसऱ्या दिसा बाबा आपल्या एका भक्ताक सपनांत मेळून सांगतात, आपूण मेला म्हूण समजूं नाका. हांव जितोच आसां. वच आनी म्हजी नित्याची सकाळची आरती कर. इतर भक्तांकय न चुकतां हो इशारो मेळ्ळो आनी तांकां दिसता, खात्रीन सांगतात बाबा परते येतले. तांकां मरण आसना. बाबांल्या भक्तांक बाबा आतां शिरडीक आशिल्लो ताच्याकय चड जागतो आसा.

## बाबांली शिकवण

शिरडी साईबाबांनी केन्नाच प्रवचनां दिलीं नात वा तांणी आध्यात्मीक प्रबंध बरयले नात. तांणी केन्ना औपचारीक भाशणांय केलीं नात वा पुस्तकां बरयलीं नात. बाबांनी भक्तां बरोबर केल्ल्या संभाशणांचो हेतू ही तांगेल्या नैतीक विचारांक सामान्य साधकांच्या विचारांच्या वयर काडपाक आसतालो. सामान्य मनशाले शब्द हे जळट्या मेणवाती भशेन जे उलोवप्यांक आनी आयकुप्यांक काळखांतच दवरतात. पूण इश्वरी अवतारांचे संदेश हे उलयतना आशिर्वादा खातीर आसतात. ते न मावळणाऱ्या सुर्याभशेन आनी जे सदांच मेळूंक शकतात. फकत तुमी दुशीत भावार्थाचो पड्डो पयस करात. आनी सुर्याच्या उजवाडाचे तुमी भागीदार

जायात.

श्री शिरडी साईबाबा जल्मभर प्रेमा खातीर, मैत्री खातीर आनी समजणे खातीर तळमळ्ळे. आपल्या प्रेमाच्या परिणामान भक्तां भितर जागृताय हाडपाक तांणी सतत प्रयत्न केले. ते आपल्या साधकांक आवर्जुन सांगताले, पवित्र आध्यात्मीक जीण जगात. संयम आनी देवाच्या एकत्वाचेर स्रद्धा दवरात. जगांतल्यो सगळ्यो जाती, पंथ हांकां सगळ्यांक एक करपाचो आनी द्वारकामाईच्या छत्राखाला हाडपाचो तांणी प्रयत्न केलो. तातूंत हिंदू, मुसलमान, पारशी आनी ख्रिश्चन हांणी सगळयांनी एकाच विश्वदेवाची पुजा करची अशे तरेचें वातावरण तयार केलें. जंय विश्व, सोशीकपणा, सद्भावना आनी एकत्व हीं सदांच तांगेल्या आचरणांत सगळ्या जातीच्या पंथाच्या लोकांक दिश्टी पडटालीं. परत परत ते आपल्या भक्तांक आवर्जून सांगताले, "तुमगेलो सगळो वेळ, शक्त आनी विचार तुमगेलें आत्मस्वरूप जाणा जावपाक खर्च करात." तशंच देवाच्या नांवाचो जप ध्यान सतत करचें हाचेर ते भर दिताले. नामजप करतना तो मनांतल्या मनांत वा मोठ्यान देवावें नांव घेवन करचो अशें ते सांगताले. निमणें शिरडी साईबाबांचो संदेश हो प्रेम संदेश. तो दिवन तांणी आपली ह्या मर्त्य लोकांतली यात्रा सोंपयली.

**श्री सत्य साईबाबा**

श्री सत्य साईबाबांचो जल्म सक्काळीं ७.०६ मिनटांचेर मंगळाराक २३ नोव्हेंबर १९२६ दिसा पुट्टपर्ती हांगा एका

ल्हानशा पयसुल्ल्या खेडचांत जालो. हें खेडें दक्षिण हिंदुस्थानांत आंध्र प्रदेशांत आसा. बाबांच्या बापायचें नांव श्री पेड्डा वेंकप्पा आनी आवयचें नांव श्रीमती इश्वरम्मा. तांगेलो आजो आनी आजी हीं खूब धार्मीक वृत्तीचीं आशिल्लीं. बाबा हे राजू घराण्याचे क्षत्रीय वर्णाचे. इश्वरअम्मा ही सदांच देवाची भक्ती करताली. स्वभावान धार्मीक वृत्तीची. ह्या जोडप्याक देवाचे कृपेन एक पूत आनी दोन कन्या जाल्यो. तांचो शेशम राजू हो चलो आनी वेंकम्मा आनी पार्वती अम्मा ह्यो दोन चलयो. थोडीं वर्सां वतकर इश्वर अम्माक आनीक एक चलो भुरगो आसचो अशें दिसलें. हिंदू लोक आपली इत्सा पुरी जावची म्हूण जायते खेपो सत्यनारायणाची पुजा सांगून घेतात. थोडीं उपासूय सांगून घेतात. इश्वर अम्मान देवाची पुजा आनी उपास केलो आनी सत्यनारायणा कडेन आपल्याक आनी एका पुताची मागणी केली. देवान तिगेली प्रार्थना आयकली. आनी तिका दुसरो चलो जालो. ताका सत्यनारायण राजू अशें नांव दवरलें. आतां ताका श्री सत्यसाईबाबा म्हणटात. ह्या भुरग्याचो जल्म सामान्य नाशिल्लो. हो इश्वरी जल्म आशिल्लो. इश्वर अम्माची मांय लक्षम्मा हिका एक सपन पडटा. तातूंत श्री सत्य नारायण देव येता आनी तिका सावध करता. इश्वराचे इत्से लागून घरांत जर कसल्योय नखलामी जाल्यो जाल्यार भियेंव नाकात. अशे लक्षम्मा आपले सुनेक इश्वरम्माक सांगता.

एके सकाळीं इश्वरम्मा बांयचें उदक काडटाली. तिका एक मोठो पेल्ल निळया उजवाडान चकचकणारों तिचे वटंन येता तें पळोवन तिका घुंवळ येता आनी ती पडटा. तिका भास जाता, तो पेल्ल आपल्यांत भितर सरता. म्हणटकर

हो अवतार प्रवेश. तागेल्या जल्मा वेळार घरांत खूब शे शुभशकून जाल्ले दिश्टी पडूंक लागले. घरांत लिला घडपाक लागल्यो. संगीत वाद्यां - तंबोरो, तबलें हांचे अकस्मात रातच्या शांत वेळार आवाज आयकूंक येवचे. आनीक घरांतले कोणूच ते वाजयनाशिल्ले. एक नाग येवन भुरग्याच्या पाळण्यांत हांतुळणा पोंदा कोणा नकळत येवन बशिल्लो. परत परत भुरग्याचे पांय विभुतीन भरताले. आनी विभुती भुरग्याच्या सुपुल्ल्या हातांत दिसताली.

जेन्ना सत्या व्हड जालो तेन्ना ताका पुट्टपर्तीक प्राथमीक शाळेंत घालो. थंय तो तेलगू वाचूंक बरोवंक शिकलो. ताका गोड आवाजाची देणगी लाभिल्ली. जेन्ना तो पदां म्हणटालो तेन्ना खूब शा लोकांचीं काळजां तो जिखतालो. जेन्न ताका सात वर्सां पुराय जालीं तेन्ना तो पदां भजनां रचूंक लागलो. आनी धार्मीक खेळांचीं पदां, कथानकां बरोवपाक ताणें सुरवात केली. आपल्या हस्तसंचलनान तो तरेकवार वस्तू जशो फळां-फुलां, मिठाई आपल्या सवंगड्यांक दिवपा खातीर उत्पन्न करतालो. जेन्ना तो आठ वर्सांचो जालो तेन्ना ताका बुकापट्टम हांगा हायर एलेमेंटरी शाळेंत घालो. एक फावट अशें घडलें, शिक्षकान दिल्ले नोट्स सत्या बरोवन घेना म्हणपाचें शिक्षकाच्या लक्षांत येता. शिक्षक सत्याक बरयनासतना रावपाचें कारण विचारता. आनी सत्या ताका जाप करता, तुवें जें कितें सांगलां तें आपल्याक पयलींच खबर आसा. तुवें विचारल्यार आपूण उत्तरां सांगतां. शिक्षकाक आपलो अपमान अशें दिसता. आनी तो सत्याक बांकार उबो रावपाची शिक्षा दिता. आनी सत्या ती मानून शिक्षकाच्या उतराक मान दिता. थोड्या

वेळान क्लास सोंपपाची घांट वाजता पुणून शिक्षक आपलें कदेल सोडना. फुडलो शिक्षक येता आनी ताका हें विचित्र दिसता. तो पयलींच्या शिक्षकाक विचारता, तूं क्लास कित्याक सोडना? तो फुत्फुतून भितर आयिल्ल्या शिक्षकाक सांगता, कदेल आपल्याक चिकटून आसा. स्कुलांतले भुरगे तें पुटपुटप आयकतात. ते म्हणटात, हो सत्यालोच जादू आसूंक जाय. नवो शिक्षक सत्याक बसूंक सांगता. आनी रोखडेंच पयलींच्या शिक्षकालें कदेल सुट्टा शिक्षकाक सू जाता आनी तो उमथे मानेन भायर वता. ह्यो अश्यो लिला पळोवन श्रीकृष्णाच्या भुरगेपणांतल्या लिलांची याद जाता.

वयाच्या चवदाव्या वर्सा तागेल्यो दैवी शक्ती भरा आयल्यो. ताका स्थळ काळाचें बंधन उरलें ना. पयसुल्ल्या आपल्या भक्तांक रोगमुक्त करपाक, तांकां वांचोवपाक, तांकां आशिर्वाद दिवपाक, तांकां त्या त्या जाग्यार खिणांत वचपाची सिद्धी आनी इतर सिद्धी ताचे कडेन आयल्यो. ताची कीर्त, नांव जगभर पावलें. ताका पुट्टपर्तीचो दैवीक भुरगो अशें नांव पडलें. त्याच वेळार २३ मे, १९४० वर्सा आपल्या आवय-बापायक, सेशम राजूक आनी लागसारच्या इतर लोकांक सांगलें-उकतें केलें कीं, "हांव शिरडीच्या साईबाबांचो अवतार आसां. हांव संकटां पसून तुमची राखण करपाक आयलां. तुमचीं घरां पवित्र आनी निवळ दवरात." बापाय बरोबर थंय आनी लोकांचो जमाव आशिल्लो. बापायन सत्याक सांगलें, "तुवें जें सांगलां ताचें खरेंपण आमकां ह्या खिणाक पटोवन दी." सत्यान तांचे कडेन फुलांनी भरिल्लो कुरपणो मागलो. तांणी ताका फुलां हाडून दिलीं. सत्यान हाताच्या शिंवरान तीं फुलां जमनीर उडयलीं. तीं

फुलां सकयल पडटना आपोआप तीं वळणान पडलीं. आनी जमनीर साईबाबा अशीं फुलांचीं उतरां तेलगू भाशेंत रांगोळी घाल्ले भशेन पडलीं

त्या दिसाच्यान सत्यनारायण हो शिरडी साईबाबांचो अवतार अशें धरून ही चाल पुट्टपुर्तींत सदां खातीर चलत रावली. तेन्नाच्यान श्री साईबाबा यूग सुरू जालें.

८ मार्च, १९४० वर्सा स्कुलांत ज्या जाग्यार तागेलो व्हडलो भाव शेशम राजू शिक्षक आशिल्लो थंय सत्याक एका विंचवान नांगी मारली आनी सत्या शितिदा भायर वचून पडलो. ताचेर वखदां केलीं पूण सत्या निवळ्ळो ना. सत्याक ह्या वेळार खूब त्रास सोसचे पडले. ताका एका जहाल मांत्रीक वैदू हाका दाखयलो. पूण फुकट. ताची वागणूक विचित्र जाली. ताच्यांत जाल्लो बदल स्पश्ट दिसतालो.

तो अदृश्टान थारायिल्लो दीस आयलो. सोमार, २०, ऑक्टोबर, १९४०. सत्यान घोशणा केली. आपलें कार्य आपली वाट पळयता. अशें सांगून ताणें घर सोडलें. ताणें सांगलें, "हांव वतां. आतां हांव तुमगेलो न्हय. माया पयस जाली. म्हगेले भक्त म्हाका आपयतात. म्हाका म्हगेलें कार्य आसा. म्हज्यान आनी चड दीस हांगा रावूं नज. म्हजें कार्य म्हजी वाट पळयता." ताणें सगळ्यांक सांगलें, "हांव सत्य साईबाबा आसां." इतलें सांगून शेजाऱ्याल्या बागेंत तो गेलो. थंय जमिल्ल्या जमावा भितर बसलो आनी तांकां आपलें पयलें भजन शिकयलें-

मानस भज रे सदगुरूचे पांय
हो भवसागर तरणें कठीण कठीण

आनीक ना रे दुसरो उपाय
मानस भज रे सदृगुरूचे पांय

ह्या भवसागरांतल्यान एकलो गुरूच तुका तारूंक शकता. सत्य साईवावाच्या आवय-बापायन ताका खूब आग्रो केलो, तूं पुट्टपुर्तीक यो आनी तुगेलें कार्य थंयच्यान सुरू कर. तागेले भक्तांचे जथे ह्या खेड्यांत भरभरून येवपाक लागले. आनी १९४९त मागीर वाबांची पुजा-अर्चा, भजन करपाक हॉल वांदलो. इतर इमारती बांदल्यो आनी आतां नामनेचो आश्रम प्रशांती निलयम हाचें उदघाटन २३ नोव्हेंबर, १९५० वर्सा वाबांल्या २३व्या वाडदिसा केलें. त्या वेळार धरून प्रशांती निलयम ही वाबांली कर्मभूमी जाली आनी पुट्टपुर्ती हें तीर्थक्षेत्र जावन आसा. ताका आज लक्षावधी भक्त जगभरांतल्यान भेट दितात आनी आदरान अजापान मोने जातात. आश्रम वृंदावन बेंगळुरा लागसार व्हायटफिल्ड म्हण्टात थंय वांदला. हांगा वाबा गिमांत येवन रावतात आनी ह्या जाग्यार श्री सत्य साई ट्रस्ट आसा. श्री सत्य साई कॉलेज ऑफ आर्टस ॲण्ड कॉमर्सय बी हांगा आसा. म्हत्वाच्या उत्सवाच्या दिसांनी हे दोनूय जागे लोकांचे गर्देन भरून वतात. आनी बाबा आपलो सत्य, प्रेम आनी शांतीचो संदेश दितात.

गोंयांत १९६८ वर्सा साईबाबांनी प्रवचनांत उलयतना उकतें केलें, पयले खेपेक कीं ते भारद्वाज कुळयेचे जावन आसात. म्हणचे पुर्विल्ल्या काळांत एक भारद्वाज रुशी जावन गेलो. ताका म्हादेवा कडल्यान वरदान मेळिल्लें कीं देव म्हादेव आनी पार्वती कलियुगांत तीन फावट हांगा मृत्युलोकांत जल्म घेतलीं. सत्य साईबाबांनी आपूण जावन

सागलें, आपूण शिरडी साईबाबांचो अवतार आसां. जुने पिळगेंतले कांय लोक आसात आनी ते शिरडी साईबाबांचे भक्त आशिल्ले. श्री सत्य साईबाबांनी श्री शिरडी साई बाबांचो अवतार घेतला अशें कळटकर तांकां अजापांतलें अजाप दिसलें. थोड्यांनी हाचेर विश्वास दवरलो. इतरांक तें पटलें ना. थोडे हाचेर विचार करूं लागले आनी थोडे हातूंतलें सत्य कितें तें सोदपाचो यत्न करूंक लागले. खूबशा वाटांनी श्री सत्य साई बाबांनी सिद्ध केलां कीं आपूण शिरडी साईबाबा आसां. आनी आतां हे सध्याचे जिणेंत आतांचो सत्य साई हो पयलींच्या शिरडी साईबाबांचो अवतार. तागेली आपले विशीं वळख दितना केल्ली अवताराची घोशणा ही अशी मनशाच्या आध्यात्मीक इतिहासांत केन्नाच पयलीं घडूंक ना. वयाच्या चवदाव्या वर्सा तो शिरडी साईबाबांचो अवतार हें सिद्ध जालें. ही घोशणा तांणी स्वयंस्फुर्तीन केल्ली. ताणें खंयच्याय पुस्तकांतल्यान वाचून ज्ञान घेवंक ना. तो जगांतल्या सगळ्या ज्ञानांचें प्रतीक जावन आसा. ताणें तपाची कठीण साधना वा योग साधना वा ध्यान धारणा केली ना. म्हणून तो स्वयं प्रकाशीत आसा. ताका इश्वर जावपाक सर्गावेलो सांगात वा आदार लागलो ना. तो जल्मतनाच इश्वर आशिल्लो. सर्गावेल्यान देवाल्या दुतान येवन ताका प्रेरणा दिली ना. तो स्वताच लोकांक प्रेरणा दिवपी आशिल्लो. सिद्धीच्या वापरान ताणें आपले शक्तीचें प्रकटीकरण करूंक ना. तो स्वताच परम सिद्ध आशिल्लो. आध्यात्मीक साधनेचो ताणें फायदो घेवंक ना. तिकाच ताणें मनीस रूप दिलें. सत्य साईबाबा इश्वरालो दूत जावन ह्या जगांत आयलो ना. तो इश्वरी अवतार म्हणूनच आयला. तो सगळ्यांत वेल्या पावंड्यावेलो. ताका अमर्याद जाणिवेची

देणगी आशिल्ली.

सत्य साईबाबालें कार्य नवो धर्म स्थापन करपाचें न्ही. पुणून सगळया धर्मांचे आध्यात्मीक बुन्यादीक बळ दिवपाचें. तो एका थारावीक समाजा खातीर उबो ना. पूण सगळे मनीस जाती खातीर, तांच्या उद्धारा खातीर तो उबो आसा. ज्यो स्रद्धा पयलींच स्थापन जाल्ल्यो आसात तांकां कुशीक काडिना. तर तांच्यांत भर घालून तांकां घट्ट करता.

मनीस जातीक बाबा पयशांचे दृश्टीन पळयना. तर ताका अदृश्य कुटूंब जावन पळयता. तांगेले घोशणे उपरांत तांणी आपलीं दारां सगळया धर्मांच्या लोकांक उकतीं दवरल्यांत. थंय जात-पात, वर्ण लागना.. जगाच्या पयस पयस भागांतल्यान मनशांच्यो झुंडीच्या झुंडी येतात हांकां खंड ना. हांच्या सगळयां खातीर बाबालीं दारां उकतीं आसतात. पयल्या अवतारांत तो शिवाचो अवतार आशिल्लो आनी हो शिरडी साईबाबा आशिल्लो. दुसऱ्या अवतारांत शीव आनी तागेली शक्ती (ह्या दोगांयचोय मेळून एक अवतार) हांचो अवतार म्हणल्यार श्री सत्य साईबाबा आनी तिसरो अवतार तो फकत शक्तीचोच आसतलो. आनी सत्य साईबाबांनी भविश्य केलां तशेंच ताचो जल्म कर्नाटक राज्याच्या मंड्या जिल्ल्यांत निर्वाणा उपरांत जातलो.

साईबाबांनी चमत्कार केल्यात जशे कीं विभुती प्रकट करप. बरो जावपाक कठीण असल्या रोग्यांक बरे केल्यात. कॅन्सर, अर्धांग वगैरे रोग, मेल्ल्या मनशांक उठोवप. खूबशा लोकांनी आपली दृश्टी परती मेळयल्या, मोन्यांक वाच आयल्या आनी भेड्ड्यांक आयकूंक आयलां, लंगडे-पांगळे थीर चलूंक शकल्यात. हे सगळे बाबान रोगमुक्त केल्ले

मनीस आज पसून जिवे आसात. आज ते खोशयेंत आसात. आनी भक्ती आनी बाबांली कृपा हांणी समाधानान जगतात.

डॉक्टर भगवंतम हो एक वैज्ञानीक आनी नास्तीक. एक फावट बाबा हेर भक्तां वांगडा चित्रावतीच्या वाळवंटार गेले. थंय ते रेवेंत बसले. थंय तांणी एक पोसो भर रेंव घेतली आनी डॉ. भगवंताक हातांचो पोसो करूंक सांगलो आनी ती रेंव तांच्या पोशांत ओतली. अजाप म्हणल्यार ते रेंवेचें एका ल्हानशा भगवद्गीतेच्या पुस्तकांत रुपांतर जालें. डॉ. भगवंतान ही खंय छापल्या अशें बाबाक विचारलें. बाबा हांसले आनी सांगलें, ती साई प्रेसांत छापल्या. थंय बशिल्ल्या मनशांतल्यान बाबांनी एका गरीब मनशाक नांवान उलो करून आपयलो. तो हरनाथबाबा आनी कुसुम कुमारी हांचो भक्त आशिल्लो. बाबांनी ताका सांगलें, देवळाचे बांदावळी खातीर लोकां कडेन पयशे मागूं नाका. बाबांनी परती थोडी रेंव घेतली आनी हे रेंवेच्यो चांदीच्यो दोन मुर्ती तयार जाल्यो. एक हरनाथबाबा आनी दुसरी कुसुम कुमारी. ह्यो दोन त्या भक्ताक दिवन बाबांनी ताका सांगलें, ह्यो दोनूय तुगेले देवाकुडींत दवरून पुजेक लाय आनी देवूळ बांदपाचे भानगडींत पडूं नाका. देव देवळांनी आसना. तो तुमच्या काळजांनी रावता. हे रितीन बाबांनी दाखोवन दिलें, देवाच्या मुखार हुद्दो, अधिकार हाका म्हत्व ना. गरिबी आनी श्रीमंती हाकाय म्हत्व ना. फकत भक्ती आनी देवाली कृपा हांकां म्हत्व आसा.

एक फावट केप कामोरिनाक गेल्ले कडेन दर्या देगेर बाबा उदकांत खेळटाले. तांणी कांय भक्तांक विचारलें, समुद्र ह्या शब्दाचो अर्थ कितें. एका तरूण मनशान सांगलें,

समुद्राक रत्नाकर म्हणटात. म्हूण तांतूंत रत्नां, हिरे आसूंक जाय. भुरगेपणाचे रितीन बाबांनी हातांत ओंजळभर समुद्रांतले उदक घेतलें आनी ह्या उदकाचो एक सुंदर हिऱ्यांचो हार तांच्या हातांत जालो. थंय बशिल्ल्या सगळ्या लोकांक बाबांनी हो हार दाखयलो. हेच भशेन बाबा मुदयो, लॉकेटां, सरपळ्यो, कांकणां, कानांतले डूल, मंगळसुत्रां बी वेगळ्या वेगळ्या भक्तांक वेगवेगळ्या कारणांक लागून भेट दितात. जीव गेल्ले कुडींतल्यान मनशाक जिवो करप हीं अजापां खिरस्तान आपल्या वेळार केल्लीं खूब जाणांक खबर आसा. बाबा हे विश्व खिरस्त. तांणी जगाक एक दोळे दिपकावपी मेल्ल्या मनशाक जिवो करपाचें अजाप दाखोवन दिलां. अमेरिकेचो वॉल्टर कोवान आनी हाँगकाँगचो भगवानदास दासवानी ह्या दोगांकय हे इश्वरी लिलेचो फायदो जाला.

१९७१ वर्सा मद्रासाक वॉल्टर कोवानची भलायकी एकदम बिगडली. आनी हॉटेलांतल्या रुमांत ताका मरण आयलें. ही खवर मध्यान रातीची. रोखडेच डॉक्टर आयले. ताका तपासलो. आनी तो मेला म्हणपाचें घोशीत केलें. सकाळीं तें मडें हॉस्पीटलांत तपासपाक व्हेलें. दुसऱ्या आनी एका डॉक्टरान तो मेला हें सिद्ध केलें. जवळ-जवळ सकाळच्या धा वरांचेर श्रीमती कोवान श्रीमती रतन लाला वांगडा हॉस्पिटलांत आयली. थंय तांकां बाबा कांय मिनटां खातीर हॉस्पिटलांत येवन गेल्ल्याचें कळ्ळें. भितर वच जाल्यार वॉल्टर कोवान बसून कोणा कडेन खबरी करतना दिसले.

भगवानदास दासवानी हांकां गंभीर स्वरुपाचो काळजाचो आताक आयलो. ही खबर मे १९७७तली.

हाँगकाँगच्या एका हॉस्पिटलांत तो मेलो. २५ मेक जवळ जवळ ४जावन १० मिनटांनी ताणें बाबाक वणटींतल्यान चलून आपल्या रुमांत येतना पळयलो. बाबा आयलो आनी तागेल्या हांतूळणार बसलो. ताणें मड्याचेर सगळ्याक विभुती शिंपडायली. ताचें वजन १७० पौंड आशिल्लें तरीपूण बाबान तें मडें उखल्लें आनी कोचार दवरलें. सकाळीं जेन्ना नर्सी रुमांत आयल्यो तेन्ना तो जिवो आसा हें पळोवन त्यो अजापीत जाल्यो. दासवानीन कितें घडिल्लें तें तांकां सांगलें. आनी तांकां बाबांल्या दैवी शक्तीची खात्री पटली

हेच भशेन बाबान राधाकृष्णनाक ताच्या मरणाच्या तिसऱ्या दिसा ताचे बायलेचे प्रार्थनेक लागून जितो केलो. बाबान तिका सांगलें, आपणें ताका जिवो केला कारण ताणें आपलें मृत्युपत्र बरोवचें आनी सगळे उपचार पुराय करून आपल्या भाटां-बेसांक वारस थारावचो.

एके बायल मनशेक कॅन्सर जाल्लो आनी तिगेली जगपाची आशा नाशिल्ली. ती बाबा म्हऱ्यांत आयली आनी बाबाल्या दिव्य दर्शना खातीर ती रांगेंत कदेल घालून तिश्ठत बसून रावली. रोखडेच बाबा तिचे म्हऱ्यांत आयले. तिका थोडी विभुती दिली आनी सांगलें, कॅन्सर शुन्य केलो. थोडया दिसां भितर ती निवळ्ळी. उपरांत जेन्ना तिणें आपलो चेकअप केलो तेन्ना डॉक्टरांनी सांगलें, तुजो कॅन्सर ना जाला. ताची खूण पसून उरूंक ना.

बाबांले जिणेंतलो पयलीं सोळा वर्सांचो काळ हो बाललिला, खेळ, आनंद हातूंत गेलो. फुडलीं सोळा वर्सां तांगेल्यो हालचाली आपली महिमा जगाक दाखोवपांत, सगळ्यांक आनंद दिवपांत गेली. ३२व्या वर्सा उपरांत

बाबांनी आपल्यो हालचाली वाडयल्यो. तांणी उपदेश दिवपाक सुरवात केली. चुकतल्या मनशाक जाग्यार हाडपाक आनी जगाक मार्गदर्शन करून तांकां सत्य, धर्म आनी प्रेमाच्या मार्गार हाडपाक सुरवात केली. आनी हे प्रयत्न ते करीत रावले. बाबांनी सांगलां ते प्रमाण ते ९७ वर्सां पसून ह्या जगांत आसतले म्हणटकर २०२१ मेरेन.

बाबांल्यो सगळयो हालचाली आमी कावळयाच्या दोळयान तेळपाचो प्रयत्न करुंया. दिसपट्टी जे कोण भक्त आपलीं पातकां, काळज्यो, रोग आनी अगणीत हेर अडचणी घेवन बाबा म्हऱ्यांत दर्शनाक येतात त्या सगळयांचें बाबाच्या दैवी प्रवचनाच्या प्रभावान निरसन जाता. ते खाजगी मुलाखती दितात. जे कोणें पूर्वजल्मांत पुण्य जोडलां अशांकूच आनी जे कोण अती संकटांत पडिल्ले आसात, रोग वा आकस्मीक संकट अशांकूच मुलाखतीचो लाभ मेळटा. तांकां उपदेश करतात. तांकां घटाय दितात. विभुती तयार करून दितात. वापरपाक वस्तू दितात जशे जपमाळ, मुदयो, लॉकेटां, खुरीस, माळी आनी मंगळसुत्रां, इतलेंच न्हय तर देवांच्यो ल्हान मूर्ती, शिरडी साईबाबा, सत्य साईबाबा, श्रीकृष्णाची मूर्त आदी. ते सांगतात, तुमी देवाची जेन्ना प्रार्थना करतात ताचें भजन म्हणटात, ताची नामना कीर्त गायतात, देव थंय हजर रावता. हीं आश्वासनां पुराय करपा खातीर बाबा न चुकतां आपल्या भक्तांक तांच्या घरांनी भेट दितात

श्री सत्य साईबाबा आपूण स्वता वचून ना तर दुसऱ्या खंयच्याय अवतारांत वा मनशाच्या रुपांत भेट दितात. श्री सत्य साईबाबांनी चड म्हत्वाचें शिक्षणाचें कार्य आपल्या आंगार घेतलां. शिक्षण पुर्नबांदणी आनी भारताचें नैतीक

पुर्नरुत्थान जाका लागून मनीस जात जगाच्या शांती युगांत येवची. राखण, समाधान आनी देवा कडेन भक्ती ही सगळी मनशाक मेळची आनी तो सुखी जावचो. तांणी हे खातीर एक शिक्षणीक प्रोग्राम तयार केला जो बालवाडी पसून सुरू जाता आनी फुडें विश्वविद्यालया कडेन पावता. आनी हाकाच श्री सत्य साईबाबा उच्च शिक्षण संस्था अशें म्हणटात. ह्या प्रोगामांक पयलींच नांव दिलां मानवी मुल्य शिक्षण आनी विज्ञान, व्यापार आनी कला ह्या सदच्याच युनव्हर्सीटीच्या शिक्षणीक प्रोग्रामा वांगडा तें प्रेम, शांती, समाजसेवेची कल्पना, सोशीकपणा, वेगळें वेगळें राष्ट्रियत्व आशिल्ल्या आनी वेगवेगळया धर्माच्या लोकांविशीं सहिष्णुताय शिकयता.

सध्या सत्य साई संस्थेचें चल्यां खातीरचें कॉलेज बेंगलोराक वृंदावन हांगा, चलयां खातीर अनंतपूर हांगा एक पोश्ट ग्रॅज्युएट कॉलेज आसा. नवी दिल्लींत चलयां खातीर दोन कॉलेजां सुरू केल्यांत. ते भायर प्रशांती निलयमांत स्कुलां आनी कॉलेजी. गांवांत आनी खेडयांतय आतां शिक्षणीक संस्था वयर सरल्यात. बाबांनी एक ट्रस्ट स्थापन केला. ताचें नांव श्री सत्य साई सेवा ट्रस्ट प्रशांती निलयम. तो ह्या शिक्षणीक संस्थांचेर नदर दवरता आनी अर्थीक पोसवण दिता. हें सगळें शिक्षण पुराय फुकट आसा. भारताची संस्कृताय आनी आध्यात्मीकता कोंवळया भुरग्यां भितर किल्लुची आनी वाडची हो ह्या संस्थां फाटलो उद्देश.

**इश्वरा कडेन वचपाचो प्रवास**

---

सनातन सत्य जें आमी सगळे मेळोवपाचो यत्न करतात तें श्री सत्य साईबाबा आपल्या उजवाड घालपी उतरांनी शिकयता आनी आपले उर्बेभरीत कृतीन दाखोवन दिता. तांणी आमकां शिकयलां कीं देवाचे कृपेन आमची ही जीण बदलतली. पूण जेन्ना आमगेले विचार, वाचा आनी कृती हीं एके चालीर चलतलीं आनी तीं मनान उदार आसतलीं तेन्नाच हें जावंक शकता. आतां शिक्षा आनी भलायकी हातूंतल्यान ते आमकां दाखोवन दितात कीं मनशाची सुसंस्कृताय ही देवाचे दयेन बदलतली जेन्ना आमगेले संस्थेचो आराखडो, बांदावळ आनी काम हें थीर एके चालीन चलतलीं आनी तीं उदार मनान केल्लीं आसतलीं. तेन्नाच हें जातलें. आमचें मन आमचे कुडीक जो मार्ग घालून दिता त्या मार्गान आमची जीण वता. खरें शिक्षण आमच्या मनाक देवा कडेन वचपाच्या मार्गाचो अचूक नकासो दाखयता. आमचे कुडीन आमकां देवाच्या निमण्या पेण्यार व्हरूंक जाय. हे तरेचीं वखदां आमची कूड दुरुस्त दवरतात. म्हणटकर आमचो प्रवास सुरळीत जावन आमी ठाण्यार पावतात. शिक्षण आनी वखदां बाबा फुकट दितात आनी ते सांगतात, सगळे दादले-बायलो, मागीर तांची आर्थीक परिस्थिती कशीय आसूं, जात, कूळ, पंथ, धर्म खंयचोय आसूं तांकां सगळयांक तीं आडखळी बगर मेळूंक जाय. तो प्रत्येकाचो हक्क आसा. श्री सत्य साई उच्च शिक्षण आपल्या उदाहरणान हे आदर्श दाखोवन दिता. स्वयं शिस्त, शील आनी तेच बरोबर कुशळताय आनी ज्ञान दिता. आनी तांचे वाडीचेर भर दिता. अशें शिक्षण हें सगळयांक दितात.

## फुकट आरोग्य सेवा

आतां भगवान बाबा दाखोवन दितात कीं उच्च दर्जाची आरोग्य सेवा संपूर्ण फुकट उपलब्ध करून दिवपा जाता. आजकाल गंभीर स्वरुपाच्या दुयेंसाचे उपचार सामान्य मनशाच्या हाता भायले आसात. घरांतल्या एका मनशाच्या दुयेंसा खातीर लाखांनी रुपये खर्च करून कितलींशींच कुटुंबां उध्वस्त जाल्लीं आसात. अशा ह्या उपचारांच्या बाबतींत व्यापार चलता. हॉस्पिटलांत काम करपी नोकरां कडल्यान अपमानीत उतरां आयकुचीं पडटात. खूबशा बाबतींत दुयेंतींचो आपल्या फायद्या खातीर उपेग करून घेतिल्लो दिसता.

श्री सत्य साई संस्थेचें उच्च भलायकी विज्ञान प्रकल्प उबारपाचें कारण तें हेंच. बाबांनी हो प्रकल्प मुद्दामच गांवगिऱ्या वाठारांत प्रशांती ग्राम हांगा उबारला. शारांत उबारलो ना. शारांत लाखांनी पयशे मेळोवपी हॉस्पिटलां वयर सरल्यांत आनी भलायकेचो व्यापार चलयला. बाबांनी जें थळ हॉस्पिटला खातीर निवडलां थंय सगळ्या वाठाराचेर इश्वरी वातावरण आसा. आनी तें दुयेंत मनशांक बेगीन निवळायता. हेरय कारणां आसात. ह्या हॉस्पिटलाचो केंद्रबिंदू धरून खेड्याचेर स्तराचेर सरभोंवतणीं प्राथमीक आरोग्य सेवा केंद्रां उबारिल्लीं आसात. तशेंच सामान्य जनते खातीर १०० खाटींचें हॉस्पिटल आनी भायल्या पेशंटां खातीर वैजकीय सोयीय उपलब्ध केल्यात. तशेंच दुसऱ्या पावंड्यावेली भलायकी सेवाय हातूंतल्यान मेळटा. आनी शेवटाक खास दर्जाचें हॉस्पिटल आसा जें तिसऱ्या पावंड्यावेली सेवा दिता. संपूर्ण भलायकी सांखळेचो हो दुवो. ह्या हॉस्पिटलांचेर जगभर स्तूतशे उलयतात

आनी जगांतले आरोग्य संस्थेनय हाचें समर्थन केलां. श्री सत्य साईबाबांच्या मार्गदर्शना खाला प्रशांती ग्राम हांगा हें वेस बरे परिणामकारक रितीन आनी व्यवसायाचे रितीन चलता.

## उच्च दर्जाचें खाशेलें हाम्स्पिटल

बुन्याद ता. २२-११-९० उद्घाटन ता. २२-११-९१

भगवान श्री सत्य साईबाबांच्या दैवी आशिर्वादान भारताचे तेन्नाचे प्रधानमंत्री श्री. पी. व्ही. नरसिंहराव हांणी प्रशांती ग्राम हांगा श्री सत्य साई उच्च वैजकीय विज्ञान संस्थेचें उद्घाटन २२ नोव्हेंबर १९९१ दिसा केलें. त्या दिसा इतिहास घडयलो. तें हॉस्पिटल सामान्य नाशिल्लें. तें त्या दिसा बाबांचे आशिर्वाद लाभिल्लें उच्च दर्जाचें खाशेलें हॉस्पिटल आशिल्लें. खऱ्यांनीच भव्य दिव्य सोबीत अशें हॉस्पिटल. पूर्णपणान मनशांचे सेवेक निसुवार्थीपणान समर्पीत केल्लें. सगळया तांत्रीक सुखसोयींनी भरिल्लें आनी जगांतल्यो अत्याधुनीक वैजकीय सुविधा आशिल्लें. गांवच्या गरिबां खातीर आशिल्लें. सामकें फुकट.

हॉस्पिटलाच्या फुडल्या वांट्याचें २२-१०-९२ दिसा भारताचे राष्ट्रपती डॉ शंकर दयाळ शर्मा हांचे हस्तुकीं उद्घाटन जालें. सगळया दुयेंतींक, निसुवार्थपणान थंय काम करतल्यांक, आपलें ज्ञान, नैपुण्य आनी कळाशी वापरून काम करतल्या डॉक्टरांक ही स्वर्गीय दयेची व्हड पर्वणी

आशिल्ली. ह्या हॉस्पिटला निमतान तांगेली साधना राष्ट्र, धर्म, सत्ता, दर्जो, जायती जागतीक प्राप्ती हातूंत आशिल्ले भेदभाव विसरून पुराय करपाची तांकां एक संद मेळिल्ली. ते एकच प्रेम-धर्म पाळटात. हें बीज नव्या युगाचें जें फुडाराक मनशां-मनशां मदल्यो, समाजां मदल्यो, राष्ट्रां मदल्यो वणटी मोडून उडयतलें.

याद दवरात. प्रत्येक प्रेमाचे करणेन आनी सेवेन तुमी देवा म्हऱ्यांत पावतात, लागीं येतात. जेन्ना तुमची प्रत्येक करणी दुसऱ्याच्या द्वेशान, लोभान भरिल्ली आसता तेन्ना तुमी देवा पसून पयस आनी पयस वतात.

श्री सत्य साईबाबा

श्री सत्य साईबाबांचो संदेश सामको सादो आसा. बाबा सांगतात, देवा कडेन वचपाचो पुरातन मार्ग परतो बांदपाचो आसा. ते खातीर ते आयल्यात. म्हगेलें कार्य सत्य आनी प्रेम हांच्या आदारान मनीस जातीचें पुर्नजनन करपाचें. म्हगेलें मुख्य कार्य वेदांचो सांबाळ करप, तांकां फाटबळ दिवप आनी भक्तांक वयर काडप. हो साई आयला सगळ्यांत मोठें आनी म्हत्वाचें कार्य तडीक लावपाक. तें कार्य म्हणल्यार सगळे मनीस जातीक एक करून ताचें एक कुटूंब करून भाईचाऱ्याच्या बंधनान बांदप. ताका आत्मीक सत्याची खात्री दिवन, प्रत्येक प्राण्यांत आशिल्ल्या आत्म्याचेर उजवाड घालून ताचे भितर आशिल्ल्या इश्वराची साक्ष पटोवप. सगळ्या विश्वाची बैठक ह्याच तत्वाचेर आधारीत आसा हें दाखोवन दिवप.

बाबांले अनुयायी हे लाखांनी मेजपा इतले आसात.

ते वेग-वेगळ्या धर्मांचेर दोळो दवरून आसले. तांगेली निष्ठा स्रद्धेन दृढ केल्ली आसली. बाबांल्या संदेशान तिका बळकटी हाडल्या. बाबांनी दिल्ल्या प्रेमळ आनी सेवेच्या संदेशाक ते मानतात. आनी आपले नित्य जिणेंत समाजीक नात्यांत आनी आध्यात्मीक साधनेंत बाबांच्या संदेशाक पाळो दितात. हातूंत नांवाजिल्ले स्कॉलर्स, लेखक, विचारवंत, वैज्ञानीक, सरकारी अधिकारी, न्यायाधीश, कायद्याचे जाणकार, डॉक्टर, मनोरोगतज्ञ, व्यापारी आनी कवी आसात. बाबा तांकां खात्री दिता. तुमगेले निश्ठेक ना करपाक वा तिका उधळून लावपाक आयिल्लों ना. म्हगेली इत्सा तुमगेली स्रद्धा घट्ट करची. तुमगेल्यो वासना उदात्त करच्यो. हांव आयलां तुमकां प्रत्येकाक सांगपाक, पटोवन दिवपाक देव एकच आसा आनी तो तुमच्या प्रत्येका भितर आसा. तुमकां कळकळीन सांगपाक कीं तुमी शांती, समाधान आनी प्रेमान रावचें. प्रत्येकाक फुडें काडात आनी एकमेकाक सूख दिवपाचो प्रयत्न करात. तुमी तुमचो निवडिल्लो देव बदलपाची गरज ना. तुमी म्हाका आयकलो आनी पळयलो म्हणून दुसऱ्या देवाक भजपाची गरज ना.

बाबा सांगतात,

जगांत एकच देव आसा आनी तो सर्वसाक्षी सर्वांतरयामी आसा.

जगांत एकच धर्म आसा आनी तो प्रेम-धर्म.

जगांत एकच भास आसा आनी ती म्हणल्यार काळजाची भास.

जगांत एकच जात आसा आनी ती म्हणल्यार मनीसजात.

भगवान श्री सत्य साईबाबांनी आपल्या आंगार घेतिल्लीं हीं सगळीं व्हडलीं व्हडलीं कामां तांणी पुरी करुन कशें तातूंत संपूर्णपणान यश मेळयलें, हें तांकां कशें शक्य जालें, वेगवेगळ्या अडचणींचेर मात करुन तांणी अजापांच्या गोश्टींनी सगळ्याचो तोल सांबाळून तडीक कशो व्हेल्यो होच एक सगळ्यांत व्हडलो चमत्कार, एक व्हडलें अजाप. तातूंतली शिस्त, सुबद्धता, बिनचूकपणा हीं सगळीं वाखाणपाचीं. हाचेर बाबा सामकें सादें उत्तर दितात. आपूण जें कितें करतां तातूंत मोहिनी विद्या ना. चमत्कार नात, जादू ना. जें हांव करतां तातूंत हें कांय आसना आपल्या कडेन आसा ती खरी निजाची इश्वरी शक्त. हांव सर्व देवत्व स्वरुपम. हांव प्रत्येकाच्या अंतस्करणांत रावपी. हांव सर्वांतरयामी.

बाबा सदांच सांगतात, म्हजी जीण म्हणल्यार म्हगेलो संदेश. आनी हे घोशणेन ते आमकां सल्लो दितात, तुमी दादले-बायलो आदर्श नागरीक जायात. तांकां मनीस जातीन सात्वीक आनी धार्मीक विचारांचें जावचें आनी सामकी पवित्र आनी साधी जीण सारची अशें दिसता. बाबा असो विचार मांडटात - मनीस जातीची सेवा ही इश्वर सेवा. पुणून बाबांनी हेंय सांगलां कीं मनशांची केल्ली सेवा ही इश्वरी सेवा थारतली जाल्यार ती निस्वार्थी निरपेक्ष आसची पडटा आनी ती दुसऱ्याच्या बऱ्याखातीर आसची पडटा. बाबांच्या मार्गदर्शना खाला जगभर हजारांनी सत्य साई सेवा केंद्रा स्थापन जाल्लीं आसात. प्रत्येक केंद्रार बाबाले संदेश वतात. तातूंतल्यान ते सांगतात. सत्य, न्याय शांती आनी प्रेम हीं तत्वां तांगेले हजारों लाखों भक्त आयकतात.

अपंगांची सेवा, ध्यान, देवाची प्रार्थना, अभ्यास केंद्रां, आध्यामीक ग्रंथांचेर सगळ्या तरांच्या पंथांचें विवेचन आनी भुरग्यांखातीर नैतीक शिक्षण, हे सगळे कार्यक्रम प्रत्येक साई केंद्राचेर चलतात. बाबा सांगतात, सत्य, धर्म, शंती, प्रेम हे चार अत्यंत म्हत्वाचे गूण मनशाचे उन्नती खातीर प्रत्येका कडेन आसप गरजेचें. हांचें एकीकरण म्हणल्यार प्रेम. ह्या प्रेमानच कोणीय खंयचोय एक पूल पार करून ह्या जगांत सरळ प्रवास करूंक शकता. पूण हें प्रेम आध्यात्मीक प्रेम-दैव प्रेम आसचें पडटा. सत्य साई आमकां कशे तरेन एक बरी आनी माणुसकेची विनयशील जीण सारची हें शिकयतात. बाबा आमकां कितें नवें सांगतात अशें न्हय. आमच्या रुशी-मुनींनी, गुरुंनी जी पयलीं सांगल्या ती शिकवण बाबा आमकां परती सांगतात. बाबांनी सांगलां, आपल्याक प्रसिद्धी नाका वा देव म्हणून कसलीच परगटावणी नाका. तुमी कोण म्हजी प्रसिद्धी करपाचे प्रयत्न करपी? तुमकां म्हजे विशीं कितें खबर आसा? म्हाका विचारूं दी, तुमी म्हजे विशीं आज एक उलयतात फाल्यां दुसरेंच. तुमगेली स्रद्धा घट्ट जाली ना. ती थीर ना. जेन्ना सगळें वेवस्थीत तुमकां जाय तशें चलता तेन्ना तुमी म्हजी स्तुती करतात. आनी जेन्ना गोश्टी तुमच्या उलट वतात, तेन्ना तुमी म्हाका दोश दितात. तुमी एका आश्रया कडल्यान दुसऱ्या आश्रया कडेन धांवतात. पूण देवालो संदेश तोच आसता- प्रेम. दुसरे उलट दिशेन चल्ले तरी तुमी खरें म्हणल्यार त्याच ध्येया कडेन पावतात. श्री भगवान सत्य साईबाबा सदांच सकयल उल्लेख केल्ले आचरणाचे नियम आनी धा तत्वां आध्यात्मीक आनी समतोल जीण सारपा खातीर पाळपाक सांगतात.

---

**आचरणांत हाडपाचे नियम**

१) दर दिसा ध्यान आनी प्रार्थना.

२) आठवड्याक एक फावट कुटुंबाच्या वांगड्यां सयत भक्ती पर भजनां.

३) साई भक्तांच्या भुरग्यां खातीर केंदान आयोजीत केल्ल्या सत्य साई, आधात्मीक, शिक्षणीक कार्यक्रम (बाल विकास) अशा भुरग्यांच्या कार्यक्रमांत वांटो घेवप.

४) संस्थेच्या समाजकार्यांत आनी हेर कार्यक्रमांत वांटो घेवप.

५) साई भक्तांनी जमून केल्ल्या भजनांत म्हयन्याक एक फावट तरी भाग घेवप.

६) नियमीत साई वाङ्मयाचो अभ्यास.

७) प्रत्येका कडेन गोड मधूर प्रेमान उलोवप.

८) दुसऱ्या विशीं वायट उलोवप ना, चड करून ताचे गैरहाजिरींत.

९) वासनांचेर ताबो दवरपाचो प्रयत्न करप. ते प्रमाण सवंय करप. बचत केल्ले रकमेचो मनीस जातीचे सेवेंक वापर करप.

**पाळपाचीं धा तत्वां**

१) तुमी ज्या जाग्यार जल्म घेतला ती भुमी पवित्र मानात. तुमगेल्या राष्ट्राचो अभिमान बाळगात. पूण हेर राष्ट्रांचेर टिका करूं नाकात वा तांकां कमी लेखूं नाकात. तुमच्या

विचारांतल्यान वा सपनांत पसून तुमगेल्या देशाक दुख्ख हाडपाचो विचार करूं नाकात.

२) सगळ्या धर्मांक सारखो मान दियात.

३) सगळ्या मनशांक भाईचाराच्या नात्यान भाव अशें मानून तांचे कडेन वागात आनी तांकां प्रेम दियात.

४) तुमगेलें घर आनी ताचे भोंवतणचो वाठार निवळ दवरात.म्हणटकर भलायकेची वाड जातली आनी आरोग्य बरें उरतलें.

५) दानधर्माची सवंय दवरात. भीक मागतल्यांक पयशे दिवन उत्तेजन दिवं नाकात.

६) लांच केन्नाच घेवं नाकात आनी दिवं नाकात. भ्रश्टाचाराक तकली बागवं नाकात.

७) दुस्वास, द्वेश हाचेर ताबो दवरात. फुडारा कडेन पळोवपाची दूरदृश्टी वाडयात. जात-पात पळयनासना सगळ्यांक समान वागणूक दियात.

८) तूं स्वता तुज्यान जाता तितलें तुगेलें काम कर. तूं कितलोय गिरेस्त आसूं वा तुजे कडेन कितलेय नोकर-चाकर आसूं, स्वता समाजाचीं कामां कर.

९) तुजे कडेन प्रेम आसूं दी. देवाच्या प्रेमाची (भकतीची) रुजवण कर. पातकाचो भंय दवर आनी पातकाचो तिरस्कार कर.

१०) तुमगेले भुंयेच्या कायद्या भायर केन्नाच वचूं नाका.

हीं तत्वां मेहनतीन, लक्ष दिवन राबयात, आचरणांत हाडात.

***

# भविश्यां खरीं थारतात

म्हज्या आनंदांत फकत एकाच उतरान हांवें ब्रह्मांडाची निर्मणी केली तेन्ना हांव कोण हें जाणा जावपाक थंय कोणच नाशिल्लो. रोखडेच दोंगर वयर सरले आनी न्हंयो व्हांवपाक लागल्यो. उपरांत म्हजें आसप सिद्ध करपाक सूर्य, चंद्र, तारामंडळ आयलीं. पशू आनी पक्षी उडत, आयकत आनी उलयत आयले. आनी मनीस जातय बी. मनीस जातीक पयलो जागो दिलो आनी म्हगेलें ज्ञान ताचे तकलेंत दवरलें. अशें बाबांनी प्रशांती निलयमांत दिल्ल्या एका दिव्य प्रवचनांत सांगलें.

बाबांनी हें पसून उलोवन दाखयलां कीं, म्हगेले सत्यपरिस्थितीचो सोद कोणूच लावपाक शकना. ती सदांच तुमच्या आवाक्या भायर आसतली. ती आजच न्हय तर हजारांनी वर्सां जालीं तरी पसून कोणाकच कळची ना. जगांतले सगळे लोक एकठांय आयले आनी पोटतिडकीन सोद घेवंक लागले जाल्यार पसून तें कोणाकच शक्य जावचें ना. पूण त्या सत्यांतल्यान जें सौख्य भायर सरता तें सगळ्या राष्ट्रांक मेळसारकें आसा आनी तुमी तातूंत वांटो घेवंक शकतात. म्हगेली शक्ती, म्हगेली सत्ता, म्हगेलें गूढ हें केन्नाच कोणाकच समजूंक शकना. कितलोय प्रयत्न

केलो, कितलोय वेळ घेतलो आनी खंयच्याय साधनांनी प्रयत्न केलो तरीय तें शक्य जावचें ना.

श्री सत्य साईबाबा एक चालतो बोलतो देव आसाहें दाखोवन दिवपाक आनी सिद्ध करपाक हांव हें पुस्तक बरयतां. प्रत्येक धर्म हो सत्याचेर आधारीत आसा हाचेर हांव विश्वास दवरतां. जांकां ते तशे मानतात तांचे खातीर तो म्हत्वाचो आसता. तेच भशेन सगळ्या धर्मांच्यो वाटो ह्यो दोंगर वाटो ज्यो मनशाक एकाच ध्येया कडेन व्हरतात. ह्या विसाव्या शतमानांत रावपी ख्रिश्चन लोकांचो असो विश्वास आसा कीं जर तुवें खऱ्या एकाच देवाची वळख दवरली जायत आनी तुवें मानलें जायत कीं जगाच्या इतिहासांत फकत एकटो जेजू ख्रिस्त ह्या एकाच देवाचो अवतार आसा आनी तो देवय आसा, तो राखणदार आसा. तीं एकच वाट आनी एकच देवदूत आनी फकत बायबल हेंच देवाचें बरप आसा तर तो तुजें रक्षण करतलो.

ह्या खंडाचो उद्देश, देवाचो संदेश घेवन आयिल्ले वेग-वेगळे अवतार वा देवाचे दूत, वेगवेगळ्या धर्मांचे अवतार हांकां श्री सत्य साईबाबां बरोबर जोडप. अशी दर एक घोशणा राष्ट्राक वाट घालून दिता आनी फुडें कलियुगांत येवपी फुडल्या अवताराक फुडा करपाक तयार करता.

भविश्याचे हेच धागे कीं २०वें शतमान सोंपचे पयलीं व्हड संकट येतलें आनी त्या वेळार मोठ्या युद्धाच्या उपरांत पुर्वे कडल्यान तांबडे कपडे घाल्ल्या एका देवदुताचें वा जगतगुरुचें प्रकटीकरण जातलें जो पृथ्वीवेल्या सगळ्या जातींक एक करतलो हें लिखीत पोरणो बायबल करार, नवो अमेरिकन करार आनी भारतान केल्ल्या भविश्या

प्रमाण हिंदूं भितर, बौद्धांत, मुसलमानांत आनी नॉर्मन शिकवणेंत मेळटा.

ह्यो सगळ्यो खुणो ज्यो एके दिशे कडेन बोट दाखयतात त्या २०व्या शतमानांतल्या आध्यात्मीक गुरुची जीण पळोवया. तो ह्या काळांतलीं भविश्यां पुराय करता इतलेंच न्हय तर ताची शिकवण इतिहासाचे भेदभाव हुपून सगळी मनीस जात एक करून जगाक सांगता कीं सगळ्यो स्रद्धा ,सगळे धर्म हीं एकाच सत्याच्या हिऱ्याचीं तासां आसात आनी ते सत्याचे व्हडविकेचे नजराणे आसात.

इश्वर मनशाच्या रुपांत अवतार घेता हो विश्वास वा स्रद्धा जगाच्या खूबशा धर्मांनी आनी ग्रंथांनी मेळटा. पूण हिंदू स्रद्धेन तो मुखेलपणान मानला.

भगवद्गीतेंत सांगलां, बऱ्याचें रक्षण करपा खातीर आनी वायट करणाऱ्यांचो नाश करपा खातीर हांव इश्वर वेळावेळार मनशाच्या रुपांत अवतरतां. (iv-7, iv-8) जेन्ना बरे मनीस पिडा भोगतात आनी जगप भंयान कुस्तार जाता तेन्ना नितीतत्वां आनी सत्कर्मां परत स्थापन करपा खातीर इश्वर हांगा मनीस रुपांत अवतरता.

पूर्ण अवतार हो जे ते अवतारांतल्यान दैवी गूण प्रकट करतात ताचे वेल्यान थारता. तांच्यांत सर्वज्ञात,सर्वशक्तिमान आनी सर्वसाक्षित्व हे गूण आसचे पडटात. आज भारतांत आनी जगाच्या हेर सगळ्या भागांनी श्री भगवान सत्य साईबाबांनी हे सगळे गूण प्रकटायल्यात ते लोकांनी स्वता दोळ्यांनी पळयलां आनी ते श्री सत्य साईबाबाक पूर्ण अवतार अशें मानतात.

शिरडी साईबाबांनी मंगळार,१५ ऑक्टोबर १९१८

---

ह्या दिसा आपलो देह दवरतना सांगिल्लें, आपूण दक्षिण भारतांत ल्हानशा खेड्यांत आठ वर्सां भितर परतो जल्म घेवन येतलों. आनी हें भविश्य खरें करपाक श्री सत्य साईबाबा ह्या जगांत २३ नोव्हेंबर, १९२६ ह्या दिसा कोणाकूच पयलीं खबर नाशिल्ल्या खेड्यांत जल्माक आयले.

५००० वर्सां पयलीं जें भविश्य केल्लें तें सत्य साईबाबांनी खरें केलें. हिंदुंच्या पुरातन पवित्र धर्मग्रंथ महाभारताच्या महाकाव्यांत पृथ्वीचें पालनपोषण आनी रक्षण करपी श्री विष्णून सध्याच्या कलियुगाच्या काळाक उल्लेखून भविश्य केलां तातूंत सांगलां, जेन्ना पृथ्वीर ठळकपणान नैतीक आनी आध्यात्मीक मुल्यांचो ऱ्हास जातलो, राजकीय जाच, जुलूम, जबरदस्ती, खून, अप्रामाणीकपणा आनी असत्याक उत येतलो. वायटाक धरबंद उरचो ना तेन्ना श्री विष्णून सांगलें, आपूण सद्गुणी मनशांचे कुशीत जल्म घेतलों आनी मनीस रुपांत येतलों. सगळ्या वायटाचो नाश करून शांतताय हाडटलों. नितीक चालीक लायतलों. येणाऱ्या पातकांच्या कलियुगांत हांव मनीस अवतार घेतलों. ताचें रूप काळें आसतलें. आपूण दक्षिण भारतांत जल्म घेतलों. ह्या अवतारा कडेन खूब शक्ती, खूब ज्ञान आनी अमाप सत्ता आसतली. ह्या अवतारांत आपल्या कार्याक जाय आशिल्ल्यो ऐहीक वस्तू ताका सहज उपलब्ध जातल्यो. तो जसो विचार करता तशो त्यो मेळटल्यो. सद्गुणांची वाड करपाच्या तागेल्या कार्यांत तो यशस्वी जातलो. तो जगांत शांती, सुव्यवस्था हाडटलो. हो अवतार सत्याच्या नव्या युगाचें उद्घाटन करतलो. सदांच आधात्मीक लोक ताचे भोवतणीं आसतले. तो पृथ्वीर सगळ्याक भोंवतलो.

आध्यात्मीक लोक ताची पुजा करतले. ह्या पृथ्वीवेले लोक ह्या अवताराची वागणूक आपणायतले. आनी हांगा भरभराट आनी शांती येतली. मनीस परते एक फावट आपूण जावन धर्माच्यो विधी पाळटले. धर्माच्या नियमांची रुजवण करपा खातीर शिक्षणीक केंद्रां आनी देवळां प्रत्येक कडेन दिसतलीं. आश्रम सत्याच्या मनशांनी भरुन वतले. राष्ट्राच्या कायद्या प्रमाण राज्यां बरेभशेन राज्य करतलीं. ह्या अवताराक एक नामनेची कीर्त मेळटली.

हें भविश्य भारताच्या उच्च धार्मीक बरपावळीक जुळटा. विष्णू पुराण हेंवूय सांगता, हो अवतार सत्याचें नवें यूग स्थापन करतना दैवी शक्ती दाखयतलो. तें फुडें सांगता, ताचे आयव-बापूय विष्णूचे भक्त आसतले. ते खेड्यांत रावतले आनी कृष्णाचें गोपाळ रूप तीं पुजतलीं. खरें म्हणल्यार श्री सत्य साईबाबांची आवय आनी आजी श्री विष्णूची पुजा म्हणजेच सत्य नारायण रुपाची पुजा बाबांचो जल्म जावचे पयलीं कितलेशेच म्हयने करीत आशिल्लीं. पुट्टपुर्तीक पयलीं गोपाळपल्ली म्हणटाले. म्हणल्यार गोपांचो गांव. हाचे वयल्यान श्री सत्य साईबाबांची जीण पुर्विल्लें भविश्य आनी लिखाण खरें करता अशें दिसता.

'आरमाजेतान' हाचें पतन जाले उपरांत नव्या युगाचें उद्घाटन जातलें आनी खरो नवो अवतार येतलो जो जगाक मार्गदर्शन करून शांती हाडटलो अशें नॉस्ट्रेदामसान १५५८ वर्सा भविश्य केल्लें. तो नव्या धर्माची सुरवात करतलो. ताचो सुटयेचो दीस बिरेस्तार आसतलो. ताचे शक्तीचो परिणाम चड करून पुर्वेर जातलो. तो २१व्या शतमानांत जुवानपणांत येतलो आनी ती भूंय सुरक्षीत दवरपाक मदत

करतलो. लोकां भितर पूर्ण एकवट आनी संतुलन दवरतलो. जे पवित्र अवतार आनी देवदूत हांगा पयलीं येवन गेल्यात आनी जांकां अडचणीच्या वेळार पुरातन आत्मज्ञान उघड करून सांगपाक हांगा धाडलां तांचो सगळ्यांचो नवो अवतार म्हणून तो येतलो. नॉस्ट्रेदमसान सांगलां, जेन्ना नव्या युगांतले लोक भुंयेचें पुर्नजीवन करतले तेन्ना अवतार लोकांक आध्यात्मीक भाईचारो, मरणाचो पूर्ण जल्मसभाव आनी अवतार हांचे विशीं उघड सांगणी दितलो. हे सगळे गूण बाबांक पुरायेन लागू पडटात.

जेजू ख्रिस्ताच्या देवदुता मार्फत आपल्याक जाल्ल्या दिश्टाव्याचें वर्णन करतना सेंट जॉन सांगतात, "तारणहार जो परतो येवपाचो आसा तो आपल्याक दिश्टी पडलो. तो येतलो आनी निसरड्या आत्मघाताचे वाटेर आशिल्ले मनीसजातीचें तो रक्षण करतलो." तो तारणहार म्हणल्यार साईबाबा कारण सेंट जॉनाचें सपन अशें आशिल्लें.

"हांवें मळब उकतें जाल्लें पळयलें. हांवें एक धवो घोडो पळयलो. ताचें नांव प्रामाणीक, सत्य. तो नितीन न्याय करपी न्यायाधीश आनी लडाय करपी. ताचे दोळे उज्याचे लोळ कशे आशिल्ले. ताचे तकलेर खूब मुकूट आशिल्ले. ताचें नांव बरयल्लें आशिल्लें पूण ताचे बगर कोणाकच खबर नाशिल्लें. ताणें रक्तान भिजिल्ली काबाय घाल्ली आनी ताचें नांव आसलें देवाचें उतर. सर्गांत आशिल्लीं सगळीं सैन्यां घोड्यांर बसून ताचे फाटल्यान येतालीं. ताचो भेस निवळ, नितळ,धवो, लायनीचो आशिल्लो. ताच्या तोंडांत एक धारेची तरसाद आशिल्ली. तो राष्ट्रां कडेन पळोवन मुमुरख्यांनी हांसतालो. तो तांचेर राज्य करतलो आनी कडक

शासनान तो तांकां वठणीर हाडटलो. ताच्या भेसाचेर आनी जांगेर नांव बरयल्लें आसतलें. राजांचो राजा आनी देवांचो देव." (Revelation 19-II-16)

बाबा पयलीं वापरताले ती धवी गाडी हो धव्या घोड्याचो संकेत. प्रामाणीक आनी सत्य हें शब्दशा साईबाबांचें नांव. सत्या म्हणल्यार सत्य. बाबां कडेन उज्याची ज्योत कशी शिवाचो दोळो आसा. तांचे स्वताचे दोळेय तापट दिसतात. तांचे तकलेर खूब मुकूट आशिल्ले हें साईबाबांच्या अद्भूत केसांचें वर्णन. तांगेल्या केंसाचो दर एक पोड एक मुकूट कसो दिसता. आनी ते सगळे केंस मेळून एक व्हडलो मुकूट जाला. साईबाबांच्या नांवाचो अर्थ कोणाकच खबर नाशिल्लो. तांणी आपणेंच स्वता तें उकतें करून सांगिल्लें. आनी जांणी तांकां आव्हान दिलें तांची तांणी खात्री करून दिली. बेजारिल्ल्या लोकांनी जेन्ना साईबाबांक तांचें नांव विचारलें आनी तूं देव आसा जाल्यार आमकां तुगेलो चमत्कार दाखय अशें सांगलें तेन्ना पोसो भर जाये फुलां पोशांतल्यान सकयल शिंपडावन उडयलीं. आनी तांचें जमनीर रांगोळी घाल्लेवरी साईबाबा अशें तेलगूंत नांव जालें. तांगेली काबाय रगताच्या रंगान भिजिल्ली हें तांगेल्या तांबड्या भेसाक उद्देशून आसा. तांच्या तोंडांत धारेची तरसाद आशिल्ली हें अज्ञानाचें प्रतीक आनी जिणेचेर उजवाड घालता. देवाचे शब्द म्हणल्यार सत्य आनी सत्य साई हे देवाचे नांव. सत्यान मांस उत्पन्न केलें आनी विश्वाची आवय आनी बापूय जालीं. साई म्हणल्यार खरी आवय आनी बाबा म्हणल्यार बापूय.

श्री सत्य साईबाबांचो जल्म आंगार दोन खुणो घेवन जाला. देवदुताच्यो ह्यो खुणो तांचे छातयेर आनी जांगेर

आसात. अवताराच्या सिद्धांता प्रमाण हे तरेची खूण छातयेर आसप हें अवताराचें वैशिश्टय. अशे तरेच्यो दोन खुणो आसप हें पूर्ण अवताराचें लक्षण. हे खातीरच जाच्या आंगार ह्यो खुणो आसात ताका उद्देशून आसा 'राजांचो राजा आनी देवांचो देव'- पूर्ण अवतार.

ज्यो वायट शक्ती साईबाबा आनी तांचे अनुयायी हांचे विरुद्ध काम करतात त्यो कशो जळून वतात हाचें वर्णन (Revelation 19:19-20) करता. त्यो जित्योच उज्याच्या तळ्यांत जळटात आनी तांची विभुती जाता. उरिल्ले अवशेष ताची तरसाद कापता. तो घोड्याचेर बसला आनी तरसाद ताच्या तोंडांतल्यन भायर आयल्या. हेंच दुसऱ्या शब्दांत सांगपाचें जाल्यार तांची शिकवण ह्यो काव्याच्यो ओळी बाबांल्या दोन शक्तिमान आयुधांचें वर्णन करतात जीं तांगेल्या कार्यांत ते उपेगा हाडटात. एक विभुती आनी दुसरी तागेली शिकवण.

ख्रिस्तान आपल्या अनुयायांक सांगलें, जाणें आपल्याक तुमचे मदीं धाडला तो परतो येतलो. आनी तांणी एका कोंकराक बोट दाखयलें तें कोंकरूं म्हणल्यार एक खूण. ताचो आवाजा खातीर वापर केला. ताचो उलो करपाचो आवाज बँ बँ म्हणजेच बा बा. तो अवतार प्रकट जाल्ल्याचो जाहिरनामो. ताचें नांव सत्य आसतलें. ख्रिस्तान घोशणा केल्ली सत्या म्हणल्यार सत्य. तो तांबडो झगो घालतलो. ख्रिस्तान सांगलें, तो मोटवो आसतलो. ताचे तकलेर केंसांचो मुकूट आसतलो. कोंकरूं ही प्रेमाची खूण. ख्रिस्तान आपूण येतलों म्हूण घोशणा करूंक ना. उलट ताणें म्हणलां, ताणें आपल्याक धाडला. तो परतो येतलो म्हणजेच बाबा येतलो.

---

बोधीवृक्षा तळा राजकुंवर सिद्धार्थाक तो राजकुंवर जातकर एक साक्षात्कार जाता आनी ताका सांगता, "तूं बुद्ध जातलो आनी सगळ्या आशिया खंडाचो उजवाड जातलो." बुद्ध मागीर मनशां भितर प्रचाराक प्रेमाचो आनी समंजसपणाचो संदेश शिकोवपाक भायर सरलो. ताणें आठ घडयांचो मार्ग मनशाक सूख मेळपा खातीर घालून दिलो.

ताणें सांगलें, "पृथ्वीर आयिल्लों हांव पयलो बुद्ध न्हय आनी निमाणोय न्हय. योग्य वेळार आनी एक बुद्ध ह्या जगांत प्रकट जातलो. एक पवित्र सर्वश्रेष्ठ, प्रबुद्ध, सर्वज्ञ, शुभशकुनी, जगाक वेंगेंत घेवपी, अतुलनीय, मनशांचो फुडारी, देवदुतांचो, मर्त्य मनशांचो राजा. तो तुमकां सनातन सत्यां सांगतलो जीं हांवें तुमकां शिकयल्यांत. ताचे कायदे, मुळांतच कीर्तिवंत, शेवटाकय तशेच कीर्तिवंत आनी आध्यात्मीक नांवारुपाचे.

तो नितीमान जिणेचें फर्मान जाहीर करतलो. पुरायेन पूर्ण आनी शुद्ध जसो आज हांव घोशीत करतां. तागेले अनुयायी खूब हजारांनी आनी म्हगेले कांय शेंकड्यांनी." ही विभुती खऱ्यांनीच साईबाबा.

१९२९ वर्सा प्रोफेसर निकोलस रोरी, कलाकार, नव्या गजालींचो सोद घेवपी, लेखक, हिमालयांतल्यान आपल्या सोदांतल्यान परतो आयलो. ताणें एक पुस्तक बरयलां. ताका हिमालयाच्या उंच दोंगरांनी जें मेळ्ळें तें पुस्तकांत बरयलां. ताका तें रोखडेंच खरें जातलें अशें दिसलें. ताणें बरयलें, "आतां नवें यूग कशें येतलें, कशें प्रकट जातलें तें भविश्य सांगतां. कोणेंच येवजूंक नाशिल्लें अशें सगळ्या राष्ट्रांचें झूज जातलें. मागीर भावाचेर भाव उठले. रगताचो

समुद्र व्हांवतलो. आनी मनशान मनशाक समजून घेवपाचें बंद जातलें. आनी ते गुरू-शिक्षक ह्या शब्दाचो अर्थच विसरतले."

त्या वेळार गुरू येतलो. आनी जगाच्या सगळ्या कोनशांनी खऱ्या शिक्षणाची शिकवण पावतली. जगांतले सगळे लोक ती आयकतले. सत्य ह्या श्ब्दा कडेन लोक ओडून येतले. पूण जे कोण काळखान आनी अज्ञानान भरल्यात ते हातूंत अडथळो हाडटले. जसो हिऱ्याचो उजवाड फांकता तसो देवाच्या घुडावेलो दिव्या उजवाड पडटलो. नव्या युगाचो धर्मगुरू परजळटलो. तागेल्या एका बोटावेल्या खड्याचें मोल जगाच्या सगळ्या संपत्तीच्या मोला परस चड आसतलें. जे कोण अपघातान पसून तांगेले शिकवणीचो प्रसार करूंक पावतले तांकां पसून तांणी केल्ल्या कामाच्या शंभर पटींनी मेळटलें. पयलींच खूबशे झुजारी सत्याची शिकवण दिवपाक परते जन्मल्ले आसात. थोडींशीं वर्सां वतलीं. ताचे पयलींच प्रत्येक जाण नव्या युगाच्या देवाच्या शक्तिमान पावलांचो आवाज आयकतलो. अनवळखी लोक दिश्टी पडटले. तांणी ज्ञानाचीं दारां उकतीं केल्लीं आसतलीं. आनी झाडांवेल्यान पिकीं फळां पडटात तीं दिश्टी पडटलीं. जे कोण ताका मानतले तांकां आनंद मेळटलो. आनी जे कोण ताका नाकारतले तांकां थरथरो येतलो. तांकां न्याया कडेन सोंपोवन विसरून वतले. आनी जे सत्याचे झुजारी आसतले ते मित्रत्वाच्या झेंड्या खाला एक जातले. ते जगाचे एकीकरणवादी आसतले.

पैगंबर महंमदाच्या मरणा उपरांत ७०० वर्सांनी तांगेल्या अनुयायांनी तांगेली प्रवचनां १२ खंडांनी संकलीत केलीं.

तांकां 'हिडीथ' वा 'उजवाडाचें काम' म्हणटात. महंमदान ३०० खुणो दिल्यात. ताचेवयल्यान 'अलमयर्दी' वा 'मार्गदर्शकाची' वळख मेळटली. महंमदाक तूं मार्गदर्शक आसा काय म्हूण विचारलें आनी महंमदान सांगलें, आपूण न्हय. आनीक धर्मगुरु कोणूच अजून आयलो ना. ताणें सांगलें, मार्गदर्शक येतलो. ताणें हेंवूय सांगलें, कोणूच धर्मगुरु हे योग्यतेचो ह्या व्हड गुरूक लागसारखो ना. सगळ्या गुरूंक मारले कारण तांगेलीं शक्ती तांकां वांचोवपाक पुरी पडली ना. पूण जो मार्गदर्शक येवपाचो आसा ताका खंयचीच शक्ती जिकूंकय आनी मारूंकय शकची ना. महंमदान फुडें सांगलें, सगळे धार्मीक लोक एका व्हड झाडा खाला एक जातले आनी तो थंय आसतलो. ताच्या कपळार एक जागो आसतलो. तुमकां जर मार्गदर्शकाक वळखूंक जाय जाल्यार तुमी तागेल्यो खुणो जाणा जावपाक जाय. खूबशे लोक जे आपूण अलमायदी म्हूण सांगतात तांचे कडल्यान फसूं नाकात. आतां मार्गदर्शकाच्यो खुणो. ताचे केंस खूब आसतले. तागेलें कपल रूंद, भितरल्यान वांटकुळसार आनी तागेलें नाक ल्हान आसतलें. ताका मातशी बाग आसतली. तागेले फुडले दांत विस्कळ आसतले. ताका खाड आसचें ना. तें गुळगुळीत आसतलें. ताच्या गालार तीळ आसतलो. तागेलो भेस उज्याची ज्योत कसो आसतलो. तागेल्या तोंडाचो रंग तांब्याच्या रंगा सारखो आसतलो. कांय वेळार तो भांगराच्या रंगा सारखो दिसतलो. केन्नाय तो काळसार दिसतलो. कांय वेळार तो चंद्रा भशेन चकचकतलो. ताचें शरीर ल्हान आसतलें. जगांतल्या सगळ्या धर्माचें शिक्षण तागेल्या काळजांत जल्मा पसून आसतलें. काळाचे सुरवाती पसूनचें

जगांतलें सगळें विज्ञान-ज्ञान ताचे तकलेंत आसतलें. देवा कडेन तूं ज्यो वस्तू मागता त्यो सगळ्यो तुका तो मार्गदर्शक दितलो. जगांतली सगळी संपत्ती ताच्या पांयां कडेन आसतली. तो प्रत्येकाक भेट-वस्तू दितलो. त्यो भेट-वस्तू वजनान हलक्यो आसतल्यो. तो आपल्या भक्तां भितर भोंवत आसतलो. आनी आपलो हात तांगेल्या माथ्यांर दवरतलो. ताका पळोवपी प्रत्येक दोळो सुखी जातलो. फकत मनीस न्हय तर विदेही आत्मे लेगीत सुखी जातले. तो दोन झगे वापरतलो. तो दोंगुल्लेचेर रावतलो. तागेलें घर चौकोनी आसतलें. तो जगाचो भार कमी करतलो आनी जगार शांती हाडटलो. तागेले भक्त ताका पळोवपाक मानो वयर करतले. तो ९६ वर्सां जगतलो. तागेले जिणेच्या निमण्या वीस वर्सांत तो सगळ्या जगाचो राजा जातलो. पूण जगांतले दोन तृतियांश लोकच ताचेर विश्वास दवरतले. ह्या जगाचो निरोप घेवपाच्या फकत ९ वर्सां पयलीं मुसलमान लोक ताका वळखतले. तुमच्यांनी ताचे कडेन तुमचो हात पसरूंक जातालो आनी तुमी ताचे बरोबर आसूं शकताले. पूण तुमी ताका चुकले आपूण फसचे न्हय म्हणून. पूण तो मार्गदर्शक आपल्या आंगांतल्यान आपल्या तोंडांतल्यान वस्तू भायर काडटलो म्हणपाचें तुमकां खबर आसूंक जाय आशिल्लें.'' बाबा हें अशें करतालो. शिवरात्रीच्या उत्सवांत बाबा आपल्या तोंडांतल्यान लिंगां काडटालो. बाबांनी ह्या लिंगां चिशीं सांगलां सगळ्यो सुक्ष्म घटक वस्तू ज्यो जगाचे उत्पत्तीक लागतात त्यो लिंगांत आसात. उत्पत्तीचें मूळ हें लिंगांत आसा. तुमी मशिदीचेर खूब खर्च करतले पूण थंय प्रार्थनेक कोणच वचचो ना. कुराणाक तुमी बरी सुंदर बांधणी करून पुस्तकां काडटले. पूण तांचो अर्थ कोणाकच कळचो

ना.

मोझेस हांगेली खरी शिकवण ही आंतियोक हांगा गुहेंत लिपोवन दवरिल्ली. आनी (जगाचो गुरू) मार्गदर्शक खरी शिकवण दितलो. हे वयर उल्लेख केल्ले गूण दुभावा विरयत प्रत्येक बाबतींत साईबाबांच्या अवताराक लागू पडटात.

श्री अरवींद अशें सांगतात कीं, तो मनीस जातीच्या उद्धारा खातीर आनी दैवी शक्ती अवतरची असो हेत धरून घोर तपाक बशिल्लो. ताणें आपल्याल्यो सगळ्यो भायल्यो हालचाली बंद करून तो पूर्ण एकांतवासाक गेलो. तो दीस आशिल्लो २४ नोव्हेंबर, १९२६. तागेलें तप बंद करपा फाटलें कारण म्हणल्यार आनंदाचें प्रतीक म्हणून दैवी शक्ती सत्‌चिद् आनंद मूर्ती श्री कृष्ण परत एक फावट हे पृथ्वीर आयिल्लो आनी तो म्हणल्यार श्री सत्य साई. बाबा पयल्या दिसा २३ नोव्हेंबर,१९२६ दिसा जल्माक आयिल्लो.

वयर दिल्ल्या प्रमाणांक धरून हें सामकें स्पश्ट जाता कीं वाटो खूब आसात आनी वेगवेगळ्योय आसात. पूण भविश्य आसा तें न चुकतां एकच आसा. अनी तें सत्य साई अवताराक लागू जाता.

**साईबाबा आपल्या स्वता अवतारा विशीं सांगतात -**

सन १९६३ वर्सा बाबांक मेंदवाचो ॲटेक आयलो आनी आठ दीस तांकां हांतरुणार रावचें पडलें. हो आघात म्हणल्यार बाबांनी आपल्या एका भक्ताक वाटावपाक तागेले

चार अॅटेक आपल्याचेर घेतले कारण भक्ताक तें शक्य जावचें नासलें आनी तातूंत तो मरपाचो. बाबांनी आपल्या संधिवात जाल्ल्या दाव्या हातार आनी पांयार उजव्या हातान थोडें उदक फाफुडलें. आनी बाबा बरे जाले. तांच्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या डॉक्टरांक अजाप जालें. तांचो विश्वास बसलो ना. मागीर बाबांनी इश्वरी लिलेचें गुपीत सांगून उडयलें.

तांणी सांगलें, आपुण भारद्वाज गोत्राचे कुळयेंतलो. हो भारद्वाज व्हड रुशी आशिल्लो. ताणें पूर्ण शंबर वर्सां वेद शिकपाक घालयलीं. पूण ताका दिसून आयलें, वेदांक अंत ना. म्हणटकर ताणें याग करपाचें थारायलें. शक्तीन येवन ह्या यागाचें अध्यक्षपण घेवचें आनी आशिर्वाद दिवचो अशी ताची इत्सा आसली. म्हणून तो शीव आनी शक्तीक आमंत्रण दिवपाक कैलासार गेलो. पूण वेळ बरोबर नाशिल्ली. थंय शीव आनी शक्तीचो नाच चलतालो आनी कोण कोणाक हारयता ही सर्त लागिल्ली. अशे रितीन आठ दीस गेले. तेन्ना शक्तीची नदर शियांत तिश्ठत उबो राविल्ल्या भारद्वाजा कडेन गेली. तिणें एक नदर तेवटेन मारली आनी आपल्या नाचांत गूंग जाली. साधूची चुकीची समजूत जाली आनी तो कैलासाक फाट करून सकयल देवंक लागलो. अकस्मात ताचो दावो पांय, दावो हात आनी दोळो अॅटेक येवन निकामी जालो. आनी तो सकल पडलो. शिवान ताका पडटना पळयलो आनी ताच्या म्हऱ्यांत येवन ताका थाकाय दिली. आनी भारद्वाजाक सांगलें, शक्तीन ताका आशिर्वाद दिला आनी तागेल्या यागाकूय दिला. नंतर शिवान ताका आपल्या कमंडलुंतलें उदक शिंपडून बरो केलो. आनी सांगलें, आमी भारद्वाज कुळयेंत अवतार घेवन तीन वेळा जल्म घेतलीं.

फकत शीव शिरडी साईबाबा, पयलो अवतार, शीव आनी शक्ती बरोबर पुट्टपर्तीक दुसरो अवतार आनी शक्ती एकोडीच प्रेम साईबाबा म्हूण तिसरो अवतार घेतली. तांणी दुसरें एक कारण दिलें शक्तीन आठ दीस मेरेन कैलासाक भारद्वाजाचेर दुर्लक्ष केल्ल्यान ही शक्ती आठ दीस शिक्षा भोगतली. जेन्ना आमी दोगय सत्य साई म्हूण जल्म घेतलीं आनी आठव्या दिसा उदक शिंपडून तिका मेकळी करतलीं. हें वचन कैलासाक त्रेतायुगांत दिल्लें ताचो भोवमान राखूंक जाय आशिल्लो.

अशे रितीन साईबाबान आपूण जावन ह्या तीन अवतारांचें गुपीत उकतें केलें. साईबाबांनी हेंवूय सांगलें, पुरातन भारताच्या साधुंनी भिविश्य केल्लें, श्री सत्य साईबाबा १९८० वर्सा जगांत बदल घडोवन हाडटले. हें भविश्य ५६०० वर्सां पयलीं उपनिषदांत केल्लें. ते सांगतात साईबाबांचे तीन अवतार आसतले.

शूक मुनीन सत्य साईबाबांचे विशीं ५००० वर्सां पयलीं ताडपत्रांचेर बरयलां. ताका शूकनाडी म्हणटात. तातूंत साईबाबांची लांब वंशावळ आनी बाबांची हेर सगळी म्हायती मेळटा. ही विभुती पयलीं शिरडीवासी आशिल्ली. तो व्हडलो संकल्पसिद्ध आनी अमाप शक्ती आशिल्लो. जगाचे संपत्ती विशीं वा वैभवा विशीं ताका आकर्शण आसचें ना. सगळे रुशींनी भाश्य केलां कीं तो इत्सामरणी आसतलो. तो निर्विकल्प समाधी अवस्थेंत आसतलो. तो धर्मपरिपालन आनी धर्मउपदेश करून नितीच्या आचरणांचें शिक्षण दिवप हें ताचें कार्य जावन आसतलें. हे खातीर तो प्रेम वांट्टलो आनी आपलो संदेश सत्य, धर्म, शांती, प्रेम आनी अहिंसा

सगळ्याक पातळायतलो. नितीचो प्रसार करपा खातीर तो परतो जल्म घेतलो. तो ज्या जाग्यार रावतलो तो जागो एक पवित्र भूय जातली (पुण्य भूंय.)

तो वेगवेगळीं रुपां घेवपाक शकतलो. एकाच वेळार कितल्याशाच जाग्यांनी दिश्टी पडटलो. तो सगळ्यो अडचणी -अडथळे पयस करतलो आनी विघ्नां परतितलो. तो आपलो आश्रम ज्या जाग्यार चड चाकांचीं वाहनां आसात थंय स्थापन करतलो. तो शिक्षण संस्थांची पुर्नस्थापना करतलो. तो आध्यात्मीक शक्तीचीं केंद्रां स्थापन करतलो. तो आपलें सर्वज्ञान आपल्या सगळ्या भक्तांक खूब तरांनी दाखयतलो. जर ते ताका पूर्ण स्रद्धेन शरण येत तर तांकां आपल्या पातकांचो नाश करपाची संद मेळटली आनी तांकां शांती सौख्य मेळटलें.

जगभर ताची महिमा पातळटली. खूब लोक ताचे म्हऱ्यांत येतलो पूण पूर्व कर्मानुसार सगळ्यांकच ताची कृपा मेळची ना. तो व्हडलो मनीस ब्रह्मचारी आसतलो. आनी नितीची स्थापना करपाक दुसऱ्यांक मदत करतलो. दादले-वायलो हांचे कडेन तागेली वागणूक एकसारखी आसतली. बायलां कडेन तो तांची आवय जावन वागतलो. तो प्रेमाचो, आनंदाचो आनी ज्ञानाचो अवतार आसतलो. जांचे तकलेंत उजवाड पडला फकत तांकांच तागेल्या आनंदाचो अनुभव घेवपाक मेळटलो.

एक मोनो खावपाक शकता पूण उलोवंक शकना तशेंच तागेलो अणभव घेवपाक मेळटलो पूण तो कितें आसा हें कोणाकच सांगूंक येवचें ना. लोकांच्या मताची तो पर्वा करचोना. जें बरोबर आसा तेंच तो करतलो. तो शिरडी

साईबाबांचें प्रतिनिधित्व करतलो. आनी साधू-मुनी हांचे प्रार्थनेक लागून तो जल्म घेतलो. तो शिरडी साई भक्तांक समाधी दर्शन घडयतलो. आनी तेच भशेन तो हे कुडींतल्यान उठून गेल्या उपरांत सत्य साईबाबांच्या भक्तांक 'व्हायट फिल्ड' हांगा समाधी दर्शन घडटलें. व्हायट फिल्ड ही पवित्र भुमी मानून तिचो भोवमान करतले.

मनीस जातीक तागेली जीण कल्याणकारक आसतली. जशे रितीन श्रीकृष्णान भगवद्गीतेंत वर्णन केलां ते प्रमाण श्री सत्य साईबाबाल्यो शक्ती पूर्णपणान आपल्यो लिला दाखयतल्यो आनी ताका सगळें जग वळखतलें. निसर्गाचो प्रकोप तो एकटोच थांबोवंक शकता हें तो दाखोवन दितलो. तो बेंगलोरांत वृंदावनांत एक झाडय रोयतलो आनी तो जागो सिद्धी क्षेत्र (शक्ती क्षेत्र) जातलें. तें झाड कल्पवृक्ष आसतलो आनी कोणय बाबांक भेटपाक येतलो ताका भाग्यवान करतलो. तागेलो जल्म हो फकत लोक उपकारा खातीर आसतलो. म्हणटकर तागेलें जें कितें आसा ताचो जगाच्या कल्याणा खातीर उपेग जातलो. जरी ताका आपले शक्ती विशीं जाणीव आसली तरी तो आपल्याक जाय तेन्ना आनी सदांच योग्य वेळार उपेग करतलो.

तागेली कृपा लोकांच्यो अडचणी पयस करतली. थोड्याच वेळांत ताची कीर्त पयस पयस पावतली. जगभर सत्य साईबाबाची पुजा जातली. तो आपूण स्वता एकाच वेळार सगळे कडेन दिश्टी पडटलो. खरें म्हणल्यार तो एकाच जाग्यार आसतलो. खूबशो इश्वरी लिला आनी प्रकटीकरणां दिश्टी पडटलीं. तो नितीचो (धर्माचो) ध्वज उबारतलो. एका म्हत्वाच्या वेळार आनी ताचे उपरांत समाजांत

निती वाडीक लागतली.

श्री सत्य साईबाबां कडेन जागतीक माहिती परस ज्ञानविद्या चड आसतली. तो लोकांक शिकयतलो कीं हें जग म्हणल्यार एक भुलवपी सांपळो आसा. तागेली दैवी शक्ती सगळ्या जगाक कळून येतली. ताचे कडेन रोग बरे करपाची शक्ती आसतली. आनी उदक शिंपडावन आपल्याकय बरो करपाची शक्त ताचे कडेन आसा. ही शक्त निसर्गाच्या कायद्या भायर आसा आनी ती जगांत खंयच ना. श्री सत्य साईबाबा आपले रोग बरे करपाचे शक्तीचो वापर फकत ह्या जगा खातीरच करतलो अशें न्हय तर दुसऱ्या जगांतल्या लोकांकयआनी भक्तीच्या वेल्या थरांतल्या लोकां खातीरय ताचो वापर करतलो. केन्ना केन्ना सांगूंक येना अशी परिस्थिती आसता तेन्ना म्हणल्यार जेन्ना दुसऱ्या जगांतल्या प्राणीमात्राचीं दुखणीं आनी संकटां, तांगेले स्राप आनी दुसऱ्यांची वायट नदर अशो केसीस तो आपल्याचेर घेता आनी अपघात परतले म्हणटकर आपल्याक बरो करता. ताचे कडेन जीण वाडोवपाची शक्त आसा. जेन्ना कलियुगाचें चेपण वाडटलें आनी तें चड खर जातलें तेन्ना लोकांक तागेली खरी शक्त कळटली. जगांतली एक परमोच्च शक्ती म्हूण लोक ताका वळखतले. एका सम्राटा मुखार बागवता तशी सगळी मनीस जात ताचे मुखार नमतली. जगांतलो महापुरूष म्हणून ताका पुज्य मानतले.

तो हाचे परसय मोठे चमत्कार करतलो. आज मेरेन ताणें केल्यांत ताचे परस चड अजापां तो करतलो. ह्या चमत्कारां संबंदीं उल्लेख (भविश्य) शुकमुनीच्या एका पुस्तकांत जाला. तो म्हणल्यार जेन्ना विमानांतलें इंधन

सोपतलें ते उपरांत लेगीत तो आपले इत्साशक्तीचे ताकदीर तें खूब वेळ चालू दवरतलो. तो हेंवूय सांगता कीं साईबाबाची नदर सदांच तरूण उरतली आनी ताका वयाची बाधा आसची ना. तो व्हड सत्यां शिकयतलो. आनी आपलीं प्रवचनां आयकुप्यांचीं दुबळेपणा पळोवन स्मीत करतलो.

भगवान श्री सत्य साईबाबांनी खूबशे फावटी आपले मुलाखतीत सांगलां कीं तांगेलें वजन २४ वर्सां पसून बरोबर १०८ पौंड आसा. तें वाडचेंय ना आनी देंवचेंय ना. तो ह्या शरिरांत आसासर तें तितलेंच उरतलें.

***

# हय - हय - हय
# तो देव आसा
# ताणें हे पृथ्वीर अवतार घेतला

हांव आयलां प्रेमाची ज्योत पेटोवपाक
तुमच्या काळजांत आनी पळोवपाक
दिशीं दिशीं ती चड आनी चड उजवाड
घालतली आनी चड चड तेजवान जातली

बाबा

सज्जनांच्या रक्षणा खातीर आनी दुश्टांच्या
नाशा खातीर, घट्ट बुन्यादीचेर धर्माची स्थापना
करपाक युगां-युगांनी हांव जन्म घेतां
साधू-मुनी, संत हांचे प्रार्थनेक लागून
हांव हे पृथ्वीर येतां

बाबा

प्रत्येक युगांत इश्वर अवतार घेवन कांय शारावीक कार्या खातीर पृथ्वीर येता. श्री राम त्रेता युगांत दुश्ट रावणाचो नाश करपाक आयलो. द्वापार युगांत श्री कृष्णान कंसाक मारपाक आनी कौरवांचें समूळ उच्चाटन करपाक आनी सत्य आनी धर्माची स्थापना करपाक जन्म घेतलो.

तेच भशेन ह्या कलियुगांत आमचो मोगाळ श्री सत्य साईबाबा मनीस रुपांत शांती मेळोवपाची रीत स्थापन करपाक आनी मनीस समाजाक पुर्नशिक्षण दिवन शांतीचो मार्ग दाखोवपाक आयला. ताणें आपूण जावन घोशणा केल्या कीं तो अवतार आसा. जगांत धर्माची आनी प्रेमाची स्थापना करपाक तो आयला.

भगवान बाबांनी उघड सांगचे पयलीं श्री कृष्णान आपल्या वेळार आपूण जावन स्पश्टपणान घोशणा केल्ली ती म्हणल्यार तो आदिकाळांतलो मार्गदर्शक आनी विश्वांतले प्रत्येक कृतीचेर ताबो आशिल्ली संचालक शक्ती आसा. अवताराची रीत आनी मनीस परिस्थितीन बांदिल्ले उरतात आनी प्रत्येक अवताराचें येवप ताचेर अवलंबून आसता.

अवताराची व्याख्या अशी सांगूं येता. मनीस जातीचें रक्षण करपाक इश्वर आपलें प्रेम, माया आनी दया हांका लागून सकल्या मनशाच्या थरार येता आनी मनशांतली दैवी चिद्घन शक्ती जागी करून तो मनशाक आपली वळख करून दिता. जेन्ना मनीस देवाक आपले भायर धांवाधांव करून सोदीत भोंवता त्या वेळार ताका खबर आसना कीं ज्या देवाक तो सोदता तो ताचे भितरच आसा. मनशाक ही जाणीव करून दिवपाक एका गुरूक वा अवताराक येवचें पडटा.

जेन्ना देव मनीस रुपांत अवतरता तेन्ना मनशाचे रितीनच वागता. म्हणटकर मनशाक ताचे कडेन जवळीक सादपाक मेळटा. तो सामान्य मनशा भशेन वागता. तुजे भशेनच खाता-जेवता. तुजे भशेनच चलता-उलयता. जर ताणें तुजे कडेन अवताराचे भाशेंत उलयलें वा अवताराचे रितीन वागलो तर ताका कोण समजतलो? तागेलें कार्य तडीक व्हरपाक ताका तुमच्यांत मिसळूंक जाय. मनीस रितीन वागूंक जाय. ताका सामान्य मनशा भशेन वागूंक जाय. बाबा खूबशा वेळार सांगतात, हांव तुमचे भशेन खातां-जेवतां. तुमी भोंवतात तसोच आपुणय भोंवतां. हांव तुमगेले भाशेंत उलयतां आनी तुमचे भशेन वागतां तुमी समजुचें म्हूण, तुमचे खातीर. म्हजे खातीर न्हय. हांव तुमकां देवा कडेन वचपाचो मार्ग दाखयतां. म्हगेलो हेत तुमकां बदलून आध्यात्मीक साधक करपाचे. म्हणटकर तुमकां तुमगेलें खरें स्वरूप कळचें आनी तेच बरोबर विश्वाचे निर्मणेचें मूळ कळचें. तुमकां म्हगेले दैवीक शक्तीचो अणभव मेळचो.

कांय वेळार खूबशे लोक उलयतात आनी सांगतात, बाबा सगळयांक एकसारखे कित्याक वागयनात? थोड्या भक्तांक आपल्या अमर्याद प्रेमाचो लाभ दितात, हाचे उलट थोडयां कडेन कडकसाणेन वागतात. पूण हेंवूय लक्षांत घेवपाक जाय, ज्या भक्तांक बाबा सांगतात, तांचेर आपूण खूब प्रेम करतां तेवूय वी संकटांक तोंड दितात. अशें कित्याक? लेखकाक दिसता कीं हाची जाप कर्माच्या सिद्धांता कडेन घुस्पल्ली आसा. आपल्याक दिसता हें प्रत्येक व्यक्तीच्या कर्मा कडेन संबंधीत आसा. म्हणल्यार जाणें जशें आपल्या पयलीं जल्मांत पेरलां तशें ह्या जल्मांत ताका

पीक मेळटा.

बाबा सांगतात, कोणाकय देवाची कृपा मेळ्ळी तरी तागेलीं कर्मां ताका आपलीं फळां दितातच. पूण देवाची कृपा मेळ्ळी म्हणटकर ह्या कर्मांच्या फळांचो ताचेर चड परिणाम जावचो ना. तें अशें आसा- कोणाकय गंभीर दूख्र आसूं, तो डॉक्टरा म्हऱ्यांत वता. डॉक्टर ताका पेनकिलर दिता वा दूख्र मारपाक इंजेक्शन दिता. दूख्र थंय आसताच पूण डॉक्टर ती भेरायता आनी पेशंटाक ती दूख्र बादना.

देव मनीस रुपांत आयला आनी तो सामान्य मनशां भितर वावुरता इतल्याच खातीर कीं सगळे ताका आयकतले. ते ताका मेळटले. ताका प्रेम दितले. ताका पुज्य मानतले आनी तागेलें आयकतले. देवाक मनशाची भाशा उलोवची पडटा. आनी मनशा भशेन वागचें पडटा. ताका तातूंतलोच एक घटक जावचो पडटा. नाजाल्यार लोक ताचेर दुर्लक्ष करून ताका नाकारतले. नाजाल्यार ताचो भंय धरून ताका टाळटले.

एक व्हडलो आक्षेप लोक घेतात आनी बाबांक एक प्रश्न विचारतात, जेन्ना इश्वरी अवतार आमच्यांत येता तेना जगांत इतलें दुख्ख, गरिबी, आनी दुश्टकाय कित्याक आसा? आमचीं वैयक्तीक संकटां कित्याक मदीं मदीं आमचे जिणेंत येतात? जगांत अनर्थ, दुश्काळ आनी भूंयकाप कित्याक जातात? झुजां, हिंसा आनी अधर्मी प्रवृत्ती कित्याक बळावतात? जेन्ना देव पृथ्वीर आसा तेन्ना हें अशें कित्याक घडचें?

कांय लोक प्रश्न विचारतात, जर बाबा आपले आधात्मीक शक्तीन अन्न वाडोवंक शकता, मुदयो, लॉकेटां,

विभूती अशो वस्तू प्रकट करूं शकता, कांय लोकांक दुखण्यांतल्यान बरे करूंक शकता तर साईबाबा आपली सर्व शक्ती अधिकार वापरून समुद्राच्या सगळ्या उदकाचें पेट्रोलांत रुपांतर कित्याक करिना? दोंबरांतल्या सगळ्या फातरांची कॅन्डी (मिठाई) कित्याक करिना? देशांतल्या सगळ्या न्हंयांच्या रेंवेची साखर कित्याक करिना? न्हंयच्या उदकाचें दूद कित्याक करिना? मनीस जातीक भलायकेन घटमूट आनी सुखी कित्याक दवरना? बाबांच्यानी पावस थांबोवंक जाता? जेन्ना दुकळ पडटा तेन्ना बाबा पावस कित्याक हाडिना? ताच्यान मिठाई उत्पन्न करपाक जाता? जेन्ना दुकळ पडटा तेन्ना ताच्यान अन्न कित्याक उत्पन्न करूंक जायना? ताच्यान राष्ट्रीय कायद्याचो आध्यात्मीक कायद्यांत कित्याक बदल करूंक जायना?

ह्या प्रस्नांक जायतीं उत्तरां आसतलीं अशें धरुंया. श्रीकृष्ण, ख्रिस्त, सत्य साईबाबा हांच्यांनी हें करूं जाता. हाचो अर्थ असो धरपाचो कीं ह्यो भौतीक वस्तू बदलून मनशाचो स्वभावय वदलतलो व्हय? आनी तो आध्यात्मीक मार्गा कडेन वळटलो? अशें धरुंया, निसर्गीक समुद्र बदलून ताचो पेट्रोलाचो समुद्र केलो आनी मनशाचो अहंकार आसा तसोच उरलो. तर अशें जावचें ना मू कीं मनीस आपल्या अहंकाराक आनी खाण दिवपाक एक फरका काडी पेटोवन ताका लायना मू? आनी सगळे पृथ्वीचेंच भस्म करिना मू? दुदाच्यो आनी म्होंवाच्यो झरी पृथ्वीर कित्याक उत्पन्न करिनात? हाचें उत्तर, इश्वराच्यान मनशाक बदलूंक जायना. मनशांत बदल केन्ना जातलो? जेन्ना दुदाच्यो आनी म्होंवाच्यो झरी ताच्या अंतस्करणांत व्हांवपाक लागतल्यो तेन्नाच तो

बदलूंक शकता. कोणय हो विशय आनी फुडें व्हरूंक शकता. मनशाक हालिंसरा निसर्गीक कांय घटकांची जाणीव जाल्ली आसा. तितल्यानच ताची शक्ती इतल्या थरार गेल्या कीं तो मनीस जातीचेंच समूळ उच्चाटन करूंक शकता. जर ह्याच मनशाक तागेल्या अहंकाराक पोसवण दिली जायत आनी दुयेंस, संकट, नाश आनी मरण हांचे पसून ताका कांय भंय उरलो ना जायत आनी तागेल्यो सगळ्यो गरजो भागल्यो जायत तर अखेराक मनीस जात कितें करतली?

इश्वरी दुताचें कार्य हें भौतीक वस्तू निर्माण करून पृथ्वीचेर मनशाची चड भरभराट करपाचें न्हय. तर ताच्यांत आध्यात्मीक ज्योत पेटोवपाची. चमत्कार अशा खातीर करतात कीं तें एक प्रमाण आसता जगांत आध्यात्मीक शक्ती आसा हें दाखोवपाचें. जेन्ना साईबाबा एका शास्त्रज्ञाच्या हातांतलो फातोर कँडीचो एक कुडको करता तेन्ना तो ताका ताचो आध्यात्मीक शक्तीचेर विश्वास बसचो म्हणून एक प्राथमीक उदाहरण दिता आनी त्याच खातीर ती कृती आसता. जेन्ना बाबा एका दुखणाइताक बरो करता तेन्ना बाबालो उद्देश ताच्यांत स्रद्धा उत्पन्न करपाचो आसता. आनी तेच बरोबर ताका हीय जाणी करून दिवपाक कीं अखेराक एक शक्ती आसा जी ताचें दुख्ख टाळूं शकता.

म्हणटकर पृथ्वीचें रूप बदलून ताचें नंदनवन करपाचो वा पृथ्वीर भौतीक वस्तू निर्माण करून भरभराट हाडपाचो प्रस्नच येना. पृथ्वीर अनर्थ, दूकळ, दुर्भीक्ष, भुकंप रोगाच्यो साथी आनी मनशाचीं वैयक्तीक दुख्खां हे नैसर्गीक कायदे बदलपाक आध्यात्मीक कायदे हाडून हें सुधारप जायना. हें पृथ्वीच्या अस्तित्वा कडेन आमी आध्यात्मीकतेचे वेले दृश्टीन

पळयल्यार कळटा.

सत्य साईबाबा हो विशय आनी स्पश्ट करून सांगतात, खंयच्याय प्रस्नाचें क्षणीक निरसन हें निसर्गाच्या मूळ नियमांचेर वा कर्म कायद्याच्या विरुद्ध येवंक शकता. चडशे लोक भौतीक जगांत आपल्या वासनांच्या आनी अहंकाराच्या राज्यांत वावुरतात. निसर्गाचे कायदे हांचेर राज्य करतात. ते आपल्या कर्माचीं फळां भोगतात. तांगेलीं कर्मां तांच्यांत उदरगत वा अधोगत कर्माच्या फळा प्रमाण मेळयतात. जर अवतारान हातूंत अकस्मात ढवळाढवळ केली जायत आनी तांगेल्यो अडचणी सोडोवपाक गेलो जाल्यार सगळी कृतीच वंद जातली. वाड आनी उत्क्रांती थांबतली. म्हणटकर हो उपाय योग्य ना कारण हो पूर्णपणान निसर्गाच्या कायद्या भायर वता.

मनशाच्या अंतरस्थ आशिल्ल्या इश्वराचें अवतरण करून मनशांत वदल करपा जाता आनी ह्याच कारणा खातीर अवताराचें ह्या संवसारांत येवप आसता. तांगेल्यो सगळ्यो अडचणी अशा क्षणीक पद्धतीन सोडोवप ही वेगळीच तरा जातली. अशें सत्य साई सांगतात.

दुसरी आनी अधीक परिणामकारक सोपी आनी लांब काळाची सोडवण म्हणल्यार अवतार लोकांक जाणिवेच्या वेल्या थरार व्हरून तांकां आध्यात्मीक सत्याची समजावणी करून दिता. म्हणटकर ते नितीचो मार्ग आपणावन आपलें कार्य बरे रितीन करपाक शकतले. हें तांकां परतें मूळ स्वभावा कडेन आनी कर्माचो कार्यकारण संबंधीत कायदो हांचे कडेन व्हरतलें. आनी तें कारण आनी ताचे परिणाम ही सांखळ हुपून वतले. आज ते तांतूंत घुस्पून बळी वतात

तातूंतल्यान तांची सुटका जातली. ते निसर्गीक शक्तीचेर ताबो मेळोवन निसर्गीक कोप पयस करूंक शकतले.

हें एक अजापांतलें अजाप. सत्य साईंवो हो अजापाचो संदेश म्हळ्यार मनीस जातीची आनी मनशांतली चिद्‌घन शक्ती इश्वरी जाणिवेच्या थरार व्हरप. म्हणटकर मनशाचीं भवितव्यां आध्यात्मीक नियमांनी थारतलीं. फकत उच्च स्थितीचो अणभव घेवनच मनीस नैसर्गीक कायदे जे पृथ्वीर ताचें अस्तित्व नियमीत करतात तांचेर पसून ताबो मेळोवंक शकता. तेच भशेन मनीस जात संघटीत जावन क्रांती करून अस्तित्वाच्या वेल्या थरार चडूं शकता. मनशांत होच बदल करपाचो सत्य साईबाबाचो प्रामुख्यान बेत आसता. आपली फकत शक्ती दखोवपाक बाबा कोणाच्याय शरिराचो रोग बरो करता पूण तागेलो खरो हेत मनशाचें मन बदलपाचेर आसता. लोकांक तांगेल्या अंतस्करणाचे जाणिवेच्या आसा त्याच थरार दवरून जर तांगेल्यो सगळ्यो अडचणी घटकेक आपणें सोडयल्यो जायत तर ते रोखडेच सगळो घुस्पागोंदळ घालून एकमेकांचे गचेक धरपाक परत धांवतले. आनी हाचो परिणाम जगार घुस्पागोंदळाचें वातावरण तयार जातलें अशें बाबा सांगतात.

उत्पत्ती स्वाभावीकपणान आपल्या कायद्यान चलता. मनीस हो कार्यकारण परिणाम हांचे वयर ना. निसर्गाचे हे कायदे मनशाक न सुटपी आसात. मनीस आपल्या कर्मांनीच आपलीं दुख्खां आमंत्रीत करता. तीं एखाद्रीं ह्या जल्मांतलीं न्हीं जायत पूण पूर्व जल्मांतलीं खात्रीन आसूं शकतात. पयलींच्या जल्मांत केल्ल्या कर्मांची ताका ह्या जल्मांत खबर आसना. आपल्या आत्म्याच्या दीर्घ प्रवासा विशीं ताका

जाणीव मेळ्ळी जाल्यार ताका आपल्याक भोगूं पडिल्ल्या त्रास-सूख हांच्या कायद्याची समज मेळटली आसली.

कथोपनिशदांत एक खबर आसा. एक तरणाटो यमाक विचारता, "नरकांत लोकांची सदांच गर्दी कित्याक आसता?" यम ताका जाप दिता, "हे जे लोक तूं हांगा पळयता तांचो कर्माचेर विश्वास नाशिल्लो. पृथ्वी शिवाय आनी हेर जगां आसात हांचें अस्तित्व तांकां खबर नाशिल्लें म्हणटकर तांकां थंय तांणी स्वता वचचें म्हणून धाडल्यात."

जगाक उच्च नियंतो ना जाल्यार पुराय जगांत घुस्पागोंदळ जातलो. जे कायदे सरळ चलतात ते मोडटले. देव अशे रितीन सुसंगताय राखता. प्रत्येक गजालीचेर इश्वराचे इत्साशक्तीचो ताबो आसता. एक बायल मनीस एका साधू म्हऱ्यांत गेली आनी मनीस जल्माचें गूढ कितें ताची आपल्याक समजीकाय दिवपाची विनंती केली. म्हणटकर ताणें तिका बायलांचो बांयटेर जाता त्या एका मोठ्या हॉस्पिटलांत वचपाक सांगलें. आनी थंयच्यान येतकच तुका हांव तुगेल्या प्रस्नाची जाप दितां म्हूण सांगून तिका हॉस्पिटलांत धाडली. ती हॉस्पिटलांत वचून आयली आनी तिणें साधूक आपलो थंयचो अणभव सांगलो. ती सांगता, खूबशी भुरगीं त्या दिसा जल्माक आयिल्लीं. थोडीं सशक्त आशिल्लीं तर कांय विरूप आशिल्लीं. लुळी-पांगळी आशिल्लीं. थोडीं गिरेस्त आवय-बापायगेर जल्माक आयिल्लीं तर खूबशा भुरग्यांचे आवय-बापूय गरीब आशिल्ले. कांय कातीन काळीं आशिल्लीं तर कांय गोरी आशिल्लीं. तिका हीं नवींच जल्मा आयिल्ली बाळकां वेगवेगळीं कित्याक जालीं हाचें कारण कळ्ळें ना. सगळी

बाळकां अजाण आशिल्लीं आनी तांणी ह्या जल्मांत कांयच वायट करूंक नाशिल्लें. मागीर अशें कित्याक जालें? साधून जाप दिली, पयलींच्या जल्मांत केल्ल्या कर्मांक लागून अशें जालां.

जे कोण देवाक भजपाचे प्रामाणीक प्रयत्न करतात तांकां कळून येतलें, देव तांकां ज्या वस्तूंची गरज आसा त्यो वस्तू मेळपाची वेवस्था करता. पयलीं केल्ल्या कर्मांचेर आदारून देव जाणा तांकां कितें फावता. देव खात्रीन आपल्या भक्तांच्यो कामना पूर्ण करता. आपले कृपेची शिंपडण देव कशे तरेन करता हाचें प्रमाण सकल दिल्ले देखी वेल्यान मेळटा. भुरगें जावचे पयलींच सगळें अन्न आवय मार्फत तयार दवरिल्लें आसता. जेन्ना तें ह्या जगांत येता तेन्ना दूद तयार आसता. तेच प्रमाण जे कोण ताचेर भार घालून पूर्ण स्रद्धा दवरतात तांची काळजी तो खात्रीन घेता. जेन्ना ते उघडपणान सांगतात, त्या सर्वशक्तिमानाचे आमी सेवक आसात आनी तोच आमचो आश्रयदातो आसा, आमी ताचे कडेन आमचें रक्षण करपाक मागणें करतात. कारण आमी दुबळे आसात. जर ताणें थारायलें तर आपल्या भक्तांक तो खंयचीय वस्त दिवंक शकता आनी जर ताची इत्सा तांकां मदत करपाची ना जाल्यार कोणच ताका ती दिवपाक भाग पाडूंक शकना आनी अडचणी येत रावतात. व्हड साधूंचे जिणे वयल्यान आमकां कळटा, ते कितले दृढ आनी निश्चयी, देवाची आज्ञा पाळपाक तयार आसताले. आनी तांगेली देवान दिल्ले वांटणेचेर पूर्ण स्रद्धा आसताली.

तारणहाराचें कार्य हें मनशाक आपल्या अहंकाराच्या वयर आनी आपले अंतरजाणिवेच्या वेल्या थरार व्हरप

म्हणटकर ताच्यान आपल्या कर्मांच्या परिणामा पसून सुटपाचो प्रयत्न करूंक जाता अशें सत्य साईन सांगलां.

संकटां, दुख्खां हे दोन न सुटणारे विश्व नाटकाचे अंक. देव ह्यो विपत्ती हाडिना तर मनीस आपणें पयलीं केल्ल्या वायट कर्मां लागून तांकां आमंत्रण धाडटा. हो एक मनशाक सुधारपाचो मार्ग आसता आनी ताका शिक्षा भोगून ताणें वायट मार्ग सोडून दिवन योग्य मार्गार येवपाक ताका ही देख आसता म्हणटकर मनीस देव-मनशाचे स्थितींत येवन चिद्घन शक्तीचो अणभव घेवंक शकता. ही चिद्घन शक्ती म्हणल्यार ज्ञानाचें आनी सौख्याचें प्रतीक. हें सगळें एका व्हड एककरणाचो भाग आसता जातूंत नकारात्मक प्रवृत्ती होकारात्मक प्रवृत्तीचो गौरव करता. तेचप्रमाण मरण अमरत्वाचो गौरव करता. अज्ञान ज्ञानाचो गौरव करता आनी रात फांतोडेचो गौरव करता.

हें खात्रीन मनशा भितर आशिल्ल्या दिव्यत्वाचें प्रकटीकरण आसता. हांगा ऋगवेदान एक ताकीद दिल्या. तो म्हणटा, इश्वराचे कायदे कोणच हुपूंक शकना. वैदीक साधू निसर्गाचे कायदे हे जगनियंत्याचे कायदे अशें मानताले. सगळे जावन गेल्ले इश्वराचे दूत-ख्रिस्त, बुद्ध, महंमद, नानक हे सगळे चमत्कार करताले. हें दाखोवपाक कीं इश्वराची शक्ती ही सदांच मनशाचे शक्ती परस स्रेश्ठ आसता. मनशाचे विचार आपल्या आत्म्याक आशिल्ल्या अहंकारा पसून पयस काडून तांकां आत्म्याच्या दैवी मूळ स्वभावा कडेन वळवप म्हणटकर ताका आध्यात्मीक सूख थोड्या वेळा पुरतें घेवपाक मेळटलें हो तांचो परम हेतू. सत्य साईबाबांनी आपल्या चमत्कारांनी जगा मुखार बुद्धी प्रामाण्यान सोडोवपाचें एक

व्हड आव्हान दवरलां. हें आव्हान आयच्या आधुनीक मनाक पडिल्लें कोडें आसा. ह्या प्रस्नांक जर बुध्दी प्रामाण्यान उत्तर दिवपाक येना जाल्यार तांकां स्रद्धेच्या मार्गान उत्तर दिवपाक येतलें.

विसाव्या शतकाच्या मध्या धरून सत्य साईबाबांल्या चमत्कारांनी जगांतल्या समाजाचें मन आकर्शीत केलां. वैज्ञानीक, मानसोपचार तज्ञ, अज्ञेयवादी, नास्तीक, देहात्मवादी, टिकाकार बाबांच्या विचारांचेर विश्वास दवरनाशिल्ले. ह्या ग्रुपां भितर दादले-बायलो, वेगवेगळ्या देशांतले, खंडांतलेसगळ्या धर्मांचे स्रद्धाळू, सगळ्या जातींतले, वर्णांतले, कुळयेंतले हातूंतले खूबशे बाबांचे भक्त नात वा तांगेल्या विचारांचेर तांचो विश्वास ना अशें आसूनय हे लोक आनी हेर अगणीत लोक बाबांले चमत्कार आज वर्सांची वर्सां दसकां फाटल्यान दसकां पळयत आयल्यात.

सगळ्यांत मोठ्यांतलो मोठो टिकाकार आनी सत्य साईबाबांचेर विश्वास नाशिल्लो भौ. रुसी खुर्शीद करंजिया हो पारसी आनी मुंबयच्यान प्रकाशीत जावपी ब्लीझ ह्या साप्ताहिकाचो मुखेल संपादक. हो धाडसी आनी बुद्धिमान. आपल्याक मेळिल्लो हो असो एकच. हांव तागेल्या मासिकाचो चाहतो आनी जेन्ना हांव हिंदुस्थानांत आसतां तेन्ना तागेलें मासीक हांव मुद्दाम वाचूंक विकतें घेतां.

तो बाबांच्या विरुध्द आपल्या बातमीपत्रांत लेख्र बरोवन बाबांचेर टिका करतालो अशें आसतनाय बाबा तागेलें मासीक वाचतालो. १९७९ नोव्हेंबरांत बाबांलो ५० वो वाडदीस आशिल्लो आनी पुट्टपुर्तीक जागतीक संमेलन प्रशांती निलयमांत आयोजीत केल्लें. जगांतले सगळे भक्त जमिल्ले.

हांव (हो हांव म्हणल्यार मूळ लेखक) थंय संमेलनांत हजर रावपाक गेल्लों. हांव सत्य साई केंद्राचो अध्यक्ष आशिल्लों. आनी पयलेच खेपे श्री. करंजियाक समक्ष मेळपाची संद मेळिल्ली. ते रावंड बिल्डींग नं.२च्या तळमजल्यार रावताले. आनी थंयच वेल्या मजल्यार म्हगेले नं.सी ४ आनी ७ फ्लॅट आशिल्ले. बाबांनी तांकां मुलाखत दिली आनी जवळ-जवळ बाबा अडेच वरां तांचे कडेन उलयले. तांणी म्हाका सांगलें, तांगेले जिणेंत घडिल्ल्यो ल्हान-व्हड खासगी गजाली बाबांक खबर आशिल्ल्यो हें पळोवन आपल्याक अजाप जालें. करंजियान बाबांक विचारपाचे प्रस्न बरोवन हाडिल्ले. पूण बाबांक हे प्रस्न पयलींच खबर आशिल्ले. तांणी प्रस्न विचारपाक सुरु करुन तो सोंपोवचे पयलींच ताका आपल्या सगळ्या प्रस्नांचीं सविस्तर उत्तरां मेळ्ळीं. हाचे उपरांत हांवें तांगेले कांय लेख तांगेल्या ब्लीझ साप्ताहिकांत वाचले. तातूंत बाबांचेर टिका नाशिल्ली आनी तांणी बाबांचे दैवी शक्ती विशीं बरयल्लें.

डॉ. भगवंताचें उदाहरण घेयात. तो करंजियां बरोबर मुलाखती वेळार आशिल्लो. तोवय बी बाबांचो कट्टर टिकाकार आशिल्लो. उपरांत तो बाबांलो व्हड भक्त जालो आनी ताणें आपल्यालो खूबसो वेळ बाबांल्या पांयां कडेन रावन सारलो. इतलेंच न्हय तर बाबांलीं तेलगुंतलीं प्रवचनां इंग्लीशींत भाशांतर करपाचें काम चालू केलें.

### चमत्कार काय जादू

जेन्ना आमी बाबांल्या चमत्कार वा दैवी लिलां विशीं

उलयतात तेन्ना ह्या प्रकरणांत म्हाका आनी थोडच्यो वळी जोडूं दी. आमी वस्तुस्थिती जाणात आनी मान्यय करतात कीं प्रत्येक मनीस हो साई भक्त ना. कांय लाख लाख लोक आसतले जे बाबांचे भक्त नात आनी तांचो बाबांचेर विश्वास ना. ते तांचेर अविश्वास दाखयतात. इतलेंच न्हय तर बाबांल्या देवी शक्तीचेरय टिका करतात. जेन्ना बाबांल्या दैवी लिला वा चमत्कारां विशी ते आयकतात तेन्ना ते फकत हांसतात आनी ताका जादू म्हणटात. कांय वेळार जेन्ना ते म्हाका पार्टेक ना जाल्यार लग्नाच्या येवकार सुवाळ्यांत मेळटात तेन्ना ह्या सगळ्या घटनां विशीं उलयतात आनी ताका जादू म्हणटात. हांव सदांच तांकां समजावपाचो प्रयत्न करतां कीं त्यो घटना म्हणल्यार जादू न्हय आनी बाबा जादुगार न्हय. जादुगारालो जादू ज्या जाग्यार तो जादू करता तितल्या जाग्या पुरतोच ताचो अमल आसता. वा त्या शिमां भितरच तो चलता. तो केन्नाच थोडो मैल पयस पावना. इतलेंच न्हय तर शेजारच्या इमारतींचेर पसून ताचो अमल चलना. हाचे उलट बाबाली दैवी शक्ती हजारों मैलांचेर काम करता. हांव तांकां उदाहरण दितां. बाबा प्रशांती निलयमांत वा वृंदावनांत भारतांत बशिल्ले आसतात आनी हजारों मैल पयस इंग्लंडांत आमी तांच्या भजनांत दंग आसतात. भजन चलतना अकस्मात बाबांच्या फोटोंतल्यान तांच्या पांयां कडल्यान विभुती सकल पडटा. केन्नाय देवाल्या देवाऱ्यांत दवरिल्ल्या बाबांच्या फोटवांतल्यान पवित्र अमृत व्हांवता. हो तांगेलो जादू? ना, केन्नाच ना. ही तांगेली इश्वर शक्ती. ही तांगेल्या आशिर्वादाची परब्ररण जी ते आपल्या भक्तांचेर घालतात. सत्य साई भारतांत आसतात आनी हे सगळें इतले पयस घडटा.

सर्वव्यापक, सर्वज्ञ, सर्वशक्तिमान श्री सत्य साईबाबा हें जगांतलें सगळ्यांत मोगाळ दैवत. ते लाखांनी लोकांच्या अंतस्करणांत रावतात. साई आमकां जिणेंतलो आनंद, सूख सोदूंक सांगतात. ते भक्तांक आपल्या कडेन व्हरपी सादे सरळ मार्ग दाखयतात. हे मार्ग म्हणल्यार प्रामाणीक प्रार्थनेचीं साधनां. कोणाच्यानूय खंयच्याय जाग्यार खंयच्याय वेळार साईक मेळूंक जाता. तांगेल्या भक्तांचो हो नित्त्याचो अणभव. सदांच लक्षांत दवरात श्री साई सर्वव्यापक, सर्वज्ञ आनी सर्वशक्तिमान आसात.

श्री सत्य साईल्या चमत्कारांक शिमो नात. हें आतांच न्हय तर जल्मा पसून ते एक इश्वरी अवतार. तांगेले शक्तीची मर्यादा मनीस कल्पनेचे मर्यादेची शीम हुपून खूब पयस पाविल्ली आसा. भारतांत आनी भारता भायल्या लोकांनी तांगेल्या सर्वसाक्षित्वाचो, सर्वज्ञतेचो, आनी सर्वशक्तिमानतेचो अणभव वेग वेगळ्या तरांनी घेतिल्लो आसा. हातूंतल्या थोड्याशा अणभवांचो हांगा उल्लेख केलो जाल्यार हेच अणभव खातरीन सिध्द करपाक खूब जातलें.

अगणीत लोकांक (हातूंतले कांय बाबाले भक्त नात) तांचे जिणेंतल्या चडशा संकटांत वा दुख्खांत श्री सत्य साईबाबा तांचे म्हन्यांत आयिल्ल्याचो तांकां भास जाला. अशें हें बाबालें हजर जावप हें आपलेपणाचें आनी अर्थपूर्ण आसता. थोड्या गजालींत हाचे उलट बाबा समक्ष हजर जातात आनी तांगेली शक्त नीट काम करता. क्वचीत गजालींनी कांय खिणापुरते श्री सत्य साईबाबा थळ काळाच्यो शिमो हुपून समक्ष हजर जाल्यात. आनी त्याच वेळार त्याच खिणाक ते दुसरेच कडेन आशिल्ल्याचें कळटा.

---

१९८३ वर्सा ३० आनी ३१ ऑक्टोबर अशे दोन दीस रोमाक (इटली) आंतोनियो क्रासी हांणी एक संमेलन आयोजीत केल्लें. ह्या संमेलनाक प्रशांती निलयम, पुट्टपुर्ती हांगच्यान साईबाबांले प्रतिनिधी म्हणून श्री. व्ही. के. नरसिंमन तांगेलो संदेश आनी कार्य हाचेर उलोवपाक रोमाक आयिल्ले. जेन्ना ते रोमाक पावले तेन्ना तांगेलें वाचपाचें वक्त्त भारतांतच उरलें म्हणपाचें तांकां जाणवलें. वक्त्ता बगर तांकां एक उतर लेगीत वाचूंक जमनाशिल्लें. तांचेर आकांत आयलो. परिस्थिती खूब कठीण आशिल्ली. आतां फुडें कशें जातलें हाचो तांकां हुस्को जालो. हांवय थंयच आशिल्लों. आमी सगळे चिंतेंत पडिल्ले. पूण अकस्मात बाबांली दिव्य शक्ती नरसिंमनच्या आदाराक धांवून आयली. आमी चिंतेंत आसतनाच अकस्मात वाऱ्यांतल्यान वेल्यान नरसिंमनालें वक्त्त अचळय तांगेल्या हांतुळणार देंवलें. खऱ्यांनीच चमत्कारांचेर सोपे रितीन विश्वास बसप कठीण. तुमी स्वताच तें दोळ्यांनी पळोवंक जाय आनी स्वता ताचो अणभव घेवंक जाय.

संमेलन सोंपल्या उपरांत जेन्ना नरसिंमन पुट्टपुर्तीक परते आयले तेन्ना बाबांनी तांकां तांगेल्या विसरिल्ल्या वक्त्ता विशीं आनी तेदे वेळार घडिल्ल्या प्रसंगाची याद करून दिली आनी सांगलें, आपणें तुगेलें वक्त्त फोनांतल्यान रोमाक धाडलें.

स्वामी (थोडे श्री सत्य साईबाबांक स्वामी म्हणटाले) पिडा-रोग बरे करतात आनी हजारांनी त्रास पावपी लोकांक मन-शांती दितात. ते हजारांनी साधकांक आत्मज्ञानाचो मार्ग दाखयतात. ते मुसलमान आनी हिंदू भितर इश्टागत

वाडयतात. तशेंच वेगवेगळ्या जातीं भितर इश्टागत वाडयतात. ते मूळ सत्य आनी आचरणाचो आदर्श ज्ञानाचेर आधारीत प्रेम आनी सेवा हांचेर आधारीत जागतीक धर्म ते वाडीक लायतात.

धर्माची पुर्नस्थापना करप हो अवतारांचो हेत. देखीक पयलींच्या अवतारांची राम-कृष्ण हांची जीण पळोवया. श्रीकृष्णाचो जल्म द्वापार युगांतलो. ताणें घोशणा केली कीं आपूण धर्म स्थापने खातीर परत परत जल्म घेतां. ताणें कंस वध केलो कारण तो धर्माचो द्वेश्टो आशिल्लो. उपरांत ताणें कौरवांचो समूळ नाश केलो. कारण ते राक्षसां भशेन वागताले. आनी तांकां मारपाक युद्धाची येवजण केली.

श्रीकृष्णालें यादव कूळ समूळ नाश पावलें. कारण ते आपसांत झगडीं करूंक लागले आनी अधर्मीक मार्गान जीण सारपाक संवकले. सोरो पिवप, जुगार खेळप आदी. कृष्णान तांकां धर्मीक आनी नैतीक मार्गाचेर हाडपाचे प्रयत्न केले. पूण ते जाग्यार आयले नात आनी नाश पावले.

श्री रामान त्रेता युगांत पयलीं रानांतल्या राक्षसांक मारले. म्हणटकर रुशी आपलीं धार्मीक कार्यां, हवनां शांततायेन करूंक शकले. रामान दुश्ट वालीचोय वध केलो. वाली अधर्माचो प्रतीक आशिल्लो. ताणें बलाढ्य रावणाक तागेल्या सगळ्या सैन्या सयत, जे धर्माचे शत्रू आशिल्ले, मारलो. हांगा असो प्रस्न येता, रामान धर्माची स्थापना केली? ना. ताणें बलाढ्य राक्षस जे धर्माचो नाश करताले तांकां मुळा साकून हुमटायले. आनी लोकांक धर्म समजावन सांगलो.

शिरडी साईबाबान आपलें आयुश्य भर, जिणेचो धार्मीक

मार्ग शिकयलो. तांणी सदांच अहिंसेची शिकवण दिली. तांणी हिंदूंक आनी मुसलमानांक एकठांय हाडले. तांकां विश्व भाईचाऱ्याचे धडे दिले. सत्य साईबाबा सदांच आपल्याक शिरडी साईबाबांचो अवतार मानतात. आनी त्या वेळार तांणी शिकयल्लीं तींच तत्वां शिकयतात.

सत्य साईबाबा हेर अवतारां भशेन धर्म होच योग्य मार्ग म्हूण सांगतात. आनी तो समजावन ताचें पालन करूंक सांगतात. बाबा स्वता आपले जिणेंत तोच मार्ग आचरणांत हाडटात. आनी दुसऱ्यांनी तो पाळचो म्हूण आपलें उदाहरण लोकांक घालून दितात. हेरांनीय तो पाळचो अशें सांगतात.

सत्य साईबाबा सांगतात, म्हगेली जीण होच म्हगेलो संदेश. ह्याच कारणा खातीर ते हो मार्ग शिकयतात आनी आपली लिला दाखयतात, आपल्या योग्य आचरणान दुसऱ्यांक उदाहरण घालून दितात. हें तांगेलें काम न्हय पूण मनीस जातीच्या फायद्या खातीर ते हें करतात. जे जे अवतार ह्या जगांत आयल्यात तांणी चडांत चड लोक धार्मीक आचरणान वागचे म्हूण प्रयत्न केले.

हें जर तांणी केलें नाशिल्लें तर समाजांत निती उरची नाशिल्ली. कलियुगांतले अवतार श्री सत्य साईवावा हेंच धर्म स्थापनेचें कार्य करतात आनी लोकांक योग्य मार्गार वचपाक प्रोत्साहीत करतात. ते खातीर सतत भरपूर प्रमाणांत धार्मीक आचरणाचे बऱ्यांतले बरे धडे घालून दितात. ते अद्वैताची फोडणीशी करतात, भक्तीमार्ग समजावन सांगतात आनी आचरणाचे नेम उखलून धरतात. ख्रिस्त, बुद्ध आनी बाकीच्या अवतारां भशेन ते स्नेष्ठ प्रेम वाडीक

लायतात. ते सदांच सांगतात, प्रेम म्हणल्यार म्हगेलें रूप. आपल्या प्रवचनांनी ते प्रेम, मनीस जातीची सेवा, धर्म स्थापना आनी नितीमत्ता हेंच म्हजें ध्येय हाचेर भर दितात. धर्माची शिकवण, धर्म प्रसार हो म्हगेलो हेतू अशें बाबा सांगतात.

स्वामी (बाबा) जगांत बदल घडोवन हाडपा खातीर हांगा आयल्यात अशें ते सांगतात. हांव ज्या कामाक आयलां त्या कामांत हांव गुंथून आसां. हांव थांबचों ना. हांव आनंदान भरिल्लों आसां. सगळ्या गजालींत सुदारणा जातली, जीण सगळ्यां खातीर सुखी आनी आनंदान भरिल्ली जातली आनी तें भांगराचें यूग परतें येतलें हाचेर विश्वास दवरपाक खूबशे लोक कचरतात.

जरी जगाची स्थिती खूब कठीण आसली आनी दिसान दीस ती आनिकूय वायट जायत आसली आनी सुदारपाचो मार्ग खंयच दिसना जालो तरी बाबांच्या उतरांचेर विश्वास दवरपी जे आसात ते मान्य करतात कीं सगळ्यो गजाली खात्रीन बदलतल्यो आनी सुदारणा जातली. स्वामी परती घोशणा करतात, आपूण तुमकां खात्री दितां कीं हो धर्मस्वरूप, दैवी अवतार फुकट आयलो ना. ताका ही संकटाची घडी जी मनीस जातीचेर आयल्या ती परतुपाक यश येतलें. ह्या उताऱ्याचो सार म्हणल्यार बाबांचें जगाक दिल्लें आश्वासन, "हांव हांगा आसतना तुमी कित्याक भितात?"

बाबा सांगतात, म्हाका प्रसिद्धीची गरज ना. देवांच्या हेर अवतारांकय ती नाशिल्ली. स्वामी सदांच सांगतात, आपलो संदेश प्रसारीत करपा पासत खंयचीय जायरात नाका. आपली जीणच आपलो संदेश. बाबा आपलें स्वताचें उदाहरण घालून दितात कारण लोकांनी तें पळोवन आचरणांत

हाडचें आनी तशें वागचें. अशा ह्या घटनां कडेन पळोवन लोक म्हणटात जर बाबा इश्वरी आसात वा बाबा ह्या अवतारांत पृथ्वीर आयल्यात आनी ते आमचे बरोबर आसात, आमचे कडेन उलयतात, आमचे बरोबर चलतात तर पवित्र मनीस बाबा हे इश्वरी अवतार आसात अशें उघड कित्याक सांगनात?

लेखकाक विश्वास आसा कीं पवित्र मनीस बाबांच्या अवतार कार्याची घोशणा करनात कारण तांकां तशें न करपाचें बंधन आसूंक जाय. जर तांणी तशें केलें जायत तर अवतारा फाटलो मुख्य हेत उणो जातलो.

सगळे व्हड व्हड संत आनी साधू हे व्हड आत्मे हे पृथ्वीर आप-आपलें कार्य वैयक्तीक क्षेत्रांत करपाक आयल्यात. ते वेगवेगळ्या धर्माचे वा पंथाचे आसूं पूण तांगेलो मुख्य हेतू जिणेची धार्मीक वाटचाल, नितीचें आचरण आनी अहिंसेची शिकवण दिवपाचो. एक फावट लेखक जेन्ना प्रशांती निलयमांत आशिल्लो तेन्ना सुदैवान ताका महेश्वरानंदजीक मेळून तांचे कडेन दोन शब्द उलोवपाची संद मेळ्ळी. वेगवेगळ्या धर्मा विशीं उलयतना तांणी स्वामींक प्रस्न केलो, "महेश्वरानंदजी, आमी जाणात बाबा हे खुद्द इश्वर आसात. पुणून फकत एकट्या बाबांक सगळ्या लोकांक नितीच्या आनी धार्मीक मार्गार हाडप खूब कठीण वता अशें तुमकां दिसना?" तांणी म्हाका सांगलें, "बाबा इश्वरी अवतार आसात हातूंत इल्लोय दुभाव ना. म्हणून बाबा एकटेच नात. तांचे बरोबर तांगेलो सगळो पंगड तांचे वांगडा काम करपाक आसा. तांगेलें इश्वरी काम पूर्ण करपाक ते आयल्यात. तांणी सांगलें, जेन्ना इश्वर मनीस रुपान अवतार घेता वा जेन्ना अधर्म मात्ता तेन्ना इश्वर हे पृथ्वीर अवतार

घेता. तो केन्ना एकलो आसना. तो आपल्यालो अख्खो पंगड बरोबर घेवन येता. आनी तांणी राम-कृष्णाचें उदाहरण दिलें. रामाचे बाबतींत ताचे बरोबर लक्ष्मण, भरत, हनुमान, सुग्रीव आनी कितलेशेच रुशी मुनी आयिल्ले. ते सगळे वेगवेगळया क्षेत्रांत काम करताले. पूण तांगेलो हेत एकूच आशिल्लो. तो म्हणल्यार धर्म शिकवण आनी जिणेची धार्मीक पद्धत स्थापन करप."

तांणी कृष्णाचें उदाहरण दिलें. श्रीकृष्णा बरोबर तेन्ना बलराम, उधो, पांडव अर्जुन आनी कितलेशेच रुशी-मुनी ताका मदत करपाक आनी तागेलें इश्वरी कार्य पुराय करपाक आशिल्ले. तांणी मागीर लेखकाक सांगलें, "कुंद्रा, आतां आमी आमच्या मोगाळ साईबाबांचे बाबतींत पळोवया. तुमकां दिसता कीं ते एकटे आसात? हे भांगराचे पृथ्वीर आपल्यालें दैवी धर्माचें, प्रेमाचें, शांतीचें कार्य पूर्ण करपाक तांणी हो मनीस अवतार घेतला. ना, ते एकटे नात. तांणी आपल्यालो सगळो पंगड हे खातीर आपल्या बरोबर हाडला. सगळे साधू-संत, धर्माचो प्रसार करपी सगळ्या जातींचे, सगळ्या कुळयेंतले लोक साईबाबांचें कार्य पूर्ण करपाक आप-आपल्या वैयक्तीक क्षेत्रांत काम करीत आसात. मागीर अकस्मात म्हजे कडेन बोट दाखोवन म्हणलें, तुका दिसना तुंवय हे सांखळेचो एक दुवो आसा म्हणून?" म्हाका आयकून अजाप जालें आनी हांवें म्हणलें, "हांव कोण न्हय. हांव एक क्षुल्लक मनीस. ह्या क्षेत्रांत म्हगेली किंमत शुन्य." मागीर ताणें म्हणलें, "कुंद्रा, हें तुका पटना? आमी प्रत्येक जाण आप-आपलें काम करतात. आमी सगळे इश्वरी मनीस. आमी सगळे त्या पंगडाचे भागिदार. तांचें दैवी कार्य पुराय जावचें

म्हूण आमी आमचो इल्लो-इल्लो वांटो उखलतात." आनी मागीर म्हाका दिसून आयलें, तांगेली विचारसरणी बरोबर आसुंये. अशें आसतय. आमी सगळे तांगेले इश्वरी इत्से धरूनव काम करतात. मनीस जातीक पुरायपणान इश्वरी बळगें आयलां कारण साईबाबांनी मनशाचें रूप घेतलां. म्हणटकर तांगेल्या विचारांनी तशें येवजिलें आसत आनी म्हणून आमी सगळे तांगेले इश्वरी इत्सेक धरून वागतात जावंये.

सत्य साई वरवीं इश्वरी शक्ती पूर्णतायेन मनीस जातींत आयल्या. हें एक मनीस रूप जांतल्यान प्रत्येक इश्वरी प्राणी, प्रत्येक इश्वरी तत्व म्हणजे सगळीं नांवां आनी रुपां जीं मनशांनी देवाक दिल्यांत तांचें प्रकटीकरण. स्वामींनी जोर दिवन सांगलां, हो आपूण आयलां तो शिरडी साईचो अवतार. आनी परतून एक अवतार घेतलों तो प्रेम साईबाबा आसतलो. आनी आपल्या ९६व्या वर्सा तो येतलो.

हांगा आमकां याद जाता, त्रेता युगांत रुशींनी आनी वानर सेनेन आमकां तुज्या म्हऱ्यांत रावपाक जाय म्हणून रामाची प्रार्थना केल्ली तेन्ना रामान तांकां उत्तर दिल्लें, फुडल्या अवतारांत आपूण तुमची इत्सा पुराय करतलों. सगळे वानर सेनेक आनी रुशींक दिसलें, आतां रावणाचो अंत केलो म्हणटकर श्री राम अयोध्येचो राजा जातलो आनी तो आमचे पसून पयस पयस पावतलो. आनी तशेंच घडलें. म्हणून तांकां दिल्लें उतर पाळपा पासत श्री रामान द्वापार युगांत श्रीकृष्णाचो जल्म घेतलो. सगळे वानर सेनेक गोपींचो जल्म मेळ्ळो. आनी बाल श्रीकृष्णान तांचे बरोबर रासलिला खेळून दिल्लें उतर पाळ्ळें.

बाबांनी सांगलां, तुमी आपल्याक समजून घेवपाचो प्रयत्न करून तुमचो वेळ फुकट वगडावं नाकात. हांव हें सांगतां कित्याक तर हें सगळ्यांचे ताकदी पेलें आसा. आपल्याक समजुवप हें कोणाकच शक्य ना. तुमी तुमचो वेळ आनी प्रयत्न फुकट वगडायतले. जेन्ना स्वताक जाणा जावपाक तुमकां यश मेळटलें तेन्ना तुमी म्हाका जाणा जातले.

आमच्यांनी सत्य साईबाबांची वा खंयच्याय अवताराची गुढता सोडोवंक जावची ना. भगवानाक समजुवप हें सोपें काम न्हय. तूं चड आनी चड घुस्पून वता. ताचो गूढ मार्ग समजुपाक चड खोल वचप बरोबर न्हय. बाबा सांगतात, तुमचें जागतीक ज्ञान हांगा उपकारना. तातूंत फकत हुशारी आसता. ताकाच तुमी ज्ञान म्हणटात. चड करून तें चतुरपण आसता. तुमी देवा कडल्यान फकत फायदो करून घेवपाचो पूण तुमी ताका विसकटावन सांगूंक शकनात. श्रीकृष्णान लेगीत म्हणलां, हांव कोण आनी कितें आसां तें फकत भक्तीनच कोणय म्हाका जाणा जावंक शकता.

श्री सत्य साईबाबा सांगतात, इश्वर म्हणल्यार प्रेम आनी प्रेम म्हणल्यार इश्वरा कडेन वचपाची वाट. हांगा बाबा म्हणटात तें प्रेम निस्वार्थी प्रेम. स्वार्थी प्रेम न्हय. इश्वर म्हणल्यार प्रत्येकाचें काळीज. म्हणटकर देवाचेर जशें तुमी प्रेम करतात तशें प्रत्येकान दुसऱ्याचेर प्रेम करचें. बाबा सांगतात, प्रेमान दिसाची सुरवात कर. प्रेमान दीस भर आनी प्रेमान दिसाचो शेवट कर. हीच इश्वरा कडेन वचपाची वाट. फकत प्रेमच सगळयां कडेन आशिल्ली अंतरस्थ इश्वरी शक्ती जाणूंक शकता. प्रेम म्हणल्यार इश्वर. प्रेमान राव. प्रेम दुसऱ्याक दिवन आनी क्षमेन वाडटा.

---

सगळ्यांचेर प्रेम कर. सगळ्यांची सेवा कर. हांव तुमगेल्या अंतस्करणांतली प्रेमाची ज्योत पेटोवपाक आयलां. ती सदांच पेट्टी उरची आनी दिसान दीस चड चड उजवाडान भरची. खंयच्याय थारावीक धर्माचे वतीन उलोवपाक हांव येवूं ना. म्हाका प्रसिद्धी नाका. शिश्यांक म्हजे कडेन आकर्शीत करपाचो वा भक्तांक जमोवपाचो म्हजो बेत ना. म्हगेली शिकवण दिवपाक म्हाका कोण अनुयायी नाकात. हांव तुमकां हें सांगपाक आयलां कीं विश्वात्मक एकत्वाची स्रद्धा हें आत्मीक तत्व. हो प्रेमाचो मार्ग. हो प्रेमाचो धर्म. हें प्रेमाचें कर्तव्य. ही प्रेमाची जबाबदारी. इश्वर हें सगळया प्रेमाचें मूळ. प्रेम हें क्षुल्ल्कपण, दुस्वास आनी दुख्ख हांचेर वखद. प्रेम बंध सैल करता. प्रेम जल्म-मरणाच्या कश्टांतल्यान मनशाक वांचयता.

इश्वर दर जाग्यार आसा. तो सगळ्यांत आसा. सगळीं नांवां, रुपां ताचींच. इश्वर ना असो जागो ना. स्वामी म्हणटात, खंयच्याय नांवान, रुपान म्हाका उलो मारात सगळीं नांवां आनी रुपां म्हजींच.

जगांत एकच इश्वर आसा आनी तो सर्वव्यापी आसा.

जगांत एकच धर्म आसा आनी तो प्रेम-धर्म.

जगांत एकच जात आसा आनी ती मनीस जात.

जगांत एकच भास आसा आनी ती काळजाची भास.

इश्वरा बगर विश्व ना. आपल्या साद्या संकल्पान ताणें विश्व निर्माण केलें. ती तागेली लिला आनी तागेले शक्तीचें प्रकटीकरण. तो ह्या विश्वांतल्या प्रत्येक कणाचो. तो अंतरस्थ प्रेरणा दिवपी. ह्या जगांत जायते धर्म आनी पंथ आसात. पूण खंयचोय धर्म वा पंथ इश्वराचें अस्तित्व नाकारना.

नांवां रुपां वेगळीं आसत पूण सर्वशक्तिमानाची (देवाची) सासाय ही परिपूर्ण आनी सनातन अशें मानतात. परिभाशीक उतरावळ वेगळी आसत पूण विचारधारा तीच. इश्वराक अल्ला, ख्रिस्त, झोराश्ट्रर, नानक कितेंय म्हणात. प्रार्थनेक नमाज म्हणात. धार्मीक ग्रंथांक बायबल, कुराण, गीता अशें कितेंय म्हणात पूण हातूंतलो तांकां चालना दिवपी अंतरस्थ स्रोत हो प्रेमाचो आसता. पुजेचें रूप, मोगाची भावना, संरचनेची वा संबोधनाची भास, तरा हीं वेगळीं आसत पूण सगळे धर्म एकेच दिशेन पूर्णत्वा कडेन वतात. तोच रगताचो झरो सगळे कुडीच्या सगळ्या अवयवां कडेन भोंवता. तोच इश्वरी कृपेचो झरो संपूर्ण विश्वाक चालना दिता. हाकाच इश्वराची पितृमाया आनी मनशांचो भाईचार म्हणटात.

मनशान उच्च आदर्श आचरणांत हाडचे म्हूण मनशाक स्फूर्त दिवपाक इश्वरान सत्य साईबाबांचो अवतार घेतला. फकत भारतांतच न्हय तर भायल्या देशांनीय आचरचे. मनशा कडेन वेगवेगळ्यो भासो आसत आनी जिणेची शैलीय वेगळी आसत पूण इश्वर एकच आसा आनी तो सगळे कडेन स्थीत आसा. सगळे धर्म ताचे विशीं उलयतात. तो प्रेममय आसा. आनी तो प्रेमानच मेळूंक शकता. पुजेच्यो मुर्ती वेगळ्यो आसतल्यो कारण थळ, काळान तांचो आकार बदल्ला पूण प्रेम हो मुळावो घटक आसा आनी तो बदलूंक ना. प्रेमाची भास ही सगळ्यांक समजता आनी सगळे ती काळजा सावन उलयतात.

भायल्या देशांतले हजारांनी लोक जांचे तकलेंत उजवाड पडला, ते हटकितात आनी साईबाबांचेर ह्या युगाचो अवतार म्हूण प्रेम करतात. बाबा इश्वरी अवतार आसात हें

सिद्ध करपाक हें इतलेंच खूब पुरो. श्रीराम आनी श्रीकृष्ण हांणी परत-परत सांगलां, फकत थोड्याच लोकांक हें भाग्य मेळ्ळां. तांकां हे जिणेंतय अवतारची वळख पटल्या आनी आमी आज हें पळयतात, हजारांनी न्हय, लाख लाख लोक जगभर श्री सत्य साइर्बाबांची इश्वरी अवतार म्हूण पुजा करतात. आनी हे पृथ्वी वेलो देव अशें मानतात.

अशें आसलें तरी खूब लोक श्री सत्य साईबाबा देव आसात असो विश्वास दवरनात. लेखकाक त्या लोकांक प्रस्न विचारीन दिसता, तुमी ताका देव म्हूण कित्याक मानिनात? आमी श्रीकृष्ण, जेजू ख्रिस्त, महंमद पैगंबर, नानक, बुद्ध हांगेलें देवत्व आमी मानिनात? त्या अवतारांक आमी पळोवं ना. आमचे जिणेंत ते केन्नाच येवंक नात. आमी फकत विश्वास दवरतात आनी तांकां अवतार अशें मानतात कारण तांगेले शिकवणे वेल्यान तांणी केल्ल्या कामा संबंदी आमी आयकतात. तांगेल्या अवतार कार्या संबंदी आमी आमगेल्या धार्मीक ग्रंथांनी वाचतात. आमच्या धार्मीक जाग्यांनी आमकां तांच्यां मुर्ती पळोवंक मेळटात आनी कांय वेळार आमी तांची पुजा करतात. ह्या विश्वासाच्या आधाराक देवत्व सिद्ध करपाक विज्ञानीक पुरावो ना. कांय शेंकड्या आनी हजारांनी वर्सां पयलींच्यो ह्यो फकत आयकीव गजाली. आमी ह्या व्हड मनशांक ते देव आशिल्ले अशें मानपाक बुन्याद खंयची आसा?

आध्यात्मीक वैज्ञानिकांनी इश्वर अस्तित्वाची कल्पना गृहीत धरल्या. इश्वराचो अणभव घेवपाचो मार्ग प्रयोग करून तांणी पळयला. ते सगळे इश्वर आसा ह्या निर्णयाचेर पावल्यात. वेगवेगळ्या धर्माचे जायते संत आनी साधू जशे संत

तुकाराम, परमहंस, प्रल्हाद, जयदेव, नामदेव हीं उदाहरणां आसात. जर तांची प्रणाली आनी सोद, तांणी प्रयोगान घेतिल्लो निर्णय आमी प्रयोगान फट म्हूण सिद्ध करिनासतना जर म्हणलें जायत कीं हे तुमगेले प्रयोग बरोबर नात आनी आमकां ते मान्य नात तर आमगेलें नाकारप अशास्त्रीय आनी तर्काआड थारतलें. अशें आसुनय आमी स्वता आमगेले प्रयोग करिनात. म्हणटकर जेन्ना आमगेल्या आध्यात्मीक वैज्ञानिकांनी इश्वर अस्तित्वाचो निर्णय सिद्ध केला म्हणटकर देव आसा हें सिद्ध जाता. कदाचीत कांय वेळा इश्वराक पळोवप शक्य नासत जाल्यारय ताचो आमी अणभव घेवपाक शकतात.

श्री जयंती कछवाला जाका जगभर लोक जे. के. म्हणून वळखतात ते सन रायज रेडियो, सावथ हॉल, यु.के. हांगा प्रेझेंटर म्हूण काम करताले. ते आतां जी. एस्. टी. व्ही. लंडन हांगा आसात. ते आपलो व्यक्तिगत अणभव सांगतात. ते मुळचे नायरोबीचे. तांणी साईबाबां विशीं एक लेख वाचलो. तांणी १९६६त बाबां विशीं एक लेख वाचलो. तांकां बाबांक पळोवपाची वा मेळपाची संद मेळूंक ना. बाबांनी जेन्ना युगांडाक भेट दिली तेन्ना जे. के. इंग्लंडाक आशिल्ले.

तांकां बाबांची इतली ओड लागली कीं ते इंग्लंडाक सत्य साई केंद्रांत भजनांक हजर रावपाक लागले. तांकां काळजा सावन दिसलें, साईबाबा एका पवित्र मनशा परस खूब वेल्या थराचे आसूंक जाय. तांकां साईबाबा देवच मनीस अवतारांत आयला हाचे विशीं दुभाव उरलो ना. ते एक प्रसंग सांगतात. आपल्याक दिसता साईबाबा हेच साईकृष्ण आसात. आपल्याक पुट्टपुर्तीक वचून तांकां

पळोवपाची तळमळ लागली. ही खबर १९८३ वर्साची. आपूण भारतांत गेलों आनी मुंबय पावतकर आपल्याक कळ्ळें कीं चळवळीक लागून संप चलता आनी येरादारी बंद आसा. अकस्मात आपणें एका म्हाताऱ्याक घोड्यांगाडी घेवन पळयलो. ताणें सांगलें, एक लॉरी वाहतूक कॅफे कडेन येतली. आनी थंयच्यान ती थेट धरमावरमा कडेन वतली. ताणें आपल्याक कॅफे कडेन व्हेलो. पयशे कांयच घेतले नात. आनी कांय खिणांत तो नाच जालो. आपल्याक दिसता तो दुसरो तिसरो कोणूच नासून श्री साईकृष्ण आशिल्लो.

चळवळीक लागून सगळे रस्ते फातरांनी, विटांनी, झाडां हुमटावन घालून बंद करून उडयल्ले. आपल्याक लॉरींत जागो मेळ्ळो. आनी लोकां भितर आपूण बसलों. वाटेर लॉरी लवंडली पूण आमी सगळे नशिबवान थारले. आनी कोणाकच दुखापत जाली ना. हांगा परतून म्हगेलो श्री साईकृष्ण धांवत आयिल्लो. ताणें आमकां वांचयल्ले. सगळे वाटेर आमी चितेंत वेळ काडलो. आपल्या कडेन खूब पयशे आशिल्ले. कितेंय वायट-बरें घडलें जाल्यार आपल्याचें कितें जालें हें कोणाकच कळचें नाशिल्लें. म्हणटकर हांवें म्हगेल्या श्रीकृष्णाची सामकी काळजांतल्यान प्रार्थना केली. लॉरीन आपल्याक धरमावरमचे शिमेर देंवयलो. आनी ताणें म्हजे कडल्यान कांय एक पयशे घेतले नात. हांव गोंदळांत पडलों. आतां कितें करपाचें? अकस्मात कोणें तरी म्हाका फाटल्यान हात लायलो. आनी विचारलें, "तूं पुट्टपुर्तीक वता न्हय?" हांवें ताका जाप करचे पयली ताणें सांगलें. "फाटल्यान बस." आपल्याली इतली जड बॅगेज आसूनय आपणें सायकलीर फाटल्यान बसपाचो प्रयत्न

केलो. ताणें म्हाका पुट्टपुर्तीक देंवयलो आनी कांय मिनटां भितर नाच जालो. आतांय हांगा कोण आसतलो? दुसरो कोणच न्हय फकत म्हगेलो देव साईबाबा. दुसऱ्या दिसाच हांव स्वामी म्हऱ्यांत गेलों आनी हे खेप आपल्याक बाबाली मुलाखत मेळ्ळी.

हांव असोच फुडें गेलों. म्हाका दिसलें, स्वामीक म्हाका आपल्यालें माध्यम करपा जाय आशिल्लें. हांवें म्हगेली करियर इंडिया मेलींत पत्रकार म्हूण सुरू केली. मागीर हांव सनरायज रेडियोचेर प्रेझेंटर म्हूण रावलों. थंय स्वामींनी म्हाका आपल्यालें साधन म्हूण म्हजे कडल्यान सेवा घेतली. हांव गोवर्धनभाई पटेल हांच्या घरांत भजनाक वतालों. थंय बाबांच्यो खूबशो लिला घडटाल्यो. जेन्ना हांव इस्मायली शाह कुटूंबा बरोबर सावथ हारोव गेलों तेन्ना थंयय बी स्वामी आपले आशिर्वाद लिलेच्या रुपान दितालो. थंय बाबांल्या फोटोंतल्यान विभुती, कुकूम भायर येतालो. इतलेंच न्हय, शेजाऱ्याल्या घरांत पसून फोटोंतल्यान बाबांल्यो लिला सुरू जाल्यो. जेन्ना फोटोचेर विभुती दिसली तेन्ना हो शुभशकून मानलो आनी बाबांनी हे तांगेले चलयेच्या लग्नाक दिल्ले आशिर्वाद अशें मानलें.

अशा ह्या शुभ बाबांच्या फोटोची एक नेगेटीव आमी घेतली. ती नेगेटीव डेवेलॉप करतना जाणें बाबाचे लिलेचेर केन्नाच विश्वास दवरलो ना त्या राम फोटोग्राफराक धक्को बसलो जेन्ना ताणें बावांक फोटों भितर विभुती सयत पळयलो. आनी तागेल्या केंसांच्या मुकूटाचेर गॉड अशीं अक्षरां पळयलीं. आपल्या मशिनांत कितेंय बिघाड जाला जायत अशें दिसून ताणें आपल्याली मशिनरी तपासली. सगळी

मशिनरी सारकी आशिल्ली. फोटो सामको स्पश्ट आशिल्लो. हांवें ताका बाबांच्या लिलां विशीं आनी म्हायती दिली. ताका खात्री दिवन समजावणी केली की, बाबा इश्वरी अवतारी पुरूष आसात. गॉड ही खूण आनी निळी विभुती हें श्री सत्य साईबाबा इश्वर आशिल्ल्याचें स्पश्ट प्रमाण. पयलीं तो गोंदळ्ळो. मागीर ताची खात्री जाली.

**बाबा इश्वरी अवतार आशिल्ल्याचें आनी कसलें प्रमाण जाय?**

श्री यस. यन. सिंग (शिव नाथ सिंग) एक नांवाजतो आनी यशस्वी व्यापारी. तो बेंगलोर हांगासरलो आनी बाबांचो परम भक्त. आपले बाबां बरोबर घडिल्ले कांय अणभव हांगा सांगता. तो कलकत्त्याक आशिल्ले कडेन ताणें पयले खेपो बाबां विशीं आयकल्लें म्हूण तांचें दर्शन घेवपाक तो मुंबय गेलो. पूण बाबांनी ताचे कडेन नदर घाली ना. तो निराश जालो. आनी आपलें गाराणें घेवन शिरडी साईबाबां म्हच्यांत वचून तांकां ही गजाल सांगली. परत दोन म्हयन्यांनी बाबा वृंदावनांत आसात हें पळोवन तो व्हायट फिल्डाक वृंदावनांत गेलो. श्री बाबांनी ताका मुलाखत दिली आनी ताचे खातीर एक मुदी तयार करून दिली.

कांय तेपान तो पयलेच खेपे पुट्टपुर्तीक गेलो. थंय बाबांचें दर्शन घेतल्या उपरांत तो आश्रमाच्या भायर उबो आशिल्लो. अकस्मात ताच्या मनांत एक विचार आयलो. बाबांच्या पांयां मुळचे रेवें इतली पवित्र आनी खंयचीच वस्त जगांत आसची ना. आनी त्याच वेळार आनी एक विचार

आयलो, बाबांचो एक काळो केंस आपले कडेन आसचो. हे विचार मनांत घेवनच तो परतो कलकत्त्याक गेलो. दुसऱ्या दिसा ताका आनंदभरीत अजाप जालें. तागेल्या धव्याफुल्ल लेंसाच्या मदीं ताका कुकमा वास, थोडे सुके रेंवेचे कण आनी काळो केंस दिसलो. आपली मोनी इत्सा गूढ रितीन बाबांचे कृपेन पूर्ण जाली हें पळोवन ताच्या आंगार कांटो फुल्लो. जेन्ना तागेली (शिव नाथाची) आवय बरी नाशिल्ली तेन्ना ताणें स्वामीची प्रार्थना केली. आनी कांय दिसांनी तो बाबांचे भेटेक गेलो. स्वामींनी ताका विभुतीचीं तीन पाकिटां दिलीं. एक तागेले आवयक जिका किडणीचो प्रॉब्लेम आशिल्लो आनी पांय सुजिल्ले, दुसरें तागेले बायले खातीर आनी तिसरें पाकीट तागेलें चलीं शिला खातीर जें लंडनाक आशिल्लें.

विभुती घेना फुडें तागेली आवय रोखडीच बरी जाली. दुसरें पाकीट ताणें आपले चलयेक लंडनाक धाडलें. तें पाकीट ताका मेळचे पयलीं ताणें आपल्या बापायक फोन केल्लो आनी सांगिल्लें कीं आपले फाटीची दूख परत सुरू जाल्या आनी दोतोरांनी आपली डिस्क घसरिल्ल्याचें सांगलां. श्री सिंगान तिका विभुती पाकिटा विशीं सांगलें आनी ती दुखऱ्या भागाचेर लावपाक सांगली. तिणें बापायन सांगिल्लें तशें केलें आनी थोडी विभुती पोटांतय घेतली. तिका आराम पडलो. दुसऱ्या दिसा जेन्ना डॉक्टरान एक्स रे काडलो थंय डिस्क घसरिल्ल्याची नांव निशाणी नाशिल्ली. श्री सिंगान म्हणलें, जरी प्रत्येक जाण कर्म कायद्यान बांदिल्लो आसलो तरी बाबांली कृपा कर्म बंधनांतल्यान खूबशा प्रमाणांत भक्ताची सुटका करता.

---

जानेवारी १९९१ वर्सा श्री सिंग बरो ना जालो. ताका हॉस्पिटलांत घालो. डॉकटरांनी निदान केलें कीं तागेल्यो दोनय किडनी निकामी आसात. ताची स्थिती खालावत आशिल्ली. डॉक्टरांनी ताका घरा व्हरपाचो सल्लो दिलो. श्री सिंगांनी आपले चलयेक आनी जावंय आनंद जौहाराक व्हायट फिल्ड हांगा वचून स्वामीक विनंती करून आपल्याक हांगा येवन दर्शन दिवपाक प्रार्थना करूंक सांगलें. तांणी तांकां तें शक्य नाशिल्ल्याचें सांगलें. श्री सिंगान आपल्या मरणा वेळार न्हिदिल्ले अवस्थेंतच स्वामीक आपल्या काळजा सावन प्रार्थना केली आनी तांतडीन येवन आपल्याक दर्शन दी म्हूण मागलें.

आनी आमगेल्या मोगाळ, सर्वव्यापी, सर्वशक्तिमान आनी सर्वज्ञ स्वामींनी आपल्या भक्ताची तळमळीची प्रार्थना आयकली. ते सिंगाच्या घरा इंद्रनगराक येवपाक भायर सरले. श्री स्वामींक तांगेले भायले गेटींतल्यान भितर येतना पळोवन श्री सिंगाले मंडळीक अजाप जालें. स्वामी श्री सिंगाली प्रार्थना आयकून धांवत ताच्या म्हऱ्यांत आयले म्हूण तांकां खूब समाधान जालें. स्वामींनी श्री सिंगाक दर्शन दिलें. स्वामी ताचे म्हऱ्यांत कांय मिनटां बसले. ताचे कडेन उलयले. विभुती साक्षात करून कितें तरी पुटपुटले. श्री सिंगाले चलयेन स्वामी कडेन आशिर्वाद दिवपाक प्रार्थना केली.. तांकां फळां आनी पेय दिलें. पूण स्वामींनी कांय खायना-पिनासतना घर सोडलें. वतना स्वामींनी म्हणलें, जीण म्हणल्यार उदका वेलो बोमाडो. कुटूंबांतले मंडळीक कळ्ळें, स्वामींनी निमणे विधी केल्यात. आतां शेवट पयस ना. रोखडेंच थोड्या दिसांच्या अंतरान श्री सिंगान शांत

चित्तान आपली हे पृथ्वी वेली कूड सोडली.

## हांव देवाचेर विश्वास कित्याक दवरतां

**प्रो. टी. व्ही. रामानुजम**

हांव देवाचेर विश्वास दवरप्यां मदलों एक. कारण जें किर्ते स्वताच्या दोळ्यांनी पळयतां फकत तितल्याच वस्तूंचेर विश्वास दवरपी मनशां पैकीं हांव न्हय.

हांवें देवाक पळोवंक ना. तरीपूण हांव देवाचेर विश्वास दवरतां. कारण जांणी कोणें देवाक पळयला तांणी बरयल्लें लिखाण हांवें वाचलां. देखीक एकच उदाहरण हांव दितां. हांवें रमण महर्षींक पळयला आनी हांव तांचे कडेन उलयलां. रमण महर्षींनी देवाक पळयला आनी ते ताचे कडेन उलयल्यात. जांणी इश्वराक पळयला त्या संत रमण महर्षींचेर हांव विश्वास दवरतां. म्हणटकर जरी हांवें देवाक पळोवंक ना तरी हांव देवाचेर विश्वास दवरतां. स्वताच्या दोळ्यांनी पळयल्ल्याचेरच विश्वास दवरपाचो दावो थोडे करतात तें बुद्धीक पटना. हांवे अंटार्टिका पळोवंक ना, दक्षिण ध्रूव पळोवंक ना आनी आयसलँडय पळोवंक ना. तरी तीं आसात हाचेर म्हजो विश्वास आसा कारण ज्या खूबशा लोकांनी तीं पळयल्यांत तांचे विशीं तांणी बरयलां आनी हांव तांचेर विश्वास दवरतां.

इश्वर अस्तित्वाचें प्रमाण दिवप शक्य ना. नास्तीक वाद घालतात पूण तांकां पसून इश्वर ना हें सिद्ध करप अशक्य आसा हें ते विसरतात.

---

हांगा एक उदाहरण घेवया. हांव विश्वास दवरतां कीं सांत फ्रांसीस झेवियर हो आशिल्लो. कारण बारा वर्सांनी एक पावट ताचो काशांव उकतो करतात. ह्या काशावांत ताची कूड रसायन लावन दवरिल्ली आसा. सगळ्यांची ताका पळोवपाची इत्सा पुराय करपा खातीर हो काशांव उकतो करतात. हांवें जर अशें म्हणलें, म्हाका दुभाव आसा जो कोण आमकां दाखयतात तो खरोच सांत झेवियर आसा? आयकतल्याक हो प्रस्न विचित्र दिसचो ना?

महात्मा गांधीन बरयलां, देवाक पळोवप होच जिणेचो अंतीम हेत. तांणी हो उद्देश आपल्या मरणा पयलीं सफल केलो? तांणी देवाक पळयलो? हाची जाप ना अशी मेळटा. दुसरो प्रस्न जो ताका कोणय विचारूं शकता, तूं देवाचेर विश्वास दवरता? हाची जाप होकारांत मेळटली- हय. महात्मा गांधीजींची जीण, तांगेली शिकवण आनी तांगेलें बरप लेखकाक पूर्ण खात्री दिता कीं जरी गांधीजीन देवाक पळोवंक नाशिल्लो तरी देवाचेर तांगेलो दृढ विश्वास आशिल्लो.

सगळ्यांत बरो तर्क हो कीं राष्ट्रपितान आपलो देवाचेर पूर्ण विश्वास आशिल्ल्याचें दाखयलां पूण ताणें देवाक केन्नाच पळोवंक ना. देवाचें अस्तित्व खंयच्याच बुद्धिमान्य प्रमाणांनी सिद्ध करूंक येना. कारण देव हो सदांच बुद्धी पलतडचो आसा. आमी जर असो विचार केलो जायत की बुद्धी म्हणल्यार सगळें कितें. बुद्धी भायर कांयच ना तर आमी त्रासांत पडटले. मनीस जातीक शिकोवपी व्हड गुरुजींनी इश्वराचें अस्तित्व मान्य केलां आनी ते ताका गवाय आसात. कितलेशे लाख बुद्धिमान आनी विचारवंत देव जेजू ख्रिस्ताचेर

विश्वास दवरतात जरी तांणी ताका पळोवंक ना.

संत मॅथ्यू सांगता, जेजू ख्रिस्ताचो जल्म अशे तरेन जालो-

जेन्ना आवय मेरीचो वाङ्निश्चय जोजेफा कडेन जालो, तेन्ना तीं दोगांय एक जावचे पयलींच तिगेर पवित्र आत्म्याचें भुरगें जालें. मेरीचो घोव सामान्य मनीस जाल्ल्यान हें आपल्याक लजेक म्हारग जातलें अशें येवजून ताणें मेरीक गुपचूप सोडचीट दिवपाचें थारायलें. ताणें अशें येवजिलें मात, देवालो एक दूत ताच्या सपनांत आयलो आनी ताका हटकिलो, "दाविदाच्या पुता, मेरीक तुगेली बायल म्हूण पत्करपाक अनमननाका. जो तिका गर्भ धरला तो पवित्र आत्मो. तिका एक पूत जातलो आनी तूं ताका जेजूस म्हणटलो. कारण तो आपल्या लोकांक तांगेल्या पापांतल्यान वांचयतलो."

महात्मा गांधीजी भशेन राजाजींचोय देवाचेर प्रचंड विश्वास आशिल्लो.

राजाजी बरयतात, हांव एक सुंदर जिवंत जीण जगलां. म्हाका दिसता हांवें ज्यो दोन गोष्टी केल्यो (महाभारत आनी रामायण वरयलें) ही सगळयांत बरी सेवा म्हगेल्या लोकांक हांवें दिल्या. रामकृष्ण परमहंसांनी म्हणलां, मनीस जितलो देवाक लागीं वता तितली ताची वृत्ती वाद-तर्कवादा पसून फाटी सरता. ही पवित्र शिकवण जी मनशा तोंडांतल्यान येता, जी ते उच्चारतात, ती उतरावळ खरें म्हणल्यार देवा कडल्यानच येता.

रामदास, तुळशीदास, कबीरदास, अलवर, नयनमार आनी अरुणगिरिनाथर हांणी देवाक पळयल्लो आनी ते

ताचे कडेन (देवा कडेन) जायते पावटी उलयल्यात. तांगेलीं बरपां हीं देवावेल्या आमगेल्या विश्वासाक पुश्टी दितात.

जगांतले कांय व्हड वैज्ञानीक देखीक सर जेम्स जिन्स आनी आलबर्ट आयनस्टायन सारकिल्ल्यांनी ब्रह्मांडाचें वर्णन करतना अजाप जावन म्हणलां, ह्या विश्वांत प्रमाणबद्धता आसा, तर्कशास्त्र आसा, थाटमाट आसा, सौंदर्य आसा. (चमचमणारीं नखेत्रां लाखांनी मैल आमचे पसून पयस, सूर्य,चंद्र आनी पृथ्वी, पावसाळो, ऋतू आनी व्हडल्यो व्हडल्यो न्हंयो देखीक गंगा, तिग्रीस, मिसीसीपी आनी अमेझोन) हें सगळें पळोवन तांकां विश्वास जालो. हाचे फाटल्यान एक परमउच्च ज्ञानाचो गणितीतज्ञ आसूंक जाय नाजाल्यार अशे तरेचें रेखीव आंखीव सौंदर्यान भरिल्लें, तर्कशास्त्राचेर आधारीत जग हें अस्तित्वांत येवंकच शकनाशिल्लें. शिवाय ताका गतिमान करून नियमीत करप अशे तरेचो अजापाचो गणितीतज्ञ तांणी केन्नाच पळोवंक ना म्हणूनच तांचो विश्वास आसा. हाचे फाटल्यान मन आसूंकच जाय.

इश्वराक नाना रुपांनी वळखतात. देखीक- नारायण, राम, कृष्ण, व्यंकटेश्वर, गुरुवायुरप्पा आदी. हांणी म्हगेली प्रार्थना आयकल्या आनी म्हगेले तरेन म्हाका जाप दिल्या.

इश्वरी वाटो ह्यो अगाध आसतातअशें जेजू ख्रिस्तान म्हणलां.

विचारात आनी तुमकां जाप मेळटली

दारार मारात आनी तें उकतें जातलें.

हें त्या देवाक उद्देशून आसा ज्याची आमी पुजा करतात. मुंबय शणमुखानंद हॉल बांदपाचो विचार करतना आनी बांदतना शणमुखान मदती खातीर म्हाका आपलें माध्यम

म्हूण वेंचलो. हांव हे तुमकां म्हगेले वैयक्तीक अणभव सांगतां. पाल्हाळ लायनासतना हांव तुमकां खात्रीन सांगतां कीं एकय दीस असो गेलो ना ज्या दिसा देव नारायणान म्हजे प्रार्थनेक जाप दिली ना. अशें केन्नाच घडूंक ना. सदांच म्हगेल्या प्रार्थनांक आपले भशेन जाप दिल्या. आनी ताणें दयेचो पावस ह्या भक्ताचेर निरंतर घालो. सगळ्या भक्तांवें, हिंदू, मुसलमान, ख्रिश्चन, ज्यू आदी. ठाम मत आसा कीं इश्वर हो दयेचें प्रतीक आसा. आनी असो हो दयेचो सागर भक्तांक सोडून दीत? गजेंद्र मोक्षा वेळार गजेंद्राच्यो कळवळ्याच्यो किळच्यो आयकून विजेचे गतीन ताचें रक्षण करपाक धांवत आयलो ना? तो बुडचे पयलीं एक मिनीट देव आदी मुलायम अवतार घेवन आयलो.

## अवतार घेवप

## डॉ टी धर्मा

हरएक मनशाची जीण ही फुडें चलत आसता. ती इश्वरी तत्वान भरिल्ली आसता. इश्वरी तत्व, सत हें सगळ्या अस्तित्वाच्या मूळ स्रोतांतल्यान आयलां ज्याका चीद् घन शक्ती अशें म्हणलां. चीद् हें चीद् घन शक्तीच्या मूळ स्रोतांतल्यान आयलां. तें ब्रह्म जावन आसा. आनंद हो सगळ्या आनंदाच्या स्रोतांतल्यान आयला. तेंवूय ब्रह्म. तुमी सगळे सत-चीत-आनंद स्वरूप आसात. प्रत्येक व्यक्ती ही सुक्ष्मा कडल्यान अनंता कडेन वता. भरतेचें उदक जशें परत दर्यांत भरसता तशें प्रत्येक व्यक्ती शेवटाक आनंद

सागराक मेळटली. - बाबा

पूर्व पुरातन अध्यात्मीक विचार हें मान्य करता, मनशाच्या अज्ञान काळखा पेले कडेन एक पुरुष वा विश्वशक्ती वा देव ज्याचो स्वाभावीक स्वभाव हो अस्तित्व वा सत, बुद्धी वा चीत आनी आनंद आसा. ज्ञानग्रंथ ताका ब्रह्म म्हणटा. अपार, अनंत, अवर्णनीय पुरुष ही विश्वाची बुन्याद जावन आसा. तिची शक्ती वा उर्जा अस्तित्वाच्या सगळ्या जगताक व्यापून उरता. ती परमोच्च इत्सा आनी स्वातंत्र्य. तिची शक्ती आपल्या स्वतंत्र इत्सेक धरुन आपल्याचेर अस्तित्व, पालन आनी लय हांची मर्यादा घालून घेता. मनीस आपल्या भ्रमांतच रावन हो परमोच्च निसर्ग, हो विश्वपुरुष वा विश्वशक्ती जाणा जावपाचो प्रयत्न करिना. मनशाचे अंतस्थ आशिल्ले चीद् घन आनंद शक्तीक जागी करप. हे खातीर परमोच्च पुरुष वा इश्वर एक नांव रूप धारण करता आनी अवतार म्हूण जन्म घेता. परमोच्च सत्याचो सर्व इत्सा अवतार हो सर्वशक्तिमान, सदांसाक्षी आनी सर्वज्ञ. बाबा सांगतात, हाचे भायर सर्व सुखाचो गूण होवूय बी पूर्ण अवतारा कडेन आसता.

आमच्या परम सद्भाग्या लागून ह्या युगाच्या अवताराक श्री भगवान सत्यसाईबाबांक आमी समकालीन आसात. आमकां श्री सत्य साईबाबाक खुद्द देवाकच तांगेल्या संकल्पीत शुभ कार्यांत कामाचें निरिक्षण करतना गढून गेल्ले पळोवंक मेळटात. बाबा घोशणा करतात, आपूण मार्गदर्शक म्हूण मेळिल्ल्याचें जें वरदान तुमकां मेळ्ळां, ताचें म्हत्व तुमकां आज कळना. तुमकां सगळ्यांक बदल्ले बगर (तुमचे मूळ कृतींत बदल केले बगर) हांव सुसेग

घेवचों ना. म्हगेल्या कार्याची बुन्याद हांवें घाल्या. आनी आतां ताचेर सांगाडो उबो रावतलो. हांव एकल्यानच जगप्रवास करतां. म्हाका थाटमाट नाका, प्रसिद्धी नाका कारण म्हजो महिमा, म्हगेलें सत्य हांणी म्हाका सिद्ध केला.

श्री सत्य साईबाबा आपले स्वतंत्र इत्सेन हे पृथ्वीर आयल्यात कारण उत्पत्तीचे योजनेंत तांकां आपली भुमिका वठवपाची आसा. तांगेल्या पयलींच्या अवतारांत तांणी आध्यात्मीक महालाची बुन्याद घाल्ली. आनी आतां श्री सत्यसाईबावा हाता खाला दैवी क्रम फुडें व्हरपाक तें बांदकाम चालू आसा. तें पूर्ण करपाक श्री सत्यसाईबाबांनी विश्व सत्चीद् आनंद घन शक्ती जावन हे पृथ्वीर ह्या युगांत तांणी जन्म घेतला. ते फकत निती, सत्य, अहिंसा, प्रेम आनी शांती हांची स्थापना करपाक आयल्यात. इतलेंच न्हय तर मनशाचे वृत्तींतच बदल करपाक आनी तांच्यांत आशिल्ले जाणिवेची शक्ती जागृत करपाक आनी आपलो हक्काचो इश्वरी दर्जो मेळोवपाची शक्ती मनशा कडेन आसा हाची ताका जाण दिवपाक बाबा हे पृथ्वीर आयल्यात. ह्याच कारणाक लागून बाबा आपल्या श्रोत्यांक उद्देशून दिव्य-स्वरूप असो उलो मारतात.

हें जग जें आज आमी पळयतात, तें दुख्ख, कश्ट, त्रास हांणी ग्राशिल्लें आसा. तें मानवी मुल्यां कडेन मोटवें जालां आनी सगळ्याक वायट पातळ्ळां. एक बटन दामलो जाल्यार ह्या ग्रहाकच लागून भस्म जायत म्हूण भंय दिसता. देखून मनशाक देवा कडेन लागींचे नातेंसंबंध दवरून तागेले कृपेन आपलो स्वताचो उद्धार करून घेवपाक मेळचो म्हूण देवच स्वताचेर मर्यादा घालून अवतार घेवन मनीस रुपांत

येता. आमगेल्या अवताराचे जिणेंत आपलें प्रेम, दया, कृपा आनी महिमा हातूंतल्यान मनशाच्या मार्गार उजवाड घालपी तांच्या उजवाडाचो आमकां अणभव आसा. श्री साईचें यूग हें सत्याचें यूग जंय सगळ्या धर्माचो सभाव धर्म एकूच आसा. आनी मनीस आनी देव हांचे मदीं विभागणी ना हाची आमकां अनुभुती मेळटा.

अज्ञानाक बळी पडिल्ल्या ह्या जगांत जंय अहंकार, राग, द्वेश, असुया, मत्सर अशो नकारात्मक शक्ती वरचढ आसात आनी ह्यो शक्ती ह्या पृथ्वीच्या गिऱ्याचो समूळ नाश करपाक वावुरतात तेन्ना मानवी चिद् आनंद शक्तीक ह्या प्रवृत्तींतल्यान वयर काडपा खातीर परमोच्च सत्याच्या एका आंगाचें अवतरण जावन तें अवताराच्या रुपान पृथ्वीर देंवता.

श्री भगवान बाबांनी सांगलां, तीन अवस्थां पैकीं पयले अवस्थेचें प्रकटीकरण शिरडी साईबाबांचे जिणेंत जालां. दोन वर्सां पयलीं अनंतपुरांच्या आपल्या कर्मचारी वर्गाक दिल्ले् एके खाजगी मुलाखतींत श्री साईबाबांनी शिवाचो (शीवः विश्व उर्जेचो पुरुष घटक) अवतार आशिल्ल्या शिरडी साईबाबांचे जिणेंतल्यो कांय घटना उघड केल्यो. शिवाचो अवतार आशिल्ल्या साईबाबांनी ताका अनुरूप अशीच वर्तणूक केली. तांणी राग आनी दया ह्या दोनूय विरुद्ध भावनांचें सरमिसळ प्रदर्शन केलें. पूण तांणी हेंवूय दाखोवन दिलें कीं तांची प्रत्येक भावना परिणामकारक रितीन अर्थपूर्ण आनी म्हत्वाची आसली आनी तांगेलें मनीस जातीवेले प्रेम होच तांगेल्या भावनांचो सार आसलो. ते पूर्ण दयावंत आशिल्ले. पूण कांय वेळार ते रुद्रावतारय धारण करताले. हें तांचें वागप शिवाच्या स्वभाव विशेषा कडेन मेळ साधताले.

फकत सत्यच तांकां आनंद दितालें. जें तत्व ते जरी जबरीन शिकयता आसले तरी तें सत्याची स्थापना करपा खातीर आसतालें. तांगेल्या भक्तांक तांचे कडल्यान सत्याचे शक्ती विशीं शिकचें पडटालें. तांगेलो भायल्यान दिसपी राग हो सदांच क्षमेन, दयेन आनी कृपेन भरिल्लो आसतालो.

शिरडी साईबाबांनी भविश्य केल्लें कीं ते हो देह सोडले उपरांत आठ वर्सांनी दुसऱ्या देहांत प्रकट जातले. १९१८ वर्साची ही खबर. आनी तशेंच घडून आयलें. श्री सत्य साईबाबांचो जल्म २३ नोव्हेंबर, १९२६ वर्सा जालो. शीव (विश्व उर्जेचो पुरुष घटक) स्वताच शिरडी साईबाबा जालो. तीन अंकी अवतार माळेंतलो हो पयलो अवतार. श्री सत्य साईबाबांनी घोषणा केल्या ते प्रमाण श्री सत्य साईबाबा हो पुरुष आनी स्त्री (दोनूय) हांचें प्रतीक. म्हणलेच शीव आनी शक्ती हीं दोनूय रुपां एकवटीत असो हो सत्य साईबाबा.

गेल्ल्या कितल्याशाच वर्सांनी जगाचेर लाखांनी लोक बाबांच्या निसर्गीक पंचमहाभुतांचेर आशिल्ल्या प्रभुत्वाक गवाय जावन आसात. तशेंच भौतीक वस्तूंचेर आशिल्लें तांचें प्रभुत्व, तांचें सर्वव्यापत्व, सर्वशक्तिमत्व आनी सर्वज्ञता दाखोवन दिता कीं पूर्ण विश्वशक्ती सयत आयिल्ले आसात म्हळ्यारच ते पूर्ण अवतार आसात. तांगेली जीण हें सत्याचें विवरण आनी हें सत्य ते मनशाच्या काळजांत घालूंक आयल्यात. तांची शक्ती अमर्याद आसा. तांचो महिमा, तांचें वैभव तांगेल्या कार्याक व्यापून आसा. तांचे कृतीतल्यान व्हांवपी इश्वरी उर्जा, जिचें दुसरें नांव प्रेम, हीच विश्वशक्त आमच्या व्यक्तिगत आत्म्याक बाबां कडेन बांदून दवरता म्हणूनच तो परमात्मा. होच अणभव आमकां निर्मळ, चोख

आनंद दिता. त्रिसुत्री अवतार माळेचो दुसरो मणी श्री सत्य साईबाबा. आमकां दिसपट्टी तांगेल्या तीन गुणांचे शक्तीचो देखीक क्रिया शक्ती, इत्सा शक्ती आनी ज्ञान शक्ती, अणभव मेळटा. बाबांली प्रकृतीचेर आशिल्ली पकड म्हणजेच (वस्तू) उत्पन्न करपाची शक्ती. तांची इत्सा शक्ती कृपेचो पावस घालता. आनी तिसरी तळ कळनाशिल्ली ज्ञान शक्ती खात्रीन तांगेले त्रिसुत्री माळेचे स्वभाव विशेष रचनेची कल्पना दितात. तांगेल्या प्रवचनांतल्यान आमकां तांच्या अगाध, अमर्याद ज्ञानाची झलक मेळटा. तांकां पुर्विल्ल्या धर्मग्रंथां विशीं आशिल्ली म्हायती, कला, विज्ञान हांचे विशीं आशिल्लें ज्ञान, मनशाक समजुपाची पात्रता हांच्यो मर्यादा हुपून पेले कडेन पाविल्ली ज्ञान शक्ती हें न चुकतां तांगेले सर्वज्ञतेचो, ज्ञानाचो आवाठ दाखयता.

बाबांनी खूबशा पावटी दाखोवन दिलां कीं तांगेलें साई अवताराचें कार्य हें चालूच उरतलें आनी फुडलो अवतार तें पूर्ण करतलो. हाचे फुडलो अवतार हो 'प्रेम साई' अवतार. तेन्ना बाबा परत एक पावट प्रेम साईच्या रुपान येतलो. हो शक्ती अवतार आसतलो आनी तें विश्व उर्जेचें नारी तत्व आसतलें. आपूण खंय आनी केन्ना अवताराच्या रुपान येतलोंहें बाबांनी आपल्या थारावीक भक्तांक पयलींच सांगून दवरलां. तांगेलो आवय-बापूय फुडल्या अवतारांत कोण आसतलो हेंवूय सांगलां. अजापाचें म्हणल्यार कांय भक्तांनी हें कबूल केलां की बाबांनी तांकां आपले हयातीतच फुडल्या अवताराचें प्रेम साईचें दर्शनय घडयलां.

साई अवतार सध्याक आपले विश्व उर्जेन पृथ्वीचो गिरो पुर्नउर्जीत करपांत आनी पृथ्वीर शांती, सौख्य स्थापीत

करपांत गुंतून आसा. बाबा आमकां दाखोवन दिता कीं विश्व हें इश्वरालें खेळाचें मैदान जंय तो आपले खेळ करता. बाबा आमकां सांगता, तुमचे अंतरस्थ जाणिवेच्या हर एक खिणाक हे वस्तुस्थितीची जाण दवरात म्हणटकर तुमकां सुखान जीण सारपाक आनी चड कसलीच गरज लागची ना.

ह्या युगांत जल्म घेवन श्री साई अवताराक समकालीन जावप, तांगेल्या कार्याक गवाय रावप, अवताराक मेळप, मुलाखत घेवप, ताचे वांगडा भोंवप, ताची सेवा करप हें कितलें भाग्याचें आनी अजापाचें! खरेलेंच हें भांगरा यूग म्हणपाक जाय.

## कार्य

## (एक एकठावणी)

जशी कुपांची वाफ पावसा थेंब्यांच्या रुपान शेतां-भाटांचेर पडटा, झाडां-पेडां आनंदभरीत जावन फुलतात, फळटात तशेंच निराकार, अमर्याद आशिल्लें तत्व व्यक्तीच्या रुपान आकार घेवन मनशां भितर तांचें पोशण आनी रक्षण करपाक येता. मनीस जावन पृथ्वीर येवप हेंच इश्वराचें गुपीत. पीक वतान भाजता तें पळोवन कुपांक काकुळट दिसता. तीं पावसाच्या रुपान धांवून येतात. पूण एक पावट पावसाक सुरवात जाली म्हणटकर सुर्याक पसून ताचो उपेग जाता. तेच भशेन देवाची कृपा मेळयली म्हणटकर अहंकार आनी लोभ हांकां पसून खळयेंतल्यान मार्ग दिवन

उपेगाक हाडूं जाता.

- बाबा

## पूर्ण अवतार

विज्ञान आनी तंत्रज्ञान ह्या क्षेत्रांत मानव जातीन फुडें पावल घालां. तो पावला-पावलान ज्ञाता कडल्यान अज्ञाता कडेन वता. तेच भशेन मनशाची आध्यात्मीक वाडय एक- एक पावल ज्ञाता कडल्यान अज्ञाता कडेन फुडें वचपाक जाय. इश्वर मनशाक समजुपाक कुस्तार. तो ताचे कल्पने पेले कडेन आसता. फकत देव देवाक वळखूंक शकता. मनशाचें आनी देवाचें मिलन जावपाक जाय. मागीर ताका देवाक जाणा जावपाक येतलें. म्हणटकर मनीस हो देवा कडेन वचपाच्या प्रवासाची सुरवात कशे तरेन करतलो? ज्ञात जगांतल्यान प्रवासाक वतना तागेली सुरवात करपाचें स्थान खंयचें जें ताका अज्ञाता कडेन पावयतलें? ह्याच वेळार अवतार मनशाक दैवी अवतरणांत आपलें स्वताचें खरें रूप आनी देवत्वाचो वा आत्मतत्वाचो वा सत्याचो सोद घेवपाची एक दुर्मीळ संधी दिता. मनशा खातीर फकत अवतारच हें आपले कृपेन करूंक शकता. म्हणटकर अवतार होच मनशान इश्वरी प्रवासाची सुरवात करपाचो पयलो पॉयंट. तोच मनशां भितरलो इश्वर जावन आसा. इश्वर ही अज्ञात वस्त जिचे कडेन तूं पावपाचो आसता. बाबा दोनय आसात. ज्ञात आनी अज्ञात. एक पूर्ण इश्वरी अवतार. अशे रितीन ज्ञातांतल्यान सुरवात करपाक तो मनशाक संधी दिता. इतलेंच न्हय,

तुगेल्या ध्येया कडेन वचपाची वाट दाखयता. तुका साधीं मार्गदर्शक तत्वांय दिता. तुवें कशे तरेन पावल-पावलान फुडें वचपाचें हेंवूय तो सांगता.

ही एक अती दुर्मीळ संद मनशाक आज दिल्ली आसा. मनीस इतिहासाच्या आज पसून जाल्ल्या अख्ख्या नोंदींत फकत दोनच पूर्ण अवतार जाल्ले आसात. एक श्रीकृष्ण आनी दुसरे सत्य साईबाबा. हें सत्य जगाच्या दर एका घराच्या कळसा वेल्यान जाहीर करपाचें इतलें म्हत्वाचें. तरीपूण इश्वराच्यो वाटो समजूंक कठीण. जरीकय आज मनशाच्या सौभाग्या लागून मनीस जरी श्री सत्य साईबाबांक समकालीन आसलो तरी लाखांनी लोकांच्या चोम्यांतल्यान साप्प थोडे लोक बावांल्या आंगांतलें दैवत्व वळखूंक शकतात. तरीकय ल्हानांतलो ल्हान प्रयत्न सोडलो ना. बाबा सांगतात, तुमी जर आपल्या म्हऱ्यांत येवपाक एक पावल घालें जायत तर हांव तीन पावलां घालून तुमचे मुखार येतां. जर मनशाक अवताराचो उपेग करून घेवपाची भितरल्यान इत्सा आसत तर तांगेले क्रियेक चालना दिवन अवताराच्यान तांगेली चाल जलद करूंक जाता. तांगेले जिणेचें प्रत्येक मिनीट न्हय, प्रत्येक श्वास ते मनीस जातीक अखेरच्या ध्येया कडेन व्हरपांत खर्च करतात.

अवताराक वळखप हें अंतर्मनांतले शक्तीचें काम. हांगा बुद्धिवादी चौकशी कामाक येना. ती फकत केमिस्टाचे उपेगाक पडत. देखीक जेन्ना एखाद्रो केमिस्ट प्रयोगशाळेंत मुशींत घाल्लो पदार्थ वळखता तेन्ना तागेली बुद्धी ताका मदत करीत पूण अवताराच्या बाबतींत आध्यात्मीक साधनेन ही वळख घरा हाडप जाता आनी जिणेचे मुशींतल्यान साधक

आपली साधना चालू दवरता. उपरांत मुशींतल्यान वेगळी वळख मेळिल्ली ती वस्त केमिस्ट वळखता. हाचे उलटें आध्यात्मीक साधकाक हे मुशीं भितरच रावपाचें आसता. आनी आपले साधनेचे उर्जेन पड्ड्यांतल्यान रिगून तें सार मेळोवपाचें आसता जें ताच्या आत्म्याचेंच अंतरंग आसता. फकत अवताराचें रूप आनी साधकाचें रूप हाची वेग-वेगळी वळख आसता. अवताराची दिव्य शक्ती वा उर्जेचो प्रवाह आनी साधका भितर आशिल्लो उर्जेचो प्रवाह दोनय एकमेकांक जुळपी आसतात.

खरें म्हणल्यार, ह्या प्रवाहाचो अवतार हो मूळ स्त्रोत. ह्या प्रवाहाचो अंतरज्ञानांत अणभव घेवप वा आपल्या स्वताच्या आत्म्याची जाणीव जावप हें आनी अवताराचे कुडींत आशिल्लें देवत्व जाणा जावप दोनय एकच. हेंच प्रमाण की साधक, नास्तीक, निरिश्वरवादी, साधू, सगळे साधक तांच्या भितरलो उजवाड भायर फुटपाचो प्रयत्न करतात आनी आत्मानुभवाच्या झोताक मेळपाक वतात.

इश्वराचो विश्वास मनांत थोडो-थोडो करून भरपा खातीर देव परतून परतून आपल्यो लिला दाखयता. वा आपल्या वैभवाचो थोडोसो अंश दाखयता जो भौतीक मर्यादा हुपून वता. अशे तरेचे चमत्कार तो दाखयता आनी आपली खरी वळख दाखोवन दिता. बाबा सांगतात, अगणीत लोकांतल्यान फकत ज्या लोकांचेर देवाची कृपा जाल्या ते रोखडेच देवाक वळखतात. तो भव्य, दिव्य, सुंदर, महान, तेजवंत, भयानक पूण सामान्य लोकांक सत, चीत, आनंद शक्ती ही दर एका मनशांत आशिल्लो चमत्कार. ही देवाली देणगी. प्रत्येक श्वास हो हाका गवाय आसा. प्रत्येक घडणारी

घटना ही देवाली· सासाय. इश्वर तुज्यांत स्थीत आसा हें ताचें प्रमाण जिवितांत क्वचितच येता. भायल्यान मनशाची दिसपी हीं कूड अशे रितीन वागता कीं ती अती मानवी शक्तींनी भरिल्ली आसा. तेन्ना अजाप जावन सगळ्यांचें लक्ष इश्वरा कडेन वळटा. हो मूळ स्वभाव विशेष. मनीस जातीक हो धडो दिवपाची परतून परतून गरज आसता. म्हणटकर देवा वेलो विश्वास, इश्वर वळखुपाची शक्त ही मनशाच्या आत्मीक बळाक घटाय हाडटा. मागीरच मनशाचें मन भौतीक जगा कडल्यान जगन्नियंत्या कडेन वळटलें.

वाबांनी सांगलां, हांव तुज्यांत तुजे खातीर आसां. तशेंच तुंवय म्हजे भितर म्हजे खातीर आसा. तरी पूण म्हाका तळमळीन तुका म्हजे विशीं थोडेंशें सांगूंक जाय जें तुका मार्गदर्शक थारतलें. तुमी म्हजी स्तुती केली म्हूण तुमकां म्हाका जिकूंक येवचें ना. वा तुमी म्हजी बदनामी केली म्हूण हांव शेणचों ना. तुमी म्हाका सत्यान, खरेपणान, प्रामाणीकपणान जिकूंक शकतात. हांव ही मनीस कूड धारण करुन आयलां तो सत्याक वयर काडपाक. तुमच्या सगळ्यां भितरलें सत्य. हांव सत्यावेलें सत्य. सगळ्या सत्यांवेलें सत्य. ह्या साई रुपाक सत्य अशें नामकरण केलां. तुमी विचारतले, सत्य मनीस रुपान ह्या संवसारांत कित्या आयलां? मनशाच्या काळजांत सत्या खातीर तळमळ लागपाचें बीज पेरपाक आयलां. मनशाक सत्याच्या मार्गार हाडून निमणें गोला (ध्येया) कडेन पावोवपाक ताका मदत करपाक, ताका सुचना आनी निमणो उजवाड दाखोवपाक हांव आयलां.

वाबा मुखार सांगतात, तुमी खातात तशें हांव खातां.

तुमी भोंवतात तसोच हांव भोंवतां. तुमगेल्या भाशेंत उलयता आनी तुमी जशे वागतात, तसो वागतां म्हणटकर तुमी म्हाका वळखतले. म्हाका समजून घेतले. हें सगळें तुमचे खातीर आसता, म्हजे खातीर न्हय. तुमकां हांव देवा कडेन घुंवडायतां. ते खातीर हांव तुमचो विश्वास मेळयतां. तुमगेलें प्रेम, तुमगेली शरणांगती मेळयतां. हांव तुमचे भितरलो जावन तुमचे सारकोच जातां. कारण तुमी म्हाका पळोवचो, आयकुचो, म्हजे कडेन उलोवचें. 'हस्त-स्पर्श' करचो. भक्तीन आनी पुज्यतेन वागवचो. तुमच्यांत बदल घडोवन तुमकां सत्याचे पुजारी करचे ही म्हजी येवजण. हांव सदां सर्व काळ सगळे कडेन हजर आसां. म्हगेले इत्सा शक्तीचो ताबो प्रत्येक अडथळ्याचेर आसा. म्हाका भूतकाळ, वर्तमान आनी भविश्याची जाण आसा. तुमचे भितर आशिल्ल्या भूत, वर्तमान आनी भविश्याच्या विचारांची तशेंच तुमच्या काळजांत लिपिल्ल्या गुपितांची म्हाका जाण आसा. पूण हांव केन्नाच लहर आयली म्हूण म्हगेल्यो शक्ती उघड करिना वा तांचें प्रदर्शन मांडिना. हांव जें कितें करतां वा करपाचें टाळटां ताचें कारण हांव एक आदर्श स्फुर्तीदातो म्हूण वावुरतां. म्हगेली जीण हें एक पुस्तक.

जें कितें थळ-काळाचें बंधन हुपून वता ताचें आधुनीक पद्धतींनी, उपकरणांनी, विचारांनी वर्णन करूंक येना कारण तें सगळें मनशाच्या पंच ज्ञानेंद्रियांचे व्यवस्थेक, निसर्गाच्या कायद्यांक, थळ-काळाच्या मर्यादांक बांधील आसा आनी ताका मर्यादा आसता. बाबा कितें आसात हें विज्ञान सांगूंक शकना.

ते शारिरीक कुडींत रावतात जिका थळ-काळाची

वंधनां आसतात. पूण तांकां इत्सा जाता तेन्ना हीं बंधनां ते हुपूं शकतात.

तुमगेलें भौतीक ज्ञान इश्वराच्यो वाटो समजूंक शकना. वुद्धीचे हुशारेन ताका वळखप शक्य ना. देवा कडल्यान तुमी तुमचो फायदो करून घेवपाक शकतात. तुमी ताचें वर्णन करून समजावन दिवंक शकतात. तुमगेलीं वर्णनां हें फकत तुमगेलो तर्क. तो तुमगेलो अज्ञान धांपपाचो प्रयत्न.

वाबांलें कूस पसून तुमी सांगूंक शकनात. मागीर बाबा कोण, कितें आसात हें तुमकां कशें कळटलें? हाचें उत्तर उघड आसा. तें म्हणल्यार सोदून काडप. ते खातीर तुमी आपले भितर पळोवचें पडटलें. भितरलो मनीस म्हणजेच भितर आशिल्ली सत चीत आनंद शक्ती. कारण बाबा आपले सतचीद् आनंद शक्तीन आपली जड स्थिती हुपूंक शकतात. दर एकान आपलें अंतरस्थ आत्मज्ञान करून घेतलें तरच बाबा कोण कितें हें बाबां विशीं थोडें तरी समजतलें.

## खाशेले दैवी गूण

बाबांली जी वाजू समजुपाक कठीण जाता वा तिचे विशीं भाकीत करूंक जायना ती म्हणल्यार तांगेलीं दैवी तासां वा गूण. हे गूण सोळा आसतात आनी ते फकत पूर्ण अवतारा कडेनच आसतात. पूर्ण अवतार जेन्ना पृथ्वीर येता तेन्ना पूर्ण शुभकामना घेवन येता. बाबांनी सांगलां, तुमकां कळपा खातीर ह्या दैवी गुणांचे पांच वांटे करून दर वांट्याक तीन-तीन गूण घाल्यात. हे पांच वांटे म्हणल्यार -

१) उत्पत्ती (निर्मणी)

२) राखण (देखभाल)

३) लय (विरघळप)

४) पयलींचें सगळें अस्तित्व जमेक धरप

५) खास कृपेची वांटणी करप

ह्यो पांच शक्ती भूत, वर्तमान, भविश्य ह्या तिनूय काळांत येवपी अवतारांक लागू पडटात.

अशे तरेन ह्यो पंदराय शक्ती एके कडेन केल्यो म्हणटकच तें बाबांलें सर्वव्यापकत्व. म्हणजे तो सदांच स्थीत आसता. ताका वेळेचें बंधन लागना. अशे तरेन तांगेली जाणीव जी सगळ्याक पातळ्ळया ताका लागून सगळ्या गजालींचें तांकां खिणांत ज्ञान जाता. आनी तें सगळ्या वेळार आसता. आतां निमाणो सोळावो गूण हो अस्तित्वाचो. हाचें वर्णन Exodus 3(14) जुनो टेस्टामेंट दुसरें पुस्तक) हातूंत केलां. आनी देवान मोजेसाक सांगलें, I AM THAT I AM आनी ताणें फुडें सांगलें, म्हाका तुमच्यांत धाडिल्लो आसा अशें तूं इस्मायालाच्या भुरग्यांक सांगतलो.

बाबांनी फुडें सांगलें, व्यक्तीक शरीर, मन, आत्मो आसता. पांच वेगळे-वेगळे गूण आनी तीन वेगळे वेळेचे वांटे, भूत, वर्तमान, भविश्य म्हणजेच पंदरा शक्ती पयली सांगल्यात. ह्यो परत शरीर, मन आनी आत्म्याच्या स्वरुपाक लागू पडटात. अशे तरेन पंदरा शक्तीचो हो पुंजुलो दर एका स्वरुपाक लागू पडटा.

अशे रितीन सगळ्यो शक्ती आनी ताचे फांटे हांचो गुंतावळो अवतारांत आसपावता. शरीर (काम), मन (भक्ती),

आनी आत्मो (शाणेपण) हाचोच वापर करून तो निर्मणी, पालन आनी लय करता. तांचें मोल करता. इश्वरी कृपेक लागून तातूंत थोडो बदल करता. वेळांतय बदल करता. भूतकाळाचो बदल वर्तमान काळांत करता आनी वर्तमानाचो भविश्य काळांत. ह्यो शक्ती सगळ्या विश्वाक लागू जातात. बाबांनी सांगलां म्हूण अजाप ना. बाबांली शक्ती ही अमर्याद आसा. तिचें प्रकटीकरण सदां काळाखातीर. सगळ्या तरांच्यो शक्ती ह्यो साईच्या मनगटांत एकवटल्यात.

अवताराचें भौतीक शरीर जल्मतांच ताचेर थारावीक खुणो घेवन आयिल्लें आसता. ह्यो खुणो ताचे दावे वटेन आसतात. कांय जल्मजात खुणो वा तीळ आसतात. अवताराच्या हड्ड्यार खूण आसप म्हणल्यार पवित्रतेचें प्रतीक. सगळ्या अवतारांक ती आसता पूण हड्ड्याचे दावे वटेन तीळ आसप ही अवताराची खूण. बाबा सांगतात, कृष्णाकय ती आशिल्ली आनी सगळ्या साईंकय ती आसता. बाबान एक फावट ही खूण आपल्या एका भक्ताक दाखयल्ली. त्या भक्ताले सांगणे वेल्यान ती स्पश्ट दिसताली. एक काळसार थिगळ कशें. लेव पिंगशे कातीर तें थिगळ म्हणल्यार गरूड पक्षाची आकृती आशिल्ली. बाबांनी स्पश्टीकरण दिलें, ती गरुडाची खूण आनी हे खुणेक खोल आध्यात्मीक अर्थ आसा. गरूड ही कर्माची खूण आनी तागेले दोन पाखे हे स्रद्धा आनी भक्ती हांचें प्रतीक. संस्कृतांत हे खुणेक हृदय-विहाग म्हणल्यार हृदय पक्षी म्हणटात. ज्याच्यो करण्यो इश्वराचे स्रद्धेन आनी भक्तीन भरिल्ल्यो आसतात त्या भक्ताच्या अंतस्करणांत इश्वर वसता.

बाबा हे पूर्ण अवतार आशिल्ल्याचें वेलें स्पश्टीकरण

तांणी दिलां. आतां आमी तांगेलीं थोडीं दैवी गुपितां जाणून घेवया. आतां आमकां हें जाणा जावप शक्य आसा आनी तेच बरोबर आमकां हेंवय समजलां कीं अवतारांत आशिल्लें दैवत्व वा बाबांले चमत्कार सांगप कठीण. केदोय व्हडलो विद्वान पंडीत जालो तरी तो आपल्या पंच इंद्रियांचो बांधील आसता. तशेंच एखाद्रो उपजत ज्ञान आशिल्लो ताणें बाबां मुखार तांचे दैवी शक्तीच्या कलांतलें एक तास जरी प्रकट केलें वा थोड्यांतलें थोडें गूढ जरी प्रकट केलें तरी बाबा कोण कितें हें समजुपाक दर एकाक आपलो आत्मो जाणा जावचो पडटलो.

बाबा कडेन अमर्याद पात्रताय आसा. अमर्याद शक्ती आनी अमर्याद रुपां. हाचेर कोणेंच मर्यादा घाल्ल्यो नात. अशें आसुनय पयलीं सांगलां तशें ह्या रुपांचेर बाबा पांगरूण घालता आनी आपूण एक सामान्य मनीस आशिल्ल्याचें भासयता. म्हणटकर सामान्य मनशाक बाबा लागींचे दिसतात. खूबशे लोक जे बाबांक मेळूंक येतात तांकां ही दैवी बतावणी समजना आनी आपलें सामकें चुकीचें मत थारायतात. बाबा स्वताच सांगतात, आपले कडेन खंयचेंय कठीण संकट सोडोवपाची तांक आसा. पूण कांय लोकां मुखार आपूण ह्यो अडचणी सोडोवंक कुरत्तार अशें दाखयतां. आनी हांव कांय नकळो अशें उलयतां. ते लोक थोड्याशा चमत्कारां वयर म्हजी तांक ना अशी कल्पना करतात आनी वतात. अशी तांची भावना तांणी करून घेवप ही तांची मोठी चूक. लोक आपल्यो हेर म्हत्वाच्यो गजाली विसरतात आनी म्हगेल्या चमत्कारां विशीच उलयतात. म्हजे बाबतींत हांव चमत्कारांक चड म्हत्व दिना. आनी

म्हगेल्या संपूर्णपणान म्हजे कडेन आशिल्ल्या हेर शक्तींच्या मानान चमत्कार ही एक जळार हतयाचे फाटीर बसचें अशी क्षुल्लक गजाल आसा. म्हज्यांत एक अतिशय गुपीत अशी गजाल आसा. आनी ती म्हणल्यार प्रेम. तें अमर्याद आनी अमाप आसा. ज्या लोकांनी ह्या प्रेमाचो अणभव घेतला तांकांच फकत हांव कोण हें कळूं येता.

फकत अवतारच आपलें वर्णन सांगूं शकता आनी आपलें कार्य वाडोवंक शकता. आनी कोणाकच हें शक्य ना. आमी फकत अणभव घेवपाक शकतात. बाबान सांगलां, तांगेलें सर्वव्यापी प्रेम भक्तांचें भविश्य बदलूंक शकता. तें प्रेम खंयचें रूप घेवंक शकतलें हें फकत बाबाच जाणात. म्हणटकर बाबा थोडया लोकांक बरे करतात आनी बाकिच्यांक कित्याक करिनात वा थोड्यांकच मुलाखत दितात आनी हेरांक कित्याक दिनात असले प्रस्न करप हातूंत अर्थ उरना. हाची दुसरीय एक जाप आसा. बाबाली मनशाची वळख ही पूर्वजन्मा साकून आसता कारण ते सर्वसाक्षी आसात. हाचे उलट आमगेली मनशाची वळख ही चडांत चड तागेल्या जल्मा साकून आसूंक शकता वा कांय वर्सांची आसूंक शकता. म्हणटकर निदान वेगळें उरता. बाबा दर एका मनशाक तागेलो पूर्व जल्म जमेक धरून ताका कितें फावता आनी अखेर ताका कितें दिल्यार ताच्या बऱ्याक पडत तें पळोवन तागेले आध्यात्मीक वाडीक जें बरें पडटा तें दितात. बाबा कित्या खातीर दिता वा दिना हाचें मूळ कारण हें फकत खंयचीच अट नाशिल्लें, शुद्ध आनी प्रेमाक लागून आसा हें भक्ताक जेन्ना कळून येता तेन्ना प्रेमाची वाटचाल सुरू जावन भक्ताच्या अंतस्करणांत

ह्या प्रेमाक जागो मेळटा. मागीर बदल सुरू जाता. आनी फकत थोडीं मिनटां बाबांच्या समोरा-समोर रावपाची गरज आसता. म्हणटकर हो प्रेमाचो प्रवाह सुरळीत जाता. पयलीं हें प्रेम बाबा खातीरच आसता. मागीर तें तागेल्या भक्तां कडेन पसरता. आनी तें सगळे मनीस जातीक वेंगायता. होच देवा कडेन पावपाचो राजमार्ग अशें बाबा सांगतात.

म्हणटकर अवताराचे चमत्काराचे बाजू कडेन कितें वेगळेंच आसा अशें समजुपाची गरज ना. हें तागेल्या सभावधर्माक धरूनच आसता. अवताराचो सभावधर्म तसोच आसता. तातूंत अडेचें भायलें कांयच आसना. आपल्यांत दैवी शक्ती आसा हें दाखोवपाक केल्लो तो प्रयत्न न्हय. आनी असो विचार करप हें चूक. तांगेल्या प्रेमाची ती अमर्याद तांक आसा हें खूब जाणांक खबर ना. म्हणून आमी आमगेल्या मनाच्या संकुचीत शिमां भितर बसोवपाचो प्रयत्न करतात. देखीक बाबा जेन्ना सैमाचेर आपलो ताबो दवरपाक आपल्या एक वा चड गुणांचो वापर करतात तेन्ना लोक आपले संकुचीत दृश्टीक लागून हें पळोवपाक चुकतात. सगळ्या जिवांच्या रुपाचेर आशिल्ल्या प्रेमा लागूनच तांगेले चमत्कार घडटात. तांच्या मुळाक प्रेमच आसता.

## गुपीत

आपल्या गुपिताची एक झलक उकती करून दाखयतना बाबांनी सांगलें, म्हाका मेजपाचो जोखपाचो प्रयत्न करूं नाकात. कारण तें तुमकांच न्हय कोणाकच साध्य जावपाचें ना. ताचे बदला तुमी स्वताक मेजपाचो

यत्न करात. स्वताचो सोद घेयात. म्हणटकर म्हाका मेजपाच्या प्रयत्नांक यश मेळोवपाक तुमकां सोपें जातलें. हांव तपाचरण करिना. हांव ध्यान करिना. हांव अभ्यास करिना. हांव सा◌ाक न्हय. हांव दादलो न्हय, हांव बायलय न्हय. हांव जाणटो न्हय वा हांव तरूणय न्हय. तरीपूण हांव हें सगळें आसां. हांव भुरग्यां भितर भुरगो, विद्यार्थ्यां भितर विद्यार्थी, बायलां भितर हांव बायल आनी दादल्यां भितर दादलो. हांव जेन्ना एकटो आसतां तेन्ना हांव देव. तुमी म्हजे म्हऱ्यांत भंया विरयत आयिल्लें म्हाका जाय. तुमचो तो अधिकार अशें समजून तुमी येवचें. जशे तुमी तुमच्या बापाय कडेन अधिकारान कसलीय वस्त मागून घेतात तशी म्हजे कडेन मागून घेवची. तुमी म्हाका आज पयलेच खेपे पळयता जायत पूण तुमची आनी म्हजी पोन्नी वळख आसा. हांव तुमकां सगळ्यांक वळखतां. युगां युगांनी म्हाका कार्य, कारण, परिणाम, भव, बंधन लागना. तशेंच माया म्हजेर ताबो दवरूंक शकना. तुमी तुमची जीण कशी उपेगाक हाडची आनी फायद्यांत कशें मरचें हें दाखोवपाक हांव आयलां. तुमी म्हजे लागीं येवपाक एक पावल घालें जायत तर हांव तीन पावलां घालून तुमकां मेळपाक येतलों. जेन्ना एक व्यक्ती आपल्या दुख्खाचें व्हडलें वजें घेवन म्हजे म्हऱ्यांत येता आनी तें रिकामें करता तेन्ना म्हाका खूब आनंद जाता. ताका ज्याची गरज आसा ती वस्त म्हजे कडेन भरपूर आसता आनी ताका ती दिवंक मेळटा. जे कोण म्हजी पुजा करतात ते म्हाका चड लागीं आसतात. आनी जे कोण पुजा करिनात ते लागीं नासतात हें समजप बरोबर न्हय. कोण पुजा करतात, करिनात, दोगूय म्हगेलेच.

---

म्हगेल्यो शक्ती म्हजे कडेन थोड्या वेळा पुरत्यो आसतात. पूण मागीर ना जातात अशें ना. त्यो सतत सदां काळा खातीर म्हजे कडेन आसतात. हें सगळें इश्वर इत्सेनुसार चलता. म्हगेलें शरीर हें हेर शरिरां भशेन. थोड्या काळा पुरतां ताचो राबितो आसा. पूण म्हगेली शक्ती ही सनातन, सर्वव्यापी., सदांखातीर. हें शरीर थारावीक कार्या खातीर आसा. ताचो उद्देश नितीची स्थापना करप आनी आचरणाचे नेम शिकोवप. तें कार्य सोपलें म्हणटकर हें शरीर ना जातलें. जसो उदकाचो बोमाडो.

**कार्य (पत्कर घेतिल्लें काम)**

जेन्ना देव हे भुंयेर पूर्ण अवताराच्या रुपान येता तेन्ना तो थारावीक कारणा खातीर येता. हें कारण खंयचें? वयाच्या चवदाव्या वर्सा सत्य साईन आपलीं स्कुलाचीं पुस्तकां कुशीक दवरलीं. आनी आपले भावजेक सांगलें, "हांव वतां. आतां हांव तुमचो न्हय. म्हाका म्हगेलें कार्य आसा. म्हगेले भक्त म्हजी वाट पळयतात. आनी बाबांनी त्या वेळार खंयचें काम ताचो उल्लेख केलो. ते स्पश्टपणान सांगतात, म्हगेलें कार्य म्हणल्यार लोकांक फकत बरे करप, तांकां थाकाय दिवप आनी तांगेलें व्यक्तिगत दळिद्र पयस करपाचें न्हय. हें प्रसंगार घडिल्लें. म्हगेल्या कार्याक पुरक आसतात. म्हगेलें पत्कर घेतिल्लें मुख्य कार्य म्हणल्यार वेदांची, शास्त्रांची पुर्नस्थापना करप. तातूंतलें ज्ञान सगळ्या लोकांक समजावन दिवप. धर्म (निती) हें म्हगेलें ध्येय. धर्माचो प्रसार शिक्षणान करप हो म्हगेलो इरादो. वेद ही धर्माची

बुन्याद. म्हगेलें कार्य तुमचे दोळे उकते करपाचें. वेदांची व्हडवीक तुमकां दाखोवपाची. आनी तुमकां पटोवपाचें कीं, जेन्ना वेदांचे आदेश तुमी आचरणांत हाडटले तेन्ना ते तुमकां परिणामकारक फळ दितले. वेदांचेर आशिल्लें म्हगेलें प्रेम आनी मनशाचेर आशिल्लें म्हगेलें प्रेम हीं दोनूय एकमेकां कडेन जुळपी आसात. अवतार मनशांचेच वाटेन काम करता कारण मनीस जातीन अवतारा कडेन लागींच्या नात्यान येवचें अशें अवताराक दिसता. पूण अवतार मनशाचे कल्पने पेलेकडचे उंचायेर वता. मनशान ते उंचायेर पावपाचो प्रयत्न करचो. आनी त्याच हावेसान आपल्या अंतरस्थ आशिल्ल्या देवाची जाण दवरून देवा कडेन पावचें हेंच अवताराचें कार्य आनी म्हणूनच तो मनीस रुपांत हे भुंयेर येता. हांव तुमकां आनंदाचे तिजोरेची चावी दिवपाक आयलां. आनंदाच्या झऱ्याक नळांत बंद करून तुमी कशे तरेन उपेगांत हाडचो हें तुमकां सांगपाक आयलां. कारण तुमी आनंदा कडली वाट विसरल्यात. तुमी भोगपी दुख्खां वा तुमकां मेळपी आनंद हांकां दोगांकय हांव कारण न्हय. तुमीच तांचे चित्रकार आसात. आनी तुमीच ते आंखणेक जबाबदार आसतात. हीच सांखळ तुमकां बांदून दवरता. हांव सदांच आनंद स्वरूप आसतां. (आनंदाचें प्रतीक)

येयात, म्हजे कडल्यान आनंद घेयात. त्या आनंदाचेर रावात आनी पूर्ण शांतीचे भोगी जायात. हांव कोणा कडल्यान कांयच घेना. फकत तांगेलें प्रेम आनी भक्ती घेतां. ही म्हगेली सदां खातीर चालू आशिल्ली गेल्ल्या खूबशा वर्सांची चाल. जे लोक कोण हांगा येतात ते म्हाका स्रद्धेची संपत्ती, भक्ती आनी प्रेम दितात. अडचणी, चिंता हांकां दुभाव नासतना

येवकार मेळटा. कारण तीं तुमकां विनय, पुज्य भाव हांचे धडे दिता. तीं फकत हांयसां (गरयेक लावपाचीं). जाका लागून तुमकां हांगा हाडप जाता. हांव तुमकां म्हजे म्हऱ्यांत आपयतां आनी केन्नाय भौतीक वस्तू दितां. कारण तुमी देवा वटेन वळचें. पयलीं खंयच्याच अवतारान अशें करूंक ना. भौसां भितर वचून तांकां उपदेश दिवप, तांकां मार्गदर्शन करप, तांकां थाकाय दिवप, तांकां वयर काडप आनी सत्य ,निती, शांती, प्रेम हांच्या मार्गार हाडप. तुमी आशा सोडली आनी देवाक शरण गेले जायत तर तो तुमकां मार्गदर्शन करतलो. आनी तुमची राखण करतलो. देव तर त्याच कामा खातीर हांगा आयला. आपूण तशें करतलों हें तो दाखोवन दिता कारण ह्याच कामा खातीर तर ताका हांगा हाडला.

हांव केन्नाच तुमकां एकाच नांवाची वा एकाच रुपाची पुजा करात म्हूण सांगना. खास करून म्हगेल्या सध्याच्या नांवारुपाची. म्हाका लोकांक तांगेल्या इश्ट देवतांच्या नांवा-रुपा पसून, पुजा करपा पसून म्हजे कडेन ओडपाची म्हाका इत्सा ना. कारण तीं म्हजींच दुसरीं नांवां-रुपां आसात. तुमी तर्क करता जायत जाका तुमी चमत्कार म्हणटात ते करून हांव लोकांक आकर्शीत करतां, म्हजे कडेन ओडटां आनी फकत म्हजे कडेन हाडटां. पूण तें तशें न्हय. जे चमत्कार तुमी म्हणटात ते फकत प्रसंगाक धरून त्याच वेळार सहज घडून वतात. तें दैवी वैभवाचें प्रमाण आसता. तुमी तुमगेली इश्ट देवता बदलून एक नवें रूप, नवें नांव घेवप बरोबर न्हय. तुमी म्हाका पळयलो वा म्हाका आयकलो म्हूण तुमगेली इश्ट देवता सोडून दुसरें खंयचेय रूप बदलचें

म्हूण ना. तुमी तुमगेल्या इश्ट देवाचेंच भजन-पुजन तुमी करताले तेच पद्धतीन फुडेंय करचें. तुमकां कळून येतलें तुमी म्हाका चड आनी चड लागीं येतले. कारण सगळीं नांवां आनी रुपां हीं म्हजींच आसात.

तुमी फकत इश्वर आयलो तें पळयलें. ताची व्हडविकाय गायली आनी तितल्यार ओगी रावले. तुमकां अवतारा पसून फायदो करून घेवपाची तळमळ लागिल्ली ना तर तातूंत कांय अर्थ ना. पयलीं तेंपार देवाच्या अवतारांक खूबशे लोक मानिनाशिल्ले. इतलेंच न्हय तांगेले सोयरे-धायरे, मित्र आदी तांची पुजा-अर्चा करपाक कचरताले. फकत थोडेशे साधू लोक जांणी अभ्यासान आनी आध्यात्मीक साधनेन आत्मज्ञानाचें बीज काळजांत रोयिल्लें तेच अंतस्थ सत्य जाणा जाताले. पूण आज स्रद्धा, पुजा मुळा पसून हुमटावन काडपाचे प्रयत्न चल्ल्यात. तुमी भाग्याचे जांकां म्हज्या समोरा समोर हाडल्यात. हे खातीर तुमी तुमगेल्या कितल्याशाच जल्मांनी केल्ल्या पुण्याचे उपकार मानपाचे. तुमचें नशीब एक सामान्य बरें नशीब न्हय. सध्याचो अवतार हो तुमचे भितर मिसळटा. हें कितें तरी अप्रूप नातें. हें नातें मोडिनासतना तशेंच तुमी तुमचें ध्येय गांठीसर दवरपाचें. तुमच्या काळजांतल्यान तुमी म्हजे कडेन जवळीक सादात आनी तुमकां ताचें फळ मेळटलें. मागीर तुमकांय बी परमोच्च प्रेमाचो थोडो वांटो मेळटलो. ही एक व्हडली संद. खात्री दवरात, तुमकां सगळ्यांक मुक्ती मेळटली. जाणा जायात तुमी वांचले. खूब जाणांची परिस्थिती सुधारतली, सगळ्यां खातीर जीण सुखी आनी आनंद भरीत जातली आनी तें भांगराळें यूग परत एकदां येतलें हें मानपाक कचरतात.

तुमका हांव खात्री दितां, हें इश्वरी शरीर व्यर्थ जावपाक आयलें ना. ताका येस येतलें. मनीस जातीवर आयिल्लें संकट तें पयस करतलें.

इश्वरी प्रेम ही खातीन खूब पवित्र वरत आनी बाबा कडेन हेर सोळा गूण नात! अशें धरलें जाल्यार परून हो एकच गूण बाबांक हेर मनीसा जाती परून वेगळो काडटलो आनी होच गूण बाबांक सगळे तरेच्या मनशां कडेन व्हावी हाडटा. हातूंत सगळ्या तरांचे, सगळ्या स्वभावांचे इतलेच न्हय तर धंदेवाईक, गुन्यांवकार, कायदो मोडपी हे सगळे ह्या प्रेमाचे शक्तीक शरण आयल्यात. हे तांचे कडेन इश्वरी पत्राच्या स्थान पावलां आनी तांचें भविश्यूच बदलून उडयलां.

## प्रतिकात्मक प्रेम

म्हजेली शिकवण म्हणल्यार प्रेम. म्हजेलो संदेश म्हणल्यार प्रेम. म्हजेली हालचाल म्हणल्यार प्रेम. म्हजेले जिणेची वाटचाल म्हणल्यार प्रेम. मनशाच्या अंतस्करणांत आशिल्ल्या सगळ्या वस्तूं भितर प्रेमच चड मोलाचें.

प्रेमान उलयल्लें एक उतर पुरो जाल्ल्या मनशाक थाकाय दिता. तुमी प्रशांती निलयमांत चलून येतात. रेल्वेन येतात, बशीन येतात. पुरो जाल्ले तुमी लागेत येतात आनी म्हाका मेळपाक उत्सूक आसतात. हांव पयले वेल्यान विचारतां, तूं केन्ना पावलो? बाकिच्याक प्रश्न पडटा. बाबा हो प्रश्न कित्याक विचारता? ताका खबर ना? खात्रीन बाबाक ताचे विशीं संपूर्ण खबर आसा. मागीर ही चवकशी

कित्या खातीर? पूण हो जो प्रश्न तुका केला तो तुका उभारी मेळची म्हूण. तुका दिसता भितर सरना फुडें बाबा म्हजे कडेन उलयले. बाबा सांगता, म्हाका खबर आसूनय हांव तुका आनंद दिवपा खातीर विचारतां.

सगळयांनी दवरिल्ले आस्थे प्रमाण आनी भविश्यां प्रमाण भगवान श्री सत्यसाईबाबा जागतीक देवदूत आनी तारणहार म्हणून ह्या दशकाचे अखेरेक प्रकट जातलो. सगळी आस्त आनी भविश्यां सांगतात, ह्या शतकाच्या शेवटाक आर्थीक, भौगोलीक आनी राजकीय क्षेत्रांत मोठी उलथापालथ जातली.

प्रशांती निलयमांत आश्रमांतल्या देवळा कडेन एक यादस्तीक आसा. ताचेर जगांतल्या पांच मुख्य धर्मांचीं चित्रां पितारल्यांत. ते म्हणल्यार हिंदू धर्म, ख्रीस्त धर्म, बुद्ध धर्म, मुसलमान धर्म आनी झोराष्ट्र धर्म (पारसी धर्म) प्रत्येक खूण ही आपले पुरतें सांगता. श्री सत्य साईबाबांलो हो चमत्कार, हे पृथ्वीर तांगेलो एकच आश्रम असो आसा जंय सगळया धर्मांचे लोक एक जावन देवाचे भक्तीचीं गितां गायतात. आध्यात्मीक चळवळीक प्रेरणा दिवपी इश्वरी भावनेचें सूख घेवपाक आनी मनाचे शांती खातीर सगळ्यो वाटो प्रशांती निलयमा कडेन वतात. थंय अशे तरेचें वातावरण निर्माण जाता कीं, लाखांनी लोक आपलो देश, खंड विसरतात. कुळी संस्कृताय, भेदभाव, वेगळेंपण इतलेंच न्हय तर वय, जिणेची अवस्था हें सगळें विसरतात. भगवान बाबा सदांच सांगतात, सगळ्यो वेगवेगळ्यो सब्दा आसूं दी. तांणी आपली भरभराट करूंदी. इश्वराचें वैभव सगळ्या भाशांनी वेगवेगळ्या सुरांनी गावं दी. वेगवेगळ्या सब्दांक

मान दियात. तांकां वळख दियात. तांकां सत्याचेर आधारीत म्हूण मानात. फकत इतलेंच पळयात कीं ते एकवटाची ज्योत पालवचेनात.

गुपीत

तूं साईच्या मार्गान वतलो.
जाल्यार तुका सुखी दीस मेळटलो
ज्या जाग्यार स्रद्धा आसा, थंय प्रेम आसा.
जंय प्रेम आसा थंय शांती वास करता.
ज्या जाग्यार शांती आसा थंय साई आसा.
जंय साई आसा थंय गरजेक थारो ना
जंय गरजेक थारो ना थंय इश्वरी राज्य चलता.

## दीस सोंपतना

जेन्ना हांव थंड आनी शांत बसतां
दीस सोंपतना स्थीर नदरेन पळयतना
म्हगेलो साई येता विश्वाचो चालक
आनी म्हजे कडेन उलयता कृपेच्या म्होवाळ शब्दांनी
कोणच आयकूंक शकना फकत हांव एकटोच आयकतां
तोच एकलोच म्हाका जाणा जाता आनी हांवूय बी ताका

स्तब्धतेन आमी एकमेकाक पळयतात
आनी उपरांत थंडपणान दीस उदेता.

## म्हाका सांगनाका साई

म्हज्या काळजार तुजो दवर हात
भायर पिळून काड तातूंतल्यान पोन्नी जीण
तुगेले दिव्य दिप्तीन ती चींब भिजय
आनीक पेटूनी ती म्हज्या काळजांत ज्योत कशी
सांगनाका म्हाका, तुका हें जमता हें हांव जाणां
तुगेले अनंत स्फुर्तीचो हांव बाळक उरूंक ना.

## आयक आवाज साईचो

आयक आवाज साईचो
साईचे उपस्थितीची सुलूस घे
साईचो मार्ग अनुसर.

***

